

सु. म. तडकोड





# ।। कोंकणी चम्पू काव्य ।।

## ।। गायत्री देवी ।।



सु० म० तडकोड

**।। कोंकणी चम्पू काव्य - गायत्रीदेवी ।।**

।। कोंकणी चम्पू काव्य - गायत्रीदेवी ।। म्हळयार
निरागस, अपौरुशेय जिणेची करुणरम्य गाथा. ही गा
आसा अशे एके व्यक्तीची, जी निर्मणी आशिल्
विशेशपणान सांगचें जाल्यार, स्वयं सृश्टिक
ब्रह्मदेवाली. ब्रह्मदेवाली ही पुत्री धर्तरिर जल्माक आय
आनी मातयेच्या पावलांनी चलली. ही अस्तुरी निश्कल
खीण जगली. अपाप मनाची, विकल्मशित विचारांची
अनघा. आपणाक अमाप तकालस दिवपी व्यक्तीकय, खेपऽ नासतना, क्षमा कर
ही अमला. इतलें करूनय तिका जगचें पडलें जावन जीणेरूपी हवनांत ब्रह्मदेव
धुकलून वडयिल्ली एक समिधा कशी. ती नाशिल्ली कोणाची मिंधी, आ
नाशिल्ली कोणाली असखी. वांट्याक आयिल्ली पित्याची भूमिका निव्व
भागधेय म्हूण न्हय तर, व्हडा प्रसन्नपणान जगपी तिचो पिता आशिल्लो ए
सम्राट. तोय तिच्या प्रारब्ध-नाट्याक सुखदायी करूंक पावलो ना. तिचे दोन ब
म्हळयार बलशाली, पराक्रमी पौरुशत्वाचीं प्रतिकां; परन्त तेय आहत जा
हतबल जाले, अपेशी जाले, तिगेली राखण करता आसतना. तीन राणयांचो घो
आशिल्लो एक महान रणवीर राय, तिचे कडेन आपण जावन आकर्शित जाल्
संबंदितांक फुसलावन, व्हडा येत्नान लग्नूय केल्लें... तोय तिचें रक्षण करूं
पावलो ना. असले हे अटमटवाळे तिका कित्याक काडचे पडले, हें कुवाडेंच!

**।। सु० म० तडकोड ।।**

एक कवी. गोंय विद्यापिठांतलो सेवानिवृत्त प्रोफेसर. मुळावें नांव सु० म
तडकोडकार. कविनाम – सु० म० तडकोड.

**।। कोंकणी चम्पू काव्य - गायत्रीदेवी ।।**

।। कोंकणी चम्पू काव्य - गायत्रीदेवी ।। म्हळयार कोंकणी भाशेचे क्षमते
सुपुल्ली जाणविकाय. ह्या चम्पू-काव्याची संरचना म्हळयार नवरसात्म
जाणविकायेचो वझरो. भारतीय साहित्यशास्त्रान केळयिल्ल्या तेच प
मलयालम मणिप्रवाळ काव्यछन्दांतय रचना केल्ल्या वृत्ती-प्रवृत्तींच्या वृत्त
मात्रांल्या रमणीय वझऱ्यांत न्हाता आसतना, आपणालेंय खेरित प्रकारचें गुंज
करपाचो जाता तितलो सटिक येत्न करपी करुणरम्य भाशेची एक सुस्
वाटिका. साना-म्हालांसावन साबारांच्या पिडेंत आनी संकश्टांत वावुर
समश्टीचे विंगड विंगड संस्कृतीक नियाळून पळोवपी एक करुणरम्य गाथ
वझऱ्याचे वेंगेंत आशिल्ल्या भाशेन ताचे तडेर वावुरपी हे वाटिकेंत साकार जात
हे गाथेंतल्या अणभवांचो, तपस्कारांचोय परात्मभावान सोद घेता ही वाटिक
पार्थिव मनशांचे जिणेंत कारुण्याचे अस्तित्वच कित्याक काय म्हूण
कारणमीमांसा करतल्यांच्या सोदांत ती परपरत वता.

## ।। कोंकणी चम्पू काव्य : गायत्रीदेवी ।।



मोगाळ भौमानेस्त
बस्ती वामन शेणॉय
हांका
नमस्कारेन

९/५/2020
(सु० म० तडकोड)
पणजी, तिसवाडी, गोंय
(मो० ९४०२४०८८७५)




।। सु० म० तडकोड ।।

|| कोंकणी चम्पू काव्य : गायत्रीदेवी || (अभिजात कोंकणी भाशा काव्य)

|| कवी : सु० म० तडकोड ||

||Konkani Champoo Kaavya : Gayatri-devi || (A Classical Poetry in the Konkani Language)

|| Poet : Su. Ma. Tadkod ||



प्रथमावृत्ती : जून पंदरा, विसाशेवीस

मुखचित्र आनी भितल्लीं रेखाचित्रां :
वासुदेव यशवन्त दिवकार

मुद्रण : ओमेगा ऑफसेट,
शेट्टी गल्ली, बेळगांवी, कर्नाटक – ५९० ००२
दूरध्वनी क्रमांक : ९८४४०२३७७४, ८७६२९०४६८४

प्रकाशक : केदारनाथ सुधीर तडकोड,
१/बी, एस-५, दुसरो माळो, कामत प्लाझा,
सान्ता इनेज, पणजी, तिसवाडी, गोंय – ४०३ ००१
दूरध्वनी क्रमांक : ०८३२-२२३२०१५, ९०११०५२०१५

वितरण व्यवस्था : प्रियद सुधीर तडकोड,
प्रियद वितरण,
१/बी, एस-५, दुसरो माळो, कामत प्लाझा,
सान्ता इनेज, पणजी, तिसवाडी, गोंय – ४०३ ००१
दूरध्वनी क्रमांक : ०८३२-२४२३५७७, ९०११०५२०१५

मोल : रुपये तीनशे केवळ
ISBN 81-900262-8-3

चत्राय : || कोंकणी चम्पू काव्य : गायत्रीदेवी || ह्या काव्याच्या पुस्तकांत कांय सुवातीर सांवटी पडिल्ली दिसता. चरणाफाटल्यान चरणां, वाक्याफाटल्यान वाक्यां हे सांवटेंत दिसतात. वाचप्यांनी तिचे कडेन दुर्लक्ष करचें ही विनवणी.







# ।। गायत्री देवी - कोंकणी चम्पू काव्य ।।

- सु० म० तडकोड

# ।। प्रभावळ ।।

।। हें म्हजें माणकुलें ''कोंकणी चम्पू काव्य : गायत्रीदेवी'' कोंकणी मायेच्या चरणांचेर समर्पित भावान ओंपतां ।।

सु० म० त०

## ।। मंगलाचरण ।।

सृजनकर्ता तूं । अवधारी आत्मदेवा ।
शब्दभुशण तूं । निर्दोश चित्त भावा ।।मं१।।
शिवमानस तूं । तुजें नांव लंबोदरा ।
शुभ-लाभ पुत्र । ऋद्धि-सिद्धी भ्रतारा ।।मं२।।
प्रथमपुज्या तूं । महासुखाचो अर्णव ।
केतु-देवता तूं । सुमुख करता गर्व ।।मं३।।
मतिमुर्ती अर्थ । संवादक प्रकाशा ।
शुण्ड रक्तवर्ख । तर्कवितर्क आशा ।।मं४।।
ओंकार वेदांग । साता जल्मांचो स्रोत ।
निर्मळ मोक्षांग । निरन्तराचो धौत ।।मं५।।
तारिलें ज्ञानींक । तुवें हांव अज्ञानी ।
प्रणव संचार । दुर्वांनी नी शमींनी ।।मं६।।
चम्पूकाव्य हृद्य । निर्मणी ही संवेद्य ।
संस्कृती तारक । कलियुग भेदक ।।मं७।।
देवा गणस्पते । अन्धकांक दयेणी ।
दोणि दोळे तुका । नियाळती श्रवोणी ।।मं८।।
पाथोनिधी न्हय । न्हंय लेगीत पल्वल ।
हें काव्य केवल । वझऱ्या कलकल ।।मं९।।
ओंपता रे पदा । एवमस्तु पर्मळा ।
साहित्याचो जल्म । पदां तुज्या सकळा ।।मं१०।।
नमो नमो नमो नमो । स्वामिनी कैवल्यपुरिची आई ।
कुलस्वामिनि शान्ताई । बुद्धिहीन गायतां ही गीताई ।।मं११।।
नमो नमो नमो नमो । दर्शन दी गे देवी ह्या दीना ।
बाला अमरेश्वरी । जगन्मातेश्वरी सोडय जन्म-मरणां ।।मं१२।।
नमो नमो नमो नमो । आशा तृश्णा न कर निशीं विलम्बा ।
सत्वर यो गे आंई । दयाळे दी अमरित मोक्ष कदम्बा ।।मं१३।।
श्रीदेविशान्तादुर्गे । हे भगवती वनप्रिय हर्षरती ।
तमारी तूं आयली । जावन दुरितमर्दिनी सिंहाधिपती ।।मं१४।।

रूपांय अगणित संचित । दुर्धरविलोचने शांतसुलोचने ।
काली शिवशरणागत । डमरू लज्जित, मृदंग भजित भू तने ।।मं१५।।
माये तूं पतिमोहित । सुमति समरकान्ते संकरकान्ते ।
धांव गे धांव निजगुणे । यद्यपि शोणित तूं करुणाकान्ते ।।मं१६।।
नमो नमो नमो नमो । निवारण कर कुमती हे दिव्यांगे ।
तूं स्पर्श सुमतीचो । दिग्पालांचे हात नित नव्यांगे ।।मं१७।।
नमो नमो नमो नमो । दुर्गम आरोहण सार्थक पावन ।
तुजी आज्ञा अश्टसिद्धि । निर्माण गे परमार्थ अभिरामन ।।मं१८।।
नमो नमो नमो नमो । शान्ते दर्शन केवल सुखच होय ।
संकट हरिणी देवी । पिडा मोचिनि मंगल आनंद पाय ।।मं१९।।
नमो नमो नमो नमो । सदये लेखन तुज्याच हस्ते होय ।
जन्मो जन्मी गायत्रीच । दीन कथा तेजोमयीची गाय ।।मं२०।।
तेजोमयी शारदे । अठरांय पुराणीं तुजें अस्तित्व ।
कोटिचन्द्रप्रभासे । कळगोय न्हय केवळ गे निसत्व ।।मं२१।।
देवि आवसु माये । वीणा ग्रंथ धारिणी सरस्पते ।
गोड्डे पडलों मुखार । निवारय निवारय अभय वन्दिते ।।मं२२।।
ब्रह्मविचारसागर । न्हय हो न्हयच हो गोड्डो नाच ।
घोसु हो अन्यायाचो । अस्तुरेचे विकट जिणेचो कांच ।।मं२३।।
स्वरदे वर्दे शुभदे । कमलासने कमल जल करतां धारण ।
आयक करुण स्वर गे । नादब्रह्म तुज्या आसा दडून ।।मं२४।।
पद्माक्षे पद्मा देवी । मोन्याकय करी तूं वाचस्पती ।
म्हजे लेखणीक दी । अवधान भान माते सरस्वती ।।मं२५।।
आतां वन्दूं गुरुचरण । तोच म्हज्या सर्वस्वाचो स्वामी ।
सुप्त सचेत अनुशील । तान म्हजी निवांत तुजिया नामी ।।मं२६।।
तुजे उतर निरंजन सत् । विवेचनेचो तूंच तर बृहस्पती ।
शास्त्र–शारदा विकट । अनवट तुज्या मस्तकीं सरस्वती ।।मं२७।।
अपाडाचे पलतडे । गिन्यानाच्या अर्णवीं तुजो गाज ।
विवादांतय सुरसता । गवेशणांन्तुय अमल परम साज ।।मं२८।।
अभिधेंतल्या प्राणांतु । लक्षणेचे प्रज्ञेक साज व्यंजनेचो ।
पुनर्जल्म देय गुरू । ताच्या ज्ञानीं नादु अद्भुताचो ।।मं२९।।

मळब केन्ना पडटा । वारो केन्ना झडटा तूं जाणा ।
हांव अशब्द दादुलो । बिरुदाचो शिखण्डी सानुलो नेणा ।।मं३०।।
तुज्या चरणीं स्पर्श । चित्ता तलगत तलगत मंगळ अर्थ ।
तुज्या उपदेशीं लुवण । अस्त्र शस्त्र साम दाम वेदार्थ ।।मं३१।।
शांती मनाची सूचक । अंधकार अंजनाय गुरूर्देव ।
शरीर वाणी संयमित । प्रसन्न बुद्धि इन्द्रिय दक्ष सदैव ।।मं३२।।
म्हजे रे चित्त तुज्या । स्वरांत अभिलाशाय अपरंपार ।
गंगा आसा दारांत । एकच जव दिता जिणेक आधार ।।मं३३।।
जाणून घेतल्या पिडा । तूं जाणा अलौकिक जिणेचो सार ।
शीलविरयत अस्तुरी । ना हांव हुमेची स्रमविणे धार ।।मं३४।।
वितराग विरयत पवित्र । तूंच पारसमणी जिणेचो जाय ।
कळ्या विणे फूल गुरू । उदका विणे साळिक दुधा विणे गाय ।।मं३५।।
अटंग्य गिन्यानांत तूं । योगेश्वर गिन्यानाचो मेरू ।
प्रौढीचो अन्त निरन्त । योगक्षेमी नीरज म्हजो गुरू ।।मं३६।।
तूं धर्मज्ञ धर्मकर्ता । तूंच सद्दां निश्पाप धर्मपरायण ।
शास्त्रकोटी तुज्याच । चरणी बसून हांव नीच आसन ।।मं३७।।
नासल्यार नासुं व्यासु । भासु कालिदासु उत्कट काव्यार्थु ।
ह्या चम्पु-काव्यीं नितळ । आसूं दी नवनितीय भावार्थु ।।मं३८।।

झटिती झणझण यो गे सरस्वती ।
न्हेंसय गे कपायि ह्या काव्याकु ।
उद्धृत उद्धृत मयुराची केका ।
ईरण दी ह्या ईरडी काव्याकु ।।मं३९।।
सुशान्त परिसर चराचर निवान्तीं ।
उषा स्वप्नील दिगन्त धडेचेर ।
कंपुगु परिमळ वनरानांतु देवी ।
लिकलिकूं काव्यमुर्त देगेचेर ।।मं४०।

हें महाराज्ञी गायत्रीदेवी चम्पु-काव्य । कोंकणी भाशेचो एक आरव ।
निश्कलंक जिणेचें वैभव । म्हजी माय भास ।।मं४१।।
म्हजे भाशेचो ध्वनी । रुपार उलोवण्याची जननी ।
संकेतांची मांडणी । क्रमबद्ध ।।मं४२।।

न्हय ती विसंगत । आनी न्हय ती सांकेतिक ।
शेंकड्या समश्टींचे प्रतीक । अखण्डित ।।मं४३।।
म्हजे हे भाशेचो उगम । गीर्वाणवाणी करी तिका सुगम ।
संस्कृत अर्णवाची सज्जन । एक न्हंय म्हणा ।।मं४४।।
हेर प्राकृतांची थोरी । कोंकणीच्या माजारीं ।
अपभ्रंशांची कोरी । पुण्यसिद्ध कर्म ।।मं४५।।
कोंकणींची सुत्रां । परम विनम्र पवित्रा ।
आक्रमकांची चित्रां कशी । म्होवाळ होय ।।मं४६।।
वर्तता तो गोंयकार । कोंकणीचो फुडार ।
निजा भाशेचो रूपकार । कोंकणी भास ।।मं४७।।
नीज गोंयकाराची कुरू । सूक्षिम उतरांचे सारू ।
विंगड विकास विचारू । मांडिताती ।।मं४८।।
उतरावळींचो मांगर । वाक्यावळींचो वेव्हार ।
अनवट सुरबुसाचो सार । वर्णिताती ।।मं४९।।
आमच्या खारवी-गाबतींनी । आमच्या शेतकामतींनी ।
आमच्या विंगड जातींनी । कोंकणी दिली ।।मं५०।।
रासवळ उतरावळीचे भाण्डार । साहित्य निर्मणीचे कोठार ।
लिप्यान्तराच्या आदारार । कोंकणी वाडे ।।मं५१।।
म्हजे कोंकणीची कथा । ना तिका व्याकरणाची व्यथा ।
भारतीय भासांची संथा । धादोशी देय ।।मं५२।।
कोंकणी बांदावळ । सुरबूस म्होवाळ ।
विरोधी पुरक मेकळी नादावळ । कोंकणी मूळ ।।मं५३।।
न्हय तें आजचें बाळ । जरी अनेक तिचे माथाळ ।
अस्तित्वाची थळाथळ । म्हळ्यारी कोंकणी कूळ ।।मं५४।।
ही चम्पु-काव्याची रचना । भोव लवचीक स्वरांची जाणा ।
छन्द वृत्ताच्या मनना । कोंकणीची अमाप शक्ती ।।मं५५।।
हांव कोंकणीचो कामारी । आशिर्वाद देय भ्रामरी ।
भास निळ्या पांखारी । कोंकणी भास अन्यथा उखलेचि ना ।।मं५६।।
चम्पु-काव्य म्हळ्यारी । न्हय गा आळख्या-विळख्याच्यो गजाली ।
कोंकणीच्या भुजांरी । एक शोक-काव्य ।।मं७।।

विंगड विंगड मोडी । विंगड विंगड गोडी ।
शोकितेची तोडी । कोंकणी जाणा ।।मं५८।।
काव्य हे विकट । न्हय खचितच तर्कट ।
हट कटुवाहट प्रकट । तरी कथन हें कुण्ठित उत्कण्ठित ।।
गायत्रीचो जाणार । अस्तुन्यांचो आदार ।
करुण भाशेचो कैवार । कोंकणी घेय ।।मं५९।।
ह्या सार्थकाची कार्यसिद्धी । साहित्य फुलाराची बुद्धी ।
कोंकणी सरस्पतेची वृद्धी । सोपूत देय ।।मं६०।।
हे करुण स्वराची लिखणी । समर्थ म्हजी कोंकणी ।
कितलीय उपहासिली कोणी । ती गोडासारकी गोड ।।मं६१।।
कवी एकविसाव्या शतमानांतलो । समकालीन लिखणे नेमांतलो ।
शेकीं चम्पु चवदाव्या शतकांतलो । कोंकणी गोडाहून गोड ।।मं६२।।
ह्या चम्पुकाव्याचो कर्ता कवी । एक सामान्य कपि लक्षिता रवी ।
कपिल गाय अश्रु-नायिके हवी । भवी कपि लघुलज्जित ।।मं६३।।
भृगुर्वत्स गोत्र सम्भवी । "वर्देबोरकार कुलोत्पन्न सुधीर नाम्ने कवि" ।
'तडकोडकार' उपनामे स्थविर । वृद्ध पुत्र "मनोहर"स्य ।।मं६४।।
कुलपुरुष श्रीशिवींचो वर शिंवर । बोरकारांचें संपन्न द्वार ।
अर्पण करितां हें काव्य अनावर । श्रीशान्तादुर्गे चरणीं ।।मं६५।।
कैवल्य नगरीं म्हजी कुलदेवता । पिरवळ ग्रामी श्रीमांगिरिश ।
बांदिवडे पुरी पालवी महालक्ष्मी । ग्रामदेवता होय नवदुर्गा ।।मं६५।।
न्हय गायत्रीदेवी सोयरें म्हजें । न्हय म्हाका अनुमती साजे ।
एके अस्तुरीच्या दुकां काजे । चम्पू हें निर्मिलें ।।मं६६।।



प्रामुख्यान चम्पू काव्य हें प्रणय कथेचेर निंबून आसता. रामायण आनी महाभारत ह्या भारतीय महाकाव्यांतल्या कथांचो प्रभव आनी प्रभाव देखपाचो आसत जाल्यार भारतीय भासांतलीं चम्पू काव्यां नियाळचीं. पंथागणिक विचारांचो प्रचार आनी प्रसार करूंक कांय आख्यानां बरोवंची पडटात. तेदे वेळार ही चम्पू काव्यां किर्तनांनी उपकारा पडटात.

तथापि कोंकणींतल्या ह्या चम्पू काव्याची बांदणी ना आख्यानाक लागीं हाडटा, ना कसल्याय वैचारिक पंथाच्या प्रचाराक वो ना प्रसारांक पाळो दिता. ही कथा आसा एके महाराणीची, तिचे जिणेंतल्या संघर्षाची. तिच्या अस्तित्वाची ही कथा म्हळ्यार, काय जाणांक दुराग्रहपणाचें उदाहरण अशें दिसूंक येत. काय जाणांक तिच्या स्वार्थाची चरम शिमे-मेर अशेंय दिसूंक येत. पुणून ही व्यक्ती आपणालें राजघराण्याची पत, आपणाल्या वंशाची प्रतिशठा सांबाळून दवरपा पासत संघर्ष करीत रावली. दुर्दैवान तिचे आड अशी क्रीडा केली की निमाणे कडेन तिचे आड आसलेल्या तिच्याच परिकरांतल्या, राजघराण्यांतल्या, वंशातल्या सुवार्थी लोकांचे जैत जालें.

हे कथेक कदंब कुलाच्या इतिहास शृंखलेचो एक विभाग अशें म्हुण पळोवपाचो प्रमाद करचो न्हय, अशें रसिकांकडेन विनम्रपणान मागणें करतां. विंगड विंगड काळांतल्या व्यक्तिमात्रांची उपस्थिती हे कथेंत दिसता. दुश्यन्त-शकुन्तला, सत्यवती-पाराशर, शान्तनु-सत्यवती, कृशण-राधा, कृशण-रुक्मिणी, अर्जुन-सुभद्रा,

अर्जुन-नागकन्या उलुपी. साम्ब-लक्ष्मणा. भीम-हिडिम्बा. नल-दमयन्ती ह्यो कथा महाभारत ग्रंथांतल्या व्यक्तिमात्रांच्या उपस्थितीचें इतिहासीक प्रमाण सोदपाचें माध्यम न्हय. काय जाणांक कर्ण-द्रौपदी हांच्या नात्यांतय एक तरेची सुप्त प्रीतीच आशिल्ली अशें म्हणन दिसतय. कालिदासाच्या मेघदुतांतली कथा म्हळ्यार देव आनी येख्य हांच्या कालिक इतिहासाचें प्रमाण. अशें म्हणप काय जाणांक समा दिसतय.

सूफी सन्त मलिक मोहम्मद जायसीन विक्रम संवत १५४०त बरयिल्लें सूफी परम्परेंतलें अठ्ठावन अध्यायांचें 'पद्मावत' महाकाव्य म्हळ्यार वस्तुस्थितींत आशिल्ले महाराणी पद्मावतीच्या अस्तित्वाची कुरू न्हय अशें म्हणटात. कारण ह्या काव्यग्रंथाच्या आरंबाक कवी जायसीन शाहे वक्तच्या रुपाकारांत आशिल्ल्या शेरशाहची प्रशंसा केल्ली वाचूंक मेळटा. वस्तुस्थिती अशी की शेरशाहचे अस्तित्वच तेदे वेळार नाशिल्लें. अशें आसल्यारय 'छिताई-चरित' आयजय वाचूंक मेळटा. तें 'पद्मावत' नामक काव्याचे चवदा वर्सां आदीं ग्वालियरचो कवी नारायणदास हांचे हस्तुकीं बरोवन जाल्लें. तातूंत अल्लाउद्दीन आनी पद्मिनी हांचो संदर्भ मेळटा. हेमरतनचें 'गोरा-बादल' चौपाईं( *गोरा बादल* पदमिणी चउपई)त आनी लब्धोदयविरचित 'पद्मिनी चरित्रां'तय हो संदर्भ मेळटा. 'पद्मिनी समिओ'चे १५८आनी गोरा बादलचे १४६चरण म्हळ्यार इतिहासांतली एक शृंखला जावन आसा. चवदाव्या आनी सोळाव्या शतमानांतले जैन ग्रंथ 'नबीनंदन जेनुधर', एवं'रायन सेहरा' हातूंतय पद्मिनीचो उल्लेख मेळटा. जोधा आनी अकबर नांवाची प्रेमकथा मुळांत अस्तित्वांत आशिल्ल्या व्यक्तींची न्हय, तर ती काल्पनिक रुपाकाराची काव्यात्मक निर्मणी जावन आसा अशें कांय जण म्हणटात.

अन्ततोगत्वा, कवीची कल्पना आनी चिन्तन म्हळ्यार एके तरेची मानसिक प्रक्रिया आसता. ही वस्तुस्थिती मानून घेवंक जाय. कल्पना आनी चिन्तन हीं उतरां समानार्थी न्हयंत. विगत घडणुकांच्या द्वारा आत्मगतताय लाबूंक लागतकच कवीक आयिल्ल्या अणभवांचें ताकाच प्रतिस्मरण जावंक लागता. ह्या प्रतिस्मरणा वरवीं अतार्किक एवं अवास्तविक संरचना साकार जावंक लागता. असले संरचनेंत तार्किकताय सोदप समा न्हय कारण तितूंत विचित्र भ्रम आसता आनी ताचे वरवीं सर्जनात्मकताय सांकार जावंक लागता. ती एके तरेची सभ्रान्त अवस्था आसता, अशें म्हळ्यारय चलता. कवीन निखटे अभिधात्मक बरोवंचे आसता अशें न्हय. ताका लक्षणात्मक आनी व्यंग्यात्मक शैलींतय बरोवपाचो निसर्गदत्त

अधिकार आसता. ती सर्जनात्मकताय सिद्धताय, निलायन, उच्छवसन आनी प्रमापन अशीं चार सोंपणां चडून वर्धिशणू जावंक लागता.

काव्ये कल्पनासौन्दर्यम् । चित्रे आकृतिसौन्दर्यम् ।
गायने आलापसौन्दर्यम् । व्याख्याने भाषासौन्दर्यम् ।।

ही सर्जनात्मकताय कांय अभिनियम सिद्ध करूंक कपशी दाखयता. अर्विल्ली प्रमाणभूत कोंकणी भास बरयतना कांय नेम पाळचे पडटात. समकालीन रुढी, दायज आनी संस्कृताय तेच परी सामाजिक आनी राजनीतिक गरजो मतींत धरून हे नेम मांडिल्ले आसतात. परंत इतिहास हो भाशिक आनी सांस्कृतिक वस्तुस्थितीचो संरक्षक आसता. त्या संरक्षकाच्या अस्करांत जी उतरां आसतात, जी वाक्यरचना आसता, जी नांवां आसतात, तांचे जे उच्चारण व्याकरणिक दिश्टींतल्यान निर्णायक आसता, तांचे पडबिम्ब जथापथ दवरप अत्यंत अनिवार्य! अन्यथा इतिहास हो तत्सम उरपाचे सुवातीर तत्भव आनी देशी रुपायतांचो आसा, तो काल्पनिक आसा आनी तो इतिहासीक तथ्यांचेर घासून पुसून मानून घेवप अशी मत्तां पातळपाची शक्यताय न्हयकारूंक येवची ना. आयज रामायण आनी महाभारत हीं महाकाव्यां म्हळ्यार इतिहास न्हय, संस्कृत भास ही कृत्रिम, कृतक भास जावन आसा, ती समाजमानसांत केन्नाच नाशिल्ली अशी मत्तां निर्णायक जातात, परन्तु ह्या निर्णया वरवीं गत, विगत काळाचो अभ्यास करपा पासत जो जथापत आदारवड जाय तो असल्या निर्णायक मत्तां वरवीं कल्पित आदारवडय कातरून वडयतात, म्हणपाची भिरांत निर्माण जाता.

देखून सृजनशील आनी सर्जनशील बरप करतल्यान विगत काळाचो अभ्यास करपा पासत जो जथापत आदारवड जाय तो कल्पित इतिहासाचो आदारवडच घेवन. सृजनशीलतायेचें आनी सर्जनशीलतायेचें अस्तित्व सांबाळूंक जाय. हें फाटभुंयेर रावन मुखार दिल्लें कथासूत्र वाचात, अशें पराथतां.

**सूत्रधार**: आगे अशी न्हिदिल्ली । न्हिदे देवता तुज्यांतच लिपिल्ली ।
जिणे गीत तूं विसल्ली । आसूनय पिडेंतुली गायत्रीचे ।।उपो१।।
यो झडकरी धांवून । दादल्याक तुजे विरयत उमजून ।
दादल्याचेंय बळगें । सुत्रधारिणे विरयत दिसेचि ना ।।उपो२।।
**सूत्रधारिणी**: अज्ज इ अम्ही । णिरंदरं चिन्दाउळम् होइ मे हीअअम् ।
आयलें आयलें हांव । निरंतर चिन्तावळीन पडलें न्हिदून ।।उपो३।।
**सूत्रधार**: तुजे विरयत शोक कथा कसली । विरहिणीची पीडा कसली ।
गायत सांगत कथा बसली । व्यथा असली जल्म भराची ।।उपो४।।
हृदयांतुल्या स्वरांक कांच । घनेरे खीण काळखी आंच ।
घालूं कशि इश्टे पिडेक गांच । कशी काडूं ही रात असली ।।उपो५।।
**सूत्रधारिणी**: म्हजे जिणेच्या स्वाम्या । दुकां सुखांतलो खीण तूं रम्या ।
करशी सदैव काम्या । आयज कित्याक रे असो तूं अस्थिर ।।उपो६।।
तूं न्हय रे संकीर्ण । आयकुप्यांलें मन करी विदीर्ण ।
अभिजात्यां अंशपूर्ण । शुद्ध विष्कम्भ संपूर्ण कर्तव्य ।।उपो७।।
अभिजात न्हय रे भास । अभिजात केवळ श्वास विश्वास ।
अभिजात केवळ आभास । जेन्नां उपहास जाय निन्द्यां वंद्य ।।उपो८।।
करी गर्भाड्क सोबीत । तूं इतिहासीं खीण खीण सम्वत ।
नीचच पात्रां अगणित । अभिजात्यांची करी विधीवत उपेक्षा ।।उपो९।।
तूं कर रे आड दिश्ट । विष्कम्भाचो संकेत अभिजात इश्ट ।
हांव रे तुजें इश्ट । कर आरंभ वर्णना मन प्रसन्न जावुनु ।।उपो१०।।
**सूत्रधार**: ही सुवात अति रम्य मनोहर । तीन एक कोसांचो परिसर ।
रूख शिरिशाचे दाट सभोंवर । उद्यान ल्हादातूर पुश्पांचे ।।उपो११।।
वन वन वन उपवन वनमाळी । छायातुरा घनदाट जाळी ।
गडगो इटळाचो सांबाळी । अयस पयस तळी निर्मल नितळ ।।उपो१२।।
तडी पंथ थिगळी । तारण तारक पापमोचन थुळी ।
फागुरलेलें तण पायतळीं । मोदिनी हूंकारी महोदर विशाळी ।।उपो१३।।
सैम्ब अश्टीं निकट । शेतां मळां खेतकां पर्वत सन्निकट ।
रानां न्हंयो वेळो तट । संजीवन करी पशु सुकणी नुस्तीं रे ।।उपो१४।।

ही स्पश्ट अस्पश्ट । कथा सांगे मनशांची भ्रश्ट पथभ्रश्ट ।
मनीस दैवनिर्दिश्ट । चलता वाट शिश्ट अशिश्ट जावुनी ।।उपो१५।।
तरूक तरकूण दळीं । तागायती तत्त्वादिक मोहाळी ।
मेरू भेंक्रें कुरंग चितळी । धांवी मांदयाळी काचींबुचीं ।।उपो१६।।
मोर मयुरी मग्न केकावळी । सुकण्यांच्याय आकुल कल्लोळीं ।
देशीविदेशीं रम्यभिरांळी । वेदस्वरूपी पाळी वरूण ।।उपो१७।।
साळकांचो मदमत्त परमळ । शिवयोगी मग्न आकाशतळ ।
पयणारेय सोज्ज्वळ मंगळ । हेंच भूमण्डळ जालो सर्ग ।।उपो१८।।
मजगतीं ही सोबीत मूर्त । आरसपानी प्रस्तर मूर्त ।
ही कमनीय कर्पुरी मूर्त । हृदयीं मूर्त गायत्रीची ।।उपो१९।।
साळकांचेर निर्मल तुशार । गगनसुंदरी अम्बुजधार ।
जायो जुयो सम भार । परमळ भार वाटिके पुश्पित ।।उपो२०।।
पळयात ग्रंथालिका । अतीव गिन्यानाची संचयिका ।
णव लक्ष हस्तलिखितां । आग्नेय दिकेच्या भवनांतु।।उपो२१।।
नवल बरप लौह लिखणी । ताडभोजताम्र सुवर्णी ।
लिपिग्रन्थहस्त लेखनीं। पाण्डुलिपि मातृकाग्रन्थ ।।उपो२२।।
विद्वन्मान्य षट्खण्डागम । धवला टीका बुद्धिगम्य ।
चर्मपत्रभूर्जपत्र । पुराभिलेख ह्या ग्रंथालयां ।।उपो२३।।
मूर्त पुश्पदन्ताची । मध्यवर्ती शंकराचार्यांची ।
संवसारांतुल्या सत्वाची । प्रज्ञा परिक्षेची सिद्धता ।।उपो२४।।
नैऋत्यु दिके नवलु । तंत्र गिन्यान केन्द्रु कार्यशीलु ।
कांश्य धातू वस्तु निर्मिलु । संकुलिं रत्नरंजक रत्नोदधी ।।उपो२५।।
अति स्थापत्य कलात्मक । आसा ताम्र भवन निश्कलंक ।
कल्पक सागरदैविक। महाविहार गायत्री संकुली ।।उपो२६।।
वायव्य दिकें भवन । अन्तराळीं चले चलन वलन ।
विश्वच दैदिप्यमान । अनुसंधान करण्या ब्रह्माण्डीं ।।उपो२७।।
देवस्थळ ईशान्य । समाज स्वास्थ्य अति विद्या भवन ।
अभ्यासकांचें स्थान । उन्नत भव्य दिसता थंयसर ।।उपो२८।।
खगोल विद्या अध्ययन । शल्यविद्या चिकित्सा प्रवण ।
वेदवेदांती निपुण । तनिक सांख्य ज्ञानमीमांसा ।।उपो२९।।

हें दान गायत्रीचें । अशे तपस्विनी चारित्र्याचें ।
मनशांले देवतेचें । दुहिताच पैतृक ब्रहम्याची ।।उपो३०।।
प्रणववादिका गुणी । कर्पूरगवर वेदस्वरुपिणी ।
सौर ऊर्जिता खणी । कोटी सूर्या ही हंसासनी ।।उपो३१।।
अउम ऋषि ब्रहम ओम् । भूः भुवः स्वः महः जनः तपः सत्यम ।
अग्नि व्याप्त व्योम ओम् । ओम् अग्निर्वै देवानां अवमः ।।
अन्तरिक्ष हें भुवः ओम् । म्हळ्यारी ज्ञानमयीच सोम ।
अमृतच मृत्यू ओम् । भूः भुवः स्वः ही गती भौम ।।उपो३२।।
आदित्यच गती ओम् । बाराय मण्डल विभक्त ओम ।
विष्णू स्थित उर्ध्वी ओम् । अध स्थित ओम पृथ्वी विपुला ।।उपो३३।।
नाम संवत्सरीं ओम् । कदीम काळांच्या ह्रदयीं ओम् ।
अगणित सवितांत ओम् । स्वः नित्य ओम् स्वर्ग वाची ।।उपो३४।।
अमृतभाव विष वाणी । सर्प सुकर्णी असुर देवगणीं ।
सहस्रावधी निर्मणी । आसा ही करणी गायत्रीचीच ।।उपो३५।।
पळय तिची चर्या ज्वाला । सविता प्रतिबिम्ब अनला ।
सविता परमेश्टी मण्डला । शान्त ज्ञान कुण्डला समाहित ।।उपो३६।।
ज्वालेची भगभग जगता । झळो अग्नीच्यो कांत जाळता ।
कर्पुरी तरीय भक्ता । वझरो झरता अमुत अथांग ।।उपो३७।।
ही निःसंगा गतिप्रिया । सरस्वती भद्रा परम श्रेया ।
निवान्त चर्या पळया । आरस्पानी अभया रविरुपा ।।उपो३८।।
राजा राणी येती । विद्यावन्त बुद्धिमन्त येती ।
दृश्यीं दिङ्मूढ होती । संतुश्ट होती होन्ती निवान्त ।।उपो३९।।
गायत्री ना विस्मरलीं । दसकां गेलीं शतकां गेलीं ।
ह्या परिकरां श्रमली । ना कुणी ना उबगलीं कदापि ।।उपो४०।।
अस्तुरेचि एक विशिश्ट । कथा हे जिणेची जरी परिशिश्ट ।
इच्छा अभिश्ट संतृश्ट । ती धृश्ट अपधृश्ट परिस्थिती ।।उपो४१।।
हृश्ट-पुश्ट सृश्ट । कामना जरी न्हय अभीश्ट संतृष्ट ।
गतिविशिश्ट महादुश्ट । सहोदर कंटकनिश्ट सहयोगी ।।उपो४१।।
येतात अति विद्वान । पावती विश्रान्त मन कल्याण ।
कान्तिज्योत्स्ना महान । आयका कथा सुजाण तिचीच ।।उपो४३।।

गेलेंच निमाणें सर्व निलय । उगडासांचोच उत्सव मनय ।
आशिल्लो तेदनां हो रूखय । ताचो पत्रो बांदून दवर ।।उपो४४।।
आयकुपी संतुश्ट अपारय । इतिहासाचीं पानां दाखय ।
आसतलींच तांचेर दुकांय । गांवांची नांवां बरय ना तर ।।उपो४५।।

**सूत्रधारिणी** : म्हज्या मोगा, तूं असो क्लान्त आनी विवश जाल्लो पळोवन म्हाका खंत भोगता. जिणेंत अपसरण येताच येता म्हज्या धनया. इन्दररायाच्या भागधेयांतु सुख आसता आनी पिडाय. ताच्या देवसभेतु आसता गन्दर्वु, देव, दैत्य, येख्य आनी पृथुविचे राय आनी ताचे पिडेक कारण आसता रुशिवर दुरवासा. परम पवित्र विशट्णुकय शापला तुळशी मातेन. जें येता, तें वयता म्हज्या कुक्मा! अस्त्रीचो आनी राज्यलक्षुमीचो लोभ व्हडल्या व्हडल्यांक भुई भरवण करता. कोंकणा सावन सिन्ध वाठारां मेरेन सर्वसत्ताधिश आशिल्ल्या ह्या डळडिन्या राश्ट्रकुटांक कसलो उणाव आशिल्लो म्हूण तांणीं मुस्लिमांक आपणाल्या राज्यांत अभय दिलें ? कसली गरज आशिल्ली तांका पिडापीड करतल्यांक मशिदी बांदूंक अनुमती दिवपाची ? कोणाक शिमे-मेरेर दवरूंक सोदतालेत हे राजाधिराज? आपणाल्या विचारवन्तांक, आपणाले जनतेक, आपणाल्या विरोधकांक ? जात्यंधांक, धर्मांधांक लागीं करतकच आपणाल्या सुगूरपणाक आलाशिरो मेळचो म्हूण ? आपणाल्या लोकां कडसून विरोध जाता अशें दिसतकच भायल्यांक आलाशिरो दिवपाची ही पद्दत कितले पाडेपणाची, हें ह्या अन्नडिगांक कित्याक उमजलें ना काय ? कायालपट्ट्ण, नागोर सारक्या वाठारांत जें कितें चलतालें, ते ह्या राश्ट्रकुटाक लागून!

**सूत्रधार** : तुजी स्मरणशक्ती वाखाणणी करपा सारकी! तूं घर सांबाळटा केन्ना, तूं समाजसेवा करता केन्ना, तूं रंगिका जाता केन्ना, तूं इतिहास वाचून काडटा केन्ना तेंच म्हाका गमना. म्हाकाय कितल्याशा रौळांच्या गत-विगत कथांची गत ना. म्हाकाच कित्याक, आमच्या वाड्यार कोणाच कडेन तुजे इतलें स्मृतिभाण्डार ना! असुया जाता तुजी, नसाय जाता आपशींच!

**सूत्रधारिणी** : हांव बेंबलेच्या देंठासावन म्हत्वाचे गजालीचेर उलोवंक सोदता म्हणसर तूं आडखळ कित्याक हाडटा तेंच गमना म्हाका. कितलो म्हत्वाचो विषय हो, आनी तो विस्मरणांत धुकलून वडोवंक सोदता व्हय रे? राष्ट्रकूट सव्या शतमानांत सत्ताधीश जाले, धाव्या शतमानांत ते ना नपश्चात जाले परन्त राश्ट्रकुटान पोशिल्ले हे तेदनाचे अभारतीय आगंतूक पर्थून गेले नात, ताचे परिणाम कितलें, आनी कसले जाले ते तूं नेणा व्हय रे? तांणी जुम्मा मशिदी बांदल्यो म्हूण म्हाका उस्तुरें वचना. तांणी आमची

परमपवित्र देवळां मोडलीं. ताचे संबंदान क्षुब्ध जाता हांव. ते भारतांत रावनय अरबीच उल्ले. जात्यंध मुसलमानच उल्ले. शक, हूण हे उपरान्त पुराय भारतीय जाल्ले. परन्त हे पाडे जावंक पावले नात. तांची श्रद्धास्थानांय भारतांत नात. सहिन्यांतय हे मुसलमान. तांचो भावार्थ धरूंक येता व्हय ?

**सूत्रधार** : पुरो गे आतां! कितली म्हूण भरभर लायतली तूं ? जाणीं जे करपाचें तांणी तें केलें ना. म्हूण आतां रडून लाब जातलो अशें दिसता व्हय गे म्हजे सालस सूत्रधारिणी माये?

**सूत्रधारिणी** : म्हाका एक गजाल सांग. तांका सहिन्यांत कित्याक घेवंक जाय आशिल्लें? तांका हाटांत. पेठांत शिरकूंक कित्याक दिलें राश्ट्रकुटानी ?

**सूत्रधार** : आगे. तो आमच्या चर्चेचो. भासाभासेचो विषय जावंक पावना. आमी सामान्य जनता. आमी अशें उलोवप म्हळ्यार आमच्या अस्तित्वाचेरच हावळ येतली. बंद कर तो विशय.

**सूत्रधारिणी** : मार्तण्ड सूर्यमन्दिराची बांदावळ करपी कार्कोट कायस्थ राजवंशांतलो काश्मीर नरेश सूर्यवंशी सम्राट ललितादित्य मुक्तापीड आमच्या कोंकणांतय पाविल्लो. तो कांबोजांत म्हळ्यार आयजच्या अफगाणिस्तानांत. तुरुश्कांत म्हळ्यार तुर्कस्तानांत आनी अरण्यकांत म्हळ्यार ईराणांत पाविल्लो आठव्या शतमानांत. ताका आनी ताच्या सहिन्याक कोणे रावंक दिलें थंयसर. हय रे ? थंयसरल्यो हाट-पेठो हातासल्यो व्हय रे ताणे ? तो काश्मिरांत आससर मुसलमानाचो वारोय त्या वाठाराक हापडूंक सोदी नाशिल्लो. राय-पद जेन्ना पोकें जाता तेदना वाळटी आयिल्ली आसा, अशें मानूंक जाय. तेराव्या-चवदाव्या शतमानांत ते येवंक पावले थंयसर! राज्य शासक कसो आसचो, ललितादित्या सारको!

**सूत्रधार** : तूं सम्राट ललित आदित्याच्या संबंदान ज्यो गजाली सांगता त्यो तेराव्या शेकड्यांतल्या कल्हणाच्या राजतरंगिणींत वाचिल्ल्यो आसतल्यो तुवें! आगे म्हजे माय -

विजीयते पुण्यबलैर्बर्यत्तु न शस्त्रिणम
परलोकात ततो भीतिर्यस्मिन् निवसतां परम्।।

- हो शिळोक तूं वेवस्थितपणान जाणा, 'हांव नेणा' अशें नाका म्हणू आतां. खंयच्याय साम्राज्याचेर मेळिल्लो विजय म्हळ्यार वाठार, प्रदेश हातासप अशें म्हणू नये. पुण्याची खण हातासप, म्हळ्यार विजय हातासप. पुण्याची खण सोंपतकच पापाची हावळ येता. ती हावळ आपूण जावन येय ना. ती हाडटात

संबंधित स्वार्थान्ध... जनाधार वगडायतकच, पुश्टी दिवपी मतांनी अन्तर पडटकच तांणी स्वजनाक उपेखिलें आसतलें. सत्तेचें संपादन करतलो लोक लञ्चु दितात, आपणाल्या आत्म्याक, आपणाल्या अन्तरात्म्याक. असल्या उपेखणऱ्यांक खतां लागतलींच लागतलीं, पूण तें साबार उपरान्त ते खंवसतकच, गत काळ विगत जातकच ! जिते आसतना तांणी मज्जाच मजा केल्ली आसता!

**सूत्रधारिणी** : देखूनच,ह्यो साबार गजाली तुवें आतां यंगा यंगाच सांगूंक जाय. जाका घरादारांत हूर्मती नासता, तो हेरांचें साह्य घेता. जाका जनाधार नासता तो परक्याचो आदार मेळयता. हेंय तुवें सांगूंक जाय.तूं नितळ मनान आनी हरव्या चित्तान जी कथा सांगूंक सोदता ती निर्मळ उतरांनी मांड. जे तरेन घडलें, ते तरेन मांड. जाय तेदनां पुस्पा वरी कोमल जा, प्रसंगांक गिंवासून धर आनी उजुवो संवादु बरय, आनी फावता तेन्ना आकासा वरी जैसो मेघु गर्झो तैसो महा थोरू उतरां बरय. कथा अशी सांग जी बंदखणींतुल्या हौंस पखीक नेमाच्या पांदऱ्यांतल्यान मुक्त करता.

**सूत्रधार** : बायल मनीस उलोवंक लागतकच तिका थार कस्सोच उरना, ही गजाल तुजे कडेन पळयतकच, आयकतकच कळटा... म्हजे सुदैव इतलेंच की तूं निमाणे कडेन समेर येता... अस्तु...

मावकार रूप धर्नु । नाच गो गावंचो पर्येन्त्र मर्णु ।
अगणित पडूं दी बाणु । जावं असत्याच्या सहिन्याचे प्रार ।।उपो४६।।
हांव एक अधम विष्कम्भ । अतिताची जरा चिन्ता पुराय कुम्भ ।
कोण जे नेणा प्रतिबिम्ब । दयाळान कोरांतलें कपलांतु ।।उपो४७।।

आशीकुशीक छत्तीस गांवगिरे. तातूंतल्या एका गांवांतले साबार कुसमणवासी हांगासर येतात आनी न्हंयेचे देगेर भांगरमाती सोदतात. तांका तें भांगर विकपाचें ना. तांका त्या भांगरपिठ्यांवरवीं अळंकार करून घेवपाचे नात. ती भांगरमाती जाल्या शके ११७२ सावन शके १३५१ ह्या काळांत! ह्याच काळांत केन्नाय तरी कदंब साम्राज्याच्यो ज्यो भोयो भोयो जाल्यो, तांचो उगडास येता.



अशीच केन्नाय तरी चन्द्रपूर म्हळ्यार आयजचें चांदर ही कदंब साम्राज्याची राजधानी आशिल्ली. तिची सोबा वाडोवपी गोड गोड उदकाचो प्रवाह आशिल्ली ही कुशावती न्हंय. ह्या वाठारांत शके ९१७ सावन शके ९४२मेरेन सत्तापाट चलोवपी दक्षिण कोंकण रट्टराज शिलाहाराचो अस्त जातना पळोवन ताच्या असहाय्यपणाचो लाब घेत कदंबाच्या गुहळदेवान चांदर हातासलें.

राजा चतुर्भूज आनी राज्ञी आक्कादेवीचो सुपूत गुल्हळदेव 'ब्रह्मनेत्र' हाणे कदंब साम्राज्याचें मुळावण घालें. ताचो सुपुत 'लोककल्याण कारक महामण्डलेश्वर' शश्ठदेवान प्लवंग संवत्सर. शके ९२८त कदंब साम्राज्याक सुदीर्घ आकार दिवपाक आरंब केलो. ताच्या पुतान म्हळ्यार शश्टदेवान उत्तर कोंकणय हातासलें. ह्याच कदंब साम्राज्यांच्या धुरिणांवरवी गोपकपट्टणांत आपणालें आसन घटमूट केलें. उपरान्त शश्टदेवाचो पराक्रमी राजपुत्र जयकेशीन साम्राज्याचो उत्तुंग विकास सादलो

जयकेशी राजकुंवर । चान्दरा उबारी राजपाटण ।
गोपकपट्टणांतली । चान्न्यावरी अन्दूक रत्नांची खण ।।उपो४८।
सागरांत तारवां । विरांची खण शत्रू भिरांत दारूण ।
कापार्दि द्वीप-पती । जयकेशी वरवी शिरच्छेद करुण ।।उपो४९।।
मामुरी शिलहाराक । तात्काळ जलसमाधी संगरांत ।
भुंयेभार शत्रू नश्ट । परित्राण जाले गोंयकार भ्रान्त ।।उपो५०।।
दख्खन राणा अंकित । तमारी त्रिभुवनमल्ल कामदेव ।
हत्यारून उबारिलें । कोंकण राश्ट्र सोल्लास वैभव ।।उपो५१।।
तो स्मृतिज्ञ नीतिज्ञ । तो राजनीतिज्ञ कूटनीतिज्ञ ।
श्रमिज्ञ गुणागुणज्ञ । संगीतज्ञ धर्मशास्त्रज्ञ राजा ।।उपो५२।।
तो चतुरंगिनी पट्ट । संघट्ट संघर्ष रत क्षारविशिश्ट ।
अविरत जिणें श्यामपट । दैवनिर्दिश्ट आमी म्हणूया ।।उपो५३।।
पूण स्वधर्मभ्रष्ट । न होय राखून निर्दिश्ट द्दश्ट ।
मतान्तरांय अभिश्ट । वाडय पावंडो सुजय राजाचो ।।उपो५४।।

विजयादित्य आनी जयकेशी द्वितीय हांणी तर कदंब साम्राज्याच्या कळसार भांगराचो लेप लायलो. शेकीं ताणें अस्तंत चालुक्य सम्राट विक्रमादित्य चतुर्थाच्या आड बंड केल्यारय ताका भगसून सम्राटान ताचे कडेन इश्टागत जोडली

आनी चालुक्यांले माणिक म्हळ्यार आपणाली धूव जयकेशी द्‌वितीय हाका दिवन सोयरीकय सादली, अशें ताचें व्यक्तिमत्व.

विज्यादित्य जयकेशी । निश्चिन्त चिर किशोर नित्य विलासी
आत्म मंगल वयसी । ना करी निजासी कसलीय चिन्तनां ।।उपो५५।।
सघन वीर्य चेतना । अपार ना रुदना ना क्रन्दना ।
अनिवार अतिवेदना । छेदना कुल्ली सुखाची सुखाची ।।उपो५६।।
शेजारी-वासारी । मर्म वेदना हुंडक्यांची दुकां सुखारी ।
हुर्मतींत कामारी । हालवंगाद सुखा सागरी निपचित ।।उपो५७।।
व्याधी आमोदाची । पीडा सोवर्नु वट्ट हनितीची ।
हर्ष मोद उल्हासाचि । विस्मृती सुखाची नीरव नीरव ।।उपो५८।।
तृप्ति येय हिरौंक सुख । साध्य सुखाची वाडय भूक ।
सुख येय सुख संभोखुंक । सविक्लान्त जाय देव शिरोमणी ।।उपो५९॥
अन्धकमय विलासिता । स्वाडू करी सुवाडू अपरिमिता ।
आशिकुशीचीं शियांडिता । सुखासीन हाणविर्धी हांपडिना ।।उपो६०।।
येय देव शिरोमणी । विज्यादित्य जयकेशील्या सपनीं ।
तागायती तूं तनीं । थुळी तुण्टपणीं थोकडो तुजे विणें ।।उपो६१।।
जाग जाग नरेशा । कीर्तीचे दीप्ती मोहुनी येय निराशा ।
शिपतीचीच सुश्रुषा । सृश्टी कर्कशा वासना-सरिता ।।उपो६२।।
देवत्वाची सासाय । न जाणिली उल्लो ना तरणोपाय ।
शेळशीतळ संकिर्नाय । तुज्या भागधेयांत रिगतली गा ।।उपो६३।।

जयकेशीलो ज्येष्ठ कुंवर परमाडीदेव शिवचित्त. ताचे परसय ताची घरकान्न कमलादेवी विद्‌वत्ते पासत सुप्रसिद्ध आनी जनाधार लाबिल्ली राणी आशिल्ली. चंद्रीम रोहिणीक हेर तारकां परसय चडावतपणान मोग करता, तेच वरी तिचेर शिवचित्ताची प्रीती आशिल्ली. जेदे वेळार शिवचित्त 'पांडवाचे होरें'त पाशुपत पंथांतल्या रुशि-मुनीं वांगडा मग्न जावन पुजा-अर्चना करतालो तेदे वेळार कमलादेवी अग्रहारांची थापणूक करूंक वावुरताली. अग्रहार म्हळ्यार गिन्यानांची केन्द्रां. सामान्यांतल्या सामान्यांक शिकप करूंक मेळचे देखून तिणेंच फुडारांतले पिळगेक सुशिक्षित करपाचे थारायलें. तिणें साक्षर आनी सुशिक्षित अशा तीन पावंड्यांचेर शिकपाची वेवस्था केली. तिणे आपणाले पुतळे उबाल्ले नात. निरंतराया राष्ट्रत्वा पासत जे कांयच करिनात, तेच आपणाले पुतळे उबारून घेतात, जिवेंणी

आपणालें नांव संस्थानकांक दितात. महाराणी कमलादेवीन सुशिक्षितांक वेद, वेदांग, पुराणां, न्याय, मीमांसा, सांख्य, योगविद्या, स्मृति, इतिहास आनी खगोलविज्ञान सारके विशय खोलायेन शिकपाची यंत्रणा चालीक लायली. गोंयचे भुंयेन भोंवतडच्या परिसराक गुणवत्तेन लागीं हाडलें आनी वस्तुस्थितींतल्या कोंकण राश्ट्राची निर्मणी केली. उपरान्त कदंब साम्राज्यांचे कितलेशेच सत्ताधीश आयले आनी तांणी गोंयचे भुंयेक वज्रसमान करून सोडलें. पूण जेन्ना सुर्या उदेतना आमी पळयतांव, तेन्ना ताचो अस्त जावपाची शक्यताय मतींत दवरचीच पडटा. कदंब साम्राज्याचो अस्त जावपाचो समय आयलो. राजवंशांत सुर्वेक संघर्श आनी ताचे वरवीं उपरान्त झूज जावपाक लागतकच साम्राज्याच्या अस्ताक चड कळाव लागना. घराब्यांत वायटपण आनी ताचे वरवीं किजिलां आकार धरूंक लागतकच राशीच्या घराच्या वणटींक गळसणी येता आनी कालांतरान त्यो ढासळूंक लागतात.

आशिल्लीं रे घरां गेली खंय रे पाप्या खिंकाळ ।
भाटकारा नाशिल्लो रे तूं यमधर्मी झगडाळ ।।
किरी शिरली ही अवदसा हुंडक्यांनी रडू कसो?
हिण्यां तिण्यां आनंद न्हाल्लो हांव भैरवी गाऊं कसो? ।।उपो६४।।
गायिल्लें गीत ईश्वरा दी पर्थूनय ओंठात ।
इतिहासाचे साक्षीक दोनूच दुकां दोळ्यांत ।।
दोळ्यांतुल्या सपनांनी पाचूंचो धोलता मोर ।
मरणान्तक वेळ धोलता स्वर रात ही घोर ।।उपो६५।।
कदम्बरायाचें तळें दाखय आयजूय घाय ।
शंकराचो नन्दी भंगून सोदता निरंतर ठाय ।।उपो६६।।
अंतरिच्या ज्योतींनी वळख सांगली रे युगांची ।
धर्माचे गजालींत कथा एका सर्वनाशाची ।।उपो६७।।
रातीची व्यथा कशी सांगची हांवें ।
कथेंत रातच रिगलीं केदनां कळ्ळें ना ।।उपो६८।।
एक एक खीण म्हळ्यार युगांचो सांवार ।
खिणांत तो हुंकार निमलो गमलेंच ना... ।।उपो६९।।

कलियुग संवत ४३४८, पराभव नामक संवत्सर लागिल्लें. साबार ऋतूंचे चक्र एक फावट पुराय जातकच जो काळ सोंपता ताका संवत्सर म्हणटात. चान्द्रवर्साचे मांडणेंत पुराय संवत्सराच्या कालचक्राची संख्या साठ. प्रभव संवत्सरान हें कालचक्र

आरंब जाता. “प्रसूति सर्व वस्तुनाम पुत्रसम्पतिरेवच । दीर्घायुर्भोगसम्पन्न प्रभवे जायते नर।।” ह्या संवत्सरांत जावंची अशी अपेक्षा आसता; तथापि ह्या चाळिसाव्या पराभव नामक संवत्सराच्यो विशेशतायो इतल्यो विकट आनी भयांकृत आसात की ताचे संबंदान उलयतनाय जिवाचेर आकांत येता.

"परदाररतश्चैव शठः स्वपरबान्धव। पराभवसमुद्भूतः धनधान्यविवर्जित ।।"

"ह्याच संवत्सरांत उत्तम पुरुष लेगीत परस्त्रीचो अंकित जाता. तो धूर्त तर जाताच, तसोच तो ताच्या परिकरांसावन पयसच वचूंक लागता. रोग वृद्धी, प्रचुर पर्जन्य वृष्टी, प्रांजल राजाचो तिरस्कार, तुच्छ अन्न धान्यांची अमर्याद पिकावळ, असहाय्य जावन हानी आनी रोगराय हांचो विप्लव देखचो पडटा. ह्या कालखंडात घरादारांनी पीडा, वेदना हांचो अच्छेव अणभवचो पडटा. पराभव नाम संवत्सराच्या कालमानाचो परिणाम फुडारांतल्या काळांत जगपी साबार मनशांक सतायता. उपरान्त सर्वनाश हुमरो वालांडून साबार गजालींक नानपश्चात करून वडयता.

भीमभुपाळ तृतीयान आपणाली भयण राणी सोवीदेवी उपाख्य श्रद्धादेवी कामदेवाक दिल्ली. बाराव्या शेंकड्यांतलो असहाय्य कदंब आनी प्रबळ होयसाळ राजा हांचे मजगती छत्तीसाचो सोयरो-संबंध आशिल्लो.

लागीं पाविल्लो खीण । दिवसावसान करी उत्साह क्षीण ।
लोहित सन्ध्या विमलीन । चन्द्रप्रभा कमलिनी नाशिक अमावस ।।उपो७०।।
अज्ञात सन्ध्या मेघमयी । ज्योतीय अचेत विस्मृत समयीं ।
वेदना मानसमयी । छायानट रूख शिखा घेय विश्राम ।।उपो७१।।
अगतिक कामदेवो । धाडी धर्म पण्डितांक आफोवो ।
हिंसात्मकी निर्वाहो । घालात पूर्णविरामो ज्याँ ज्या ।।उपो७२।।
अवघ्राणी राजपुत्तो । देश विरयत राजपुत्तेण कथो ।
म्लेञ्छींत घातपातो । अनुग्रह राजपतितो त्वरित ।।उपो७३।।
जिन घालून भुयेंरी । विस्मो राअ अज्ञान जणूं येरी ।
भणितलो मुनी राये । कुलदीपक कदंबीं जैनी वीर्य ।।उपो७४।।
पुत्तो मयुरवर्मनु । भगिनी व्रतीन्द्र आनंदजीनु ।
जाय शरण राया जिनु । स्मरी रे इतिहासो विद्‌यमान ।।उपो७५।।
प्रति वरुसीं प्रमाणु । करी राज्यभरी सोत्साह मनु ।
करी समाधी विधिनु । राअ अलुपेन्द्र बम्मदेवस्सुनु ।।उपो७६।।

आस्रो दिवयतलो जिनु । होयांक भिवयतलो तमारी जणु ।
कदंब साम्राज्य तनु । ईश्वरें मनु जैसी राखिली ।।उपो७७।।
राणेन कथिलें मुनितें । मयुरवर्मन तर चौफेर क्षितीतें ।
चार आजानु बाहूतें । गर्र गर्र घुवंतो कपलीं दोळो ।।उपो७८।।
ताचो ना गा संबंदु । जिना कडेन नाका बरोवं प्रबंदु ।
धर्म नेमच कोनम्बु । मानवतेलें कूडु नश्टूंक कोश्ट ।।उपो७९।।
धर्माची कूस कुरूपु । केणें जाय केडां विरूपु ।
पढियन्तेन तीं तद्रुपु । कॉटेल काज स्वरूपु कूडु कूडु ।।उपो८०।।
इतिहासांची पाळां । आश्र्व-पार्श्व जाणा जिन बाळा ।
पूतासिं गिन्यान कळा । राजधर्म ईश्वरेण घडयिल्लो ।।उपो८१।।
राअ सद्दां अहंकारी । इतिहासालीं मुळां अक्षम्यकारी ।
कदंबालीं जैन मंदिरीं । कथा अशरिरी दडल्या जैताची ।।उपो८२।।
तीर्थंकर नेमिनाथ । अनाथां पुतस्स यथार्थ सनाथ ।
बांदोड्या सुस्थापित । करी पावन कदंब राज्य ।।उपो८३।।
कुडिण्यांतलें देव घर । महापावन श्रीवस्त तीर्थंकर ।
कदंबांलो रायबार । सांबाळी पावित्र्य शतक शतकीं ।।उपो८४।।
नारव्याचो तीर्थंकर । सुपार्श्वनाथ देवालें मंदीर ।
उबारतकच चिरसुगूर । जालो निरंकुश कदंब राजवंश ।।उपो८५।।
विवासेन जिनासेन । कदंब राज्याचे धर्म रक्षक जाण ।
जयधवल विजयधवलन । अतिधवल महाधवल करी परित्राण ।।उपो८६।।
राज्ञी मलाल देवी । मानताली जैनी सनातनत्वी ।
बिज्जलाली थोरवी । मानतालो शैवी एकान्त राम ।।उपो८७।।
अहो पवित्र मुनिवरा । साबार देवळां ही कृपा राजवरा ।
एकान्त रामा शुरा । बिज्जलानच ओंपलें जयपत्र ।।उपो८८।।
रामा धर्म वीरा । हांवेंच दिलो वाठार मल्लावली ।
अविस्मरणीय तरा । ह्या राया महामण्डलेश्वराची ।।उपो८९।।
जैन मुनी चित्कारलो । स्वराचो आकारय विस्तारलो ।
अग्गिणाँ वाडयतलों । अभिप्राओ दिलो हांवें विवेकी ।।उपो९०।।
ओम परमेष्ठि नमस्कार । सार नवपदात्मकम् ।
आत्मरक्षा कर वज्र । पञ्चराभ स्मराभ्यहम ।।उपो९१।।

ओम णमो अरिहंताण शिरस्कं शिरसि स्थितम् ।
ओम णमो सव्वसिद्धाण मुखे मुखपट वरम् ।।
ओम णमो अरिहंताण ह्यां ह्रदयं रक्ष रक्ष हुं फट स्वाहा ।
ओम णमो सिद्धाण ह्लीं शिरो रक्ष रक्ष हुं फट स्वाहा ।।
ओम णमो आयरियाणं हूं शिखा रक्ष रक्ष हुं फट स्वाहा ।
ओम णमो उवज्झायाणं हैं एही एही भगवती ।।
वज्र कवच वज्रिणी वज्रिणी रक्ष रक्ष हुं फट स्वाहा ।
ओम णमो लोए सव्व साहूणं हुं क्षिप्र क्षिप्र साधय ।।
वज्रहस्ते शुलिनी दुष्टान् रक्ष रक्ष हूं फट स्वाहा ।
णमो अरिहंताणंणमो सिद्धाणंणमो आयरियाणं ।।
णमो उवज्झायाणंणमो लोए सव्व साहूणं ।
एसोपंचणमोक्कारोसव्वपावप्पणासणो ।।
मंगला णं च सव्वेसिं, पडमम हवई मंगलम् ।
अणहंकारा अणहट्टिअ । शिव रमणी सदैव कालम् ।।



आतां राजा कामदेव शरपंजरी पडिल्ले वरी दिसतालो. दिसानदीस इस्लामवाद्यांच्यो हावळीचेर हावळ येवपाची शक्यताय आशिल्ली. अशा समयार कामदेवाक मुसलमानांचे आड उबो रावपाची येवजण करपाची सोडून घरभेदी जाल्ल्या होयसाळा वरवीं अशा आदारविरयत शश्ठदेवाच्या राज्याक घात-प्रतिघाताची भिरांत दिसताली. अशा अडचून पडिल्ल्या, परन्त केन्ना तरी बलाढ्य आशिल्ल्या ह्या राजाच्या दोळ्यांमुखार ताच्या प्रधानमंत्र्यान आनी मंत्रीगणांनी

माबीरच्या राजाची प्रतिमा उबी केली. लक्ष्मीदेव आनी लक्ष्मी हांचो हो सुपुत्र... हो एक स्वतंत्र आनी बलाढ्य राजा.

दोळ्यांक उदक लावपा पासत बल्लाळ देव तृतीय ह्या होयसाळ संस्थानाच्या राजान कामदेवाकडेन एके थारावणे वरवीं मुसलमानी आक्रान्तांच्या आड रक्षा कवचाची निर्मणी केल्ली. राजनैतिक संबद दवरपा पासत नवनवीन मार्ग सोदचे पडटात. देखून ताणें अस्तन्त समुद्रतटाचो म्हळ्यार माबीरचो राजा कामदेवाकडेन आपणाले भयणीची – सोविदेवीची - सोयरीगत व्हेली. उपरान्त भीमभुपाळ तृतीयाच्या ह्या मेव्हण्यान म्हळ्यारी माबीरच्या पराक्रमी राजा कामदेवान कदंबांच्या साम्राज्याचे दायित्व भुजांर घेवपाचें थारायलें. कामदेव हो कदंब राजा नाशिल्लो. ही वस्तुस्थिती मतींत दवरपाची गरज आसा.

दुर्दैवान त्याच समयार देवगिरीच्या यादवांचेर दिल्ली सुलतान अल्लाउद्दीनचो सेनापती मलिक कफूरची हावळ आयली. आपणाल्या राश्ट्रांतल्या असहाय्य राजांचेर शेक दाखोवपी यादवांनी दख्खनच्या वाठारांतली आपणाली बिटकी कवळिल्ली. ताका गोंयची संपत, रत्नां-माणकां आनी बायलां-भुरगीं जाय आशिल्ली. नवलाची गजाल अशी की मलिक कफूराक गोंयची भूंय नाका आशिल्ली. रामा जुंव्याचेर तत्कालीन जनमनाक तुच्छ करपी अशी एक मशीद बांदून तो कडसरलो. हे धर्मिक हावळीन गोपकपट्टणाचो ऱ्हास जाल्लो. आदी सुगूर आशिल्ल्या चांदर ह्या सुरक्षित थळार राजपाटण व्हरपाची गरज उप्राशिल्ली. कामदेव नव्वदींत पाविल्लो. शेकीं ताणें आपणाल्या ज्येश्ठ पुताक नांव आपणाल्या मेव्हण्याचें म्हळ्यारी शश्ठदेवाचेंच दिल्ले. जाल्यारी तो व्हड जातकच आपणाक भीमभुपाळ हे नाममुद्रेन नांवाजूंक सोदतालो.

मूळ नक्षत्रार जल्माक आयिल्लो हो ज्येश्ठ सुपूत पित्त प्रकृतीचो अधिकार प्रिय आनी विचलित वृत्तीचो आशिल्लो. ताच्या जल्मा उपरान्त ज्योतिषाचार्यांनी सांगिल्लें की तो हिंसेचो आनी पथगामी दृश्टीचो जातलो. ताचो ग्रहस्वामी केतू नकारात्मक दृश्टिकोनाचो आशिल्ल्यान ल्हानपणांतच तो अट्टाग्रही प्राणी आपणाक ज्येश्ठ, श्रेश्ठ मानूंक लागतलो. विनाशकारी कार्यांत ताची रुचि वाडटली.

शश्ठदेवाची वाड जाता आसतनाच तो तंत्र-मंत्र ह्या पारलौकिक विद्यांचे वेंगेंत रिगिल्लो आनी आपणाल्या जाण्टेल्या पित्याच्या मृत्युचो म्हुर्त काडूंक बशिल्लो. घराब्यांत गूट वाडूंक लागिल्ले. राणी श्रद्धादेवीक शश्ठदेव हो हृदयाचो कुडको कसो दिसतालो. ताचे पासत तिणें व्रत-वैकल्यां, उपास, धर्म कृत्यां, स्वामी,

महाराज, तीर्थक्षेत्र यात्रा अशें करपाक जाता तितले साबार उपाय केल्ले. तिणें अम्बिकेचो ईश्वर म्हळ्यारी आंबेरांतल्या आराध्या चैतन्य पंथाची शिलादेवीचें दर्शन घेतकच तिणें तीर्थंकर ऋषभदेव मंदिरांत वचून योग साधना करची असो तिका साक्षात्कार जालो. तशें करतकच ताचे लग्न जातकच तो सुदारतलो अशे अबू पर्वता वयल्या देलवाडांतल्या तीर्थंकर ऋषभदेव मंदिराच्या एका महन्तान सांगलें.





हो पुत तुकाच न्हय तर साबारांक एक कापुत कसो दिसतलो. ताका कोणालीच हुर्मति आसची ना. तो साबारांक हिंवायतलोच, वांगडा आपणाल्या भाग्याकय हिंवायतलो, किंबहुना ताचे भाग्य ताकाच हिंवायतलें.

कदंब साम्राज्याची राणी व्रत वैकल्य करूंक आंबेरांत आयल्या अशें कळना फुडें कछवाहा वंशाचो राजपूत आनी आंबेर संस्थानाचो राजा मानसिंगान साबारांक व्हडा मान सन्मानान येवकार दिलो. चिन्ताग्रस्त अवस्थेंत उलयता आसतना राणी श्रद्धादेवीन शश्ठदेवाच्या संदर्भातली पुराय कथा सांगली. राजा मानसिंगाली पट्टराणी अम्बावतीन तिका कसलीच चिन्ता करूं नाका. म्हजी एकोडी धूव कंकावती तुका, राजा कामदेवाक आनी शश्ठदेवाक मानता जायत जाल्यार आपूण ह्या दोन राजघराण्यांत वैवाहिक संबंद घडोवन हाडूंक पावतलीं, अशें सुचोवणी केली. शश्ठदेवान नकार दिवंक नाशिल्ल्यान हेर साबारांचो विरोध आसतनाय आमेरची राजकन्या कंकावती राजा कामदेवाची ज्येश्ठ सून म्हणून चन्द्रपूर राजपाटणांत आयली. परन्त शश्ठदेवाल्या आचरणांत कसलेंच परिवर्तन जावंक पावलें ना. तो तसोच वागतालो, जसो ताच्या लग्ना आदी वागतालो.

राणी श्रद्धादेवी व्हडा धारिश्ट्यान साबारांक थातार थातार करताली, तिच्या येत्ना-प्रयत्नांक येस लाब नाशिल्लें. तिचो निमाणचो पूत गुल्हळदेव आपणाले

आवयक आनी असहाय्य पित्याक राजवाड्यांतल्या अनवट षडयंत्रांसावन रक्षण करपा पासत जतनायेन सांबाळून दवरूंक सोदतालो. राजवंशांत किजिलां वाडूंक लागिल्ली. तांचेर तागेलें नियंत्रण उणे जावंक लागिल्लें.

शश्ठदेव उपाख्य भीमभुपाळाक मुसलमानांच्या आक्रमणान जाल्ले अनावस्थेचे परिणाम मतींत घेवपाची मात्तुय गरज दिसली ना. आपणाक जनाधार ना. आपणालो लोक आपणाक लागीं करिनात. अशे परिस्थितींत ताणें आपणाल्या घराब्यांतल्या संघर्शांत लाब उठोवपाचे भुलावणेंत वावरत आसतना दिल्ली सुलतानाचो होन्नावरांतलो राज्यपाल नबाब जमालउद्दिन महम्मदाक आफोवणे धाडलें. तो गोंयांतले सत्तेचे आस्तेन इतलो कुड्डो जाल्लो की ताणें जमालउद्दिनाचे धुवेक आपणावन इस्लाम पंथाचो स्वीकार करता म्हणपाची मांडणीय करून वडयिल्ली.



नबाब जमालउद्दीनु । मोहम्मद बिन हसन कण्टकबनु ।
नाखुदालो फर्जन्दु । जो आशिल्लो तारवटी व्हडेकारु ।।उपो९२।।
सल्तनतीचो स्थापकु । होन्नावरीचो नबाब धधकु ।
निंदनीय घृणोत्पादकु । कपट भावी दुराभिमानु ।।उपो९३।।
जनांचो अन्धांचो धर्मस्नात वृक्ष ।
निराधार अस्तुऱ्यांक देखी भक्ष्य ।।उपो९४।।

वंदनीय जाण्ट्यांक सांगा वचूनी ।
सुखाच्या विध्वंशी पुत्रवीर नीती रक्षणी ।।उपो९५।।
उद्धारी पित्याच्या शरीरा सपुता ।
कुन्द काल सुर्या कुकृती कुजाता ।।उपो९६।।
घराब्याक सुडाच्या दंशीलो सर्पांनी ।
यज्ञाची नश्टली धरा त्या दुश्टांनी ।।उपो९७।।
भश्टिली अस्तुरी गर्भिणी शुक्रांनी ।
अटंग्य बुद्धीच्या कुपापी उरांनी ।।उपो९८।।

जमालउद्दिन येतना बावन्न तारवां घेवन आयलो. सोमाराचो दीस आशिल्लो. सांजेचो वेळ. पसय. जुवारेचे न्हंयेंतल्यान तो गोंयच्या अन्तर्भागांत रिगलो. अशा समयार तातूंतल्या तातूंत ताका दहा सहस्र हिंदूंनी प्रतिकार केलो. शिलाप्रक्षेपकांत घालून फातर शेंवटिले. तीर सोडले. खड्गां घेतलीं. आक्रमक जंय वचूंक सोदता, थंयसरल्या कांय हपापिल्ल्यांचो सदैव सोद घेता. तांका आपणाल्या गोपांत घेता. तांका पानदुडू दिता. हे हपाप लोक गुप्तहेर म्हूण वावर करतात. जमालाचे अगणित गुप्तहेर हिन्दूच आशिल्ले. तांणी ताका वाटो दाखयल्यो. धनिकांच्या राबित्याकडेन, राशीच्या घरांकडेन अंगुलिनिर्देश केलो. घोड्यार बसून आयिल्ल्या मुसलमानांनी हिंदूंचो निःपात केलो. हिंदूंनी जळीं मळीं फुज्यो ल्यो. कांय जाण राजवाड्यांत वचून लिपले, तेदना हे हपाप गुप्तहेर आपणाक लाबिल्ल्या दुडवांची मोजणी करीत बशिल्ले. जाल्यार आक्रमकांनी राजवाड्याकच उज्याचे भकीक दिले. रावळांत लिपिल्ल्यांनी भायर धांव माल्ली आनी अचळय जमालउद्दिनाच्या सैनिकांनी गोरवां कातरतात, ते तरेन त्या थळाव्यांक कातरून काडले. जमालउद्दिनान त्या सैनिकांचेर प्रसन्न जावन तातूंतल्या बायलांक आनी तांच्या भुरग्यांक कुशीक काडून तांका आपणाल्या वखवखिल्ल्या सैनिकांचे स्वाधीन केलें. उपरान्त बरोच काळ गेलो. विखरून पडिल्ल्यांक एकठावन कदंब राजवंशांतल्या कांय जाणांनी नबाब जमालउद्दिनाचेर पुनश्च आक्रमण केलें आनी नबाबाक नाका पुरो केलें अशें इब्न बटूटा म्हणटा. इब्न बटूटा हो मोरोक्कोचो एक विद्वान प्रवासी इतिहासकार. ताणें मुसलमानांनी पादाक्रान्त केल्ल्या साबार साम्राज्यांनी भोंवड्यो केल्ल्यो.

ह्या चम्पु-काव्याची कथा ह्या समयावेली. घराब्याच्या किजिलांत अडचून पडिल्ले गायत्रीदेवीची. तिच्या त्यागाची.

शिशिर रुतुंतलो उद्दाम । परमळीत कुडींक करता अविरल ।
चन्द्रमु सुखां सपनांतु । न्हिदें परयांत सुखाचो कलकल ।।प्र३१।।
उदक कुण्ड हिण्यां तिण्यां । पुश्करिणी होय निशीथ आसक्ता ।
नयन मनोहारी छाया । सुरत स्नान अम्लान मोगिणी मुक्ता ।।प्र३२।।
निर्भय अभिगोमांचल । वन वन वन उपवन सुंदर सुरम्य ।
असीमसी प्रभावित । मंजुळ गायन भांगरभूंय अगम्य ।।प्र३३।।
हें तर अनवट उपवन । न्हय नन्दन कानन नन्दन उपवन ।
केवळ शितिकण्ठ जीवन । कुशवन पावन वनरम्य वासन ।।प्र३४।।
ब्रह्मदेव निमालो । आयलो पुश्कर तीर्थ विसरून ।
जल थल पवनय निवांत । मदन आयलो रती वाट चुकून ।।प्र३५।।
जयति जयति सुख चेतना । अनन्त रेणू हरि आंगळांनीं ।
लटलट करी प्रियकर । साद घाली सावित्री विणावादिनीं ।।प्र३६।।
छुम छुम नादय सुन्दर । कामिनि कामोत्कण्ठ विलोभिनी ।
ब्रह्मा जाय निश्चयी । यज्ञकुण्ड आमोदी ह्या उपवनी ।।प्र३७।।
कूड कामदेवाची । धारण केली चांदर राजाची ।
रुशी मुनीय आयले । लाज राखूंक त्या निमंत्रणाची ।।प्र३८।।
अस्तन्ते सुर्या देवा । चन्द्रीम उदेय किण्ण किण्ण रानां ।
रुशी गाय मधुर पदां । रुचांनीं आरोह अवरोह ताना ।।प्र३९।।
पद्मयोनीचो अपार । ऋत्विजांचेरय आयलो भार ।
चकाट कसलें देवा । देवांगणांत ब्रह्म्या जाला मनुकार ।।प्र३१०।।
उत्कण्ठावश सन्तप्त । देवगणय स्पर्शिती भांगरभूंय ।
सुलूसच ना लागूंक । कामदेवा तो चिन्तातूर मूंय ।।प्र३११।।
शश्ठदेवा दुहितेक । दीसपट्टे छेदी दुहीचो भृंग ।
सुपुत आपणालोच । पित्याच्या मुळार हो शमल शृंग ।।प्र३१२।।
जालें सुनापरान्त । महाशाला घोश करी मुनिवृन्द ।
जाय संपन्न सुवाळो । यजुर्वेद गाय तेजस विदुशिवृन्द ।।प्र३१३।।
*गणानां त्वा गणपतिं हवामहे ।*
*प्रियाणां त्वा प्रियपतिं हवामहे ।।*
*निधीनां त्वा निधिपतिं हवामहे ।*

*वसो मम । आहं अजानि गर्भधम् ।।*

*आ त्वं अजासि गर्भधम्*

... आनी चमत्कारच जालो. राजवाड्यांतल्या संघर्शांत तद्रुप जाल्ली आसतन राजवाड्यांतले कामदेव राजाचे पट्टराणेक म्हळ्यारी राणी श्रद्धादेवीक, ती राणीवशां बशिल्ली आसतनाच अवचित घुंवळशी आयली. घुंवळेंत आसतनाच त कामोत्कण्ठीत जाली. आपणाले कोण तरी दोहन करता अशें तिका दिसूंक लागल तिका वेणो आयिल्लेवरी जालें आनी ती म्हणूंक लागली, *आहं अजानि गर्भधम् । अ त्वं अजासि गर्भधम् !* तिका सोसूंक जाय ना जाल्यो त्यो वेणो. दासदासी धांवल्य कामारी धांवलो, कामेरें धांवलें. राजा कुवाड्यांत शिरकलो. राजवैद्य आयले राजपुरोहितांकय रायाची आज्ञा गेली. राणी श्रद्धादेवी पिरंगत रावली - *आहं अजानि गर्भधम् आ त्वं अजासि गर्भधम् !* राजपुरोहिताचे विनवणे वयल्यान दासींनी अनाव जाल्ले राणेक कोपगृहांत व्हेलें.

तुपाचे धारेन रे । थकना उन्मत्त लोळ आगीचो ।
दोंगरांच्या वण्टींनी । आडवना शिरजोर वादळाचो ।।प्र३१४।।
राणी श्रद्धादेवी । म्हणे नाका व्हरू श्रीरंग गो ।
करात उपचार बंद । नाका करू रतिभंग गो ।।प्र३१५।।
*रतिभंगो दुःखमेकं द्वितीयं वीर्यपातनम् ।*
*रतिभंगेन यद् दुःखं तत्समं नास्ति च स्त्रिया ।।*
रागवृंत्ता तूं कोण । अर्धदेव काय तूं गंधर्व रे ।
यक्ष तूं पुराय दुश्ट । आवेगी गंधवती जालें रे ।।प्र३१६।।
तुजिया स्पर्शा जालें । पतिव्रताय अगतिक पथिक वनिता ।
खिन्न खिन्न तन तपोवन । स्फुरित ही कामोत्कण्ठ रुचिता ।।प्र३१७।।
तुज्याच धोणूक गोड । उशीकांड्याचीच लोभस कमान ।
कन्दर्पा रतिकान्ता । मनमथीय मोगाळा पुश्पवान ।।प्र३१८।।
प्रत्यंचा अशी तिव्र । जी म्होवांत प्रदीर्घ ओडटा ।
आहत आहत शरीर । अनंग तीर वसन्त मैथुनी सोडटा ।।प्र३१९।।
स्तंभन स्तंभन स्तंभन । कळिकाळाकय उन्मादीत करता ।
तुज्या पांचय तिरांनी । पुश्पवर्षा अन्तर्वस्त्रीं तोंपता ।।प्र३२०।।
काडून वडयात गे । पुश्प-पराग सुकण्यांचो मधुर स्वर ।
धांपून राखात गो । वास यौवन चन्दनी पर्मळ खर ।।प्र३२१।।

नाकाच आता नवीं । न्हैंसणा मोहमयी आभूशणां ।
संगीत संगीत संगीत । भुंवयांनी ओंठांनी झणा झणा ।।प्र३२२।।

राणी श्रद्धादेवीचो कामाग्नी आटापा येना जाल्लो, राजा काचाबूल जावन लजेक म्हारग जाल्लो. साबार जाण सळाबळा जाल्ले आनी तेदे वेळार अचकित ब्रह्मदेव प्रकट जालो. साबार जाण हे थटाकणींत काचाबूल जाल्ले. ताणें साबारांक भायर वचूंक सांगलें. नकळट्यां साबार जाणां भायर सल्लीं. ताणें कामदेवाक आनी ताचे घरकान्नेक वेंगेत घेतलें आनी म्हळें,

"तुमकां आतां धूव जावपाची आसा.":
पापाकार कलश हितसुख होये रस केवळ ।
रोमाच्छादित विवर रमण दोळे छळ नितळ ।।प्र३२३।।
पोटाचे कुडिंत कवित देवदीप्त गंध श्यामल ।
आकाशांत परिणत पसय उदात्त दुहिता तल ।।प्र३२४।।
नाका लाजु सुखद रुप धर्तरे शक्ति धारिणि ।
राज्यश्री सरवण संमिलन तूं गो नच जारिणि ।।प्र३२५।।

अवाक् जावन दोगांय ब्रह्मदेवाक तेळतच उरलीं. सत् कितें, दृश्यमान कितें, चमत्कार की वस्तुस्थिती? पुराय अनाकलनीय जावन गेल्लीं दोगूय जाणां. अचकित वाडूंक लागिल्लें आपणाले घरकान्नेचे पोट हें पापाकार न्हय म्हणपी हो कोण? तातूंत हितसुखाचो रस म्हळ्यार कितें? राणीचे दोळे विकल विकल जाल्यात, जाल्यार तातूंत रोमांचित, रमणीय विवर कसलें काय? असलो कसलो उन्माद मातला तातूंत? पापाचाराचेय कवित आसू येता व्हय? ताकाय देवदिप्तीचो परमळ लाबता व्हय? मळबांत इतली परिणत स्वरूपाची म्हजी धर्मदत्त धूव खंयशी उबी आसा? साबारांनी राणीक अशे दुराचारी अवस्थेंत पळयिल्ल्यान लोकलाजे वरवीं राज्यलक्ष्मी संकशटात आयिल्ली आसतना हो ब्रह्मा म्हणटा तिचे मीलन शेतभुंयेकडेन जातलें?

राजा कामदेव हतबल जावन गेल्लो. राणी श्रद्धादेवी ह्या विश्वाचे पलतडे पाविल्ली. ती तेच अवस्थेंत पुराय णव म्हयने णव दीस उरली. घरांतल्या किजिलांत वाड जाल्ली. राजालो कुंवर आक्रस्ताळो जाल्लो. ताका राजपाट जाय आशिल्लो, आनी कामदेवा कडसून तो बळया हातासूंक सोदतालो. शेकीं ताका कोणालेंच फाटबळगे नाशिल्लें जाल्यारय ताची आवय परथून गुरवार जाल्या आनी तीय दैवी अभिशापा वरवीं ! हें नवलच !! विश्वाच्या निर्मात्यान हो गर्भ प्रदान केल्लो. म्हणटकच पिताश्री आयजय बळकट आसा, शंभर हतयांचे बळगें ताच्या भुजांत आसा. फुडारांत तांची ही

धूव व्हड जातली. दैवी सामर्थ्या वरवी म्हजो अधिकार हातासतली. हांव धडेर, ह
उबन्त, हांव नाकारिल्लो, न्हयकारिल्लो! आसमंतांत कोणूच ना. ना इश्ट, ना सोयरे
धायरीं. ना राजसभेचो फाटलाव, ना दुडवाचो आदार ! पिशांतूर जावन गेलो राजकुंव
आनी कार्तिक मासांत, शुक्ल पक्षांतले पुनवेचे तिथीक राजकुंवरी जल्मली.



आयलो साद चैत्राचो अनुसादयता वैशाखय ।
रुखावळी चल रे घेवन झोपां वाली रे अचळय ।।
बाल अरुण रे तूंच सकल आतां ताका रे सखया ।
विद्वाट जाता वैशाखा तापग्रस्तय कसो पळय ।।प्र३२६।।
तमारी मधुक अति दाहक तापभय गीम लक्ख लक्ख ।
अगनी पथार पातळाय डाळिंब प्रखर भक्क भक्क ।।
ताम्र तोंड वियोगी जलचर नभचर विरागी ।
तनमनसी जन नितरोगीचण्डांशू गरम वैशाख ।।प्र३२७।।
आकांताळो नीलकण्ठ मागता उदक उद्रव जाळ ।
विस्फोट विस्फोट चोंयवशीं वैशाख-विरह नरक काळ ।।
कोमल रसाळ फुलां-फळां हाहाकारी आगडोंब ।
वैशाख फूल पांगारो तनमनां गच्च मरण माळ ।।प्र३२८।।

रुखावळ मरड चल्लां झुकत कुंजर विरुपण तनमनसी ।
विकलेश्वरा नीलवस्त्रा पयोधर धाड ताकतीकसी ।
हे धर्तरे सुर्या मुकुट घातलो गे कोणे अकाल? ।।
हे निर्मणे विकलांगे वणवो सदैव विकल दिक्पाल ।।प्र३२९।।
ब्रह्मांडान गे घुंवता कुदर्शन चक्रच गर्र गर्र ।
सैम भेकडायता खुमास जळटा खेटी खेड जळजळ ।
राजा आनी रंक केवळ दोळो सैम होय अवजाळ ।।
दशकण्ठ विदारक दिकां पेल्यान स्वाती थैंबो जल्मता ।
माया मन मरूक पडलीं खांचींत एके कळो चंवरता ।।प्र३३०।।

तिका राजकन्या गायत्रीदेवी अशें नांव लाबलें. ज्योतिशाचार्यांनी राजा कामदेवाक सांगलें. हे धुवेचो पूत तुजें राज्य सांबाळटलो. वाडयतलो आनी पोरण्या ऐश्वर्याची निर्मणी करतलो. युवराज्ञी गायत्रीदेवी. म्हळ्यारी ऐश्वर्य रुपायिताच. तिचें रूप तें कितलें अपरूप! तातूंतय तिचे ते पुराय ब्रह्माण्ड वेंगेंत घेवपी दोळे!

उत्कट चंचल दोळे । सुभग मळब देखता नवल नवले ।
फुडारांतले जिणेचे । मळबा जोडपी सेतू बांदले ।।प्र३३१।।
मुनि जन प्रिया तनया । गायत्री शोभे लक्ष्मी रति मानी ।
श्यामल गवर मनोहर । पाळण्यांतली निश्पापशी राणी ।।प्र३३२।।
कनक-निकश माणिक छता मुक्ता । तारांगण सुख घेय ही सुता ।
दिनमणी वाडत जाय दिनदिनी । गवर गाय सुन सुन कटिकिंकणी ।।प्र३३३।।
सालस मृदु घरांची दुहिता । कोमल वाणी संगीत संहिता ।
आंगणी नाची बालिका संतप्ता । बालकेश ओडिता कोमल हातां ।।प्र३३४।।
तेल मर्दन कर गे माते नित दिनी । सपनवती रूप करी रात्री त्रिभुवनी ।
कर गे हरशित अभिलाखा जननी । वाडय अनुपम रजनी हार ।।प्र३३५।।
उतपात करी ही गायत्री बाला । शशीमुखी असल्यारी होय परम ज्वाला ।
करी माते संभार कृश्णा रति तुला । शडरुतुंचो समाहार ।।प्र३३६।।
वाड वाड वाड बेगीन आतांच आतां । घन घन घन अन्धक सार ।।
दृश्टीं मातेचें चित्त वोपिळा । कुंतळ वझऱ्या वरी भुरभुरे ।।प्र३३७।।
मधुरमृदुमौनवाड झरझरे । तनया केश अपार ।
दुहिता ब्रह्मसुता । अयोनिजा धरादेवीची वनिता ।।प्र३३८।।

म्हज्या मस्तकी अति कुंतळां । कुन्तळा हांव म्हजी अलिकुन्तळां ।
उमा रमा कनकलता । क्रीडा करी बहुता जणी हंसिणी ।।प्र३३९।।
इञ्चु जाय मोगाळु । ताचे आग्वल करी ताका इन्दोळु ।
आगटेंय अमृताळु । डंख करूकय बाळके धजेचि ना ।।प्र३४०।।
मत्त यौवनी झडी । झरता झळकता उटंगारी पडी ।
रायपुत्तांलिं वरोडी । दीठी देखी घडोघडी दीठिं ।।प्र३४१।।
युद्धन्ते माझारी । रायकुंवर जुज्झन्ते मनीं विचारीं ।
मोग विरोध संहारीं । कुसुमीं परमळ परी करी कोमळ ।।प्र३४२।।
नारिँ माझारि युवती । तद्भवे त्यागुनि तत्समे धरिती ।
चिंतनांचिये युगती । कामेरींली करी ते भगतिया ।।प्र३४३।।
जे न कदापि क्रियते । जे सरळ भावे न मान्य होते ।
आरोपवे मोगिंते । मुंबरांच तरनाट्यांक करविजे ।।प्र३४४।।
मनुस्सांनो ह्या मनुस्स्यें । अन्तरीं फाय प्रभात पहाये ।
आस्त वाडय वरुसें । म्हळ्यारी कदापि सोंपेची ना ।।प्र३४५।।
मोगाची पीडा कस्सी । हृदया थाकुनु खर ल्हारां जस्सी ।
मना साकुनु वसवस्सी । व्होवनु दिव्यांग घडे खंय थावुनु ।।प्र३४६।।
ते ना घरचे घरालें । तागेले पित्यालें आवयलें ।
मानवना येलेले । तांगेरी तांगेल्यांतु परम्पार ।।प्र३४७।।
नात कदापि म्हज्यांतु । ना सर्वस्वी गा ते भितर तुज्यांतु ।
ना मगल्यांत तुगल्यांतु । संगमांत मोगिकेचे संगती ।।प्र३४८।।
गायत्रीचिये सपनीं । झळकी गिन्यानांचे उन्मेष खणीं ।
मांदियाळ विद्वांनी । धवल वज्रा किर्णीं खिणांचो उत्सव ।।प्र३४९।।



बाय गायत्री दिशिमाशी वाडूंक लागिल्लें. ताणें इतिहास, खगोलविज्ञान, धर्मशास्त्र, न्याय, पुराणां, मीमांसा, योगविद्या, वेद, वेदांग, सांख्य आनी स्मृति सारके सटिक विशय खोलायेन तशेंच विस्तृतपणान शिकूनघेतले आनी ते आत्मसातय केले. प्रसंगी कदंबांचें आनी कामदेवाचें साम्राज्यपद लाबलेंच जाल्यार राजकुंवरी गायत्रीन साबार विद्या जाणा जावंक जाय. तेच परी ताणें आपणावरी दानशील तथा वीर आसूंक जाय म्हूण कामदेवान ताचेर उचितशे संस्कारय केले. "जाणा जा तूं कदंब राजवंशाचो उदेव जातकच चालुक्य आक्रमकांनी आमकां दामून दवरिल्लें", ताणें बाय गायत्रीक म्हळें. पल्लव राज्यकर्त्यांकडेन सोयरिकेचो संबंद कसो वाडलो, ते विशीं सांगतना ताणें म्हळें, "जाणा तूं बाय गायत्री, अंदूचे शतमान चवदावें. आठव्या शतमानांतल्या तिलका-पल्लवांच्याभारद्वाज गोत्रीय राजाची म्हळ्यारी दन्तिवर्मनची घरकान्न अग्गलानिमती आमच्या कदंब राजवंशांतली म्हूण? तो राजा म्हळ्यारी गंग-पल्लव न्हय आं! आनी अग्गलानिमती म्हळ्यारी त्याग, शील, ममता तेच परी समर्पण वृत्तीची देवता. आयजय तिची देख दिवन थंयसरलो सत्ताधीश ताच्या नागरिकांची सेवा करता. तूं तिगेलो आदर्श दवर."

राणी श्रद्धादेवी तर बाय गायत्रीले कुडीची जतनाय घेत आसतनाच तिगेल्या आंतरिक गुणांचीय सोबीतकाय वाडोवंक लागिल्ली. आपणाले धुवेंल्या आचरणांत विनम्रताय, लज्जाशीलताय, भावुकताय, सत्यनिश्ठताय आनी त्यागभावना आसूंक जाय. तिच्या हृदयांत कारूण्यपुराय, करुणामयी पीडा, उदारताय, दयाशीलताय, सेवामयताय विचरूंक जाय म्हूण ती नामनेच्या ग्रंथांतल्यो कथा आनी कथासार सांगताली. ह्या साबार संस्कारांचो प्रभाव पडटा आसतनाच ते तन्वींगीची कूड यौवनांत सुस्नात जावंक लागली. तिच्यो इश्टिणी मायालता, प्रियंवदा, अनसुया आयल्यो आनी तिचे गुणगान करूंक लागल्यो :

मायालता : कंचनवर्णा अनभिज्ञा युवती ।
कोमले तणाग्रय तोंपती ।।
मृदुले तूं मंजुला चंचला ।
द्रवित करता तूं निश्चला ।।प्र३५०।।

प्रियंवदा : शुचितेची गो तूं प्रतिमुर्ती ।
चुंबनाची कल्पछाया पुर्ती ।।
रतिवेगे अरुणिम जाय तूं ।
लज्जा लज्जा अप्रतिम होय तूं ।।प्र३५१।।

| | |
|---|---|
| अनसुया : | दिसूंकय लागलें नवलवधू । |
| | राधा राधिका यौवनमधू ।। |
| | आळसय आंगांगांतु रिगला । |
| | तुजी अक्षयकाया निर्मला ।।प्र३५२।। |
| प्रियंवदा : | प्रिती आलोक तुज्या दोळां । |
| | शोकाकुल दुकां जाय गोळा ।। |
| | ऋतुराज क्रीडा विव्हल मुखधरा । |
| | नाकात इश्टिणी आनी परिकरा ।।प्र३५३।। |
| मायालता : | जलचर पुश्कर सुकणी विहंगमा । |
| | संध्याराग शशी निरंतर संगमा ।। |
| | बालसुलभ जगणे निमलें गो । |
| | अस्फुट पदांत अनंग स्वामी गो ।।प्र३५४।। |



सत् सांगचे जाल्यार गायत्रीची आंगळां आवयल्या हातांतल्यान केन्नाच सुटून गेल्लीं. राजा जनक जसो जानकीलो धर्मपिता, कण्व जसो विश्वामित्राल्या विर्यांतल्यान आनी मेनकेल्या गर्भांतल्यान जल्मिल्ले शकुंतलेलो धर्मपिता, तेच वरी राजा कामदेवय ब्रह्मदेवाले गायत्री कुंवरीचो धर्मपिताच आशिल्लो. तरीकय तो सांबाळटालो कुंवरेक. निश्कपट, निर्दोश, निर्भय, ऐश्वर्य रुपायिता अबोध गायत्रीक

8530

मात आपणाले आर्श्वीपार्श्वी, आशिकुशीक माता-पित्यावरी हेरय तेच भुमिकेंत वावुरतात म्हणपाची खेरित कुरू मेळनाशिल्ली. राजकुंवर शश्ठदेवाली कठोरताय, तागेले भेद-भाव, दोश आनी छल-कपट गायत्रील्या शिशू हृदयाच्या अणभवाक येवंक लागिल्लें. राजकुंवराचे इश्ट, राजा कामदेवाचे कांय धूर्त मंत्रीगण, समश्टींतले कांय हितचिंतक गायत्रीचो हेत्वाभास करूंक लागिल्ले. अशें आसल्यारय तिची कीर्त दूरदेशांत पावूंक लागिल्ली. राजकुंवर भीमभुपाळ तिची अपकीर्त करूंक सोदी, तथापि फुलांचो सुगंध अल्पकालीन आसल्यान तो नश्ट जाता परन्त कस्तुरीचो आनी चन्दनाचो परमळ बंदखणींत घालूंक मेळना. वसन्ताचो अफाट प्रभाव कुसके, नासके, म्हेळे दुर्गन्ध नानपश्चात करून वडयता. गायत्रीचे रुपायिके वरवीं सत्पणान वसंत ऋतू जागर घालूंक लागिल्लो :

ऊठ ऊठ गो पळय पळय चैत्र मुखार विरळ धरा ।
तणांवेल्यान वसन्ताच्या येता भुंयेच्या शृङ्गारा ।।
जालो शिंयाळ फाल्गूनय सुखद चैत्रांत आशिकुशीं ।
आंकरी नवी शिरंतरी नवद्रुम विहर संवसारा ।।प्र३५५।।
संयत फुलारो मोगाळो सन्तुलित श्वास भूं चंवरा ।
उमास गेली लकलकलक अश्विनी भूल नवनवीन ।।
कोगूळ गोड कुहू कुहू करता मोगा साद चरा ।
लिकलिक सादय चतुर चित्रा नख-शिखान्तक अन्तपुरा ।।प्र३५६।।
अथाह प्रलय उन्मादांत सर्वांग सखये लंव नवनव ।
अवतंस गळ्यांत गरगरीत धरणी मादक शुक्ल पल्लव ।।
रम्य शिरंगार भुजांचेर साज सुधारस नस लवलव ।
अनुराग कुसुम शिरंतरां सखये म्हजी लवथव ।।प्र३५७।।
विनोद चतुरा धर्तरेन दोळ्यांनी दंव शिंव्रायलें ।
कला कलांचे प्रतिसाद रुखावळीचे निनादले ।।प्र३५८।।

गायत्री नवयुवतीच्या न्हेंसणांत मग्न जाल्लें. दशदिकांनी कितें घडटा, कित्याक घडटा हाचे संबंदान तें नेणो आशिल्लें. सगळी जाणां आपणाक कित्याक तेळून तेळून पळयतात, तेंय तें नेणो आशिल्लें. धर्तरेन पानांक सांगलें, पानांनी वाऱ्याक सांगलें, वाऱ्यांनी ताऱ्यांक सांगलें – "गायत्री वयांत आयलें".

अनुपमेय देवदुतिका । उन्नत ललाटी कुरू चक्रवर्ती ।
घनदाट सैल कुंतल । ललाटरेखाय आभा पखरती ।।प्र३५९।।

अमलतेंत अति विमल । अंगोपांग वझरो सुगंध परिमल ।
युगल वक्ष अनुरागी । देवदिणे उरोज कुंवरी छलछल ।।प्र३६०।
रसनाय मधुर मंजुळ । गायने ग्रीवाय देय अनुमती ।
दृश्टि न्हय ज्योतिकोश । शिरंगारी गे मीनाक्षी सुमती ।।प्र३६१।।
करुणामय नेत्र अदोश । संवसारी पिडांचें नवनिकेतन ।
एवंगुणविशिश्ट तनया । विणागुंजन रव गायत्री सुदर्शन ।।प्र३६२।।
पोरण्याक वाळोती । नव्याक फागूर धरी विस्मो करती ।
धर्तरी विभीता ती । विर्थ्या विशाला व्यामोही होय ।।प्र३६३।।
माय विनौवि पतीते । हे धुवेचेर विपत न होय वाळोते ।
शितरी धाय दिकांते । विपायीं हृदयच करी शियाण्डे ।।प्र३६४।।

**सूत्रधार**: युवतील्या हड्ड्याचेर । स्तन-मण्डल नव-मळब धरी फेर ।
रोममाळ नाभिचेर । सुक्षीमतम रोमराजी विलासी ।।प्र३६५।।
नितंबिनी आकर्ष । असुवादीन खीण अनावर सहर्ष ।
सज्जन पापी प्रकर्ष । अन्तर्यामी अधांप दोळे जरी ।।प्र३६६।।

**सूत्रधारिणी**: जहा अज्जउत्तो आणवेदी तहा विवाह मङ्गळ जोग्गा संवुत्ता ।
महविं रत्तिंदीअं भाइदे अस्सिंजीव अद्धे ।
णिहिअहिअआए किं लख्खीअदि ।।

**सूत्रधार**: जावं प्राप्त ताका । आर्गां पर्वडी पर्वण पळोवंका ।
नाका मेळूं ताका । निसाञ्चरू पळपटो निश्कामिकी ।।प्र३६७।।
केरेगाली रूप शिखा । सर्पाल्या माथ्यार नागरत्न चोखा ।
गायत्री रूपरेखा । काव्यगुणीच अनलिखाय थोकडें ।।प्र३६८।।

**सूत्रधारिणी**: सुदं मए विस्साहिओ पुरिसो णाहो त्ति ।।

**सूत्रधार**: एक दीस राजा कामदेवान आपणाले कुंवरीक राजभाण्डार दाखोवंक व्हेलें. स्वर्ण कोशाची कोठी दाखयतना राजान कुंवरीक म्हळें,

"हे चारशे-पाचशे साकाटे भरून दवरल्यात, तातूंत आसा भांगरपूड. आनी ही पळय आभुशणां, आयदणां, भाणां! ह्यो समयो आनी ही विंगड विंगड आसनां, हें सम्राटाचें आनी हे म्हाराजाचें ! हें तुज्या आज्याचें – शश्ठदेव म्हाराजाचें !":

पळय गो राजकुंवरी । रत्नखचित भांगर भाण्डारीं ।
कदम्बांचे संवसारीं । सागर प्रसन्न अपारी सदैव ।।प्र३६९।।

आठ रत्नां कदम्बालीं । विगत राजांनी मेळयिल्लीं ।
गगन गिरी लांघिल्ली । मंथनीं लाबिल्लीं रत्नां थोर ।।प्र३७०।।
मन्थन पराक्रमाचें । पूजन अर्चन देवत्वाचें ।
अघोरी पावित्र्याचें । नरेश्वर धादोशिल्लो मनीं ।।प्र३७१।।
बर्बरां सावनु रक्षिलें । देव शत्रुगणु क्षया व्हेलें ।
प्रणव बीज आरक्तलें । ब्रह्म्यान दिलीं हीं अश्ट रत्नां ।।प्र३७२।।
मंत्रमय कमलारूढ । देव निर्मातो आमीच मूढ ।
देवदान दैव गूढ । केर ओडलो जालें प्रदान ।।प्र३७३।।
अमृतमणी राजहंस । पारसमणी शार्दूल राजस ।
राज सवर्णे अविशेष । करी राखण ह्या वैभवाची ।।प्र३७४।।
विख नश्टच करी मणी । देशोदेशींची हिरकणी ।
म्हणती हो चिन्मणी । करी नश्टच सत्वर हलाहल ।।प्र३७५।।
राजहंस न्हय निर्जीव । अनमोल मोती खाय सदैव ।
निळावन्त गाय गंधर्व । बोल परम सात्विक तात्विक ।।प्र३७६।।
भांगरां जाय ना उणीं । हाका दायीच पारसमणी ।
चन्द्रपुरीलीं नाणीं । संवसार भर म्हूण पातळलीं ।।प्र३७७।।
हो शींवय भांगराळ । चतुरंग सेनेचो सांबाळ ।
करतना जरी मोगाळ । अरातिं करी नश्ट ध्वस्त ।।प्र३७८।।
हें सवर्णे अति कोमल । परिकर राखी सदैव उज्ज्वल ।
निसंदेह सुबोध मंजुळ । राज वार्ता सांगै दिसपड्टी ।।प्र३७९।।
हें देख सुनसाळिक । जलपद्म न्हय नाभि नखशिख ।
तातूंत स्पर्शोन्मुख । जगत्पिता ब्रह्माच बशिल्लो ।।प्र३८०।।
हो तर साक्षात तक्षक । सुवर्ण उदक लिप्त राज रक्षक ।
शिवप्रिय परीक्षित दंशक । राजरथी आरूढ ज्येश्ठांत ।।प्र३८१।।
ही समूर्त शारदा । आराध्य भगवती लक्षदा ।
दैविक दैहिक वरदा । भूतानां प्राणवतां प्राणदा ।।प्र३८२।।
सूक्ष्मा ही सात्विक । क्षमा शान्ति हास्योत्पादक ।
कान्ति हृदय वेदक । मेधा मात्रासि गायत्री श्रद्धा ।।प्र३८३।।

हीं साबार रत्नखचित आभुशणां महाराज्रींलीं, महाराणींलीं, राणींलीं आनी राजमातांलीं, राजकुंवरांलीं आनी कुंवरींलीं. हयो सत्र्यो आनी हे दण्ड, हयो धोणयो,

ह्यो महामण्डलेश्वरांनी आनी मांडलिकांनी हाडून दिल्ल्यो भेटो. हांचे कुल्ली वजन कितलें आसा हें तूं जाणा? दोन हजार मण! ही भांगराची नाणीं, तांचेय वजन अनुमानान दोनशे मण जावं येता. आतां, ते कोठयेंत या. वज्र, हीरक, हीर, हीरकण्यो, माणिकादी रत्नां, तांची गणनाच ना धुवे म्हजे. हें आमचो कुंवर ना नपश्चात करतलो अशें म्हणपांत म्हाका दुबाव दिसना. हें तुवें सांबाळून दवरपाचें. हे कोठयेंत येवपाचो मार्ग तूं जाणा, आनीक पंतप्रतिनिधी म्हळयार प्रधानमंत्री सोडत जाल्यार कोणाकय तिची म्हायती ना. आता म्हजे दीस सरत आयल्यात. तूं बुद्द पणाक लावन हें सांबाळ. 'म्हजो कोण हांव नेणा, तुजो कोण तेंय तूं नेणा, कोणाचो कोण कोणूच न्हय', ही वास्तविकताय वळखूंक शीक. तेन्ना आयजवेर जे तरेन हांव हो स्वर्ण-कोश सुगूर दवरूंक पावलो, तशें तुकाय तो सुरक्षित दवरूंक जमतलें. तूं एक चली भुरगें... एक अस्तुरी, तातूंत तुज्या हातांत हें भाङ्गरा भाण्डार. तूं एक भाण्डारी कशें. तुजे कडेन शितरूंक कितलोसोच वाण्ड लोक वावरतलो. तुज्या हृदयांत पावित्र्यांतल्यान निर्माण जाल्ली हूर्मती आसा. तुका सांच कितें आनी न्याय संगत कितें हांचे विशींची जाणविकाय आसा, जी म्हज्या दोनूंय पुतांक ना. व्हडलो निखटो संकडें करता, संकडें घालता. ताका हाणविधीचो स्पर्शय जावंक ना. तूं सरशें करूंक पावतलें. तुका तुजें सत्त्वच हिंवायतलें. अन्ततः ससरीच जातली, कारण एकूच – तुज्यांत हांकार ना. हेरांचे अखटाव हो तुजो बलार्थ. कितलेय शियाण्डे जावं, सांच सोडूं नाका. तुज्यांत विशाल मनाचेंय सनिधान आसा. साबार सरशें जातलें, ससरीचो अणभव लाबतलो तुका."

गायत्री दिङ्मूढ अवस्थेंत आसतनाय शनैः शनैः त्या स्वर्ण कोशांतल्यान भायर आयलें. राजा ताका घेवन कुशावतीचे तीरार येवन बसलो. कुंवरी राजाक तेळत रावलें. निवान्त न्हंयेचे तडेर आयज तो नितांत सुटावो जाल्ले वरी दिसतालो. कपल मिरयेल्लें. संवसार त्यागी जाल्ले वरी ताचे दोळे प्रशान्त जाल्ले. तीरांवयल्या उद्यानांत तुशारिणीचे आर्श्वींपार्श्वीं झिरमिर उदकाची फुलार चमचमताली. वाटिकेंतले मोर-मोराटे केकारो घालताले.

तरीकय राजकुंवरीक भास जालो - सर्वत्र काळखाचे रान मातलां. हांव हें कशें सोसूं? हें म्हजें न्हय. म्हाका अशा भांगरा-शिंगरांत रस ना पिताश्री. हांव तुजे वेंगेत रावंक आंवडेतां. म्हाका आईले मांडयेर न्हिदन दिसता. भ्राता भीमभुपाळ आनी भ्राता गुल्हळदेव हांच्या वांगडा भोंवडेक वचन दिसता. म्हज्यो इश्टिणी, त्योच म्हज्यो सोबतिणी. हें इतलें सुपुल्लें जग म्हजे पिताश्री. हो भांगरा-शिंगर एकठांय करपाचो

संवसार सत्तापाटणाक उपकरता. म्हाका न्हय. नाका राजन्. असो निर्शेव नाका. संन्यास घेतिल्ले वरी चर्या नाका करू. सदैव लोल्ललासी रावपी म्हजो पिताश्री. आतांच संवसार सोंपिल्लेवरी आपणाले जिणेचो राजपाट गुठलूंक लागला काय कितें असो म्हाका दुबाव मारता. म्हजो सुवार्थ मुक्त जिणेंत वावुरपांत. तुका राजपाट चलोवपाचो नासत. जाल्यार तो पुतांक वांटून दी आनी साम. दाम. दण्ड. भेद अशा निर्णयां सावन विमुक्त कर. म्हगेल्या सुखांत मळबाचो थांग तेळत राव. म्हज्या मळबांत तुज्या चन्द्रिमाचो सांगात मेळटकच म्हजें मळब निळें निळें जावंक पावतलें. तातूंत आवयची आनी पित्याची सासाय म्हाका सांसपीत रावतली.गायत्री गावंक लागलें -

अप्राप्य भुक्ती-मुक्ति तूं लीन मोहो ।
पिताश्री संन्यास म्हळ्यारी मुक्ती हो ।।
दयाळा कल्याण हेतू सोलल्लासो ।
सुवार्थ जरी धुवेचे म्ह्‌ण हासो ।।प्र३८४।।
दण्ड भेद साम दामी सोड आता ।
धुवेच्या सुखांत आकाश अमिता ।।
तुगेलो चन्द्रमु नीलांबर राया ।
सत्कर्मी पित्यांत सासाय माया ।।प्र३८५।।
धर रे म्हज्या अन्तुरांतल्या । वेदनेचो एक सूर रे ।
म्हजे जिणेंतुल्या जिवलगा । कोमल गंधार तूं निषाद रे ।।प्र३८६।।
बाळकाल्या अज्ञानीं आसा लिपून । म्होवाचो एक गांव रे ।
कुड्ड्या हृदयांतु आसा दोळो । मनमोहना स्नेहाचो भाव रे ।।प्र३८७।।

राजा कामदेव स्तिमितच जालो. विसेक वर्साचे हें चेडूं. उलयता महादेवी भगवती कशें! राजान आपणाल्या पित्यांत दडून आशिल्लो सादूर राव म्हणपाचो परामर्श दीत म्हळें –

धुवे म्हजें राव गो । सादूर सादूर सदैव गो ।
न्हंयेचे अलतडे हो पिता । सांबाळ कन्हैय्या पलतडे गो ।।३८८।।
वातावरण साशंक हिण्यां तिण्या । न्हय धीमंत एकोडें आसतना ।
कर निर्धार गो सुकन्ये । पित्याक कलंक न लायतना ।।प्र३८९।।

तिगेल्या मुखमंडलाच्या भोंवतणें पसरिल्लें एक प्रसन्न वलय. तिचें उन्नत ललाट स्निग्ध जाल्लें, तिच्या दोळ्यांत म्हादय संचारिल्ली.

चिन्ताघात रात त्रैलोक्य वोविया ।
तुजो हात स्थिर धैर्ययुक्त माया ।।
विवेका सहीत राजेन्द्र धुवेचो ।
तिन्ही प्रहरांतु ब्रह्मदेव म्हजो ।।प्र३९०।।
लक्ष्मी आयली लक्ष्मी गेली राबैली ।
तुमींची धुवेक मायेन हुस्केली ।।
तिर्थरूप आवसू ही जिब्बेरी ।
संन्यस्तपणा कित्याकी भाग्य धरी ।।प्र३९१।।

गायत्री कुंवरीच्या स्वरांनी मधुर मंजुळताय आशिल्लीच, आवसू आनी पिता हांचे विशींची कणवय आशिल्ली. तिच्या आत्म्याच्या गुंजनान चन्द्रकोरीची शीतळताय वाडूंक लागली. राजा कामदेव संतृप्त जालो. पुराय वातावरण ताका आश्वस्त करूंक लागलें "राम अनन्त, अभिराम अनन्त'! ही उपरामती, ही शान्ती अशीच उरू अशे म्हणून तो पराथूंक लागलो :

राम अनन्त अभिराम अनन्ता । हि शान्ति उपरामति बलवन्ता ।।
अभिरामा तूं पाथोनिधी । सुमंत मोक्ष कर्तव्यीं साधी ।।प्र३९१।।
जटिल परंतु जीण दी सहाया । धुवेचें रक्षण कर धरीं ह्या ।।
अन्धक हांवुच लाय हृदया । पराथता परमेसरा सदया ।।प्र३९२।।
शिसु तुजो हांव शिंस पायांर । प्राण शिशींत भक्तीचें कुळार ।।
अकुंर्नच अग्निपुरीं शिसूची । वेळ ही अथक अखटावांची ।।प्र३९३।।
घरांची चिन्ता अक्षयी वेदनान्ता । संकश्टांतु सागरी पिता नियन्ता ।।
शेखीं हांव अज्ञच असहाय्य । शेखीची ना म्हज्यांत उद्दण्डकाय ।।प्र३९४।।

राजान कुंवरीक आश्वस्त केलें, ताणें म्हळें, "जाल्यारी हांव तुजें संरक्षण करतलों, कितलीय संकश्टा आयल्यारय. पुराय जीण संगीत रूपकां वरवी लक्षणयुक्त जगलों. आतां वातावरणांत परिवर्तन आयलां. निखटें कवित्व बरोवन चलना, जाल्यारी तें गायकांनी गावचें देखुनुय सिद्धता साधची पडटा. धुवेक केवळ जल्म दिवन कर्तव्य सोंपना. तिका फुडारांतल्या सपनांची वाटिका सजोवन दिवपाचे कर्तव्य पुराय करपाचें दायित्व पित्याचें. हांवें म्हज्या पुतांकडसून अपेक्षा दवरली. अपेक्षा दवरप हें चुकीचें, देखून आयिल्ले निरशेवणेक बोल लावन कोणाक सांगूं? गायत्रे, बाये गो, चिन्ताक्रान्त जावन रडगाणे गावचें आदी चिन्तेकच लासून वडोवपा इतली ऊर्जा तुवेंच निर्माण केली म्हजे प्रजेंत. तूं तर साक्षात ब्रह्मपुत्री गायत्री देखून हांव तुका

मनोमन दण्डवत घालतां. म्हजे साम्राज्य म्हळ्यारी साक्षात देवेन्द्राल्या उद्यानांतली तुशारिणी. तातूंत तुजी उपस्थिती म्हळ्यारी अभद्र-गायनाचो उपशमुच! आयजच्यान तुका हे तुशारिणीची सोबीतकाय वाडोवपा पासत म्हज्या अणभवां वरवी प्रबंधन चिन्तामणीची संथा दितलों. तिचो तूं भावगर्वे स्वीकार कर."

गायत्री खळाळ हांसलें. तिच्या त्या हास्यान त्रिभुवन गुंजित जालें.





राजकुंवर भीमभुपाळ अमाप जावंक सोदतालो. ताच्या पित्याचो प्रधानमंत्री राजस्वर्ण भाण्डाराची सुलूसय लागूंक दी नाशिल्लो. राज्यांतले धोरणी विचारवन्त ताका लागसार येवंक दी नाशिल्ले. अशे फाटभुंयेचेर तांणी साबारांनी राजा कामदेवाक म्हळें, "राजकुंवरी गायत्रीक राजपाटाची संथा दिवंक जाय, हो वावर पित्यान करीत जाल्यार अति उत्तम. आमी तसो वावर करूंक सोदल्यार मात राजकुंवर भीमभुपाळ विकृत अपकृत्य करूंक अनमनचो ना."

राजाक तांचो परामर्स मानवलो, तथापि ताणें देड एक वर्सा आदी गायत्रीन आपणाक राजपाटांत रस ना म्हणपाची गजाल सांगिल्ली. ताणें प्रधानमत्री, मंत्रीगण आनी हेर जाणत्यांक ते विशींची म्हायती दिली. तरीकय राज्यांतल्या विचारवंतांनी ह्याच विशयाचेर राजाक मनोवपाचो उत्साह दाखयलो. ज्योतिशाचार्यांनय ताका तोच परामर्स दिलो. हेर कसलोच उपाय दोळ्यांमुखार नाशिल्ल्यान ताणें एक दीस राणी श्रद्धाक विस्वासांत घेवन राजकुंवरी गायत्रीक सौंदर्य प्रसाधनां, गायन-नर्तनां, मनरिझवण-गुंजनां अशा कार्यावळींच्या भायर काडपाची येवजण मांडली. तिणें ह्या प्रसंगाची निकड मतींत घेवन आपणाल्या घरकाराक सहकार्य दिवपाची तोड काडली. तिणें ताका म्हळें, "गायत्री म्हजें कायच आयकुचे ना. ताका गुल्हळदेव लागीचो. तोच ताका मनयतलो. एक शेण्डेफळ हेर तरेच्या शेण्डेफळाक उमजून घेवंक येस जोडटा. तिणें गुल्हळदेवाक पुराय मांडणी सांगली. ताकाय ह्या पिडटल्या वातावरणाचो वितराग कसो आयिल्लो. ताणें म्हळें :

पिकलें पान चोवुनू । माते हरवे पान हांसता गे ।
परंतु तें विस्मरता । फुडारच अनन्त भट म्हणता गे ।।द्वि उ०१।।
विख्यात साठी विस्मरू । फुडारा लोभु दुड्डु जाका दिसता गे ।
पिशें जावंक नज्ज पुणु । अदृश्य बड्डी अवश्य बसता गे ।।द्वि उ०२।।
विधिचि ही विचित्र क्रीडा । चन्द्रार सोंसो सोबित दिसता गे ।
जाका आमी मानुं । वास्तवतीं केन्ना नासता गे ।।द्वि उ०३।।
दाखय लिपय करतां । कित्याक सदैव तांची चिन्ता गे ।
ईश्वर दित्ता सत्पणीं । व्हारडिक आत्म्याचोय हूंकार गे ।।द्वि उ०४।।
तांदुळ गोटो बन्द करूनु । गायऱ्यो नितळ करूंक लायता गे ।
शुर्पणखा जरी पंचवटीं । लक्ष्मण आराध्य अभिरामा गे ।।द्वि उ०५।।

आदेश पिता-मातेचो । किंकरच आसता सदैव पूत ।
आदर्शाच्या आडय । काय स्वार्थी रथाचे उनाड सुत ।।द्वि३०६।।
चयलीं चयलीं चयलीं । लम्पट उतरां हिंसेचे वाटुली ।
हृदयांतली मोली। माऊली अनमोल जटिल समस्या ।।द्वि३०७।।
कुटिल विव्हळी उज्ज्वळा । स्राप घालूंक पृथ्वीतळा ।
अथवा वायुमण्डळा । जाल्यार जरी नृपपती ।।द्वि३०८।
अटल भाग्य तरल पटल । अर्थहीन तेजो प्रभा मण्डल ।
केवल वलय एकल बहल । हृदय वण्टीचेर शेंवटून माल्लेंच ।।द्वि३०९।।
कुख्यात विख्यात पंगड । शेणिल्ल्या माकडाची कथा भरड ।
कळाशेन रचयिल्ली हंसोड । करता करविता न्हय मनीस कुळ ।।द्वि३१०।।
भग्ति शेखरा आयलो तूं । कृपेचे अस्वडीं अत्रिकेतसो तूं ।
नित्यकाल चांगी विनौवी विशालो।विर्थ्या दुआर्थी अक्रुणें निमालो ।।द्वि३११।।
अकीर्त दुबोळें जिणेची कथा । जिवा घातु घायावटा आपतुस्तां।
कव देख खेवीं झटी ती संभ्रान्ता।दर्याच्या दर्पणीं दिकांची भव्यता ।।द्वि३१२।।

राजकुंवर गुल्हळदेवाची प्रज्ञा इतली परिणत आसा म्हणपाची गजाल राजा कामदेव नेणो आशिल्लो. ताणें गुल्हळदेवाक म्हळें :

विशाला तुज्या मनाचो दामु ना रे । किंकराक भांगरा आमिशि ना रे ।।
सुभाशा अप्रुप सूत्रां तूं कथिली । अनास्था विधान प्रमाणीं नश्टली ।।द्वि३१३।।
सुन्धरा असाक्षात तूं वाचस्पती । मुग्तिका सभाग्या पुत्रांचो सुव्रती ।।
अस्ताई चन्द्रकोर रानीं उमेली । गंगेली जलाधार स्वप्नीं उदेली ।।द्वि३१४।।
उत्तरेक दिका पिडापीड मनीं । दुमाळ्याक थारो पुत्रा मेळचो न्ही ।।
रत्नांचे खणीच्या मजगतिं रत्नेन्द्रा । चन्द्राच्या सुर्याच्या सतेजा देवेन्द्रा ।।द्वि३१५।।
दर्याच्याच पाळां धुवांधार मोडी । पुत्राच्याच काळा मुमूक्षांक तोडी ।।
पित्याच्या अस्तित्वां पुत्राचो उत्कर्ष । धुवांच्या नखेत्रां हितांचो निष्कर्ष ।।द्वि३१६।।
सुखाचे जिर्णेत सुआडी अपेक्षा । रुखाचे पखीच्या घराबो निशपक्षा ।।
उपाशामु कोणी दिलेलो दर्यांनी । संगिनाय कोणी दिलेली कुपांनी ।।द्वि३१७।।
मायेमोग खंय दिलेलो रुखांरी । विपायांत कोण जियेली अस्तुरी ।।
चित्ताच्या घरांत घराबो असुखी । चिंतेच्या दुबावी स्वरांत निर्दुखी ।।द्वि३१८।।

पिताश्री निस्सं निस्सं आध्यात्म्याचे दिकेन वचूंक लागिल्लो पळोवन गायत्री सादूर जाली. तिणें आपणाल्या हातांतल्या कांकणां वयल्यान ल्हवसार

आंगळा घुवंडायलीं. तातूंतल्यान जी किणकिण छनछनली तीं आयकून साबार जा
थटाक् जाले.

पुताल्या कश्टाच्या जिण्याची सुसाक्षी । सर्गाचो सुलाभी पिताश्री मुमूक्षी ।।
किंकणी किंकणी करीं ती गुन्जनां । संथाळी सुवाणी नखेत्रीं कंकणां ।।द्वि३१९।।

राजकुंवरीक गुल्हळदेवान म्हळें, "आयज म्हाका आमच्या राजपाटणाच्य
शिमो-मेरो पळोवंक जाय. थंयसरच्या रानवटींच्या घरांनी जेवच्याक वचूंक जाय."

गायत्रीचेर हे नान्दीन बरोच प्रभाव घातलो. तिणें खिणाचोय विलंब क
नासतना ताका म्हळे,

"राजकुंवरांक अ सावन ज्ञ मेरेन राजवावरा विशींच्यो गजाली पुराय तरे
जाणा जावन घेवंक जाय, म्हणपाची गजाल बरी तूं जाणा आं ! राजकुंवर एक गजा
मात नेणो, ती म्हळ्यार राजकुंवरीक पानां-फुलां, पशू-सुकणीं आवडटात, तिका लोक
मजगतीं बसून खाण-खेळ करूंक मानवता, तिका प्रवास-पर्यटन धादोशी करता ती !"

राजकुंवरान गायत्रीक म्हळें, "जिचे कुडीक तृणपर्णांची अग्रां तकाल
करतात, ती रानां-वनांनी भोंवतली म्हणटा, व्हय गो? रानां-वनां म्हळ्यार राजांच
उपवनां न्हय गो हे त्रिभुवनसुन्दरी! त्यो वाटिका न्हयच न्हयंत. ती तर अटंग्य रान
थंयसर सर्प आसतात, विखारी जंतू आसतात, ते तुका हतयाचेर बसयतात तशे त
आपणाचेर बसोवन भोंवडावन हाडटले व्हय गो?"

गायत्री हट करूनच बसलें. तिच्या हटा मुखार आपणालें कायच चलना अशें
मखलाशी करूंक गुल्हळदेव विसरूंक ना. आपणालो आवडटो बंधू आपणाक नावडट
अशें कांयच करचो ना, म्हणपाचो तिकाय भावार्थ आशिल्लो. आवय-पित्याव
पडिल्लो तिढो ह्या माणकुल्या पुतान चटाक करून काडून वडयलो.

गुल्हळदेवान राजपाटणाच्यो शिमो-मेरो पळोवपाचो विशय काडलो खरो
त्यो तशो लागसार नाशिल्ल्यो. सतपणान सांगचे जाल्यार चन्द्रपूर हे राजपाटणाचे
मध्यवर्ती नगर आसल्यारय ताच्यो देगो अयसपयस, शेकानशेक पातळलिल्ल्यो
रानांनी क्रुरांत क्रूर सभावाची सावदां तेच परी पशु-पखीं आशिल्लीं. 'म्हाका शिंव, वाग
भेकरें, साळ, कोलो, अधाशी लांडगो, वान्दर, माकड, खेतें, हती, मानगें आनी हेर पशू-
सुकणीं पळोवपाची आसात', गायत्रीन आपणालो हेत उगतायलो. फांतोड्डेर भायर
मरून सांजेवेळार पर्थून येवपाची ही कार्यावळ, अशें गायत्रीक दिशिल्लें. कदंबा सम्राट
वरवीं, ब्रह्मदेव तांचो कुलदेव नासल्यारय राजपाटणाच्या ह्या देगांनी ब्रह्मदेवाची स
देवळां बांदून जाल्ली. राजपाटणाचे शिमे-मेरेर राबितो करता आसतना पारध करून तें

उदर भरण करताले. तांचे कडेन राज्याचे शीमे मेरेर रावन सादूर-शिटूक रावपाची कळाशी आशिल्ली. तांचे परिश्रम मतींत येतकच अखटाव दिशिल्ल्यान कदंब सम्राटांनी तांका शेतां लावपाक शिकयलें. परिणामी कणंगेंत दाणो पारधी उताणो अशी गत जाली. सम्राटान ते समस्येचेर एक उपाव काडिल्लो. देवळांच्या परिसरांनी रानवटी जाती-प्रजातींतल्या लोकांचो सहवास आशिल्ल्यान तांचे कडेन त्या आनी हेर थळाव्या देवतांचे पुजा-अर्चनेची वेवस्थाय सुवादीन केल्ली. वर्सभरांत अन्न-धान्य मेळूंक जाय देखून शेतवड दिल्ली. तिची निगराणी करूंक राजान दिल्ले कामारी आशिल्ले, कामेरीं आशिल्लीं. तांका राजभाण्डारा वरवीं दीसपट्टी लागपी आवश्यक शिद्या-पदार्थांची पुरवणय जाताली.

राजपुरोयतान राजाक कार्तिक मासांच्या शुक्ल पक्षांतल्या पुनवेच्या दिसा आशिल्लो एक शुभ म्हूर्त काडून दिलो. पुजा करूंक बशिल्ले आसतना राजपुरोयतान राजाक नन्दादीप लावंक लायलो. राजान दिव्याविशीची प्रार्थना करी नासतना दीप लायलो. गायत्रीन विचाल्लें, "हें अशें कशें?"

"कितें कशें गो बच्छुली?" राणी श्रद्धेन विचाल्लें.

"सांजे वेळार जेन्ना दिवो लायतात, तेदे वेळार –

'शुभं करोति कल्याणम् आरोग्यम् धनसंपदा ।
शत्रुबुद्धिविनाशाय दीपकाय नमोऽस्तु ते ।।
दीपो ज्योति परं ब्रह्म दीपो ज्योतिर्जनार्दनः ।
दीपो हरतु मे पापं संध्यादीप नमोऽस्तु ते ।।'

असो मंत्र म्हणटात. जाल्यार सकाळच्या समयार दिवो लायता आसतना कित्याक म्हणिनात तर?"

साबार उपस्थित थटाक जाले. साबार जाण राणी कडेन पळोवंक लागले. राजाक राणीन देखलें. राजा शिंस हालोंवक लागलो. निमाणे कडेन तो राजपुरोयताचे वटेन वळ्ळो आनी ताका तेळूंक लागलो. राजपुरोयत पुराय गोंदळून गेलो.

ताणें म्हळें, "सुवाडू करणी करतकच जाली. प्रत्येक फावटी मंत्र-तंत्र करूंकच जाय, असो शास्त्रार्थ ना."

राजान मुक्त स्वास घेतलो. राणीन व्हंटार हांशी हाडली. उपस्थितांनी सुस्कारो सोडलो. पूण गायत्रीन म्हळें, "शास्त्रार्थाचें साह्य घेवन अशी सोडवण जाता व्हय? शेकी आमी राहूकाल पळयतांव. शेकी आमी गुरूपुष्यामृताचो लाव घेवंक सोदतांव. मकर राशींत सुर्याचो प्रवेश आमकां धादोसकाय दिता, जाल्यार रात पुराय

जाता जाता विंगड विंगड कारणां पासत जे दीप पालवतात, ते तर फांतोड्डेरच सकाळींच पर्थुन लायतात न्हय? म्हणकच आरंबाचो दिवो लायतात, तो सांजे वेळा न्हय, तर सकाळचो! रायाक न्हिदेंतल्यान जागृत करूंक भुपाळी लागता आनी ते वेळार दिवो लायता आसतना मंत्र म्हणपाची शास्त्रीय वेवस्था ना, ही गजाल पचनी पडना!"

राजपुरोयतान म्हळें, "राजकुंवरीक ह्या सार्थ प्रस्नाचें यथार्थ उत्तर मेळूंक फाव, आनी हांव शास्त्रार्थ पळोवन आयज सांजेच्या समयार सांगतां."

राजा सयत साबारांनी हयकार दिलो.

गायत्रीन म्हळें, "सार्थ प्रस्नाचें यथार्थ उत्तर, तेंय शास्त्रार्थाक धरून अशेंय दिवंक येता – सांजेचे वेळार दिवो लायतन जो मंत्र म्हणटात, तो हरशी सकाळचो दिवो लावपाच्या समयार म्हणपाचो आशिल्लो आसूंक जाय, अशें म्हाका दिसता."

राणी श्रद्धान विचाल्लें, "कित्या वयल्यान असो निश्कर्श काडलो तुवें हो म्हज्ये शाण्ये?"

"म्हाका दिसता अशें, दिवो लायतना जो दीप मंत्र आमी म्हणटात, तातूंत निखट्या एका उतराचो आस्पाव करपाची वेवस्था दवरिल्ली. आमी साबार जाणां ह्या मंत्राच्या निमाणे कडेन 'संध्या दीप नमो ऽ स्तुते' अशें म्हणटांव. तोच मंत्र सकाळीं म्हणटा आसतना शेकी 'प्रभात दीप नमो ऽ स्तुते' अशें म्हणत जाल्यार जाता. घडये मुळावी वेवस्था तीच आशिल्ली आसूये."

राजपुरोयतान गायत्रीक हुर्मती दिवन नमस्कार केलो. साबारांनी गायत्रीक व्हडा हुर्मतीन देखलें.

राजान तेन्ना साबारांक रावराळ्यांत फांतोड्डेर दिवो लायता आसतना –

'शुभं करोति कल्याणम् आरोग्यम् धनसंपदा ।
शत्रुबुद्धिविनाशाय दीपकाय नमोऽस्तु ते ।।
दीपो ज्योति परं ब्रह्म दीपो ज्योतिर्जनार्दनः ।
दीपो हरतु मे पापं प्रभात दीप नमोऽस्तु ते ।।'

असो दीपमंत्र म्हणपाचो आदेश दिलो.

साबार जाणां प्रसन्नावस्थेंत आसतना भायर सल्लीं.

आपणाक वांगड दिवंक राजा कामदेवान विश्वासपात्र मंत्रीगण, सचिवालयांतले अधिकारी हांका घेतिल्लें. राणी श्रद्धा आनी राजकुंवर गुल्हळदेव हांच्या वांगडा तांचे दास, दासी हांचीय वर्णी लागिल्ली. राजकुंवरी गायत्री आपणाल्या

इश्टिणी विरयत भायर सरची ना म्हणपाची गजाल राणी श्रद्धा जाणा आशिल्लीच. पयसुल्ली शीमे-मेर पळोवचे आदी लागसारच्या थळांनी वचून आयल्यारभोंवपाची संवकळ जातली. अशें प्रधानमंत्र्यान सुचोवणी केली. राजान आपणाल्या दोळ्यांच्या खांचींतल्यान ताका रोखून देखलें. ताणें मान सकयल घुंवणायली. तेदना राजा वळखलो की सुरक्षा दळां आपणाल्या राजपाटणाचे पयसुल्ले देगेर आजून मेरेन पावूंक नात. शश्ठदेवाक न कळटा हें बोभाट विरयत जावप आगडच!

तांणी पार्श्याक वचपाचो निर्णय घेतलो. लोखण नामक लाकडाच्या पुराय एकाच नाटांत ब्रह्म्याचे देवूळ उबें केल्लें. थंयसर वचून तांणी जगत्पिता श्रीदेव ब्रह्माचें दर्शन घेतलें. देवळांतली भव्य मूर्त काश्टाची आशिल्ली. कोणा एका प्रतिभाशाली आनी प्रज्ञावान विश्वकर्म्यान जून आनी परमळीत चन्दनाच्या काश्टाचेर बारिकसाणेन कोरांतून ते दिव्य प्रभावशाली मूर्तीक साकार केल्लें. गायत्रीक दिसलें की ब्रह्मदेवाचें वाहन आशिल्ल्या राजहंसाची मूर्तच चड मोहमयी दिसता.

"हें मंदिर संवसार रचणार ब्रह्म्याचें!" कुंवर गुल्हळदेव गायत्रीक सांगूंक लागलो. अशें सांगना फुडें गायत्रीन ताका अशे दृश्टीन तेळून पळयलें की उपरान्त केन्नाच ताणें ब्रह्म्याची गजाल विसकटावन सांगपाचो येत्न केला ना. मुकाटपणान उठलो आनी भोंवतणी वचून वेंचून हाडिल्लो सोबीत-सुन्दर परमळीत फुलांचो झेलो घेवन तिगेल्या हातांत दिलो. ते दिसा तिचो जल्मदीस आशिल्लो. ह्या देवळांतल्यान किणीकिणी घंटीचो निनाद स्फुरित जातालो. स्तंभांतल्यान मृदगांचो दड्दम् पडघम घुमूंक लागलो. साबार जाण चकासूर जावन हें संगीत आयकूंक लागले.

म्हजें काश्ट मंदीर । नितळ ब्रह्म्याचे अहंकार मर्दन ।
थटाक जाले विश्णुगण । हांवूच जाणां हें कला मण्डन ।।द्वि३२०।।
पंचशिरीय जगत्पिता । कथिले विश्णु परसय हांव महान ।
शिवपुराणाची साख । हांव कलावंत दिग्गज नच सान ।।द्वि३२१।।
म्हगेल्याच संयोगे । शतरूपा म्हजी धूव करी संभोगे ।
तिगेल्या अति सुभगे । शरीराचेर केलो अत्याचार ।।द्वि३२२।।
शतरुपाक आवेगे । धरिली पंचशीर ब्रह्मयोगे ।
अनपेक्षित अन्तरंगे । जाली अपप्रयोगे मनु माता ।।द्वि३२३।।
कातरले शंकरान । एक शीर म्हजें अति तिडकीन ।
स्वपुत्री शतरूपान । नाकारिल्लो संभोग नीति शास्त्र भावे ।।द्वि३२४।।
स्त्रीचे संमती विणें । ना स्पर्श करचो तिका कोणे ।
देवतांल्या संरक्षणे । सांब सदाशिव सदैव उपस्थित ।।द्वि३२५।।

घडयलो हो संवसार । साकार अगणित आकार भार ।
जिवाशिवाचीच सुमुर्ती । येता प्रतीती तिन्ही लोकाधार ।।द्वि३२६।।
विश्वकर्मी हात अशे । प्रज्ञा पंचशिरांतलो चमत्कार ।
अयोनिज हांवय । भूतमातृमहोत्सव सहोदर ।।द्वि३२७।।
गवर विचारी म्हाका । अस्तुरीं गर्भधारणेच्यो कुरू ।
हांवें निर्मिलो रुद्र । कपालिचो क्रोध हांव कसो वारू ।।द्वि३२८।।
रुद्राक 'कपाली' म्हळें । दिलें पृथ्वीचें करूंक रक्षण ।
ताणेंच कर्तन केलें । आखाण्यान शीर सुन्दर म्हजें ।।द्वि३२९।।
कापालिक वृत्ताची । करी रुद्र म्हजे वरवीं निर्मणी ।
चार शिरांचो ब्रह्म्या । कपालमोचक असो एकांत वनी ।।द्वि३३०।।
वराहपुराणीं हांव । शीर लुप्त कथीं दिसे मर्म स्थान ।
अदृश्यी पंचशिरीक । म्हाका काशींत भजती रुद्रगण ।।द्वि३३१।।
अनादिच अनन्त कथीं । शिवशंकर ज्योतिर्लिंगाचो भार ।
केतकी साळंकृत । असत्य पुजेचो विकृत अळंकार ।।द्वि३३२।।

राजकुंवरी थंयसरल्या एका वीरगळाक माथें खीणभर लावन जें बशिल्लें तें उपरान्त, निनाद-प्रतिनादांच्या गुंजनात तना मनान मग्न जावन गेल्लें.

ताका मागीर राजपुरोयतान सांगलें की खंयच जगत्पिता ब्रह्म्याची पुजा करिनात तेच परी शंकराक केतकीचें पुश्प पुजेंत घेवपाची प्रथा हांगसर ना, कारण ब्रह्म्यान शंकराकडेन फटी मारिल्ली. जेदे वेळार ब्रह्मदेवाक अहंकार जाल्लो, तेदेवळार विश्णूय संतप्त जाल्लो. ताकाय आपणाल्या कलाविश्कारा विशींचो अभिमान दिसतालो. दोगांयचो वाद शंकराकडेन पावना फुडें तांका ताणें सांगलें की हांव तुमगेल्या मुकुरांत तुमगेलीच चर्या दाखयतां. चलात, वचात, म्हजे ज्योतिर्लिंगाचो आरंब आनी शेवट सोदून काडात. दोगांकय तें जमलें ना. तेदेवेळार शंकराच्या माथ्यावेल्यान केतकीचें एक पान घरंगळत ब्रह्म्याच्या एका शिराचेर पडलें. ताका दिसलें की शंकरान आपणाचो पक्ष घेवपाचें थारायला आसूये. त्या भावार्थान ताणें फटी मारली की ताणें ज्योतिर्लिंगाचो आदी आनी अन्त दोनूय पळयिल्लो आसा. तेदेवेळार शंकराक वितराग आयलो. आपणाले पुजेंतल्यान केतकीचें पान पडलें आनी ब्रह्म्याक असत्य वचन करपाचो मोह जालो देखून आपणाले पुजेंतल्यान केतकी पुश्प वर्ज्य करपाची आज्ञा काडली, परंत त्या दोगांतय

समेट जावचो देखून ब्रह्मा विष्णूचे एक मंदिर उत्तरखंडांतल्या कंचनपुरात तेच परी आपणाले आनी ब्रह्म्याचे देवूळ खजुराहोंत बांदपाची अनुमती दिली.

ही कथा आयकून साबार जाण मतिमग्न जाले आनी तांणी परमेस्पराकडेन करुणा भाकली.

दोनेक दीस थंयसर रावन साबारांनी चन्द्रेश्वर राजपाटणाचे फुडले देगेर वचपाची कार्यावळ निश्चित केली. प्रधान मंत्र्यान तांका विर्नोडें ग्राम परिसरांतल्यान ब्रह्मदेवाच्या आनीक एका देवळाक भेट दिवपाक व्हेलें. गर्भकुडींतल्या ब्रह्म्याली स्फटिकांची मनोरम मुर्त पळोवन भाविकांनी मनोमन नमस्कार केलो. गायत्री पयलेच फावट इतली घोटिव मूर्त पळयतालें. तिणें पित्याक म्हळें, ब्रह्मदेवाचें ते गर्भकुडीक स्फटिकाच्योच वणटी सोबून दिसतल्यो. राजाची आज्ञा तत्काल प्रसृत जाली. एका वर्सात पुराय गर्भकूड स्फटिकान बांदून काडपाचें उतर प्रधानमंत्र्यान दिलें. नितांत सुंदर वाठार आनी थंयसरच्या जाती-प्रजातींनी केल्लें स्वागत ह्यो दोनूंय गजाली गायत्रीक मनभुलोवणी घालून गेल्यो.

पेडणेचो पाचवोचार वाठार मनमुक्त करपी. थळावे समश्टींतले साबार दादलेय आपणाल्या माथ्यांनी फुलां माळटात, ही गजालच व्हडा नवलायेची कशी. थंयसरच्या वाटाड्यांनी जी फुलां माळिल्ली ती पळोवन गायत्रीक दिसलें की आपुणय तीं माळची. परंत ते वाटाडे अनमनले. इतल्या शेकानशेक अधिराज्याची राजकुंवरी, ती आमच्या पावंड्यार कशी देंवून येतली, असो प्रस्टनु तांका सतोवंक लागलो. गायत्रीन तांचो कांच वळखलो.

तिणें तांका म्हळें."तुमीं दुगदूग करूं नाकात. दियात ती फुलां आनी काडून दियात म्हाका तें कांगोणाचे फळ, म्हाका तें खावपाचें आसा."

सगळी जाणां भ्रांतीत घुसपलीं. एक वेळ फुलां दिवंक बरें, पुण तें कांगोण फळ!

"कुंवरी बाये, आमीच खायनात ती फळां, कच्च विखारी तीं!" एकल्या वाटाड्यान म्हळें.

इतले म्हणसर गायत्री ताका धुकलून गेलें आनी सरसर करून त्या रुखार वचून बसलें. राजा आनी राणी चकासूर जालीं. तटास जावन साबार जाणां तिका पळोवंक लागलीं. गायत्रीन एक कांगोण काडलें आनी जिबलेंक लावंक गेलें. एकल्यान कुकारो काडना फुडें साबार जाणां राजकुंवरीक भेकडावपा पासत कुकाऱ्यो घालूंक लागलीं. अटवी परिसरांतले हे कुकारे अडळकाळ चलत उरतलेशे दिसतालें. हे

अटवींतले वातावरण संधेव, दुबाव निर्माण करतालें. गायत्रीक त्या कुकान्यांच
चडावत भिरांत दिसली आनी तें सकयल देंवलें. साबारांनी निःस्वास सोडलो.

गुल्हळदेवान पारध्यांक विचाल्लें, "आरे, सभाग्यांनो, हांगसर शिंव आ
वाग आसात हें खरें?"

"वाग नात हांगसर, पुणून कांय फावटी शिंव आपणालो परिवार घेव
वावुरता हंयसर, थंयसर! पुण चिंतपा सारकी परिस्थिती ना. आमी आसातच न
सांबाळ आनी आटाप कसो करप हें आमी उत्तम रीतीन जाण राया!" गुल्हळदेव
सुस्कार सोडलो.

थंयसरच्या रानवटी लोकांनी साबारांची उत्तम वेवस्था केल्ली. गायत्री
तांचे जेवण-खाण विशेश मानवलें. आपणा मेरेन तांची जिणे पद्धत कदापि पावली
म्हूण तें खंतलें. काजुल्याचो उजवाड ताच्या आंगां पुरतो अशी आमची गत जाल्य
ताणें खंतून म्हळें. तांणी साबारांच्या मुखार लोकगितांचो उत्सव कसो सादर केल
तांणी केल्ले भूत-मातृ-उत्सव हो साबारांक प्रभावित करून पावलो. तातूंत संबळीच
उपेग गायत्रीक चडच मानवलो.

गवर येता यो गे, यो माये, यो माये ।
शिरगांवची आई येता, यो गे, यो माये, यो माये ।
कुळाचार चल्ला, कुंवरीक हाडलां, यो गे, यो गे, यो माये, यो माये... ।।द्वि३३३।।
शिवजीचे भांडण गवरीचे भांडण संवसाराचो जागर येयात देवांनो येयात ।
विश्णूचो वाद लक्ष्मीची साद, विश्वाचो प्रतिसाद, येयात देवांनो येयात ।।द्वि३३४।।
बेताळाच्या वांगडा आयलो संबळ सांगडा ।
दळ्गदुरू लागली दवन फुल्लीं वांगडा ।।
हातांत वाळो माथ्यांत फुलां माळो ।
चदुर रुद्राक मेळ्ळो वाग, आनी तो पळ्ळो ।।द्वि३३५।।
जरायु काडटा तान्हुल्याक व्हरतां ।
तान्हुलो माणकुलो गणपती ।।
निडिदु गणपती म्हाका दिशिलो ।
रानांच्या घरांत तुमींय पुजिलो ।।द्वि३३६।।

अशी कितलीशीच प्रांजल आनी उन्मादी पदां आयकताना आनी दादल्यांनी केल्लें
दिवले-नृत्य पळयत आसतना गायत्रीक दिसलें सगळो संवसार असोच भावरूप जाय,
भाररूप नाका.

हो भूत-मातृ-उत्सव चालू आसतना कुंवर गुल्हळदेवान सुरक्षा मंडळा वरवीं फुडल्या प्रवासाची म्हायती घेतिल्ली. सत्तरींतले ब्रह्मकरमळींत ब्रह्मदेवालें देवूळ आसल्यारय थंयसर रानवटी सावदां विपुल प्रमाणांत आशिल्ल्यान तो चिन्तेस्त जाल्लो. सकाळी उठून तो वझऱ्यार वता आसतना कुड्डो जीव, अन्धक कशें जावन ताचे फाटल्यान गायत्री गेलें. ताचे चर्येर चिन्तेस्तपणाच्यो कुरू दिसताल्यो. चलत आसतना अतुरबळी कसो चलतालो. आपणे रातभर जागर केलो जाल्यार गुल्हळदेवान रातभर जागरण केलें ही गजाल सुस्पश्टपणान दिसताली.

गायत्रीन त्या संबंदान विचारतकच ताणें म्हळें, "आमी ब्रह्मकरमळी वचुया नाका कुंवरी, थंयसर सावदां चड."

राजकुंवरी हांस हांस हासली. "दादल्या सारको दादलो आनी तातूंतय राजकुंवर. भिरांतीन जाल्या गुळी एका गुणवंताची." तिणें म्हळें.

तिच्या अट्टाग्रहा मुखार कोणाक कायच उलोवंक जमलें ना. सगळी जाणां त्याच दिसा ब्रह्मकरमळे वचूंक भायर सरलीं.

वाटेंत प्रियवृन्देन सांगलें, "जाणा तूं, करमळी नांवाचे चार वाठार आसात. एक आसा गोपकपट्टमाच्या लागसारची प्रशस्त करमळी, मागीर नाडकर्ण्याची देव करमळी, उपरान्त सान करमळी, आनी ही ब्रह्मकरमळी. हांव प्रशस्त करमळेची गांवकार. परंत आमचे करमळेंत दोनेकच तळीं आसात. उदकाचे नित्य नितळ वझरे मात हे ब्रह्मकरमळींतच. प्रशस्त करमळेंत हो ब्रह्मदेव आशिल्लो. ताका देवूळ नाशिल्लें. तो थंयसर आसा, हेंय कोणूय नेणो. एका भगताक तो दिसतालो. ताणें आड्डी मारून मारून साबारांक सांगलें, 'हो जगत्पिता ब्रह्म्या' म्हणून, कोणेच आयकलें ना ताचें. निमाणे कडेन तो उठून सत्तरेंत आयलो हे मूर्तिसयत. हांगा येतकच ती मूर्त साबारांक दिसली. ते मूर्तीच्या रुपायकान साबारांचे दोळे न्हिवले. राजा कामदेवाचो परिवार मग्न जाल्लो हें आयकत आसतना, राजपुरोयतान सांगलें,"आतां प्रियवृन्देन ज्यो गजाली कथिल्यो, त्यो हांव नेणा. प्रथमच हे कथेचो दिश्टावो जालो म्हाका."

प्रधान मंत्र्यानय तेंच सांगलें आनी म्हळें, "ह्या पाशाणांतुल्या ब्रह्मदेवाक खाड आसा आनी हातांत अक्षमाला, ग्रंथ, कमंडलू, यज्ञपात्र आनीवरदअभय मुद्रा ठसठशीतपणान दिसतात. समभंग म्हळ्यारी दोनूंय पायांर सरळ उबी आशिल्ली आनीकुडीक खंयसरय बांक नाशिल्ली मूर्त. मुर्तिशास्त्रांत मुर्तीच्या उबे रावपाचे स्थिती वेल्यान समभंग, अभंग, त्रिभंग आणि अतिभंग असे चार प्रकार मानतात".

प्रियवृन्दा काचाबूल जालें. आपणाले आवयचो सोंपूत घेवन ताणें आनीक कितलीशींच म्हायतीपर प्रमाणां दिलीं. साबारांनी ताची तोखणाय केली. सत्तरेंत प्रवेश करता आसतना राजा कामदेवाक आनी राणी श्रद्धादेवीक फाटल्या कांय घडणुकांचो उगडास जालो. लडायेक गेल्लो राजा म्हयने दोन म्हयने जायत आयल्यारय पर्थून पावलो ना, म्हणटकच राणीन ब्रह्मकरमळेच्या देवळांत आशाढ मासांत निर्जळी उपास केल्लो. तो मास सोंपता मेरेन राजा कामदेव समरांगणांत जैतिवन्त जावन परथून आयिल्लो. तेदे वेळार चन्दनाचें तेल भरिल्ल्या भांगराचे एके व्हडले तरसाळेंत परस्परांची मुखामळां तांणी तेळून तेळून पळयिल्लीं. राजा कामदेवान हो प्रसंग साबार उपस्थितांक सांगतना राणी श्रद्धा लजे व्हंकल कशी दिसताली.

मुर्तीच्या दोनूंय वटांनी दोन अस्तुऱ्यो कोरांतिल्ल्यो दिसतात.

गायत्रीची फकाणां करपाच्या हेतान मायालतान म्हळें,"जाणा मुगो अनसुया, ह्यो चड करून सावित्री आनी गायत्री वो गायत्री आनी सरस्वती आसात अशें दिसता. मुर्तीचे फाटले वटेन कलाकुसरयुक्त सुंदर प्रभावळेचेर कितलीशींच किर्तीमुखां कोरांतून काडिल्लीदिसतात". गायत्रीन तें म्हणप काना-मनार घेतले ना.

जेन्ना साबार जाणां ब्रह्मकरमळे पावलीं, तेदे वेळार गायत्री पिशांतूर कशें जावन एकोड्यान भोंवूंक लागलें. नितांत परिश्कृत परिसर. शेतां-भाटां पांचवीचार. तें नाशिल्लें कोणालें उपवन, तरीकय दिसतालें स्वत: ब्रह्मदेवानच सांबाळपाचे दायित्व घेतलां. "बांयं आसता पोरसांत, आमी उदक पिता पावसांत", ताणें प्रियंवदेक म्हळें, "हांगासर सद्दां येवंक जाय, अशी म्हूर्ता पाकळी लावन न्हय."

फाटल्या आठ दिसांनी भोंवडेर आशिल्ल्या साबारांक ही पर्वणी कशी दिसली आनी तांच्या आग्रहाक लागून राजान अश्टाग्रहार जनपदांत आशिल्ल्या कोळम्ब-कुळें गांवांतुल्या अटवेंतल्यान ब्रह्मदेवाच्या दर्शनाक वचपाचें निश्चित केलें.

प्रधान मंत्र्यान ही वाटिका आदीच सुगूर, अनुज्ञेय, नियंत्रणशील अशी करून दवरिल्ली. वाटे वयलीं कितलीशींच होणकुलां मुणोवन चलपाची वेवस्था केली. प्रियवंदेन गायत्रीक जळवो दाखयल्यो. हे धर्तरेर जे अडळकाळ जीव-प्राणी आसात, तातूंत मानगें, जल्लो आनी जळू हांचोय आस्पाव जाता म्हणपाचें एकल्यान म्हळें. ज्या सभाग्याच्या आंगांत चडावत दुशित रगत आसता, ताच्या आंगार त्यो सोडत जाल्यार तातूंतल्यान सुटावो करूंक ह्यो जळवो उपकारा पडटा तेच परी आमकां तुमकां त्यो लागत जाल्यार तांचेर मिठाची पूड सोडत जाल्यार त्यो आमच्या

आंगांवयल्यान सुळकन् सकयल पडटात. गायत्रीक ही म्हायती भौच मोलादीक दिसली. साबारां मदीं जे जाण्टेले आशिल्ले, तांच्या आंगांतुली पेज चडच पातळ जावंक लागिल्ली.



म्हणसर पयसुल्ल्यान कुल्लाळ आयकूंक येवंक लागलो. नगारे, डफ, रणभेरी, तुतान्यो आयकूंक येवंक लागल्यो. पुराय वाठार भंयग्रस्त जावंक लागलो. आठ-धा जाण भिरांतीन गुळे जाल्ले अवस्थेत प्रधानमंत्र्या कडेन आयले. ताणें एकल्याक विचाल्लें –

हिम्पुटलीं मुखामळां । आवतिकाय भिरांतली मंडोळां ।
तुमगेलीय अवकळा । सांगा ह्लाळ कित्याक रे केलो ।।द्वि३३७।।
तुमीं हाशिलु पारधी । वीर शिरोमण्यांचो महा उदधी ।
ऋषीय लाय समाधी । तुमचेर विरांनो निखटे निम्बून ।।द्वि३३८।
घेयात रे सोपूत । सञ्चतीचो ईखयीचो त्वरित ।
घाळ सुअस्त सांप्रत । कुपरित दुपरित लक्षण न्हय तुमगेलें ।।द्वि३३९।।
भगसात गा भगसात । आमीय रायालें सुवाडतात ।
सुश परामर्स दितात । सतपणाचो करतात सुधवांटो ।।द्वि३४०।।

शिंव एक अक्राळ विक्राळ । संचरला वनीं जसो महांकाळ ।
सगळ्यांलीं आबाळ । अचकितच उपटलो ह्या वाठारीं ।।द्वि३४१।।
तुमीं चलात देवळीं । घात बांदून व्रिखियांच्या मुळी ।
धाडटले मरणकुळी । ह्या भंयाकृत राजिक म्रिगेन्द्रा ।।द्वि३४२।।
चराचराचो हूलाळ । गायत्रीय देखी भिरांत हळाळ ।
तागेलोय चिरसडळ । सभाव करूंक लागलो जिज्ञासा ।।द्वि३४३।।
हांस हांसलें सुधीं । करतात भिरांतीची परमावधी ।
दियात म्हाका अवधी । देखातच अचर्यांचो सुधवांटो ।।द्वि३४४।।
निकट येय म्रिगेन्द्र । थटाक जाय जण एकल्यालें इन्द्र ।
गायत्री जाय केन्द्र । थर्र थयाट करी शिंव व्हांव व्हांव ।।द्वि३४५।।
तूंच सुलखेणी मणी । सुधाचारी सैम्बिक आचरणी ।
दुर्गा माता मर्दिनी । विसवी महिषासुर निम्बून तुजेर ।।द्वि३४६।।
तूं करतलो विदारण । शान्त निवान्त लोकांचे निवारण ।
उग्र सभावीं दर्पण । असो दाखयता तूं अनाठायीं ।।द्वि३४७।।
पराक्रमाचो कोणी । ह्या तुज्या क्रुद्ध भंयाकृताच्या करणी ।
बरवें कर मनहरणी । माणिक्य दोळ्यां वीर रानेन्द्रा ।।द्वि३४८।।
शिंव देखे लुकूलुकू । गायत्रीले दोळें तर तत्त्वादिकु ।
तडवण वनीं शिंवाकू । तिमुंक कशी जावंक पावली ना ।।द्वि३४९।।
शिंव म्हळ्यार तडिपन्थु । अद्दश्ट म्हज्यांतलो कृतान्तु ।
हें सभागें निवान्तु । तरुंवरू करतले म्हजी फकाणां ।।द्वि३५०।।
पशु भेरुण्ड देखती । थटाक थकाट जालीं आसमन्ती ।
दुशण लागे इभ्रती । सतपणान ही देवता साक्षात ।।द्वि३५१।।
शार्दुल करी म्यांऊं । नमळकायेन म्हणे कर न्यायु ।
म्हज्यांतलो गे खेऊ । विश्रान्त जालो देवी माये ।।द्वि३५१।।
गायत्री जाय आवय । माथ्या वयल्यान हात भोवडांय ।
देवतेची सासाय । अणभवे केशी नाहर महावीर ।।द्वि३५२।।
उदो उदो म्हणे जन । राया म्हणे गे जालों पावन ।
तुगेल्या संगे जीवन । हूर्मती हूर्मती लीण गायत्री ।।द्वि३५३।।
परिद्दष्य हें अद्भूत । जन तेळती गायत्रीचें वोप्त ।
ब्रह्म्याचे तेज शिंपत । किर्त देखी साक्षात दोळ्यांनी ।।द्वि३५४।।

दोळ्यांत दुकांच दुकां । क्षुद्र अणभव जिणेची बळ्ळिकां ।
विलक्षण अभूतपुर्विका । मंडोळ्यो जाल्यो शान्त निवान्त ।।द्वि३५५।।
शिंव गेलो परतून । गायत्रील्या सख्यांनी गायलें गान ।
परिष्कृत कुडींत प्राण । आजन्म कदापि न होय विस्मृती ।।द्वि३५६।।

ह्या विशयाचेर भासाभास करीत आसतना साबार जाण मुखार वचूंक लागले. हें अचर्य कदापि परथून अणभवूंक मेळचें ना असो भावार्थ उगतावंक लागलें....आनी साबार जाण तटास जाले... मुखार घसघसो घेवन उबो आशिल्लो दूदसागर! गायत्री गावंक लागलें :

पाथोनिधी न्हय गो हो ॐ कार । दूदसागर ।
नटराजाले बटेंतली उन्मनी । दूदसागर ।
शिरंगारांचो उत्फुल्ल तुशार । दूदसागर ।।
तुशारांचो थरारी शिरंगार । दूदसागर ।।द्वि३५७।।
किञ्चित तूं उज्ज्वलशिव । आकाशगंगेल्या जवांतली जव ।
हिमालयांतलो प्रसन्न रव । संयमांतलो संयम शिवसागर ।।द्वि३५८।।
निर्भर इन्द्रियगोचर । निःशब्दसागर सुन्दर सहोदर ।
ह्मळूंक स्थल-जल-चर । ह्रमती दृष्टिगोचर देवांग ।।द्वि३५९।।
पर्णपाती रानिं तूं । जलप्रपात वझऱ्यांचो ज्ञानी तूं ।
सुपराड सुकाळ भवतु । आमचे पासत सुवाडू कर ।।द्वि३६०।।
तूं तर सैम्ब समंधी । सभाविकी न्हय तूं रे अवैधी ।
सोबितपणाचे कटिबन्धीं । ना आमचो करशी श्वास-अवरोध ।।द्वि३६१।।
सत्यार्थ तुजो अगाध । उत्तान ससारी सन्देह एकाध ।
मांडवी ग्रहणबोध । जनकाली शिंस दुहिता समचारू ।।द्वि३६२।।
सनिदान तुजें सदैव । गोंयांक बत्तीसलेखणि प्रतेव ।
ब्रह्म्यालो गंगाळव । ओतो धरून खंकाळु खिरोदिक ।।द्वि३६४।।
अचम्ब अचम्ब अचम्ब । सहस्र दल साळकाचें प्रतिबिम्ब ।
तळ्यांतु देख अवलम्ब ।उत्फुल्ल उदकींउदक दुधां धुन्द

अश्टाग्रहारचो प्रधान तांचे स्वागत करूंक आयिल्लो. साबार जाणां ब्रह्मदेवाच्या मंदिरांत रिगलीं आनी मूर्त नियाळूंक लागली. शेकीं प्रधानान आपणाल्या सेवकां वरवीं आदीच गर्भागार पुराय नितळ करून दवरिल्ले आसल्यारय थंयसर घराव्या तुपाच्यो वाती लागिल्ल्यो दिसूंक नात. गायत्रीन राजपुरोयताक तशें

सांगना फुडें तोय खंती जालो. ताणें अन्तर्भागांत वचून घराव्या तुपाच्यो दिवल
लायल्यो. मतिमंद उजवाडांत ब्रह्मदेवाची मूर्त निरासक्त दिसताली. निरिच्छ च
आनी संन्यस्त न्हेंसण आशिल्लो ब्रह्मदेव कांचवेल्ल्या स्थितींत आशिल्ले वरी उ
आशिल्लो. गायत्रीक हें सोसूंक जायना जालें. ती गावंक लागली :

वैराग्याची संथा मवाळा । तुज्या घातली रे ताळा ।
स्नेहमयी दयाळा । आवसू तूं ।।द्वि३६५।।

विश्णुचे बेंबल माळा । अस्वस्थ कमळा ।
तुजिया निर्वाळा । कोणूच ना ।। द्वि३६६।।

कुळाचो संकेत । कुळाचार अंकित ।
कुळाहूनी संचित । दुजो कोण ।।द्वि३६७।।

तुजी ही अंकिता । तुजी ही वांछिता ।
तुका हांव वंदितां । कपाली देवा ।।द्वि३६८।।

कुविद्येचीं कुळे । कुळिकेसी कळे ।
उमलती जळे । भक्ती साळिक ।।द्वि३६९।।

ज्ञानियांचे कुळी । भक्तांक सांबाळी ।
भक्तांच्या मांदियाळी । विरक्त मुक्त ।।द्वि३७०।।

कुशळ कुळांच्या । कुळींचे तळे ।
तूं माया भवजळे । अनासक्त ।।द्वि३७१।।

न तूं उल्लोळाचें पाळ । न तूं तिरुगणो व्हाळ ।
गिन्यानाचो वेल्हाळ । निवांत मुर्ती ।।द्वि३७२।

ना द्वैताचे कुळ । ना अद्वैताचे मूळ ।
गिन्यानाचें कमळ । समृद्ध होय ।।द्वि३७३।।

राजकुंवरीन कुळें गांवची व्याख्याच विसकटावन सांगली, अशें थंयसरच्या प्रधानान सांगलें. आयजवेर गायत्री म्हळ्यार चंचल चितवन आनी उत्शृंखल युवती अशेंच साबारांचे मत्त जाल्लें. हे शीमे-देगेवेले भोंवडेंत गायत्रीचे प्रतिभेचे विंगड विंगड रूपकार पळोवन ते मनोमन तटास जाल्ले.

थंयसरचो सैम्ब नियाळून नियाळून साबार जाणां उत्फुल्ल जाल्लीं. चांदराच्या राजपाटणाची शीम-मेर इतली सोबीत सुन्दर आसा म्हणपाची गवाय मेळिल्ली. गायत्रीच्या आचरणान थंयसर राबितो करपी जनसामान्यां पुराय गायत्रीमय जाल्लीं. प्रधानमंत्र्यान राजपुरोयतान आनी हेर विचारवंतांनी राजा

कामदेवाक हे वस्तुस्थितीची जाणविकाय करून दिली. जंय जंय गायत्री गेल्ली, थंय थंय निखट्यो गायत्री विशींच्यो सन्मानजनक गजाली चलताल्यो. गायत्री म्हळ्यार साबार जनसामान्यांची कण्ठमाळ. अशें राजकुंवर गुल्हळदेवान सांगलें. गायत्री विशींची ही तोखणाय आयकना फुडें राजा कामदेव आनी राणी श्रद्धा धादोशी जालीं.

चांदरसावन कायच न्हय म्हळ्यार लागीं लागीं मास भरून दीस सोंपिल्ले. साबारांक आपआपणाल्या घराचो उगडास सतावपाक लागिल्लो. मगसर लागीं पाविल्लो. मगसर म्हळ्यारी मार्गशीर्षमास.

*बृहत्सामतथासाम्नांगायत्रीछन्दसामहम्।*
*मासानां मार्गशीर्षोऽहमृतूनां कुसुमाकरः*

अशें श्रीकृष्णान श्रीमद्भग्वदगीतेंत म्हळां. अशा पवित्र अग्रहायण काळांत पयसाविल्ल्या परिसरांत रावप अवघडप जातलें आशिल्लें. राजान राजकुंवरीक विचाल्लें कितें करुया काय म्हूण.

तिणें म्हळें, "राजाची निकड म्हळ्यारी जनसामान्याची परवड न्हय, ती सुवार्थी जावंक फावंना."

राणी श्रद्धादेवीक तिची अपुर्बाय दिसली. साबार जाणां संतुश्ट आनी प्रसन्न मनोवस्थेंत चांदरा परतलीं.

कांय मास उलगले. उपरान्त गायत्रीन कुंवराक विचाल्लें, "म्हाका एक गजाल सांग की हांवें आमचे राजपाटणेचे शीमे-मेरेर ब्रह्मदेवाची स देवळां आसात म्हणपाची म्हायती पुरातत्त्व ग्रंथालयांतल्या एका ताडपत्राचेर वाचिल्ली. चार देवळां पळोवन जालीं. उरिल्ल्या दोन देवळांनी केन्ना या?"

गुल्हळदेवान तिका सांगलें, "शेकीं तुवें वाचिल्ली म्हायती सत् आसल्यारय वस्तुस्थिती विपरित आसा."

"म्हळ्यारी?"

"म्हळ्यारी, आमच्या सानपणीं आमी भुरगीं कुडका गांवगिऱ्यांतय वतालीं आनी थंयसरल्या उप्पाट वझऱ्या पोंदा नाचतालीं. तो वझरो म्हळ्यार सुपुल्लो दूदसागर कसो दिस. ताचे उदक म्हळ्यार कातीच्या रोगांचेर उत्तम उपाय. ब्रह्मदेवाचें एक इल्लुशें पुण मनोरम देवूळ आसा थंयसर. देवूळ आसल्यारय तातूंत मुर्त नास्ती. तातूंत मुर्त केन्नाच नाशिल्ली. तावळी ती आशिल्ली एका रुखा पोन्दा. ती कोणाकच दिस नाशिल्ली. मागीर एका भगतान व्हेली ती उबारून वाळपयचे ब्रह्मकरमळे. तरीकय त्या रुखा पोन्दा एका सुपुल्ल्या मंदिराची मांडणी, कित्याक तर

कुडक्याच्या त्या थळार ब्रह्म्याची सासाय आसा अशें कांय भगत मानतात म्हूण.
मुर्त विरयत देवूळ पळोवंक आमी थंयसर वचूंक पावची नातय. कित्याक तर, ज्येश
राजकुंवरान रेड्डी जुंव्यार आशिल्ल्या ब्रह्मदेवाच्या भव्य देवळांतु जे तरे
आपणाल्या सैनिकांतुले पारेकार पेरल्याति. तेच परी हांगसर, म्हळ्यारी कुडक्य
लागसारा आशिल्ल्या देवळांतुय ताचे साक्षात कृतान्त कशे पारेकार आसात. अश
सुवातिंनी आतां, हाचे मुखार आमी, खेरितपणान तुवें, प्रयाण करप म्हळ्यार दुर्दम
संकश्टांक निमंत्रण दिल्ले वरी जातुलें." गायत्री खंती जालें...

... फाल्गून मास उदेलो. त्या संवत्सराचो निमाणचो मास. राया कामदेवा
राणी श्रद्धादेवीन म्हळें "काल रातीं राजपाटणाची ग्रामदेवता भगवती म्हज्या सपनां
आयली. म्हणूंक लागली, 'आतां राजपाटणांत विवाहाचो शुभ म्हुर्त केन्ना सोदता?
हांवें म्हळें 'शश्ठदेवाचो वैवाहिक संवसार बरे तरेन चल्ला. हंगल राजवंशांतलें चे
म्हजी तोखणायेची सून, ताका माणकुल्यो दोन गोड धुवो इन्दिरा आनी दृशा. तांची
लग्नां इतले बेगीन? ना गे बाये! धाकलो राजकुंवर आजूनय तसो सानच आसा
गुल्हळदेवाची सोयरीगत ताच्या सानपणींच केल्या न्हय गे.' ग्रामदेवता देवी
भगवतीन म्हळें, 'बाय गायत्री आतां वयांत येवंक लागलां. लग्न करून वडय बेगीन!'
भगवती देवीनच हो सुदिन दाखयलो न्हय."

"जोतकाराली पोट फुगी दलालाक"! राया कामदेवान म्हळें. तावळी ताका उगडास जालो. ह्याच विक्रम संवताच्या फाल्गून मासांत प्रत्येक वर्सा जावपी फाल्गुनी पुनवेचे रातीं अंदू फागण गितांची कार्यावळ जावपाची आसा. गायत्रीदेवीनच ही कार्यावळ मांडल्या. जयपूरचो राणा मानसिंग द्वीतीय हाका पोरूं निमंत्रण दिल्लें, परंत ताका हेर काय सुवातीर वचपाचें आशिल्ल्यान राया कामदेवान मारवाडांतल्या राठौड राजघराण्याची स्थापना करपी कन्नौडच्या गढवाल वंशांतलो इतिहास पुरुश राजा राव सिहाजी राठौडाक फागण महोत्सवाच्या निमतान चांदरा येवपाचें निमंत्रण दिल्लें.

तो राजा कामदेवा सांगातांत आसतना आपणाल्या साम्राज्यांत आशिल्ल्या पाळी महानगरा विशीं तो पर्थून पर्थून उलयतालो. पर्शिया, अरबी देशांनी वचपी वस्तू-सामग्री पाळी सावनच वताली. परिणाम पाळी ही समृद्ध-संपन्न महानगरी जाल्ली.

राव सिहाजी राठौडान विचाल्लें, "हांव मारवाडा सावन हांगा गोंयांत तुका, तुज्या निमंत्रणा वयल्यान, मेळूंक आयलों, कित्याक जाणां?"

तावळी राजान प्रस्नार्थक मुद्रा केली. ताची चर्या पळोवन राव सिहाजी राठौडान म्हळें

"हांवें स्कन्दपुराणाच्या सहयाद्रिखण्डांत वाचिल्लें की गोवापुरी म्हळ्यारी सात योजनां अयस पयस अन्तराचो वाठार आसा म्हूण. ।। गोकर्णादुत्तरे भागे सप्तयोजनविस्तृतंतत्र गोवापुरी नाम नगरी पापनाशिनी।। अशें हांवें वाचिल्लें. तें वाचतकच तो वाठार पळोवपा पासत म्हज्या हृदयांत उमळशिक उप्राशिल्ली. तुमचो उत्कर्श पळोवन म्हाका दिसता की तुमगेल्या मेव्हणाच्या घरांतुल्या साबार राजांक अशी पदवी दिवंक फाव– कोंकणाधिपति, सप्तकोटिशालब्धा वरवीरा, गोपकपुरा वर्धिश्वा, कोंकणमहाचारवर्ती पञ्चमहाशब्दा..."

- राव सिहाजी राठौड उत्तेजित जाल्लो. राजा कामदेवान ताका मजगतींच थातारलें. ताचे म्हणणें विनम्रपणान मानून घेतलें.

उपरान्त राव सिहाजीन आपणाले दोळे किंचित आंवळून धल्लें आनी म्हळें:

"तुगेल्या गोपकपट्टणाच्या बांबोळी वाठारांतल्यान हिंद महासागरांतल्या झंगबरांचो आनी श्रीलंका जुंव्याचो, वंगदेशीय उपसमुद्राचे तडेर आशिल्ल्या वंगदेशाचो, अरबी समुद्राचे तडेवेल्या गुर्जर प्रदेशाचो, म्हालवज येता-वता. हांव जाणा, तुज्या ह्या चान्दरांत लोबण आनी लोहबाण येता खंयच्यान तें. येमेन सावन, कानीं सावन, मुझा सावन. तुज्या ह्या चान्दराचो उल्लेख अडेज सहस्र वर्सां आदीं अल इद्रसी ह्या नाखव्यान केल्लो. तो संवसार भर भोंवतालो.ताणें तुज्या ह्या चन्द्रपूरचो उल्लेख सिन्दाबूर असो केल्लो आसा. ताणें 'श्रीमन्त आड्गड-हाळी आशिल्ली वाणिज्य नगरी' अशे सिन्दाबुराचें वर्णन केलां.

"म्हाका एक गजाल सांग राया, हे मुसलमान आमच्या गांवांची नांवा जथापथ कित्याक उच्चारनात? आमी तांच्या गांवांची नांवा आमकां जाय तशीं उच्चारनात, न्हय? अशें दिसना तुका?"

"सभाग्या, तूं समजलो ना, ओदोळच्यान हांव तुका कितें सांगूंक सोदतां, तें! ते तुजो इतिहासच परिवर्तीत करून वडयतात. तुज्या कदंबांचो इतिहास बरयता आसतना ते बरयतले, 'तूं विजयनगरचो आलाशिरो घेवंक लडाय सोडून पपा केली, इतलो मुसलमानांच्या सहिन्याचो प्रभाव आशिल्लो.'

"पराजीत राष्ट्र म्हळ्यार एका राष्ट्रान सैन्यदळ धाडून हेराक जिखतकच जें हारिल्लें आसता, ताका आमी पराजीत वो पराभूत राष्ट्र म्हणटात. पूण अशें म्हणप पुराय सत न्हय. एका राष्ट्रान सैन्यदळ धाडपाची गरज नासता. एकाद्र्या राष्ट्राचो

शेक जर वाणिज्याच्या वाठारांत आसत जाल्यार वाणिज्याच्या वाठारांतले ए नगण्य राष्ट्र लेगीत एक पराजीत राष्ट्रच! पराभूत राष्ट्रांत लोक कितें न्हेंसतलो, कि खातलो, कितें उलयतलो, कितें बरयतलो ह्यो आनी हेर साबार गजाली जीत राष्ट्र थारायता. मुसलमान आपणाक सदैव जीत राष्ट्राचे प्रतिनिधी मानतात. म्हणटक तुज्या राज्याचो संदर्भ दितना केदनाच तुका जाय तशें कोणूच नांव बरोवंचो ना. स त्यो गजाली. हांव उलयतालों तें तुज्या राज्याच्या वर्णनाविशीं.

"ह्या वाठारांतल्यो घरा-बिडारांच्यो बांदावळी नकसूद रुपायेंच्यो अशें ता नोंदयलां. अशा पुराण कालीन गोंयांतल्या परिसराचो, चड करून बांबोळीच्या त परिसराक लेगीत समृद्ध-संपन्न महानगरी करीत जाल्यार कशें? हांगसर पंच्याहत्त सहस्र लोकांचो राबितो आसा. तो तुज्या साम्राज्याच्या लाबाचो. कांय जाणांक चडाव लोकसंख्ये संबंदान चिंतन करीत आसतना उस्तुरें वता, जाल्यार म्हाका तातूंत स दिसता, सुसंधी दिसता."

उपरान्त राज्याची येणावळ हेर तरांनी कशी वाडोवंक येता म्हणपाच्य गजालीय विसकटावन सांगल्यो. ताणें विस्तृतपणान कितें करूंक येता हे शक्य विशीं उलयतना म्हळें :

"तुवें व्हडल्यांत व्हडलो प्रमाद केला."

"कसलो?" रायान काचाबूल जावन विचाल्लें.

"प्रजेक शान्त, निवान्त, प्रशान्त, सुशान्त दवरपाची पुराय जापसालदार राजाचेर आंसता. प्रजा केन्ना अस्वस्थ स्थितींत वावुरता?"

राय न्हय भोगार्थी । राजदण्ड न्हय गा सन्मानार्थी ।
बहुजनीयच हितार्थी । रात्रंदिन ।।द्वि३७४।।
नरेन्द्र न्हयच हिंसक । सामान्यांचो हाणविधी सेवक ।
हुर्मती स्त्री व्रुद्धांक । सानांकय ।।द्वि३७५।।
जनसामान्यांलीं अर्थी । उबारूंक न्हय तुजी सत्ता शक्ती ।
नागरिकांचो भाव अर्थी । उमजूनच ।।द्वि३७६।।
हिंपुट्यांचो सत्यार्थ । सरशे करी सांच ससरी अर्थ ।
हिंपुट्यांचो रुदनार्थ । हिंवांयता ।।द्वि३७७।।
रायपण मंगळसुत्र । रायालें गोमटेर मंगळ सौमित्र ।
जनां हात राम सुत्र । संयोगिता ।।द्वि३७८।।

वावुरतात काळतोंडे । शितरूक मारूक शियाण्डे ।
नैमित्तिकच संकडें । अनवरतय ।।द्वि३७९।।

आपूण एक अधम परंत शुद्ध विष्कम्भ जावन पडलां. फाल्यां कितें घडूं येता हाचे विशींची सुलूस घेय नासतना जियेतां अशें रायाक दिसलें. फुडा जागृत जावनु आपणें तें पळोवका. अशें कित्याक दिसलें ना म्हाका असो प्रस्टणु ताणें आपणाकूच केलो. येदें शेकान शेक पातळिल्लें साम्राज्य आनी ते गुण्डा-पुण्डांच्या हातांत वचूं येता हें चिंतून राया धस्कूनच गेलो. म्हजे कडेन चतुरंग सहिन्य आसा आनी म्हाका कोणूच हात लावंक पावचो ना ही दम्भाची सुन्दराय पुराय ओसरून गेली.

"केन्ना?" राजा पुराय गोंदळांत पडिल्लो.

"जेन्ना प्रज्येचेर करांची आकारणी संय्यमा भायर वचूंक लागता तेन्ना. तुजी प्रज्या तुज्या आड उठून उबी रावं येता. तुवें विद्यमान कर आकारणी सकयल हाडली ना जायत जाल्यार."

"परंत दीसपट्टे कार्यकलाप करपा पासत दुडू हाडप खंयच्यान तर?" राजान हसक्यान विचाल्लें.

"कांबोज परिसरा विशीं वाल्मिकी 'रामायणां'त 'कांबोज विषये जातैर्बाल्हीकैश्च हयोत्तमै:पूर्णाहरिहयोत्तमै वनायुजैर्नदीजैश्च : 'अशें म्हळां. आयजय ते वाठार ह्याच कारणांक लागून सुपरिचित आसात. देखून कंबोज. वाल्हीक तेच परी वनायु देशांतल्या श्रेष्ठ अश्वांची जोपासना आनी विक्री हांगसर. तुज्या मेव्हण्याच्या कदंब साम्राज्यांत करूंक जातली."

राजा कामदेव आपणाचेर गारूड जाल्ले वरी ताका तेळत उरिल्लो. राव सिहाजी राठौडान म्हाका म्हज्या कर्तव्याचो मुकूरच दाखयलोशें ताका दिसलें. ताका आपणाल्या साम्राज्याचे उदरगती पासत राव सिहाजी राठौडान केल्ली ही मांडावळ इतली मानविल्ली की ताणें झ्यॉ झ्यॉ ती उखलून धरिल्ली आनी राजपुरोयता वरवीं एक शुभ म्हूर्त काडून ताणें ज्या मारवाडांतल्या पाळी ह्या महानगराच्या नांवाचो अगणित फांवटी उल्लेख केल्लो तें मतींत दवरून कुजिरा सावन शिड्डोण मेरेनचो वाठार, खेतक्याच्या मुळसांतलो वाठार सुख-समृद्धीन परिप्लुत जावचो देखून ताचे नामकरण पाळीपूर महानगर अशें करून वडयलें...

...परंत मुखावेले दुर्दैवाचे गजालेन तो सदैव खंती जातालो. हालिसराक श्रावण शुद्ध पुनवेच्या दिसा साबार मारवाडांतल्या पाळी वासियांक जलालउद्दीन

खिलजीन पुराय रक्तान्हाण घालें. तांच्या आदीच ताणें राव सिहाजी राठौडाची निर्म
हत्याय केली.

हें साबार येवजून स्वाभाविकरित्या राया कामदेवपर्थून पर्थून खंती जाल
कांय दीस अशेच गेले. तो मात्सो निवळूंक लागला अशें पळोवन राणी श्रद्धादेवी
ताका भगवतीन सपनांत सांगिल्ले गजालीचो उगडास करून दीतकच ताका पर्थू
जयपूरचो कच्छवाहा राजपूत राणा मानसिंग द्वितीयाचो उगडास आयलो. त
आपणाले इकरा वर्सां वयाचो आसतनाच राजकारभार पळोवंक लागिल्लो. ताणें अं
चान्दरा येवपाचें निमंत्रण मानून घेतलें.

राणा मानसिंगान राजकुंवरी गायत्रीदेवीक देखचे म्हुण कोणाकच प्रया
करचे पडूंक नात. फुलाचे दिकेन भोंवरो वता, देवते कडेन भक्त वता तसो राण
मानसिंग राजकुंवर गायत्रीदेवी वटेन आकर्शित जावंक लागिल्लो. तिची शारीरि
लक्षणां सुखदायक आसात म्हुण ती आपणाक आवडटा, काय तिचे सद्‌गुण प्रभाव
आसात म्हुण ती आपणाक आवडटा ह्या प्रस्नांच्या संदर्भांत ताका रानांत पडिल्
वरी जावंक लागलें. तिची न्हेंसणा चडावत तांबड्या रंगा कडेन लागसार दवर
आशिल्लीं. परिणामी ती अत्यंत प्रभावी दिसताली. तिचो वक्षभाग असामान्यपणा
उन्नत आनी कटी एकशिवडी आशिल्ल्यान तिची अपारदर्शक न्हेंसणा दोळ्यांत चड
भरतालीं. गायत्रीदेवीन हातांत घेतिल्ल्या मधुर वाद्यांच्या सुमधुर ध्वनींत तिचो स्व
आमोदित करतालो. सांगातांत आशिल्ल्यांक आपणाले मनोविनोद आयकतना ति
चर्येवयल्यान विंगड विंगड ऋतूंचे आविर्भाव उक्तावन येताले.

राणा मानसिंगान रायाक म्हळें, "पद्मपुराणां'त म्हळां की उर्वशीचो जल्
कामदेवाल्या उरूतल्यान म्हळ्यार हड्ड्यांतल्यान जाल्लो. राजकुंवरीचो जल्म
कामदेवाच्या वंशांत जाला. म्हाका उर्वशी आनी राजकुंवर गायत्रीदेवी हातूंत कसलें
विंगडपण दिसना." तो गावंक लागलो

दोला दोला दोला । राजकुंवरी गायत्रीदेवींल्या ।
आंगां-भुजांचेर रे । रविकिरणांचोय मोहक हिंदोला ।।द्वि३८०।।
वन वन उपवन सोबीत । लंपट तरूवेल ताय मण्डित ।
झुळझुळ वझरो अचंबित । विभ्रम सुखाचो स्वरय मंजुला ।।द्वि३८१।
किलबिल किलबिल दिव्य । आनंद दरिया गाय ती स्वर्गीय ।
ल्हारां ल्हारां विपर्यय । कलहंसील्या रे अनावर चाला ।।द्वि३८२।।

विहार तिचो स्वरांत । हरिहराच्या स्तवनी गायनांत ।
सुखाचो वर्षाव अभूत । सुखसंभोग मनोहारी पावलां ।।द्वि३८३।।
कुशावतीं बुडलें गगन । गायत्रीलें दिव्य वीणावादन ।
फुललें वसन्त कानन । कुसुम परमळीं रे दोला दोला ।।द्वि३८४।।
उदात्त संवेग उत्तम । उत्तेजित होय क्रियाशील उन्मन ।
अभिलाशा समागम । उन्नत दुर्लभ अपार काममाला ।।द्वि३८५।।
राग-रंग वसन्त संदेश । परिपूर्ण परिपूर्ण हो उल्लास ।
आम्र मंजिरी तटास । उमजतली प्रीति गायत्री बाला ।।द्वि३८६।।
मधू मादकी स्पर्श । सहस्र रश्मी शशिधर करी विमर्श ।
आकर्शण रे उत्कर्श । रास करूं कसो संगे वनमाला ।।द्वि३८७।।



... आनी फाल्गुनी पुनव आयली! आदले राती होलिका दहन जालें. फुडल्या दिसाचीय येवजण राजकुंवरी गायत्रीनच केल्ली.

राजा कामदेवान गोशृंग घेतलें आनी तातूंत सुगंधित चूर्ण भल्लें. मुखार आपणाल्या दासीं वांगडा राणी श्रद्धादेवी बशिल्ली. तिचेर त्या चुर्णाचो शिंवर केलो. उपस्थितांनी राजाचो जयजयकार केलो. उपरान्त ताणें राजपुरोयत, प्रधान मंत्री आनी

सेनापती तेच परी राज्यांतले विचारवन्त हांचेरय त्या गोश्रृंगांतल्या सुगंधित चुर्णाच वर्षाव केलो. अशे तरेन मुक्त स्वच्छंद हास-परिहासाची परब म्हळ्यारी होलिकोत्स परबेचो आरंब जालो. हो उत्सव रंगपंचमे मेरेन चलपाचो आशिल्लो.

शेंकड्यांनी लोक पळोवन मानसिंगाक तिचे लोकप्रियतेची कल्पन आयली. विंगड विंगड वाठारांतले लोकवांगड आपणाल्या परिसरांतल्या लोकवेदाच हर्षोल्लासान आविश्कार करताले. मध्याह्न जाल्ली. होळीची कार्यावळ सोंप आयल्या अशें साबारांक दिसलें. आनी राजकुंवर गायत्री एका खेरित न्हेंसणां आंगणांत आयलें. गुलाबी गालांचेर लागिल्लो कुमकुम तिच्या जन्मजात सौंदर्याचे मुग्ध जावन प्रियकरा वरी दसून बशिल्लो. साबार जाण अवाक् जावन तिका देखत रावले. तिच्या आंगा-प्रत्यंगांची पुश्टताय साबारांच्या दोळ्यांत रिगूंक लागिल्ली. ति रूप म्हळयार लावण्याची खणच, अशें आसल्यारय हो रुपाकार उतरां पलतडच आशिल्लो. म्हणसर साबार वाद्यांनी ठेको धरलो, झांजींनी झणत्कार करपाक आरं केलो, वाद्यांचो ताल आसमंतांतल्यान मळबांत चडूंक लागलो आनी गायत्रीन ता धल्लो :

"भाखर में धमीडा उठे गाडो किणरो आवे रे ।
भाखर में धमीडा उठे गाडो किणरो आवे रे ।।
न्हानो भूलो देवरियो ए अड़ावट आवे रे ।
नाते जाऊंली हांरे नाते जावूंली ।।
जे मैं जावूं तो पाच्छी निं आवुंनाते जावूंली ।
पाणी ने जावुं तो म्हेकांधे राखुं बेवड़लो ।
पाणी ने जावुं तो म्हेकांधे राखुं बेवड़लो ।।
लालां बिछड़ गी वावा लालां बिछड़ गी ।।

राणा मानसिंग कुवाड्यांत पडलो. हांव गोंयचे राजपाटणांत आसा व मारवाडांतले पाळींत आसा, हो प्रस्न कुवाडे कशें ताच्या मेंदवाक हालधोल करूंव लागलो. म्हणसर धोल-नगारे वाजूंक लागिल्ले.

राजकुंवरीचे पाय थिरकताले, ते पळोवन प्रेक्षकगण तटास जाले. तिच केशकलाप तिचे फिरकी वरवीं हूबतालो. तिची हस्तमुद्रा गतिशील आशिल्लीच, तेच परी ती नियोजितय आशिल्ली. हाचो अर्थ असो की राजकुंवरीन मारवाड नृत्याच अभ्यास सुक्षीमपणान केल्लो. हस्तमुद्रे वांगडातिचे चर्येचेर एक तरेचो आध्यात्मिक भावभंगिमा अचळय पातळिल्लो. राजकुंवर गायत्रीन मानसिंगाचेर ऊर्जाशील

छाप उमटायिल्ली हातूंत दुबाव नाशिल्लो. तिणें नाचत आसतना पर्थून वयल्या पदांतुल्या उतरांची पर्थावणी केली.

भाखर में धमीडा उठे गाडो किणरो आवे रे ।
भाखर में धमीडा उठे गाडो किणरो आवे रे ।।
न्हानो भूलो देवरियो ए अड़ावट आवे रे ।
नाते जाऊंली हांरे नाते जावूंली ।।
जे मैं जावूं तो पाच्छी निं आवुंनाते जावूंली ।
पाणी ने जावुं तो म्हेकांधे राखुं बेवड़लो ।
पाणी ने जावुं तो म्हेकांधे राखुं बेवड़लो ।।
लालां बिछड़ गी वावा लालां बिछड़ गी ।।

हे पुनरावृत्तीन राणा मानसिंगाच्या हृदयाचो एक ठोको चुकलो. राजकुंवरीच्या सांगाता आनी एके अस्तुरीन वांटो घेतिल्लो. ताचो आपणाल्या दोळ्यांचेर विस्वास बसलो ना. महाराणी मरूधर कॅवर? ती तर ताची एक राणी. ती हांगसर केन्ना आयली? तिका कोणे हाडलें? राजकुंवर गायत्रीदेवीन? देवा, सदाशिवा, महादेवा रेऽ, सोंपली. सोंपली रे सोंपली. आतां तिचे कडेन वचपाची शक्यताय सोंपली. ताणें मनांतुल्या मनांत म्हळें. तो निर्शेवपाचे घुंवळींत आसतनाच सूर आनी स्वर चड़त गेले.

भाखर में धमीडा उठे गाडो किणरो आवे रे ।
भाखर में धमीडा उठे गाडो किणरो आवे रे ।।
न्हानो भूलो देवरियो ए अड़ावट आवे रे ।
नाते जाऊंली हांरे नाते जावूंली ।।।
जे मैं जावूं तो पाच्छी निं आवुंनाते जावूंली ।
पाणी ने जावुं तो म्हेकांधे राखुं बेवड़लो ।
पाणी ने जावुं तो म्हेकांधे राखुं बेवड़लो ।।
लालां बिछड़ गी वावा लालां बिछड़ गी ।।

जाता तें जावं. आतां चिंतूंक बसत जाल्यार महाराणी मरूधर कॅवर सयत साबार व्यक्ती ताकाच दुशण दिवंक लागतल्यो. तो सांवरूंक सोदतालो म्हणसर महाराणी मरूधर कॅवर आनी राजकुंवर गायत्रीदेवी वांगडा आनीक एक अस्तुरी दिसली. म्हज्या देवा, परमेसरा, ही तर महारानी किशोर कॅवर. तीय हांगसर पावली ऑ! आतां धपकोच बसलो. तीय ह्या फागण नृत्यांत सहभागी जाल्ली! तिचेय व्हडा

उत्साहान पाय तालांत थिरकूंक लागिल्ले. दोगांय नर्तिकांच्या स्वरांत प्रफुल्लता आनी ओज आशिल्लो. पुराय आसमंत तल्लिन जावन गेल्लो. राणा मानसिंग आलतडे, ना पलतडे अशे अवस्थेंत शिरकून पडिल्लो.

हीं दोगांय जाणां आयलीं, म्हाका सुलूसय लागूंक दिली ना. म्हणटक आता मुकाट्यान ओग्गी रावून चल्लां तें पळयत बसपाचे सोडून हेर कांयच करूं मेळचें ना, ही गजाल स्पश्ट जावंक लागल्या अशें दिसता. ताणें मनाक थातारू धल्लें. वयल्या पदाची पुनरुक्ती करता आसतना कोणाली नृत्य कुशळताय स करपांत उत्तम जाल्या म्हणपाचें भान उरूंक नाशिल्लें. राजकुंवरी गायत्रीदेवीकडे उलोवंकय मेळचें ना अशें दिसता, ताणें मनोमन म्हळें.

नगारे पदाचे विंगड विंगड बोल पडबिंबित करूंक लागिल्ले आसतना राजकुंवरीक खरस मारिल्ली आसल्यारय तिणें फुडलें पद म्हणूंक घेतलें –

बाड़े में जीजोसा बैठानणदल माथो धोवे रे । बाड़े में जीजोसा बैठानणदल माथो धोवे रे ।।
नणदल चाली सासरे भोजायां रोवे रे । जोड़ो बिछड़गो हांरे जोड़ो बिछड़गो ।।



राजकुंवरीच्या स्वरांतले आरोह आनी अवरोह सटिक आनी निगूत आशिल्ले. मारवाडी भाशेंतल्या ह्या पदांनी कुशळताये वांगडा सुरांतली निपुणताय कानांक सुरबूस लागताली. मानसिंगाक आतां तिचे कले वरवीं हें पद गावप आनी

त्याच वेळार नृत्य करप म्हळ्यारी कपशेची गजाल. अशें दिसतालें. तो तिका एकाग्र दृश्टीन नियाळूंक लागिल्लो

मखमल जेडो कपड़ो छैलो साथणीया के लावे रे ।

मखमल जेडो कपड़ो छैलो साथणीया के लावे रे ।।

टूल आलो कापडियो म्हारे घर लावेरे ।

अब के आबा दो हारे अब के आबा दो ।।

राया कामदेवान राजा मानसिंगाक आपणाल्या साम्राज्यांत भोंवडावन हाडलें. राणी श्रद्धादेवीय वांगडा आशिल्ली कारण राजकुंवरे वांगडा महाराणी मरूधर कॅवर आनी महाराणी किशोर कॅवर लेगीत आयिल्ल्यो. रायाक आनी राणयेक व्हड कुचंबणा जावंक लागिल्ली. जो हेत बाळगून राजा मानसिंगाक निमंत्रण दिल्लें. तो हेत पुराय जावपाची निखालस शक्यताय उरूंक नाशिल्ली. ज्या राजाक आदींच दोन राण्यो आसात. ताचे कडेन. सामान्य परिस्थितींत. खंयची राजकन्या लग्न करूंक मान्यताय दितली. असो प्रस्न रायान राणयेक केलो. राणीय काचाबूल जाल्ली. असलें गोंदळावप जातकच मस्तक चिंतपाचेय भान वगडावन बसता. तिणे रायाक म्हळें.

राजकुंवरी दोगांय राण्यां वांगडा भौच घोळिल्ली अशे दिसतालें. ती तांचे भाशेचें. कश्टपुराय येत्नान. हेल काडूंक शिकिल्ली. अदीं मदीं राणा मानसिंग आपणाल्या राणयांक मेळपाच्या मिशान येय. तेन्ना तो आपणाकच तेळटा. म्हणपाची सुलूस तिका लागिल्ली. तांचे मुमुरखें हांसप तिका आवडूंकय लागिल्लें. ताच्या स्वरांत आशिल्ली संतुलितताय तिका मानवूंक लागिल्ली. तिच्या सखयांनी तिचे भोंवतणी वर्तुळ धल्लें :

प्रियवृन्दा : आबोले फूल तांबडे सुस्ती । मानसिंगा देखोन दिलें स्मिति ।

बाम्मणी दांत्यारी करी मस्ती। प्रीती म्हळ्यारि खुण्टी तिका घाल ।।द्वि३८८।।

मायालता : शारदेनि वाजयली शिव वीणा । खिणात झणत्कारू भारी गगना ।

म्होणू मानसिंगाल्या स्वाधीना । गायत्री छन्द ।।द्वि३८९।।

अनसूया : अनिरुद्ध उशा अमर युगुल । मानसिंगा सपनीं गायत्री जोगुल ।

उत्प्रेक्षा काव्यालंकारी कोगूळ । मानस गाय ।।द्वि३९०।

प्रियवृन्दा : हिन्दुस्ताना उत्तरेक़ आस्स शिवसागर।

आस्स थंय भुलोवणें मानस सरोवर ।

गायत्रीदेवीक थंयसर । मानसगंगा ।।द्वि३९१।।

मायालता : निश्कलंक गायत्री एक कुमारी । यौवनाचे गगन नितळ आंगारी ।
एकु पोळो घाल निर्लिप्त तव्यारी। घोवाल्या पुण्यान सुख सुख ।।द्वि३९२

अनसूया : गो व्हारडिके मांटवांतु । लग्नाचे दिवेच दिवे ।
अन्दण घे गो धुवे । बाप्पालागी ।।द्वि३९३।।

सख्यो : आगसा वयले नाल्लाची अक्षय्य । भूमण्डळाची सदैव सोय ।
वेंचून हाडिला भावोजी सदाशय । सालस गाय ।।द्वि३९३४।।

अनसूया : हं हं तशें इश्टिणी तें न्हय गो –
आगसा वयले नाल्ला । भूमण्डळाची सोय ।
वेंचून हाडिला सदाशय । सालस बैल ।।द्वि३९५।।

सख्यो : पुण्यान मेळिल्लें सासुमाय । भांगर धुवेचे किरवंटीक लाय ।
होडल्या मान्न्यात जावंय । गायत्री स्नानभाण ।।द्वि३९६।।
रगड्या वैले पीट गुडुगुडु जाता । धुवेचे उत्रारी जावंय उड्डत वता ।
अशें नाका चिन्तू चित्ता । सोविबाय ।।द्वि३९७।।
मोरान्दो येवपाचो समय । कुळारचो नासता जावंय ।
किरवंटीची बिगातु न्हय । गायत्री आतां ।।द्वि३९८।।
पान्नार वाडील पेज । जेंवच्या गेल्यार हून ।
जावंयाली जीण । ताकाच जगूं ।।द्वि३९९।।

मायालता : सोन्याचो खवलो रुप्याची दोरी । ताक चाळता सोविबाय गोरी ।
तांक चाळता चाळता भितरी । खवल्या आयलें लोणी ।।द्वि३१००।।
होड पात्तोळीच्या सरी । प्रीति रानां भारी ।
जावयाचे करणी खरी । सोवि आजी जाली ।।द्वि३१०१।।

राज्यांतले काणु रसरशीत जाल्ले. काय किडितांनी, किड्डस्सांनी काविश्वासू वदंताय पातळावंक आरंब केल्लो. साबारांच्या दोळ्यांमुखार राजकुंवरी गायत्रीदेवीच्या लग्नाची वदन्ता सर्वसामान्यांचे जिबलेर घोळूंक लागिल्ली आसतनाच, अन्ततोगत्वा काजारी फागणाचो दीस सोंपलो!

## ।। तृतीय *उच्छवास* ।।

भाट गायतालो :

पुर्वसुरींनी तुजिया घडयलो। कांचिपुरमाचोय साक्षात्कार ।
उठी उठी लक्ष्मुमी तनया । जाली झिळमिळटी फांत्या पार ।।तृ*३०१*।।
मयुरवर्माल्या शंकर भक्तीन । उबयली कदंब वंशाची गुडी ।
गुल्हळदेवा भावार्थाची । जतनायेन सांबाळली पुडी ।।तृ*३०२*।।
जैनांच्या जिन परंपरेचो । तुमींय केलो सदैव बहूमान ।
अनेकांतवादी राजन् तूंय । तरीय शिवाचें शुद्ध स्वभान ।।तृ*३०३*।।
पराक्रमाच्या दुंदुभिनी । कदंब सेना होय जैतवन्त ।
अश्वमेधीं षोडष यज्ञांनी । राजवंशीय वीरगळ सुस्नात ।।तृ*३०४*।।
तुज्याच राज्यी निवांत जाले । प्रकाण्ड वेदांगी मठपती ।
कळमुखी सदैव प्रसन्न । कापालिकांचो तूं चाकरमती ।।तृ*३०५*।।
धर्मशास्त्र आनी पुराणां । तुजिया राज्यीं सत्वर फळफुलीं ।
तुजिया धर्मे मनयता सर्व । चैत्रोत्सव मनोरम दिवाळी ।।तृ*३०६*।।
रामा अभिरामा तूं परशुधारी । कम्पित दैत्याची मती थरथर अपार ।
सज्जन तशेच मुखार परिकर । वंदन करती करी तें तूं स्वीकार ।।तृ*३०७*।।
एकान्तराम धांव धांवती । अब्लुरे सुगूर धर्मसंस्थापना करी ।
एकान्त रामैय्या स्थापिती । जयपात्री वीर सोमनाथ मुर्त मंदिरी ।।तृ*३०८*।।
तुवेंच दिलें एकान्तरामा । धर्मजयाची कुरू माळवली गांव ।
घराब्याच्या परंपरेचे । तूंय सत्कर्मान राखशी नांव ।।तृ*३०९*।।
तूं तर राजर्शी कोंकणपुरी । संन्यस्त ध्यानमुद्री राज्य करी ।
मांडलिकांच्या उत्तम भावा । करी सदैव सन्मानित राजपुरी।।तृ*३१०*।।
मानशी क्रिडा गिन्यानीं तूं । तर साक्षात तेजस्वी रंगरूप ।
आक्रमकांलीं लालस जिबली । करी कर्तन दुर्दान्त कदम्ब भूप ।।तृ*३११*।।
वार्तिक आयले गायक आयले । रानांवनांतुले पिडेस्त आयले ।
नित नमळकाय तुज्या भाळी । विद्‌वानां आतां उगड शयनद्‌वार ।।तृ*३१२*।।
आजीविका हृदयस्पंदन । वेवसायांचे उत्तम वेवस्थापन ।
घरधनी तशीच प्रसन्न धनिनी । सदैव अनैतिकतेचें ललाट भंजन ।।तृ*३१३*।।
राजा देवा काम दैनिकी । जनपदांतु तूं अदृश्य भ्रमशी ।
तकालस अंगी आनी सर्वांगी । तुज्या वावरा सदैव जनाधार ।।तृ*३१४*।।

श्रद्धेची ती भावुक किमया । कामदेवाची अति प्रियंक जाया ।
राजकुंवरांचेर अथांग माया । दैवी कन्या गायत्री सखया ।।तृ३१५।।
कार्यचक्री तुजी मिमांसा । उठी राजसा लोभस आयक हर्शा ।
अति आळशी नाका समेस्तां । सिद्ध जावंक जाय विमर्शा ।।तृ३१६।।
सिंधुदुर्गी उल्लोळ कल्लोळ । पाथोनिधी न करसी अति विश्रांत ।
योगियांच्या भाग्यां साक्षेप काळ । अज्ञान भ्रान्त करी अति क्लान्त ।।तृ३१७।।
सांग पितया कर्मभोग राजांगणा । दण्ड देय आपणाल्या रगता मार ।
चक्रनेमिक्रमे येती सपनां । सुट्टलें राजा वास्तव हातां पार ।।तृ३१८।।

राजा कामदेव उठून शयनमंदिरांतल्यान भायर सरतकच ताणें प्रातर्विधी पुराय केले. राणी श्रद्धादेवी ताकाच रावताली. रातभर न्हीद नाशिल्ली. दोळे तांबडेगुंज जाल्ले.

घोवान तिका विचाल्लें, "जालें कितें तें तरी सांग."

तिची कितल्याशा तरांनी मनरिझवण करतकच निमाणे तिणे म्हळें,

"हें कितें चल्लां? साबार जाणां गायत्रीच्या लग्नाविशींच्यो अंब्या तुंब्या गजाली उलोवंक लागल्यांत. खंयचे कडेन कायच ना, 'रुक्कावैली आम्बुली चोट्टा सैत लाम्बली । चली दी म्हण लालयता गांवकार।' मानसिंगाक आसात दोन दोन घरकान्नी! महाराणी मरूधर कँवर आनी महाराणी किशोर कँवर! थंयसर म्हजी धूव?" राणीच्या स्वरांत क्षीण केंवकेंव आशिल्ली.

"म्हाकाय ताचोच कांच जाला गे परन्त तो राणा मानसिंग बरे तरेन मागसरा वतलो अशें दिसना. शेकीं ताची आस कुम्भिल न्हय, ताचे विशींच्यो चर्चा कुठौर चलल्यात तें अनुचितच. ताच्यो घरकान्नी कितें म्हणटात, तेंच पळोवचे पडटलें."

म्हणसर राजपुरोयताचें आगमन जालां म्हणपाची वार्ता मेळटकच राणी कुशीक सरली. राजपुरोयतान म्हळें,"राणा मानसिंग म्हजे सरी आयिल्लो."

राजा आनी राणी तटास जालीं, कांय खिणां उपरान्त सादूर जावन निवांत बसलीं. राजपुरोयतान वळखुपाक जाय तें वळखिल्लें. देखून ताका मूळ विशया विशींचें प्रास्ताविक करपांत चिकीय अडचण आयली ना. ताणें म्हळें, "राणा मानसिंग काल उसरां रातच्या समयार म्हजे सरी आयिल्लो. आमी ताची वेवस्था बरे तरेन राखली. ताणेंय प्रसन्न मुद्रेन आमचे वेवस्थेची प्रशंसा केली. आमी उल्लास उपवनांत वचून बसले.

"थंयसर ताणें म्हळें. 'हांव मूळ सुत्राचेर उलयतां. रागार जावंक नाकात. म्हाका अद्वितीय राजकुंवरी गायत्रीदेवी मानवल्या. हांव तिचे कडेन लग्न जावंक सोदतां.' म्हाका हो एके वटेन म्हळयार धपकोच कसो बसलो. जाल्यार हेर वटेन ताचे म्हणणेंत एक शुभवार्ता दडून आशिल्ली आसा म्हणपाची कुरू मेळ्ळी.

"ताचे ते सुचोवणीच्या संबंदान परस्परांत भौच उलोवन जातकच हांवें तांका विचाल्लें. 'तुमकां तर दोन महाराण्यो आसात. थंयसर आमचे राजकुंवरेची सुवात कशी आसतली काय?'

"तांणी म्हळें. 'राजान एका परस चडावत अस्तुऱ्यांक लग्नां करून राजांगणांत हाडपाची प्रथा हांवूंच घालता अशें न्हय. राजाक राणी आसता. ताका महाराणीय आसता आनी पट्टराणीय आसता. हांव महाराणी मरूधर कॅवर आनी महाराणी किशोर कॅवर कडेन उलोवन आयलां. म्हजे मागणेक तांणी मात्तुय आक्षेप घेवंक ना. वयल्यान तांणी हर्शच उगतायलो.' राणा मानसिंगान संदिग्ध उतरांनी नि"संदिग्ध सुचोवणी केल्या."

राजान राजकुंवरेक विचारपाचे थारायलें. राजपुरोयतान सांगलें."हांव. म्हजे घरकान्ने सयत. आतांच राजकुंवरेक मेळून आयलों. साबार गजाली म्हजे घरकान्नेन ताका सांगतकच तें लजेलें. म्हणटकच हे सोयरिगतीक ताचो न्हयकार ना अशें म्हाका दिसता. तरीकय ताचे आवयन आनी उपरान्त ताच्या पित्यान तिचें सुस्पश्ट मत्त मतींत घेंवचें अशें म्हाका दिसता. महासुभाशित संग्रहांत म्हळां -

कन्या वरयते रूपं । माता वित्तं पिता श्रुतं ।

बान्धवा कुलमिच्छन्ति । मिष्टान्नमितरे जना ।।

राणी श्रद्धादेवीन म्हळें. "सारके तुमचें उलोवणें. व्हारडिकेली वेवस्था करचे पासत आमीय सदैव म्हणटात -

धुवेक मानवता रुपवन्तु । आवयक जाय धनवन्तु ।
पित्याच्या सपनीं सदैव विद्यावन्तु । दायजांक गरज कुलवन्तु ।।तृ३११।।
कुळावी म्हालगडे आशिर्वाद परन्तु । न देय वोगीच देखी कुळन्तु ।
परन्त काय निमंत्रित आसता इच्छाभोजनी। तांची दृश्टी निखटी जेवणांतु ।।तृ३२०।।

सुदैवान कुण्डली मांडटा आसतना राजकुंवरी गायत्रीदेवी आनी राणा मानसिंग हांचे कुंडलींत अश्टम राशीचो संबंध नाशिल्लो. समाधानाची गजाल अशी की तांचे पत्रिकेंत अश्टमेश स्थित नाशिल्लो. शनि बाराव्या स्थानांत आनी मंगळ धाव्या स्थानांत स्थित ना अशें तांची पत्रिका सांगताली. तितूंत तिसऱ्या स्थानांत गुरू

वो अन्य पाप ग्रह स्थित नाशिल्ले. दोनूंय कुण्डलींनी क्षीण चन्द्र स्थित ना, तेच परी चन्द्र आनी शुक्र सव्या आनी मंगळ आठव्या स्थानांत स्थित ना, अशें दोनूंय पक्षांच्या राजपुरोयतांनी एकमतान निर्वाळो दिलो. राजा मानसिंगान विचाल्लें तेन्ना ताच्या राजपुरोयतान सांगलें की दोगांयच्या कुंडलिंनीं सप्तम् स्थानाचेर खंयचोच ग्रह स्थित जावंक ना, इतलेंच न्हय तर दोगांयची कुण्डली कर्तरी दोशयुक्त नाच्च ना, म्हळ्यारी जन्म राशींसावन द्वितीय आनी द्वादश स्थानीं खंयचोच पापग्रह स्थित ना. उत्तम कुण्डली वरवीं निर्णय जातकच आनी मुखावेल्या गजालींचें संज्ञान दितकच परस्परांच्या सानंद अनुमतीन आनी तत्पश्चात सुलभ रीतीरविसेन लग्न पद्धती विशींचो प्रस्न सुटावो जालो.

राजकुंवर गुल्हळदेव राजपाटणांतच आशिल्लो. राजकुंवरीचे लग्न जे तरेन आनी ज्या पावंड्यार जावपाक जाय तशें जावंक पावचे ना, अशें आसूनय तिका सन्मानान तिच्या घरकाराच्या राजवाड्यांत वावर करूंक मेळूंक जाय म्हूण ताणें धांव धांव केली. प्रधानमंत्र्याच्या परामर्सान वेवस्था करूंक लागलो.

लग्नाच्या समयी लोकवेदांत आशिल्ल्या होंवयांनी आसमंत भरून गेल्लो :

द्राक्षी भितरी द्राक्षी । नाशिक गांवा द्राक्षी ।
होव्यो म्हणचा माक्षी । आतां बायलो ।।तृ३२१।।
दांतें माण्डेया तांदुळु सेसया । होंकलेक बसया मुहूर्ताक ।
पांचजाणीं येया उडदा तेल लाया । वोकलेक बसया कार्या लागीं ।।तृ३२२।।
दांते माण्डैलवारी शांतेरी आक्का । प्रीतिची खुण्टी घाल ताक्का ।
खुण्टी गेली भितरी । पाळण्याक बांद वंशाची दोरी ।।तृ३२३।।
कश्ट सुख म्हळ्यारी । दांते माण्डैलवारी ।
तृप्ति म्हळेल आदारारी । घुंवका दांते ।।तृ३२४।।
आळ पळोवन उदका देंवका । निखटें कुळ पळोवन चेडू व्हरका ।
आमगेलें गायत्री पळयका । निवे भूक तान ।।तृ३२५।।
कान्नां घाल्ली कुटिकळी । म्हूण पोल्यार गो पडे सांवळी ।
कांतयेली बावुली । आमची वोक्कल ।।तृ३२६।।
लग्नाच्या मांटवांतु व्हडली रान्न । कदंबांलें खाण ।
सटिक यजमानपण । करी राया ।।तृ३२७।।
मेट्टी सुत्तुंगल घालें भयणेक । धारदार खड्ग भावोजीक ।
घातल्यो मुद्यो पांय्याक । वाळो चिणी चिणी ।।तृ३२८।।

राजकुंवरी : पुरणपोळी वैरी घालताती तूप । मेगेल्या दोळ्यांतु मानस रूप ।
तीस दीस मास. मास बारा वर्स। बाम्मण मानस शाश्वत मना हर्श ।।तृ३२९।।
झाडपिको आम्बो केळी रसबाळ । म्हजो राणा मानसिंग भांगर साळ ।
आमी तीगां जणीं ताच्यो महाराणी। त्रिभुवनी सज्जन मानसिंगराय ।।तृ३३०।।
राणा मानसिंग: मात्ये रांदणी घातल्या गो घरी । लागे भूक गायत्री चल झडकरी ।
शयनघरा आसा रुप्याची गो दिवली । गायत्रीचे वेंगेंत रात निळी ।।तृ३३१।।
तिंबयिल्लो उडिदु गुडुगुडू करता । गायत्रीच्या स्पर्शान पुलकित जाता ।
मंत्र्यांचे गिन्यान शुन्य तुज्या विणे । गायत्रीचे मंत्र सदैव सर्वो परी ।।तृ३३२।।
राणी : घरांत दिवो लाय सकाळ रात्री । मिसळूं घर घोवाचे गात्रन्गात्री ।
संवसार करा एक छत्री । रात्रंदीस ।।तृ३३३।।
म्हालगड्यांनी केल्ली शास्त्राची प्रीती । उमजून वाग धुवे घरा निर्मिती ।
होकले निमति घर सदैव व्रती । संतती संपत्ती संवसार होय ।।तृ३३४।।
राजा : चल्येले आवसूक । मानता जावंय ।
चल्येलो पिता । एकोडो गो ।।तृ३३५।।
म्हजें चली म्हाका । आव्या वैली पणती ।
गुणगात्री कन्या । दानी दिली ।।तृ३३६।।



मारवाडच्यान शेंकड्यांनी विशेश निमंत्रित आयिल्ले. गोंयांतल
सहस्रावधी अशा साबार धनवन्तांनी तांचे आगत-स्वागत केलें. व्हंकल पावणी जाल
गायत्रीच्यो इश्टिणी तिच्या वांगडा मारवाडा गेल्यो. गुल्हळदेव फाटसरी रावलो...

... शश्ठदेव मात ह्या समारंभाक पावलो ना. ताणे राणी कंकावतीक
राजकुँवरी इन्दिरा आनी राजकुंवरी द्दशा हांकाय थंयसर धाडून दिवंक ना.

मध्यन्तरांत जमालउद्दिनान शश्ठदेवाक एक गुप्त चीट धाडून कळी
केल्लें की राजपाटण चन्द्रपुरांत राजकुंवरी गायत्रीदेवीच्या लग्नाची सिद्धता चल्ल्या.

शश्ठदेवाच्या दोळ्यांमुखार प्रस्नांकित चिन्ना जोगलां कशी चकमकूं
लागिल्लीं. ही वार्ता म्हळ्यार कुम्भिल वदंता न्हयच न्हय. हो तर साक्षा
तडिताघातच आशिल्लो. आपुण कदंब साम्राज्याचो राजा आसूनय आपणाल्य
गुप्तहेरांक जी वार्ता कळूंक ना, ती जमालउद्दिनाक कशी कळळी म्हणपाचे आश्च
ताका चड सतावंक लागलें. ही अचर्या जाली तरी कशी म्हणपाचें कुवाडें ताव
सळाबळा करूंक लागलें. वस्तुस्थिती अशी आशिल्ली की ताचो सचिव रहस्याधिकृ
हाणें हें निमंत्रण शश्ठदेवा मेरेन पावपाक दिवंक नाशिल्लें.

जमालउद्दिनाचे चिटयेक उत्तर धाडटा आसतना शश्ठदेवान आपूण ही वात
जाणा म्हणपाची गजाल सांगली. आपणाक साबार जाण पयस दवरतात म्हणपाच
कागाळय मांडली. 'जित्याक वळवळे आनी मेल्ल्यांक मात पानवळे' ही तांची वृत्ती
प्रवृत्ती! तरीकय आपणाल्या राज्यांत संस्कृताय, दायज, समश्टी हांचो सन्मा
करचो पडटा, देखून भौच शिमोमेरो पडटात म्हणपाच्यो गजालींचो आस्पाव केल्ल
घरांतुल्यांचो वध करपाची परंपरा हिंदूंत ना, म्हणपाची साक्ष दिली. ह्यो साबा
गजाली जमालउद्दिनाच्या माथ्यावयल्यान गेल्यो.

ताणें ताका पत्र बरयलें, तातूंत "वांगडा हांव अमीर खुस्रोचें एक कवि
धाडटां तें वाच आनी तुजी अवस्था जाल्या तें उमजून घे," अशेंय बरयलें :

सजन मिलावरा इस आँगन मा। सजनसजन तन सजन मिलावरा।
इस आँगन में उस आँगन में। अरे इस आँगन में वो तो उस आँगन में।
अरे वो तो जहाँ देखो मोरे संग है री। आज रंग है ए माँ रंग है री।

ताणें बरयिल्लें, "भोंवतणींचे राजकीय वातावरण तापिल्लें आसा. होच ए
अवसर, जो तुका सासणाचें दिगन्त सुख दितलो."

म्हजें नातें, म्हजें घर, म्हजीं मनशा अशेंच करीत हो भीमभुपाळ एक दी
उलगतलो म्हणपाची गजाल तो जाणा आशिल्लो. ताची उवेखणीय करूंक फाव न

ाची इश्टताय लाबाची आशिल्ली. ताचो सांगात सोडप म्हळ्यार आयज मेरेन ़खिल्ल्या सपनांचो पिठोच पळयत रावप. जमालउद्दीन इतलो असहाय्य केदनाच नावंक नाशिल्लो. आयज वेर अणभविल्ल्या शश्ठदेवाच्या वागपाचो अर्थ लावंक ाशिल्लो आसतनाच तो गुल्ल जाल्लो आनी गावंक लागलो :

ख्वाहिश पे ख्वाहिश बनाते हैं अरमान ।
लाजिम मेरा वक्त आते आते रूक गया ।।तृ३३७।।
चमन यहाँ है है चमन वहाँ भी मेरे दोस्त ।
दोस्ती की दिलकशीने चमन बिगाड दिया ।।तृ३३८।।
लफ्जों की बहार जालिम दरीचों तक समायी ।
हजरतने इल्मियत में राज-ए-ख्वाब मिटा दिया ।।तृ३३९।।



## ।। चतुर्थ उच्छवास ।।

महाराणी गायत्रीदेवी पांचपर्तवणां जातकच मारवाडा राणा मानसिंगाच
राजवाड्यांत आपणाल्या संवसाराची मांडणी करूंक गेली. ते घडणुकेक स म्हय
जाले. ती आता आशाढ पावळे वेळार येतली. राजा कामदेव राजसभे माज
पावतकच ताका 'प्रथमग्रासे मक्षिकापात' चो अणभव आयलो.

प्रधान मंत्र्यान म्हळें, "राजन्, एक कुवार्ता आयल्या. खंती करता म्हाका
परंत ती म्हज्या हड्ड्यांत दवरून कोणाकच लाब जावंचो ना, देखून सांगत
राजकुंवरान रेड्डी जनपदांत रावन ह्या शिंवासनाक आव्हान दिलां."

साबार सभाघर ह्या घातकी खिणाच्या धपक्यान चिन्तेस्त जावन गे
राजाचे मुखामळ काजळूंक लागिल्लें. प्रधानमंत्री सविस्तर म्हायती दितालो.

ताणें म्हळें, "ताचेर हे राजसभेचे नियंत्रण उरूंक ना. आयज आमचे मजग
काय मंत्रीगण उपस्थित नात. आदीच्या मुसलमानीं आक्रमणान जाल्ले अनावस्थे
परिणाम राजकुंवर भीमभुपाळ हांका मतींत घेवपाची गरज दिसल्या अशें म्हणपा
आदार ना. ताणें आपणाल्या घराब्यांतल्या संघर्शांत लाब उठोवपाचे भुलावणी
वावरत आसतना होन्नावरांतल्या नबाब जमालउद्दिनांक आफोवणे धाडलां अ
गुप्तहेरांनी धाडिल्लो घोर समाचार म्हाका मेळ्ळा. राजन्, भिकुणां सांगाता व
भंगलें, कुसांगाता भश्टलो साधू! अशें सांगूंक म्हाका खंत भोगता, पुण राजकुंव
भीमभुपाळ गोंयांतले सत्तेच्या लाबान इतलो कुड्डो जाल्लो आसा की ता
जमालउद्दिनाचे धुवेक आपणावंक इस्लाम पंथाचोय स्वीकार करता म्हणपाचे
मांडणीय करून वडयिल्ली. काय शतकां आदी एका अर्ध-बामणाच्या पुतान आमच
राजा आड विद्रोह केलो, परंत ताणें अन्य धर्माक वेंग मारपाचे कारस्थान कर
सारकी आगळीक करूंक ना. ताणें आपणाल्या राजाच्या धर्माक विरोध केल्यार
अप्रत्यक्षपणान बळिश्ट करपी नवीन धर्माची म्हळ्यार वीर-शैव पंथाची थापणू
केली. राजकुंवरान अशें कितेंय केल्लें जाल्यार साबार राज्य ताचे झोळींत घालूं येता
'हृदय अभंगा जाल्यार कमंडलूंत गंगा!' आतां युद्धा विरयत ही समस्या सुटावी जाय
अशें म्हाका तरी दिसना. सातोय दोणींत, चवदा पुराणांत असले देखीची गजाल हां
नेणा. सिसाळी सुन्न जालां. सुआडी करपाचो सुग्लेपु करूनय सुरानीक झूज जातलें
दिसता!"

प्रधानान रातभर चिंतून चिंतून, मांडणी केल्लें भाशण सुशे सवकासाये
उलोवन पुराय केलें. राजान प्रधानमंत्र्याक नेत्रसंकेत केलो. ते दोगांय हेर कोठयें

गेले. थंयसर ते गुप्तहेर आशिल्ले. तिनेक प्रहरां उपरान्त तांचे वांगडा गुप्त वार्ता जातकच तेदोगूय जाण भायर सल्ले. उपरान्त ते गुप्तहेरय तेच कोठयेंतलेहेर एके गुप्त वाटेन गेले.

परिस्थिती अत्यंत बिकट आशिल्ली. आयज न्हय. जाल्यार फाल्यां. हो दीस उदेतलो म्हण राजा जाणा आशिल्लो. धाकलो राजकुंवर आजूनय तसो तनान नासल्यारय मनान कंवळो आसा आनी राजकुंवरीचे औंठ पिळत जाल्यार तातूंतल्यान आजूनय आवयचें दूद पाझरतलें म्हण तो जाणा आशिल्लो. मूळ नक्षत्राचेर जल्मिल्ल्या ताच्या ज्येश्ट पुतान सदैव दावो मांडिल्लो. नवीन गजाल इतलीच की ताची ताणें आतां रासवळ मंचाचेर मांडणी केल्ली.

राजसभा तात्पुरती मुखार धुकलून राजा कामदेव अन्तपुरांत आयलो. राणी श्रद्धादेवी मेरेन ही कुवार्ता आदीच पाविल्ली. ताणें राजकुंवर गुल्हळदेवाक साद घातलो. तो सत्वर पावना फुडें ताणें ताचे मुखार प्रधानमंत्र्याचे भाशण आनी ताच्या गुप्तहेरांनी हाडिल्लो समाचार मांडलो.

राजकुंवर गुल्हळदेवान म्हळें. "आमी साबार जाण कितें करतात जाणां तुमीं? मान्न्यांतले नळिकेक बोळें. दार मात सताड मेकळें!' म्हज्या भावाक झुजाचें भंय दाखयता आसतना जमालाक मात पुराय दार मेकळें सोडटात आमी. म्हाका हें राज्य नाका. म्हज्या व्हडल्या भ्रात्याक हें राज्य लाबिल्ल्यान तो होन्नावरांतल्या त्या मुसलमानांचो अंकित जावंचो ना. अशें म्हाका दिसता. हें राज्य ताच्या हातांतच उरूं. तो सांगता तसो निर्णय करूंक हांव अनमनचो ना."

राजाक समादान जालें. 'भागीचो घोटक कुचमणीन मेलो' अशें जावंचे न्हय म्हूण गुल्हळान जो निर्णय घेतलो तो सर्वोत्तमच! साबार गजाली एकमतान जाल्यो. तांणी आपणालो निर्णय राजसभेक सांगपा पासत धाडून दिलो. राजसभा तटास जाली. हेर मार्गय नाशिल्लो. 'भोळी मुद्रा देवळी निद्रा' अशें म्हणत राणी श्रद्धानय गुल्हळाची तोखणाय करीत संतोश उक्तायलो. तसो संदेश शश्ठदेवाक धाडूनय दिलो.

राजकुंवर शश्ठदेवाक राजा कामदेवान धाडिल्लो संदेश प्राप्त जालो. तो संदेश वाचून जातकच ताचो आपणाल्या दोळ्यांचेर विस्वास बसलो ना. हें तर विपरितच जाल्लें. आपणाले आड सैन्य येतलें. आपणाक बंदखण दिवपाची येवजण जाता, हें कळना फुडें तो जमालउद्दिनाक निमंत्रण धाडपाचो आशिल्लो. राजकुंवर हो तर्कशुद्ध चिंतपी, अल्पाक्षरी उलोवपी आनी राजनीतीची व्याख्या जाणपी आशिल्लो. दीसपट्टे समस्ये विशींचे चिंतन करीत आसतना तो सिद्धान्तिक बसकेचो आदार

घेवपी जाणकार आशिल्लो. ताच्या चिंतनांत एकेच गजालीचो उणाव आशिल्लो,
म्हळ्यार लडाय आनी शान्तिकाय हांचे संबंदान मध्यवर्ती बसका घेवपाची बुद्द
ताका कदापि मानवली ना. ताका कारण ताचो सचिव रहस्याधिकृत आशिल्लो. शे
कंवळे पिरायेच्या राजकुंवर शश्ठदेवान समयसूचक कर्ता जावचो आनी राजाचे निण
कशे हेतुपुरस्सर आसतात, प्रजा आनी राजा हांचो संबंद कसो परस्पर पूरक आस
ह्या तेच परी हेर गजालींतय ताका निपुण करचो हो हेत बाळगून राजा कामदेव
रहस्याधिकृत ह्या पदाचेर ताची नेमणूक केल्ली.

रहस्याधिकृत सचिव पदाची कर्तव्यपरायणता सादपाची गजाल कुशी
दवरून त्या मनशान राजकुंवराक राजाचे राजस्व आनी हेर मार्गांनी लाबत
येणावळीची म्हायती मेळपाची वेवस्था केली. तो राजाचे न्याय वेवस्थेंक आपणा
दिकेन आकर्शित केल्लें. तांका तो बिराडां करूंक व्हडव्हडली भवनां दितालो. तीर्थया
करूंक वेवस्था करतालो. तांचो आदरसत्कार करपी कार्यावळी करतालो. तांचे पास
प्रहरींचीं दळां धाडून दितालो. तांचे हीन मार्गान वचपाचे वाटेक सुगूर करताल
म्हणटकच कांय फावटी ती न्यायवेवस्था राजकुंवराल्या राज्यप्रशासनाच
ताणशेल्यावरी नाटकां करताली, परन्त प्रमुख प्रकरणांत राजकुंवराक सांबाळू
व्हरपी न्याय दिताली. ते न्याय वेवस्थे वरवीं राजकुंवराचे वटेन वावर करतल
अपराध्यांक झुकते माप मेळपाचे येत्न सतत करीत रावलो; परिणामी शि
फाटल्यान धांवती भुतां हे उक्तीचो अणभव येवंक लागलो. कितलेशे फाव
धर्माध्यक्षाचेरय राजकुंवराचे सहयोगी आशिल्ल्यांक सुटका मेळची म्हूण तो दडप
हाडित रावलो. फुक्यांतलें लेणें आंगाचेर, जिणेचे देणे मांगांचेर अशी परिस्थिती जाल
अशें करूंक धर्माध्यक्ष कदापि बदलो ना, देखून ताच्या परिवारांतुल्या वांगड्यांक त
सतत धोंशीत रावलो. पद्मनाभ हो राजकुंवर शश्ठदेवाचो अत्यंत विश्वासू शेट. ता
चोरांकडसून नरशिंव देवळांतुले अळंकार विकते घेतिल्ले. राजनेमाक मानून चोरी
अळंकार घेवंक नात म्हणपाचो पद्मनाभान उज्याचेर हात दवरून सोपूत घेतिल्ल
जाल्यारय धर्माध्यक्षान चोरिल्ल्या अळंकाराच्या मोला इतलो पद्मनाभाचे संपत्तीच
विलो लायिल्लोच आनी ते अळंकारय हस्तगत केल्ले. राजकुंवर शश्ठदेवान त्य
धर्माध्यक्षाक केन्नाच भगशिलें ना, कित्याक तर ताचो सचिव रहस्याधिकृत ताक
चेतयतालो. ही एक गजाल सोडल्यार ताका कामदेवाल्या मंत्रिमण्डळा कडसून रायाल
फावता तितली हूर्मती मेळनाशिल्ली. तो तापतालो, ताणशेतालो, पूण मुयेचो रो
मुताचो पूर, अशी ताचे मनस्थितीची दशा जाताली!

राणी कंकावती राशीच्या घरांत रावंक मेळना म्हूण एकोडेपण असहाय्य जावन सोंसताली. आनी आपणालो वेळ राजकुँवरी इन्दिरा आनी राजकुँवरी दृशाकुंवरी हांका घर-दार आनी समश्टी हांची म्हायती दिवपांत वेंचताली.

राजकुंवर भीमभुपाळ कदंब साम्राज्याचो उत्तरापथ जनपदाचो जाल्यार राजकुंवर गुल्हळदेव दक्षिणापथ जनपदाचे मुखेली अशी वांटणी जाल्ली. तशेंच दोनूय जनपदांचेर राज्यपालांचीय नियुक्ती जाताली. दोनूय राजकुंवरांनी राज्यपालाच्या परामर्सानच कर्तव्यपरायण आसूंक जाय म्हणपाची राजाज्ञा आशिल्ली. प्रसंगविशेश पळोवन राजा ह्या जनपदाची नियाळणी करूंक मंत्रिगणांचो पंगड धाडटालो. शश्ठदेवाची कागाळ इतलीच आशिल्ली की राज्यपाल ताच्या व्यक्तिगत वावरांतय हस्तक्षेप करता तेच परी राजनियुक्त पंगडा वरवीं जाल्ले नियाळणीचो अहवाल ताका कोणूच दाखयना. तेदे वेळार राज्यपाल हो कार्यकारी दायी आशिल्ल्यान कोणाचोय जावं. ताचो व्यक्तिगत वावर हो राज्यवेव्हाराक नाडो जावंक येता. तेदनां तो जर हें करता जायत जाल्यार तातूंत कोणाच्याय अधिकाराचेर हावळ येय ना. तशेंच राजनियुक्त पंगडान बरयिल्ले अहवाल केवळ राजाच पळयतलो असो धर्माध्यक्षान निर्णय दिल्लो. हें साबार नाटक राजाच करता म्हणपाची राजकुंवराची खात्री जाल्ली. ताणें आपणाले नांव शश्ठदेव काडलें आनी आपणाक भूमिभूपाळ म्हणात अशें सांगपी आज्ञापत्रय काडलें. इतलेंच न्हय तर पेडण्यांतल्या कोरगांवांत एक ताम्रपत्र कोरांतून दिलें. तातूंत आपण चन्द्रपूरचो राजन अशें नोंदून दवरलें.

असो ताळतंत्र नाशिल्ल्यावरी वावुरताना हो उत्तरापथ जनपदाचो मुखेली सदैव अस्वस्थ मनोवस्थेंत आसतालो. तो मनोमन म्हणूंक लागलो :

आकांक्षींक तर्ककर्कश आदि आज्ञा क्रूर मस्ती अशी ।
राजाज्ञा दिवची पुताक सान व्हडा राजपुत्रा कशी ।।च३०१।।
स्वर्गाचो पति न्हय कामदेवा तृप्ती कशि जातली ।
सन्मानांतु संतोशु मान आजि राजा रे आज्ञा त्यागिली ।।च३०२।।
चेर्डुवाक बुद्द दिता धनादी प्रदानय अकारणी ।
ब्रहम्याची धुव धारिणी तुका रे लज्जा नच भिरांतणीं ।।च३०३।।

राजकुंवरान पित्याचे आज्ञेचो भंग केल्लो, नात्या संबंदांची उवेखणी केल्ली तरीकय ताका कसलेंच शासन ना, वयल्यान ताचे सुवादीन पुराय राज्य करपाची शरणागतता? हें कुवाडें रहस्याधिकृताक सतावंक लागलें. म्हळ्यारी हो तर सपनांचो गांव जालो! तो शश्ठदेवाचे लागी चडच पावलो. हात ओलो जाल्यार इश्ट भलो! तो

अशे अवस्थेंत आसतनाच ताच्या ज्येश्ठ भावाक मेळूंक जमालउद्दिनाचो संदेशक भायर सरला म्हणपाचो एक संदेश ताका मेळ्ळो. ताणें तो प्रधान मंत्र्याक कळीत केलो.

शेकीं शश्ठदेवाचे कुडींत येवचे आदी ताची अनुमती घेवंची पडटा जाल्यारय जमालउद्दिनान ताच्या संदेशकाक सांगिल्लें, "थंयसर पावतकच राजकुंवराक मेळप पासत अनुमती बी घेवंची पडटली अशें तुका द्वारपालान सांगत जाल्यार सरळ उठून फाटल्यान चलूंक लाग. ताका कितें दिसतलें बी म्हणपाची गजाल चिंतूक नाका. तू फाटल्या फाटीं परतून आयलो अशें ताका कळटकच तो बद्द म्हजे सरी येतलो. तो आमच्या जाळयांत शिरकल्लो आसा."

परंत तशें काय जाले ना. द्वारपालान संदेशकाक सन्मानान राजकुंवरेचे कोठयेंत हाडून सोडलो आनी आपणाले सुवातीर गेलो. कारण शश्ठदेवाचो सचिव रहस्याधिकृत हाणेच साबारांक तशी सुचोवणी केल्ली.

संदेशकान जे कितें सांगपाचे आशिल्लें ताचे आदीच हुतहुतेपणान राजकुंवरान ताका म्हळें,

"आतां साबार समस्या सुटाव्यो जाल्यात. मायणो आतां काडून वडयतां म्हूण जमालउद्दिनाक, म्हज्या इश्टाक सांग, लडायेचो प्रसंग आता येवंचो ना. ही मृषा न्हय, वस्तुस्थिती म्हूण सांग. आतां राजाळीं वांगडाच खावू या!"

अकस्मात संदेशक अफाट जालो. ताचें मुखळ अक्राळ विक्राळ जावंक लागलें. आड्डून आड्डून कित्याय कितें उलोवंक लागलो आनी राजकुंवर आनी ताचो सचिव रहस्याधिकृत ताका थातारता म्हणसर उठून गेलो. एक मोड आयलें. मनस्ताप करूंक लावपी चक्री वादळ घुंव घुंव घुंवलें. रहस्याधिकृताक हे भयाक्रान्त वावटळीन थटाक् करून वडयलें. ते आकांताळी वावझडेन होन्नावरा वचून जमालउद्दिनाक राजकुंवराचो संदेश दिलो. जमालउद्दीन खो खो करून असो हांसलो की संदेशकाकय त्या उद्दाम स्वरांतल्या परिहासा वरवीं सर्वांगांत अवचित कांपरो भल्लो.

ताणें भिरांतेन विचाल्लें, "तो आपणालें मौल धाडून दिवंचो ना मूं?"

जमालउद्दिनान बरोच वेळ हांसून जातकच ताका म्हळें, "ह्या काफराक आंव वळखतां, तो यंगा येवचो ना. परंत तो म्हाका वळखना. हें राजाळें आंव अशेंच खावन वडयतलों. आंवय साम, दाम, दण्ड आनी भेद ह्या सुत्रांच्या आदारान राजकारण करीत आयलां. आतां म्हयनो भर कांयच उलोवया नाका. ताच्या मोन्ना बिणा कितें चल्लां तें चोवंक जाय. तो थंयसर तुज्या उद्दाम भाशणान अस्वस्थ जाला

आसतलो. ताका म्हजे कडसून प्रतिसादाची अपेक्षा आसतली. ताका लोळटेर उडोवया. जेतलो कळाव लागतलो, तितलो तो तळमळटलो. ताचें मौल तो भायर काडचो ना. कारण तो म्हजेर निम्बून आसा. पूण आंव ताका पातयेना. ताका मोन्ना काडूं दी. आंव ताच्यो मुसक्यो बांदपाचीं मोन्नां करतां."

तशेंच जालें. राजकुंवराक जमालउद्दिना कडसून कसलीच कळोवणी आयली ना. निमाणे कडेन भीमभुपाळच ताचे सरी गेलो. ताची भेट मागली. ती ताका आठ दिसा उपरान्त लाबली. राजकुंवर जमालउद्दिना वरवीं जाल्ल्या अशे तरेच्या अपमानान कोळसो कोळसो जालो. एक दीस आपूण सांजे वेळा मशिदींतल्यान भायर येवपाच्या समयार वाटिकेंत मेळुया म्हणपाचो ताका संदेश आयलो. राजा कामदेवानय असो अवमान करूंक नाशिल्लो. ताणें जमालउद्दिनाचे भिरांतीन कसलीच प्रतिक्रिया उक्तावंक ना.

राजकुंवराच्या सुदैवान जमालउद्दिनाक त्या दिसा मशिदींतल्यान भायर सरतकच उलोवंक फावले ना. देखून ताणें ताका फुडले सकाळच्या खाणा वेळार यो म्हणपाचो संदेश कळीत केलो. आतां परस्परांत अयसपयस उलोवणी करपाची संद आशिल्ली.

राजकुंवर शश्ठदेवाची सद्सद्विवेक बुद्द ताका आड्डून आड्डून विचारूंक लागली :

"कृतांता सरि पापनीति कामदेवा का उपहासशी ।
फांत्या पारि महापराशरा शत्रूचो गूट स्विकारशी ।।च३०४।।
बाश्कळी करि भोग तामसी सत्तेची पीडित मेखला ।
कृतांता पादि श्रुति स्मृति घालशी दानेश उत्पन्नला ।।च३०४।।
लोभा पासत राजभार जाय दूर्दान्त जितुलेचिया ।
राज्यारोहण व्हय जाय काळख्या राया अगुणी तया ।।च३०५।।

आपणाले सद्सद्विवेकी बुद्दीक कुशीक धुकलून भीमभुपाळ जमालउद्दिनाक मेळूंक भायर सरलो. ताणें आपणांतुल्या दोन मताभिमान्यां मजगतीं जातलो संघर्ष पळोवंक नाशिल्लो. नखशिखान्त ह्मेल्या अवस्थेंत तो जमालउद्दिनाच्या प्रवेशद्वारार पावलो आनी तटास जालो. स्वता जमालउद्दीन दरवठ्याचेर ताच्या स्वागताक उपस्थित आशिल्लो.

ताका वेंगेंत घेवन म्हळें, "शेकीं नाशिल्लो तूं येवंक हांगसर. जाल्यार आंवूच येवपाचो रायुवे, तुका, मेळूंक."

भीमभुपाळ मुमुरखो हांसलो. जमालउद्दिनान वेंग सोडून ताका व्ह सन्मानान आपणाले कोठयेंत व्हेलें. मुखार अगणित खाद्यपदार्थांची खातड पडिल शश्ठदेवाचे जिबलेचे रुचेक ते खाद्यपदार्थ मानवपाचे नाशिल्ले.

जमालउद्दिनान ताका म्हळें "

आईनेने देखा आईना मण्डी में । घर छोडो यहां दिल मिलते हैं ।

था गुरूर चेहरे पर पारे ने । यहां हुस्न बनाया ।।च३०६।।

जल्लाद मक्कार मिलने आये । क्यों याद करेंगे सनम उन्हें ।

जमालउद्दिन ने जुतें भरकर । पानी पिलाया ।।च३०७।।

अस्मत लुटते है हम मनवा । हरम में चाँद बिबियां अनगिनत ।

वाकिफ हो कटोरा भरा हम । खून पिलाया ।।च३०८।।

लडे है हम लडते रहेंगे । न किसी के लिये बुत बनेंगे ।

रज्मनामा दोनों में सिर्फ । काफिर ही मरवाया ।।च३०९।।

है मक्कार दिलवर कुबुल हमें । पर ना पसंद कतई मक्कारी ।

खुलुक की दोस्ती तसल्ली हमें । सच्चाई से मरवाया ।।च३१०।।

जिया भी मैं क्या जिया । बेहद उम्र काट कटाते जिया ।

अहम का वहम रजिया । दुश्मन को दोस्त समझकर जिया ।।च३११।।

शश्ठदेवाचे जिबलेक लक्षावधी मुंयों दंश करूंक लागल्यो. जमालउद्दिना ताका सांगलें,"तूं चलबिचल जाला. तूं सळाबळा जाला. तूं निस्सं निस्सं तुज्य पित्यान तुजे आड जे जे कारस्थान घडयलें, तें तूं विसरायेर घालूंक सोदता अशें म्हाक दिसता, परंत म्हाका हें चलचें ना. तुवें तुगेल्या पित्याचें राज्य घेवंकच जाय, तु इस्लाम मानून घेवंकच जाय, उपरान्त म्हजे धुवेकडेन लग्न जावंकच जाय. तुक आतां तरणोपाय ना. म्हगेले धुवे कडेन निकाह जातकच तुका आंव उचित अ मार्गदर्शन करतलोंच म्हणा."

जेदना राजकुंवर भीमभुपाळ रेड्डे परतलो तेदना ताचो सचि रहस्याधिकृतान सांगलें की कामदेव राय, राणी श्रद्धादेवी आनी राजकुंवर गुल्हळदे ताका रावतालीं म्हूण. तांच्या सांगाता पुराय मंत्रिमंडळ आनी राज्यांतले नामने विचारवंतय आशिल्ले. भीमभुपाळ कांचवेलो. कितल्याशा वर्सा उपरान्त तो आवय आनी पित्याक आनी भावाक मेळपाचो आशिल्लो. आपुण उचंबळीत जावंक लागल अशें जाणवतकच ताणें आपणाक थातारून घेतलें आनी पित्याचे कोठयेंत रिगलो वांगडा शश्ठदेवाचो सचिव रहस्याधिकृतय आशिल्लो.

तो खीण अवर्णनीय कसो आशिल्लो.

शौर्योदात्त शक्ती पुत्र मुखार येता प्रळय थाकलो ।
वात्सल्यांत चन्द्रीम कामदेववीर्य जनक देखलो ।।च३१२।।
वीर्यतेज मुखामळीं अज्ञात आक्रान्ता जळ-जाळिली ।
ईश्वरा अशि न्हय रे हताश माया अनुमानिली ।।च३१३।।
हीनांग धरणीधरा यथाशक्ती पित्याक अन्तरलो ।
क्लेशे क्लेशतु होय राय लोभविश्टीं तूं पूता लोळलो ।।च३१४।।
माते आंगवर्णे जन्म तिर्थोदकान जालो अवनी कसो ।
जाणा कोण जल्म अशें तनय कौस्तुभा विसरलो असो ।।च३१५।।
रायाचें कुळ भारद्वाज प्रमत्त दृश्णु न्हय विश्णु कथा ।
*त्यक्त*जीविं अनागरीं जिणेंत तृपा वैर वस्त्रावृता ।।च३१६।।
ऋतूंचो अविर्भाव ऐसियापरी सृश्ट अतिशोभिती ।
कार्यकारणि भूतप्रेत तूं अहाहा बाळबुद्द मती ।।च३१७।।

शश्ठदेवान कसलीच प्रतिक्रिया उक्तावंक ना. हो खीण मोहाचो. शेकीं आतां हांव घाळ उल्लो जायत जाल्यार जमालउद्दीन म्हाका कसोच जितो दवरचो ना. म्हणपाची भिरांत नखशिखान्त लसलसून घुंवली. तो निर्भिकपणान रायाक तेळत रावलो. ताची माय मूकमौनपणान रुदन करीत आसतानाय तो तिच्या लागसारा वचूंक शकलो ना. अर्थात् राजकुंवर गुल्हळदेवान ताचे कडसून तशी अपेक्षाय बाळगूंक नाशिल्ली देखून तांका तांच्या पित्या वरी आनी आवय भशेन पिडा स्पर्शूक पावली ना. राणी श्रद्धेल्या दोळ्यांतल्यान बालक शश्ठदेवाच्या बालपणांतल्या विंगड विंगड उगडासान आनी ताच्या विपरित अशा आयजच्या आचरणाक देखून दुकांच्यो वझरी व्हांवूंक लागल्यो. :

भावनेच्या अर्थाक नासता पाय । अपेक्षेच्या अर्थाक आसता घाय ।
अर्थाच्या जळाक सोदी खोल बांय । डसताच कुमुदाक्ष दिको धाय ।।च३१८।।
बाळा तनया रे असो मृगजळीं । कित्याक रे चिड्डिता भूपाळमौळी ।
भावार्ताचीय मनां कुडीं नातळी । माता पिता न्हय केवळ नृपाळी ।।च३१९।।
ज्येश्ठ पुत्र केवळ कनकस्तंभ । विश्वरूपी जिणेंत अल्पक दंभ ।
आधार पितरांचो सागर अंभ । आदर्श सत्कर्मी दीप्त दीपस्तंभ ।।च३२०।।

शश्ठदेवाचे चर्येर पश्चात्तापाचे भाव प्रतिबिंबित जावंक पावले नात. म्हणपाची गजाल स्पश्टपणान दिसताली. तो तांच्या मुखार एका आसनार बशिल्लो.

राजा कामदेवान प्रधान मंत्र्याक दोळ्यान कुरू केली आनी ताणें व्हडल्या राजकुंवराचे कुशीक आशिल्ल्या चौरंगाचेर मोठ्या नमळकायेन बरयिल्ल्या ताडपत्रांच्यो सुरळ्यो दवल्ल्यो. साबार जाणां उठलीं, राजा शश्ठदेवाक नमस्कार केलो आणि भायर सरलीं.

जड अंतस्करणान राजा शश्ठदेवान त्यो सुरळ्यो उखल्ल्यो आनी सचिवाल्या हातांत दवरल्यो. ताका खीणभर दिसलेंय की वच्चें आनी माता-पित्याच्या पायांचेर आपणाक ओंपून घेंवचें –

धिक् धिक् म्हज्या जिविता । बक की काक निवांता ।
पुताची दानव वार्ता । कच पिता कसो साहे ।।च३२१।।
सर्वज्ञ रत्नदीप्ता । भजी आंगवण माता ।
जल्मलों सुर्याजाता । परी श्वापदाघरी राहे ।।च३२२।।
आकाशाक न धरता । मानस सरशी हरता ।
प्रभात न्हय केवल अस्ता । अभिवंश अपसव्यी राहे ।।च३२३।।
वज्र न्हय हें स्फटिक । सुवार्थाची केवल बटिक ।
निभ्रान्तांतलो मर्कट । कुकर्मांशी हो स्नेहे ।।च३२४।।
भक्त तन्मय भक्तीचो । लोचटच लञ्ची भक्त लोचटाचो ।
सुवार्थी भक्त सरिचो । वाजय तुणतुण सदैव गरजवन्त ।।च३२५।।
फटीची सरी फटिंगी । मदिराक्षींचे सभेंतच बहुढंगी ।
नीतिमत्तेची सुसंगी । भक्ती मस्ती एकठांय येसेचि ना ।।च३२६।।
सत्ताधिशां भोंवतणी । लोचटांल्या खोटुरांची नोंदणी ।
न मानल्यार हूलाळणी । लोचटांची भक्ती जाय हूलाळ ।।च३२७।।
तन्मय भक्त म्होवाळ । ताचो राग लोभ लेगीत मवाळ ।
हाणविर्धीय वेल्हाळ । ताचें हृदय देय दुकां हूंडक्यांची ।।च३२८।।
शेकीं जेन्नां हिम्पुटि । भक्त कदापि न मागी सुधवांटी ।
निज भक्तीची वेश्टी । लेखापटल माण्डेचि ना कदापि ।।च३२९।।
भक्तांचे भक्त लोचट । सुवार्थ ना घडल्यार महा उद्धट ।
लोचट सत्ताशीश खट । महा इश्ट तमाऱ्यांचो तमारी ।।च३३०।।
लोचटालीच जाती । एकूच अशी खंयचीच ना असती ।
जाती तितल्यो पाती । डासूंक जगती यत्र तत्र परत्र ।।च३३१।।
लोचट सद्दां पाखंडी । विरमार कपटीच माण्ण्यो अखण्डी ।
प्रसंगीं विपुंक वोण्डी । विकून खायत सोताल्या धनया ।।च३३२।।

पुराय समुद्रप्राय पापांचो धनी आपुणच. अशें म्हणून तो खंती जालो. ...परन्त आतां तागेल्या हातांत कांयच उरूक नाशिल्लें. ताणें चान्दरा वचपाचो हेतू निरस्त केलो. उपरान्त पुराय कदंब साम्राज्यांत शश्ठदेवाचे अधिसत्तेची प्रतिस्थापना जाल्या म्हूण द्वाही दिली. आपणाल्या पित्याक पदच्युत केलो म्हूण प्रजेचे स्राप घेवंचे परस निखटे एके द्वाहींत मेळटे तितलें समादान मेळयलें. ताणें माता-पित्याक राजबंदी केले नात तेच परी राजकुंवर गुल्हळदेवाच्या जनपदांतल्या उपस्थितीकय हात लायलो ना. ताच्या दोळ्यांत सलताली ती गायत्रीदेवी. ती आमची न्हयच. असो ताणें सूर लायिल्लो.

राजा कामदेवान प्रधान मंत्री. मंत्रीगण आनी राज्यांतले विचारवंत ह्या आनी कितल्याशा महानुभावांक निमंत्रण दिलें. ज्या दिसा साबार जाणे आयले. तेदे वेळार ताणें म्हळें.

न गृहे मरणं तात क्षत्रियाणां प्रशस्यते ।।

साबार निमंत्रितच न्हय तर पुराय कदंब साम्राज्य चिन्ताग्रस्त जालें. राजा आपणाल्या निश्चया सावन फाटीं सरलो ना. फुडल्या कांय दिसांनी गायत्रीदेवीक प्रासंगिक प्रबोधन करून राजा कामदेव आनी राणी श्रद्धादेवी हांणी राज्यांत संन्यस्त जीण जगपाचे सुवातीर वानप्रस्थाश्रम मानून घेतलो आनी हिमालयाचे वटेन चलूंक लागलीं.

मंत्रिमण्डळाचे अस्तित्व नाशिल्लें. राजकुंवरी गायत्रीचे बरे मागपी येवन वचून आशिल्ल्यारय ते दिगंत काळा मेरेन येतले म्हणपाशी सुनशा लागूंक नाशिल्ली. हात ओले जाल्यार इश्ट भले! शश्ठदेवाचो तिचे वटेनचो कटाक्ष पुराय संदेशात्मक आशिल्लो. तांकाय चडावतपणान आव्हान दिवपाचे बळगें दाखोवपाचें नाशिल्लें. एकल्या गुल्हळदेवान शश्ठदेवाच्या ह्या अट्टाग्रहाक मानले ना. ताणें तिका पुराय सहयोग दिवपाचे साबारांक विज्ञापित केलें. आपणाले हे कृतीन शश्ठदेवाक उस्तुरें वतलें म्हणपाची जाण ताका नाशिल्ली. अशें न्हय. राजा शश्ठदेवान राजकुंवर गुल्हळदेवाक आफोवणे धाडलें. ही समस्या निव्वळ पारिवारिक उरूक नाशिल्ली. ती राज्यवर्ती जाल्ली. पारंपरिकताय आनी विधिबद्धताय हांचो अधिकार हे विशींचो विशय उप्राशिल्लो. जेदनां दोगांय जाण मेळ्ळे. तेदनां रहस्याधिकृतय उपस्थित आशिल्लो.




राजा शश्ठदेवान गुल्हळदेवाक म्हळें -

"तुगेल्या जनपदांत तुवें जे तरेन एकहाती सत्ता चलयल्या ती पुराय कदं
राजसत्तेच्या नेमांक पाळो दिवंक उपकारा पडना."

"कोणे सांगलें तुका, ह्या रहस्याधिकृतान?"

"कोणेय सांगूं, वस्तुस्थिती अशी आसा." राजा शश्ठदेवान स्वरांत उत्तेजन
हाडिल्ली.

"वस्तुस्थिती आनी सत्य ह्यो दोन गजाली, तातूंत सत्य म्हळ्या
वस्तुस्थिती न्हयच न्हय राजा. शंबरेक सत्यां मजगतीं एक वस्तुस्थिती दडिल्ल
आसता. तूं ते वस्तुस्थितीचे दिकेन वचचें आदी सत्य जाणून घेवशी जाल्यार असो
उलयतलो, जसो आतां उलयता तसो."

"म्हळ्यार आंव फटीं मारतां? हो राजा शश्ठदेव फटी मारता?" राज
उचंबळीत जावपाचे तडेर पाविल्लो. "कितल्याशा जाणांनी तुजे आड जे अहवाल
धाडल्यात, ते वाचल्यात तुवें?"

"तुज्या हातांत ते अहवाल पडचे आदी ते हांवें वाचून काडल्यात राज
शश्ठदेव. ही वस्तुस्थिती आसा राजा शश्ठदेव. तुजो लोक तुजेर भावार्त दवरिनात
तुज्या हातांत पावचे आदी ते अहवाल म्हाका धाडटात आनी तूं म्हजे आड अहवाल
बरयतल्यांची साख दिता व्हय रे?"

राजा तटास जालो. रहस्याधिकृताक कंप फुटिल्लो. ताचे मुखामळ हुमिल्लें. राजा ताका तेळत उल्लो.

"हांव सांगतां तुका वस्तुस्थिती. तुजे आड आशिल्लो लोक तुजो थातोमातो करता. तुका तो लोक तुजो, अशें दिसता जावये. तांका पारखुपी लोक म्हाका ह्यो साबार गजाली कळीत करतात. तुजे कडल्यान प्रमाद घडचो देखून परस्पर त्या लोकांनी घडयिल्ली माण्णी हो पारखुपी लोक नश्टध्वस्त करतात. तांका हांव जल दितां. कित्याक तर हें कदंब राज्य ना म्हजें, ना तुजें. तें दायजान आयिल्लें. फुडले पिळगे मेरेन तें पावोपाचें दायित्व तुजें, म्हजें आनी साबारांचें. हो रहस्याधिकृत जाणा व्हय ह्यो गजाली राजा शश्ठदेव?"

"गुल्हळा, इतल्यो फटाशी नाका मारू. गर्तेत वतलो तूं!" राजा चित्कारलो.

"नाका असो सळाबळा जावं राजा. तुज्या परामर्सकारांची एक माण्णी आसता. तांका आड वतासो जो दिसता, ताचे चारित्र्यहनन करपाची माण्णी. ताणें कितेंय आनी कितलेंय बरें करू, ताचे ते करणेंत पतन करपी गजाली सोदून सोदून, वेंचून वेंचून काडपाची माण्णी. ज्यो गजाली पतन करपी नात तातूंतय पतन करपाच्यो गजाली धसकून दिवपाची माण्णी. एक पोंगा पण्डित आशिल्लो. जांका सत्ताधिशाची येनकेन प्रकारेण छत्रच्छाया जाय पडटाली, ताचे मेरेन वचपाची पायण ह्या पोंगा पण्डिताच्या पसऱ्या कडसून वताली. ताची सत्ताधीश लोकां कडेन यो-वच, ऊठ-बस आशिल्ली. तो लोक लेगीत ह्या पोंगा पण्डिताचे जातवळींतलोच आशिल्लो. जी ताका मानवना अशे कोणेय व्यक्तीन एकाद्रो काव्यखण्ड बरयतकच ती त्या पोंगा पण्डिताक, ताचे बरेंपण जोडूंक, दाखोवंक वताली. तेदनां तो पोंगा पण्डित ते व्यक्तीक दाखोवन दितालो की तें काव्य म्हळ्यार कोणालें तरी छद्मी अनुकरण आसा, वो ती काव्यनिर्मणी कशी हिणकस आसा म्हणपाचें सत्य निर्माण करतालो आनी आपणाल्या त्या सत्ताधीश लोकां मुखार त्या कवीची निर्मणी निखालस स्विकारपाक अयोग्य म्हूण सिद्ध करून दाखयतालो, इतलेंच न्हय तर तिगेलें चारित्र्यहनन लेगीत करतालो. तुजो हो रहस्याधिकृत ह्या अशा पोंगा पण्डिताच्या पंगडांतलो. शेकीं सत्ताधिशाच्या आर्श्व पार्श्व भागांत यो वच करपी लोकांक चेट म्हणटात; जाल्यारय हो रहस्याधिकृत चेट न्हयच न्हय, जाल्यार चेटूक करपी विट जावन आसा. ताचो तुका जेन्ना वीट येतलो तेन्ना भोवच कळाव जाल्लो आसतलो म्हज्या बन्धुराया! म्हजे आड वो आमचे भयणे आड तुज्या कानां मेरेन पावच्यो म्हूण ज्या विद्यापिठान

ज्यो सुरस कथा पातळायल्यात, त्या विद्यापिठाचो कुलपती हो तुजो रहस्याधिकृतच!

राजान विचाल्लें : भावार्थेचि दुर्लभ कोपिनाग हो आक्रोश कंपिनलो ।
रे रे बालक धाकल्या संसारि तूं नेणां सकळांतलो ।।च३३३।।
जें जें होय दुर्जन मोह धांपुनी येता हरि जावुनी ।
ब्रह्मांगण अनादरी न देखलें हांवें रिपु मानुनी ।।तृच३३४।।
देवांगांत संचरिली तडाडिली नागीण हि बालिका ।
ब्रह्ममेघ रति हुताशनी चित्तीं दानव हि त्राटिका ।।च३३५।।

गुल्हळदेव : ग्रस्तग्रह तुजें मस्तक भूषणा आसा कुबुद्धी रती ।
ब्रह्मप्रणव पीयुशे तुजी दुर्मती सांवळि च्युति ती ।।च३३६।।
सामान्य जनुदेव तूं गिन्यान व्योमी भावा धुण्डाळ रे ।
आत्मभोग अजाण मानसी नच नागीण अश्टांग रे ।।च३३७।।
ही जाणा सविता अमृत गान वैराग्यीं अनुगायना ।
क्रोधांगार कित्याक जाळसी तपोधैर्यय अनिकेतना ।।च३३८।।

उतराक उतर लागत गेलें. भंयांक्रान्त वातावरणांत शश्ठदेवान गुल्हळदेवाक सांगलें, "तुजें जनपद तात्काळ रितें कर आनी म्हज्या राज्यांतल्यान चलूंक लाग."

"तूं म्हजो एक अहंकारी बंधू आसा म्हूण जाणा आशिल्लों हांव, परन्त तूं असहिश्णुतायेन वावुरपीएक आतंकवादी आसा म्हूण नेणां आशिल्लों, राजा शश्ठदेव! आमच्या पिताश्रीन तुज्या अमंगळ आचरणाक विरोध उगतायिल्लो तेदे वेळार तूं म्हणटालो न्हय रे, की तुमच्या आड हांव गेलों म्हळ्यारी हांव आतंकवादी कसो काय म्हूण! आनी आतां तूंच असहिश्णुतावादी जावन कसो काय म्हजे आड वावुरता? कदंब राज्याच्या आड वतल्यांक, तें राज्य छिन्नभिन्न जावंचे म्हूण करण्यो करतल्यांक आलाशिरो कसो रे दिता तूं?"

धाकल्या भावाक परिणामाची कल्पना आशिल्ली. आपणाले कल्पनेंतल्या अनुमानाक पालव दिवपी अपेक्षित फलित मेळिल्ल्यान ताका नितांत समादान जालें.

ताणें म्हळें, "जें न्हयच म्हजें ते हांव कित्याक राखूं ? तुका वेंगावन बसला तो जमालउद्दीन हिचण कसो आनी तूं आमचे कडेन वावुरता हिंचण कसो."

"असलो अनुप्रासीक आनी श्लेषात्मक उपहास हांव कानांमनार घेंवचो ना, तसो मिडमिडचोय ना." ताणें म्हळें.

"म्हज्या ह्या उलोवण्यांत हांवें खंयच अनुप्रासीक आनी श्लेषात्मक वाक्य संरचना करूंक ना. तूं त्या जमालाच्या नादाक लागून आपणाली भासय विसरूंक लागला."

शश्ठदेवाक आपणाली कागाळ लिपोवंक जमलें ना. ताणें शान्तपणान म्हळें.

"गायत्रीचे लग्न जालें. म्हाका कोणेच आफोवणे धाडूंक ना."

गुल्हळदेवान म्हळें. "विचार तुज्या सचिवाक तुका संदेश गेल्लो काय ना त्या संबंदान. भयणीच्या लग्नाचे दायित्व निखटे आमकांच लागता आनी तुका लागना व्हय रे? तुका संदेश मेळूं वो ना मेळूं. तुवें आपणे जावन येवंक जाय आशिल्लें. तूं आयलो?"

भीमभुपाळ मात गायत्रीच्या लग्नाक आफोवणे येवंकच ना अशें म्हणत रावलो आनी उपरान्त ताणें विचाल्लें. "आनी राजा आसतना कामदेवान कितल्योश्योच रहस्यमय गजाली गायत्रीक सांगल्यात. जांचे गिन्यान तुकाय ना. आदींच आसा तर. तातूंत म्हातारपण!" ताणें आपुण राजा जाला अशा हांकारांत म्हळें. "तुज्या उलोवण्यांतली कैवाडीपणां म्हाका गमतात. तुमीं तिग जाणां बिणां कसलो खण्डू जाला रे? ह्यो गजाली म्हळ्यार साक्षात चकटायो. म्हजे आड चकटायो आनी म्हजे मुखार गड्डासप? ह्यो गड्डासपी चकटायो म्हजे कडेन चलच्यो नात. गायत्रीक कितल्योश्योच गुह्य सुवातो राजा कामदेवान, तुज्या म्हज्या पिताश्रीन दाखयल्यात. जांची सुनशा म्हाकाय ना. आनी कोणाकच ना. जो मेरेन गायत्री त्या गजालींचे विवरण दिवची ना. तो मेरेन तिका आंव ह्या म्हज्या राज्यांत रिगूंकय दिवंचो ना. तुमीं कितलेय गोड्डे पडात म्हज्यो घायवाटांनी मानून घेवंक जावंचे ना. म्हज्यो चिळकिसू. म्हज्यो चिळक्यो आंव जाणां. आंव चाखणी करतलोंच."

गुल्हळदेवान म्हळें. "राजन्, तुका केवी सांगूं? पळय. देख घे. तूं त्या जमाला वरी 'आंव', 'आंव' करूंक लागला. हेरांचे अनुकरण करचें. घाळ जावंचें न्हय; परंत तूं तर घाळच जाला. त्या अनुकरणांत, 'स्व'त्व विसरायेर घालां तुवें ! तूं आततायीपण करता जाल्यारय, तुजे भिरांतीन हांव मात्तुय पाळवेंपण ना करचो. तुका कितें सांगप, आनी कितें सांगपाचे ना, त्या संबंदान निर्णय करपाचो अधिकार राजकुंवर गायत्रीदेवीचो. तिचे जिणें म्हळ्यार साक्षात गंध दुपोय! तिचेर दुबाव नाका घेवं."

शश्ठदेव तिडकलो आनी म्हळें, "ती राजकुंवर न्हय. न्हयच न्हय. आमगेल्यां उरार तिचो भार नाका. तिका व्हडविकी दिवन आमच्या पित्यान आमकां अन्याय केला. तोय एक तरेचो अत्याचारच."

गुल्हळदेव निवांत उतरांनी उलयलो, "तिका हांव राजकुंवरी मानतां. तिका साबार प्रजा राजकुंवरी मानता. ती आमची माता राणी श्रद्धादेवीची सुजाता. म्हजो पिता राजा कामदेवान शेकीं गायत्रीदेवीक कांय गुपाट-गुप्त गजाली सांगिल्ल्यो आसत जाल्यार ताचो अर्थ स्पश्टच आसा, तो म्हळ्यार ताणें कोणाकच विस्वासांत घेवंक ना. तो ताचो अधिकार! ताचो आमकां स्वीकार करचोच पडटलो. आमी अपात्र नाशिल्ले जाल्यार तो आमकांय विस्वासांत घेवपाचो.

पित्याचो अत्याचार राजा कसो रे । भुजांगांक राजा पित्याल्या विस्मरे ।
कर्पुरा जळोव्पी शश्ठदेवा असो रे । अन्याया कुमारा सुस्पश्ट करी रे ।।च३३९।।
अपात्री वेव्हारी दुर्जना दुर्गती । पुत्राची संभ्रमी कुचित्त अवृत्ती ।
पिताश्री महादेव स्वामी विवृत्ती । संतानांक कोणू न माने भलो रे ।।च३४०।।
कृपार्णव पाळी कृपाळी पित्याचो । अनाचार कोणू निवेदी मनाचो ।
वंद्यांचो सर्वभाव तूं सांग सांचो । वन्दुनी जनांचो वन्दुनी शिवा रे ।।च३४१।।
हताशी पित्याल्या अविचारि पाप्या । वर्तती सभाग्या तुगेल्या समाप्या ।
धर्म पाळ रे मेदिनी धाम लोप्या । तमारी पराक्रम दायी अजा रे ।।च३४२।।
निर्बळा अस्तुरी वेल्हाळी अनुजा । न ग्रस्त तिच्या आड राया अग्रजा ।
महामाय मृत्यूच साक्षी ब्रह्मजा । वज्राच्या वर्षावांत सौदामिनी रे ।।च३४३।।
जिवाची निवान्त निश्ठांची सुव्रता । सप्तज्वाळ ती दावा सरिता ।
कल्पान्ती चिन्तनांक नाका पडू तूं । तिच्या चारित्र्या तूं नश्टप्राय जा रे ।।च३४४।।

गुल्हळदेवान शश्ठदेवाक सादूर केलो. आपणे सुगूर रावंक जाय अशें दिसता जायत जाल्यार गायत्रीदेवीच्या चपक्यांतल्यान आपणालो सुटावो जांवचो ना, म्हणपाची जाण दवर अशें ताणें सुचयलें आनी जयपुरा गेलो. थंयसर पट्टराणी गायत्रीदेवीक मेळ्ळो. चोरया-लिपया राणी कंकावतीन आपणाले नणंदेक भांगराचो पटो तेच परी राजकुँवरी इन्दिरा आनी राजकुँवरी दृशा हांणी गायत्रीआत्येक कपयाळीं धाडून दिल्लीं. त्यो भेटो हातांत घेतकच पट्टराणी गायत्री निःशब्द, मोनी जाली. उपरान्त ताणे राजा शश्ठदेवा सरी जी उलोवणी जाली, तीं सविस्तरपणान निवेदिलीं. पट्टराणी गायत्रीदेवी गुल्हळदेवाक तेळत बसली. कितल्याशा दिसांनी भाव तिका मेळूंक आयिल्लो. दोन भावांतलें विंगडपण तिका अजापित करूंक लागलें.

दोन एक दिसांनी गायत्रीदेवीन धाकल्या राजकुंवराक म्हळें. "पित्यान जें जें म्हाका दाखयलें, तें तें हांव तुका दाखोवंक सोदतां. ताचेर म्हजो अधिकार ना. तें पेत्यालें संचित. तें म्हजे कडेन सुगूर उरत अशें म्हाका दिसना. फुडारांत, म्हजें लग्न जाल्यान, ताचेर कोणाचोच अधिकार उरचो ना. हें राजधन तूंच सांबाळ."

ताणें तिचे प्रांजळ उलोवणे आयकलें आनी म्हळें. "शेकीं त्या राजधनाचेर आमचो अधिकार आशिल्लो जाल्यार त्यो सुवात्यो राजा कामदेव आमकांच दाखोवपाचो. ते राजभाण्डार सांबाळपाची क्षमताय आमच्यांत ना. आनी तुज्या व्यक्तिमत्वांत आसा अशें ताणें चिंतिल्लें. देखूनच ताणें तुकाच विश्वासांत घेतिल्लें. तें सुगूर दवरपाचे दायित्व तुजेंच. म्हाका तुज्या अधिकारांत हस्तक्षेप करपाचोय अधिकार ना. पित्याचे वांछे आड वचून तो अधिकार हातासपाचो येत्न हांव कदापि करचो ना."



"खरें सांगू गुल्हळदेवा. हांगसरय साबार गजाली भंयांक्रान्त जाल्यात. अलाउद्दीन खिलजीन ताचो काका जलालउद्दीनाक जितो मारून आपणाल्या हातांत राजसत्ता घेतल्या. ताणेंच आपणाल्या सेनापतीक म्हळ्यार मलिक कफूराक आमचे राज्य ना नपश्चात करूंक धाडून दिल्लें. वस्तुस्थिती अशी की अल्लाउद्दिनाक त्याच मलिक कफुरा सावन घात जावपाचो आसा अशें ताका दिसता, देखून तो ताका हे वटेन ते वटेन धाडित रावता, ताका जाय तें करूंक अनुमती दिता. आतां फाटले आठ मास तो आमचे फाटल्यान लागला. कुंभलनेर जनपदाचेर आक्रमण करून थंयसरचो

शासक देवपालाक ताणें जिवो मारून वडयलो. आतां तो मानसिंगाचो प्राण घे
प्रत्येक फावट किजिलांचो आलाशिरो घेत आसा.

राख ब्रह्म्या रे राख । देवा म्हगेलोय कुकूम राख ।
ह्या जल्माची साख । देवारो भल्ला अमर देवांनी ।।च३४५।।
हृदय कोच्चलां काळखांतु । जीव शिरकला खांकोळांतु ।
हिम्पुट्यां म्हजीं हळाळतु । सुमुर्ती सुशय विम्लानी ।।च३४६।।

कपशेचो मनीस तो. अशे परिस्थितींत म्हाका चांदरा येवंक जातलें अ
दिसना रे. थंयसर माता ना, पिताय ना. तुकाच साबार गजाली सांबाळूंक जाय. म्ह
कडसून कसलेंच साह्य तुका मेळत अशें सद्यकालीन परिस्थितींत तरी शक्य ना
आमी तिगांय जणी भयावह अवस्थेंत वावुरतांव. तातूंत, तुका कळ्ळेंच आसतलें, ह
मानसिंगाच्या भुरग्याची आवय जावपाची आसा म्हूण. हो मास सातवो! म्हजीं फु
कोण करतलो म्हणपाचो प्रस्नय म्हाका सतायना, इतली आक्रान्तावस्थेची निर्म
केल्या ह्या अल्लाउद्दीन खिलजीन."

दोनेक दीस थंयसर रावन, ताणें पट्टराणी गायत्रीदेवीक फुलां माळपा
उत्सव कसो पाळचो पडटलो, तेंविशीं महाराणी मरूधर कँवर आनी पट्टराणी किश
कँवरहांका शिकयलें.

गुल्हळदेव : प्रसन्न तूं संतुश्ट तूं, गिरिजे भाव आयलो ।
तुजेरी बहु अनन्त प्रीत मामा अतांच जालों ।।
माक्का जाय धुवडी गिड्डी वरां चोवीस बडबडी ।
रुपान चून नकटी कुंकुम नयनी कुड्डी धडपडी ।।च३४७।।

मरूधर कँवर : महका पवन माँगे गगन गोदभराइ अंगना ।
सर्व के घर में गाल को चुमे कविता संगना ।।
नाना कहाँ, कहाँ नानी, बरसे नैनन भाई ।
वाटिका ढुंढी आंगन सुना यही है गोदभराइ ।।च३४८।।

किशोर कँवर : कोमल कली तुझे सुनूँ तुम हो सुन्दर कविता ।
अजन्मी हँसी बिन स्नेह की बहे क्यों पुष्प सरिता ।।
माँ की गोद में कहो माता साँस अति भाये ।
नाभी नहीं तेरी अन्न नलिका गंगा पिलाये ।।च३४९।।

राणा मानसिंग : निर्भय वदन नव आत्मन कहत मन सत्यम् शिवम् ।
तेरा जनम अजन्मी कविता है अनन्त सुन्दरम् ।।

सत्ययुग में राम प्राप्त था द्वापार में किसन ।
जीवन ऐसी गोदभराइ अभिनव नयन मन मगन ।।च३५०।।

तो सुवाळो पुराय जातकच गुल्हळदेव चांदरा पर्थून आयलो.

रेड्डींत शडयंत्रांच्यो परिक्रमा चलताल्यो. थंयसरच्यान जमालउद्दीन शठदेवाक जागयतालो. जो मेरेन राजकुंवर गुल्हळदेव जितो आसा, तो मेरेन नयपुरांत आशिल्ले गायत्रीदेवीच्या केंसाकय स्पर्श करपाची कल्पनाय करूंक मेळची ना म्हणपाची शक्यताय उकतावन दाखयतालो.

मध्यन्तरींतल्या काळांत जमालउद्दिनाचे गुप्तयंत्रणेन एक वार्ता हाडली. महाराणी गायत्रीदेवीक पूत जाल्लो आनी बारशाच्या दिसा ताचे राजकुंवर जगतसिंग अशें नामकरण केल्लें. शश्ठदेवाक. ही वार्ता आयकतकच, भिरभिरीच माल्ली. गुल्हळदेवान राजपाटांतले आंग काडून घेतल्यारी कितेंय तरी करून तो म्हज्या आड राजकुंवर जगतसिंगाक राजनीतिचे पाठ शिकयतलोच, अशें ताका दिसलें.

शश्ठदेवाचो सचिव रहस्याधिकृतान म्हळें, "राजकुंवरीची चिन्ता तुमीं नाकात करू, अल्लाउद्दीन खिलजी तिच्या घोवाक मारतलो आनी तिका आपणाल्या राणीवशांत व्हरून सोडटलो. गुजरातच्या वाघेला राजवंशांतल्या महाराज कर्णाचो नि:पात करून जातकच तार्णे ताची पट्टराणी कमलादेवीकडेन लग्न केलें आनी तिका राणीवंशांत धोमशिल्लें. देवगिरीच्या यादव राजवंशातल्या राजा रामचन्द्राची धूव जैत्यपालीदेवीकय तार्णे आपणाल्या राणीवंशांत व्हेलें. तिका ताचे कडसून शहाबुद्दीन ओमर नामक पूतय आसा. उपरान्त राजकुंवरी गायत्रीदेवीचीय तीच गत जातली, देखून चिन्ता करूंक नाका. तिच्या पुताची निर्मम हत्या करून वडयतलो तो. सहस्रावधींची हत्या करप्याक न्यायशुद्ध कारणां सोदपाची गरज लागना!"

शश्ठदेवान ताचे वटेन पळयत समादान उक्तावपी स्मित केलें.

पापदेह मिथ्याचार । दिवाभीत सूकर कर्माचो सार ।
विश्ठा मातली अपार । कुसंग अनीश्वर अनाचार ।।च३५१।।
ब्रह्मसुखाची कथा । अमल जिर्णे विहिताचारी संहिता ।
लोक पुजन करी भुतां । विसरले विनम्र दण्डवता ।।च३५२।।
व्यभिचार अनाचार । कुसंगदंग समाचार ।
दांभिक स्वागत अनिवार । लोभ मल्हारीचोच विहिताचार ।।च३५३।।
सर्वांगी लोभ मत्सर । न्हिदेंतय आगमअविचार ।
सुग्रमी सुमुर्ती सरिसर । संस्कृतायेचे तरकूण तरूंक ।।३५४।।

पोटा पासत सुणीं। हालय कुले सुवार्थी चतुर सुकणीं।
निमंत्रणीं उवेखणी । म्हेळीं उतरां लोक धारिणी ।।च३५५।।
दुबावी वचन अपार । श्रोते पुराणिक अज्ञानी संभार ।
कुसंगदंग विचार । विचित्र मुनिवर्य अपरंपार ।।च३५६।

चांदरच्या परिसरांत गुप्तहेरांच्या कार्यकलापांनी संशयास्पद वातावरणाच निर्मणी जावपाक लागली. कोण कोणाच्या पक्षाचो म्हणपाचो दुबाव पातळूंक लागले दोनेक फांवटी आपणाचेर विषप्रयोग जालो म्हणपाची कागाळ गुल्हळदेवान शश्ठदेव मेरेन पावयली. ताका उत्तर धाडटना हांगासर रेड्डींतय म्हजेर पर्थून पर्थून विखा द्रव्यांचो प्रयोग जायत आसा म्हणपाची प्रतिकागाळ करपी चीट व्हडल्या भावा धाकल्याक धाडली.

ज्या दिसा जमालउद्दिनान आपणाले हें पत्र शश्ठदेवाक पावते केलें, त्य दिसा सावन तो एके शुभवार्तेक रावतालो. ती शुभवार्ता अन्ततोगत्वा ताच्या गुप्तहेरांनी हाडून दिली. अल्लाउद्दिन खिलजीन महाराणी गायत्रीदेवाच्या घरकारा उखलून व्हेल्लें. ताच्या हेर महाराण्यांच्या संबंदान कसलीच म्हायती मेळूं नासल्यारी ताका तांच्या जिवे आसपांत चडावत रसय नाशिल्लो. महारा गायत्रीदेवीचे कितें जालें, ह्या प्रस्नांत तो घुस्पलो.



तो तडक उठलो आनी रे पावलो. शश्ठदेवाक ही वार्ता दिली. वार्तेन भीमभुपाळ संतुश्ट आनी प्रसन् जावपाचे सुवातीर खंती जालो. कांय खिण उपरान्त आसना वयलो उठलो आ येरझार घालूंक लागलो. जमालउद्दी गोंदळांत पडलो. हे शुभवार्तेन केरेगा मो वरी ता थय ता थय अशें नाचपाचें सोडू हो चिन्ताग्रस्त कित्याक जालो काय म्हू तो चिंतूक लागलो. मदींच भीमभुपा उठलो आनी जमालउद्दिनाक कांयच सां नासतना भायले कुडींत गेलो. ता थंयसरच्या प्रहरीक कितें तरी सांगले

जमालउद्दीन नियाळटालो. हाच्या मेंदवांत कितें तरी भयाण रुपाकार घेवपी शडयंत्र चल्लां अशें दिसता. ताणें मनोमन म्हळें.

"जाणा तूं जमाल. गायत्री खंयसर वतली तें?"

"हांव नेणां. म्हाका तातूंत रसय ना. पिडा गेली म्हण तूं!"

"सभाग्या. निरुद्वेगाच्या घरा इडा आनी पिडा! पिडा गेली न्हय, पिडा आयली पर्यून, अशें म्हण!"

शश्ठदेवान अशें सांगतकच जमालउद्दीन चकासूर जालो.

"म्हळ्यारी?"

"म्हळ्यारी अशें की महाराणी अल्लाउद्दिन खिलजीच्या हातांत येवंक ना. खिलजीची भिरांत अशी की महाराणी गायत्रीदेवी, जी थंयसरच्या मातयेंतली न्हय, खंयसरच आश्रय मेळोवंक पावची ना. हेर दोनूंय महाराण्यो थंयसरच्योच. तांका कोणूय आपणायतलो, वो थंयसरच लिपोवन दवरतलो. म्हणटकच ही चांदरची धूव वतली खंय?"

"अर्थात चांदरा!" जमालउद्दीन चित्कारलो.

पट्टराणी चांदरा येवप म्हळ्यार अल्लाउद्दिन खिलजीच्या चपक्यांतल्यान सुटावो करून घेवपा पासत मारवाडच्या राजसभेंतल्या म्हालगड्यांनी, विचारवंतांनी हितचिंतकांनी आनी सैन्यदळानय चांदरा येवप. वानप्रस्थाश्रमाचो स्वीकार करून हिमालयांत गेल्ल्या राजा कामदेवाच्या काळांत आशिल्ल्या राजसभेंतल्या जाय त्या जाणांनी राजा शश्ठदेवाक आपणालो तेंको दिल्लो. तरीकय चडावतशा म्हालगड्यांनी, विचारवंतांनी आनी सैन्यदळांतल्या अधिकाऱ्यांनी आपणाली निश्ठा ह्या नूतन राजाक पुराय श्रद्धेन समर्पित करूंक नाशिल्ली. आतां तांका मारवाडच्यान येवप्यांचेय फाटबळ मेळत जाल्यार आनी आपणाल्या धाकल्या भावाक म्हळ्यारी गुल्हळदेवाक मुखार करून महाराणी गायत्रीदेवी समस्या निर्माण करूंक पावत जाल्यार कशें, अशें चिंतप जावंक लागलें.

निमाणे कडेन शश्ठदेवान गुल्हळदेवाक एक पत्र धाडून शिटकावणी दिली.

"एकोड्यान झ्यॉ झ्यॉ रेड्डे यो. तुजे कडेन भासाभास करपाची आसा"

राजकुंवर गुल्हळदेव कळाव काडी नासतना त्वरित रेड्डे पावलो. रुक्ष स्वरूपांतलें आसल्यारय रीतरविसेक प्रमाण राखून आगत स्वागत जालें. राजा शश्ठदेवान म्हळें :

रे पावलां फोण्डांतु । न्हय तूं तर बोम्बले फोण्डांतु ।
रे ताळवे फोण्डांतु । हृर्द्या फोण्डांतु तुजेर मोग म्हजो ।।च३५७।।
जिवोणेच्या पिराण्या। तूं म्हजे दर्तरेरि तिरम्बयलीं सपण्यां ।
आफयिलें भकसण्या । तुज्यांत येविल्ल्या कैक अपरादांकु ।।च३५८।।
उमजांवू तुका कसो । शान्तआंव बेला रुका सरसो ।
अपरादांचो वसवसो । निदांतूय येय तुजी सरसराणी ।।च३५९।।
अपरादाची गणना । आसची मतींत नातें संरचना ।
करी क्षमा अनुमाना । हांगा अंगा यंगा आंव सदैव ।।च३६०।।
आवय जल्मदाता । तिच्या अपरादांची गुणवत्ता ।
न्हय करची आर्ता । भोगची पडली जरी नरकयातना ।।च३६१।।
पित्याचो लागसार । पिराणवायूचतीन गणांकार।
णवूय दोणीं अक्षर । निराकारतो निरपराध सदैव ।।च३६२।।
भुरगें बाळ वर सान । पन्नास दोणींचे अपराध मान ।
भ्रात्या भगिनिचो मान । निखटो रे इकरा अपराधांत ।।च३६३।।
न्हय आंग-पांगोय । न्हय ती रौळाची गांधा-दुपय ।
तोळी न्हय चेम्बूय । कुञ्चिकांचो घोस तिच्या चेम्बूंत।।च३६४।।
तिका ना भकसणे । देख तूं नश्टप्राप्त तिचें जिणे ।
अदृष्य पाप स्रवणे । गायत्री न्हय रे ह्या रौळाची ।।च३६५।।
तूं भ्रातो म्हगेलो । धूर्तक कुकर्मांचोय कुरुंबोलो ।
मोध्यान्ही रे पिडलो । तुवें म्हाका सदैव सदाकाळ ।।च३६६।।
न्हेंसण जाता मोटवें । अङ्गां दिसती संकर व्रण मावे ।
ज्येश्ठाचें रूप नवें । कनिष्ठ जाय दिसान्दिस अवचिन्न ।।च३६७।।
तोडोवू करूं कसो । खरसोणून भ्रात्या जालों पिसो ।
अपरादांचो वसवसो । निदांतय येय तुजी सरसराणी ।।च३६८।।
वृथा नाका उलोवं । कनिष्ठ भ्राता तूं विप्लववादी ।
विनम्र नाका जावं । कृतक तूंच हीन विवादी ।।च३६९।।
ज्येश्ठ जेन्ना निर्बळ । निश्ठावान कनिश्ठ लक्ष्मणच फळ ।
धर्मादेश देय सरळ । कनिश्ठ कार्यच्यूत न सकळ ।।च३७०।।
अनुभ्राता न वडील । दीप्ती आलोक ज्येश्ठच केवळ ।
छाया अनुज अळुमाळ । ज्येश्ठच भ्राता अन्तराळ ।।च३७१।।

तूं तर केवळ अवरज । ना अनुमती करपाकु अचरज ।
अनुज केवळ पंकज । तुज भ्राता अग्रज लक्ष्मीधर ।।च३७२।।
तूं न करे व्यभिचार । पालन कर सदैवच विहिताचार ।
अनुमती ना अनाचार । हितैशी ज्येश्ठाचो प्राकार ।।च३७३।।
अवर निम्नस्था भ्राता । अनुजन्मा तूं विपर्याय अनुजाता ।
कनिश्ठिका अहम् त्राता । ज्येश्ठ हांव वरिश्ठ सर्वथा ।।च३७४।।
कनिश्ठा न करो उवेखणी । शेश धरी छाया अभिराम वनीं ।
आरुष बोल सज्जनी । जाणून घेचि कपाळ करंट्या मनी ।।च३७५।।
कर्तव्यहीन पापिश्टी । घालशी नाग नृपकण्ठीं ज्येश्ठी ।
न धरो हेतु आखेटी । अनल भंय करी सर्व अनिश्टी ।।च३७६।।
सांग मोगाळा बोल । गायत्रीदेवीचें ब्रह्मगोळ ।
तिचे जिण्यांतु अनमोल । धनिकद्वाराचो गुप्त भूगोल ।।च३७७।।
सुरक्षी चांदरा ती । पति विणे एकली चान्दरातीं ।
नाशिवन्त कुडींत तीं । जाये कित्या संकिर्न वरव कणवट्यो ।।च३७८।।
निगूढा मुखारविन्दू । म्हेळीच अमला पतिविरहित बिन्दू ।
रात्र पाप सिन्धू । लुप्त द्युतिपूर्णा पादारविन्दू ।।च३७९।।
मधुर मधुर मनोहरा । स्मिता अतर्क्या निगूढ सरोवरा ।
कदंबिनी कुलवरा । नुपुरकिंकिण चंचलसुरस्वरा ।।च३८०।।
राज राजसा अनुजा । खंय लिपयल्या कामदेव तनुजा ।
सखर उतरां अवरजा । दण्ड मण्डित करूं ब्रह्मजा ।।च३८१।।
न्हय ती तुजी भगिनी । महाराणी विखाची बरणी ।
सुवार्थी एक ब्रह्मणी । कुहिता संपत्ती नाशिनी विराणी ।।च३८२।।
धरी न मोहना मनी । मोह ना धरी तूं अधरी भगिनी ।
दूरस्थ नातें जनीं । राजपाट धर केवळ मनीं ।।च३८३।।

ओदोळच्यान गुल्हळदेव शश्ठदेवाचो अनुज आशिल्ल्यान आपणाचेर नियंत्रण राखून तो म्हणटा तें आयकत रावलो; परन्त राजा आपणाली शिमे मेर हूंपून वचूंक लागला अशें ताका जाणवलें. कितलेंय अरिश्ट आसूं, राजान तो सत्ताधारी आसूं वो नासूं, खंयचेय अस्तुरेची ती वंचित आसूं वो नासू अश्लाघ्य अवमानना करूंक जाय ना, अशें मानप्यांतलो तो एक विचारक आशिल्लो. ओदोळच्यान राजा ताच्या भावाचो उपहासात्मक स्वरांत अकारण निर्भर्त्सना भर्त्सना करतालो. धाकल्या भ्रात्यान कशें

आचरण दवरूंक जाय म्हणपाचें प्रबोधन करतालो. एकाद्रो मनीस हेराक केदना मा सन्मान दिता, जेदना आपणाली वट दाखोवपी ती आदर्श व्यक्ती आसता, सर्वमान्य अट राजा विसरून गेल्लो. तो एके तरेच्या खंती स्वरात हांसलो आ शश्ठदेवाक उद्देशून म्हळें :

हय हांव रे एक अनुज । भ्राता सायुज्य रगताचो तनुज ।
न्हय रे कदापि सिंधुज । वत्सल पिता खारो अंबुज ।।च३८४।।
ज्येश्ठ भ्राता राजसा । आसा व्हय सालोक्य निवासा ।
मानु कित्या राक्षसा । क्लेशुतु वाडयशी दिसदिसा ।। ।।च३८५।।
क्रुरताय जाचो विराम । स्नेह विहीन विशाल आत्माराम ।
भीमकाय कुमति राम । न तूं हलधर न तूं बलराम ।। ।।च३८६।।
तूं तर शिखर हिमालय । माता जाय वनीं विटून आलय ।
राजसत्तेचोय विलय । तूं सपनीं रेबोय कालय ।। ।।च३८७।।
श्रेश्ठ श्रेश्ठां सुवर्णताटीं । ज्येश्ठ भ्राता सालोक्य सृश्टी ।
दुर्धर अनुचित संकटीं । क्षुधापीडितां अमृत वांटी ।।च३८८।।
भ्राता हो नरक स्तंभ । मरणासन्न अनुजा मारे हिडिम्ब ।
कित्याक हो रे दंभ । कितले व्हरतलो पापांचे कुंभ ।।च३८९।।
राजकुंवरी आमची । महाराणी विधवा जयपूरची ।
चोदना उत्साहाची । जाय अभय दृश्टी रायाची ।।च३९०।।
नारी सदैव वंचिता । धरूनि चल हें सत्य सदैव चित्ता ।
केवल अभागि स्मिता । निमित्तीं निरस्त ही सुजाता ।।च३९१।।
मानती मुनिजन भक्तां । स्त्री म्हळ्यारी सायुज्य मुक्ता ।
पूर्णकला विहरता । धरणी स्पर्शा आलोकिता ।।च३९२।।
अस्तुरीचें दुकांबर । संवसार सुखांतच गंगा सागर ।
आशाढ पावळीं खर । रात्र वेदना साक्ष अनावर ।।च३९३।।
तिचो अधिपती सहचर । नित्य जगचो कर्तव्य परात्पर ।
नारी पिडा सहोदर । उत्पीडनाचो साहे भार ।।च३९४।।
प्रगाढ सृश्टी तरल । भीमभुपाळ खिलजी अन्तर विरल ।
नारी तरूच केवल । मोक्षज्ञान हो रूख विशाल ।।च३९५।।

मनुस्मृतीच्या तिसऱ्या अध्यायांतल्या छापन्नाव्या शिळोकांत कितें म्हव तें जाणा तूं व्हय रे?

*यत्र नार्यस्तु पूज्यन्ते रमन्ते तत्र देवताः ।*
*यत्रैतास्तु न पूज्यन्ते सर्वास्तत्राफलाः क्रियाः*

स्त्री आनन्द अनुभूति । योगक्षेम दिका मुनिजन म्हणती ।
धेनु ब्रह्म आरती । गाय गायत्री हृदयांती ।।च३९६।।
स्त्री ही केवळ सृश्टी । निर्मणे अंबुजा धारिणी सृश्टी ।
मरुभूमींकरि व्रुश्टी । सृश्टी केवल पुराय धरणी ।।च३९७।।
ज्ञानगंगा गरिमामय । भुवनसुन्दरी केवल महिमामय ।
दानवा सन्मान देय । रे अस्तुरीक सन्मान देय ।।च३९८।
अस्तुरेक सोबना । ती हवसाण खच जावंक फावना ।
अडिल्ली नडिल्ली मनां । हुंडक्यार हुंडके दिवंक लागतलीं ।।च३९९।।
जी येवजिता अन्नां । तिचें येणे वासरेर फावना ।
उंबतरार हवसाणा । वांट्याक तिच्याच कित्याक दिता ।।च३१००।।
चिंत रे भ्रात्या तनिक । दी इल्लीशी सुवात तिका रावंक ।
दी थाकाय तिडकीक । गटगटीत विख पिवन वडय तें ।।च३१०१।।
वस्तुस्थिती सांगतां । बंधू तूं न्हय रे आज्ञा अनन्ता ।
आदेशाक हार्णे सोदता । वर्ण ध्वस्त निर्मिता नवो वर्ण ।।च३१०२।।
तुजी आज्ञा अपभ्रंश । करता तूं वर्णविकार ध्वनी निर्वंश ।
कुशीक काडून उत्तमांश । ना उरचो लाभांश उत्तम करणेचो ।।च३१०३।।
अनुनासिकीं सुस्वरीं । उत्तमोत्तम साक्ष ध्वनी वरी ।
पाणिनील्या निर्भरी । अन्तरीं भास आर्शकालीन ।।च३१०४।।
गणेश करी अनुग्रह । कदापि न देखी दुबावी उत्साह ।
प्रथमेचो प्रवाह । वर्णाची विभक्ती प्रत्यय विरयत ।।च३१०५।।
सुर्युसु कथी हो विस्मो । विस्मो सांगु सुर्युसु नव अनुपमो ।
द्वितियेलो चित्तभ्रमो । चतुर्थीलो मतिभ्रमो विस्मो अभिप्राओ ।।च३१०६।।
ईश्वरें कथिले तुवें । तुवेंण कथिले ईश्वरे अभिप्राये सर्वे ।
हातूंत हांव आंवें । रायेण उतरासी लाभेण प्राप्त अपलाप ।।च३१०७।।
तृतीय पंथीय हार्वे । अनीति भ्रश्टी कदंबेण काये ।
प्रत्यये प्रभावे । उंडी लाय आवयवे बाळ गोड ।।च३१०८।।
देउ रहस्याधिकृते । बंधने ना दिवं कदंब सुर्याते ।
संशयी देवत्ताएते । राअ तुका मानतले साबार योगभ्रष्ट ।।च३१०९।।

चतुर्थीचे रे ठाया । भोगवाद्यांक ना तुजी माया ।
संकश्टीं विस्मो राया । लुलुप्सु कदंब राय हो आसाहूँ ।।च३११०।।
संकश्ट तव पुताथें । वो अन्य अर्थे तुजियाच गुरूथें ।
ज्ञात होते अर्थाअर्थे । निम्बून रहस्याधिकृते नाशिल्लो रावंचो ।।च३१११।।
सांगलें तूं जाणा । ना म्हणचो चुकून हांव नेणा ।
गिन्यानाच्या अज्ञाना । इतिहास ना करचो तुका क्षमा ।।च३११२।।

ही भासाभास भीमभुपाळ सोसूंक पावलो ना. ताणें साम दाम दण्ड भेद ह्या चतुर्वर्गांतलें निमाणचे अस्त्र भायर काडलें :

चलूंक लाग चलूंक लाग रे । दोळ्यां फुडें दिसूं नाका रे ।
मोक्ष योग म्हाका शिकयता । दाखोंव मर्णाचो मार्ग रे ।।च३११३।।
ना तिका दिवंचो शिक्षा दीक्षा । नारी दितली शील परीक्षा ।
राजाकय व्याकरण शिकयता । तुज्या भाग्यांत केवळ तितिक्षा ।।च३११४।।
चलूंक लाग चलूंक लाग रे । मेळूं नाका फुडल्या जल्मा रे ।
देवी विदुशिची पुजा अनन्ता । मांडता मांडता मर रे ।।च३११५।।
भर्त्सना भावाची करता । अस्तुरेक यज्ञीय मानता ।
कुंवरी न्हय न्हय सम्राज्ञी । धाडूं तुका मर्णकट्या रे ।।च३११६।।

शश्टदेवान ताका निमाणची शिटकावणी दिली, "राजपाट सोडून वच, अन्यथा घोर परिणामांक सामकारा वचपाची सिद्धता कर."

जमालउद्दिनाक ताणें सांगलें की गुल्हळदेव साम्राज्य सोडून भायर सरता. महाराणी गायत्रीदेवी आयज मेरेन येवंक ना, हाचो अर्थ ती वाटेरच खंय तरी खंवसल्या.

जमालउद्दीन असल्यो गजाली मानूंक अनमनलो. ताणें म्हयन्या भरांत शश्ठदेवाक वार्ता धाडली,

"गुल्हळदेव महाराणीची फाटलाव करूंक भायर सरिल्ल्याची म्हायती मेळना फुडें म्हज्या सैन्य दळांतल्या एका गुप्तहेरान ताका एका घनदाट रानांत धल्लो आनी तुज्या मुखार हाडपाची सिद्धता करता आसतनाच ताणें विरोध केलो. परिणामी म्हज्या सैनिकांनी ताका जितो मारून वडयलो."

शश्ठदेवाकय हो अशे तरेन गुल्हळदेवाच्या मृत्यूक निमंत्रण दिवपी दीस उदेंतलो म्हणपाची शक्यता दिसूंक नाशिल्ली. जमाल हो एक फोल उलोवपी आसा, तो लटिकपणाची फोडणिशी करपी भांजडो आसा, एका बायिबोडुका वांगडा आपणाले

सत्तेची अभिलाषा पुराय करूंक सोदतां अशें ताका दिसतालें. पूण ही वार्ता आयकना फुडें खीण भर अशें दिसलें की आपुण जमालाचो बन्दोडी. ताचे आज्ञे विरयत हांव भायर बिणा करूंक पावचो ना. आता हो प्रतेव पर्थुन पर्थुन येतलो. तो दीस उदेलोच अशें ताका दिसलें आनी ताच्या दोळ्यांतल्यान ताका गत जावंचे आदींच आपणाल्या धाकल्या भावा पासत अखण्ड दुकां व्हावूंक लागली...

महाराणी गायत्रीदेवीच्या अस्तित्वा विशींची लेशमात्र कुरु लाग नाशिल्ली!

सात-आठ मास सोंपिल्ले. जमालउद्दीन ओग्गो बशिल्लो. राजा कामदेव आनी राणी श्रद्धादेवी हांचो वानप्रस्थाश्रम खंयसर आसा म्हणपाची सुलूस लागूंक नाशिल्ली. महाराणी गायत्रीदेवीचे वटेन निवांतकाय आशिल्ली. गांधारा सावन मारवाडा मेरेन जाचे साम्राज्य प्रसारित जाल्लें त्या सम्राटाची म्हळ्यार अल्लाउद्दीन खिलजीची भलायकी इबाडिल्ली. ताच्या सैन्य दळांत कांय जाणांची निश्ठा मलिक कफूराक ओंपिल्ली आसा. अशें ताका कळूंक लागिल्लें. ताका दक्षिण भारतांत दवरप म्हळ्यार संकश्टाक निमंत्रण दिवप. अशे ताका ताचे तथाकथित हितैशी सांगताले. कफूर दक्षिण भारतांत राविल्ल्यान ह्या तथाकथित हितैशींची संख्या नाममात्र जाल्ली. तो दिल्लींत येतकच तांचे बळगें वाडपाची शक्यताय आशिल्ली.

तेलंगणाचो काकतीय राजवंश, देवगिरीचो यादव राजवंश, होयसळ राजवंशाचो सम्राट वीर बल्लाळ (तृतीय) हांका मलिक कफुरान शरणागत केल्लें. राज्यांत जनाधार नाशिल्ल्यान कफुरालें साह्य तांका जिवें दवरतालें. मोठ्या चातुर्यान अल्लाउद्दीन खिलजीन आदींच देवगिरी राजवंशा कडेन सोयरिक जोडिल्ली. ताचो लाब ताणें तेलंगणच्या प्रताप रुद्रदेवचो पराभव करपा पासत करून घेतलो. मलिक कफूर चिंततालो की यादव आनी प्रताप रुद्रदेव सरळ ताच्या शेकातळा येतले. परन्त तशें जावंक पावले ना. उपरान्त ताणें होयसळच्या सम्राट वीर बल्लाळ (तृतीय) हाचो, तो पराभूत जाल्लो आसतनाय, अल्लाउद्दिनान ताका 'ख़िलअत' (राजभक्तीची वस्त्रां), एक मुकुट, छत्र आनी धा लक्ष रुपयांचो 'कुचकुम्भ भस्त्र' (पोती) भेंट दिवन सन्मानच केलो. परिणामी हो राजा लेगीत मलिक कफुराक लागीं रावचे सुवातीर तो अल्लाउद्दीन खिलजीचो विश्वासू जालो. देखून एके वटेन दक्षिणेंतल्या ह्या सत्ताधिशांक अल्लाउद्दिना कडलें हें नातें आता महामण्डलेश्वर वो अन्य सामान्य पदवीं परसय म्हत्वाचे दिसूंक लागलें आनी हेर वटेन मलिक कफूराक आपणाली वट वाडोवपाची संद मेळना अशें दिसून आयलें.

अल्लाउद्दिनान पुत्र खिज्र खाँक आपणालो उत्तराधिकारी नियुक्त केल्लो. तें कृत्य थंयसरल्या सान व्हड सरदारांक मान्य नाशिल्लें. ते स्पश्टपणान अल्लाउद्दिनाच्या निर्णया आड उबे राविल्ले. कफूर ह्यो साबार धुसफुशी जथापथ करतलो अशा विश्वासान ताणें कफुराक दिल्लींत आफयिल्लें. कफुरान मात थंयसर येतकचखिज्र खाँ और सादी खाँ हांका ग्वालियर दुर्गांत बंदिवास दिलो जाल्यार खिज्र खाँची पत्नी मलिक-ए-जहाँक दिल्लींतल्या पोरण्या दुर्गांत स्थानबद्ध केल्लें. मलिक कफूर जमालउद्दिना कडेन जर संपर्क सादून रावलो जाल्यार फुडारांत आपणाक भिरांतींत जगचे पडटलें, अशें चित्र दोळ्यां मुखार धोलूंक लागिल्लें. हे फाटभुंयेर चिंतना करत आसतना आपणाले कोठयेंत भीमभुपाळ किंकर्तव्यमूढ मनसीक दशेंत पावलो. अशे अवस्थेंत आसतना ताचो सचिव रहस्याधिकृतान प्रवेश केलो आनी सांगलें "

"आमचे मारवाडचे गुप्तहेर आयिल्ले, राजन्."

"कितें सांगलें तांणी ?"

"तान्नीं आपणांक जायशील्यो दोन वार्ता सांगिल्यो, राजन्."

"खंयची बरी आनी खंयची दुख दिणी ?

"पयली वार्ता म्हळ्यारी अल्लाउद्दीन जलोदराच्या पिडेन हांथुणार पडून आसा."

"आनी अन्य वार्ता?"

"राजकुंवर जितो आसा राजन्."

"कितें म्हळें, गुल्हळदेव आजून जितो आसा व्हय?"

"जमालान फटी मारल्या राजन्. जमालाच्या गांवांत एक अटंग्य रान आसा, थंयसरच्या एक घोल-कंदरांत राजकुंवराक बांदून दवरिल्लो आसा. ताका तो दीसपट्टे मार घालत आसता. दोनेक फांवटी तो मरता मरता वाटावलो. "

शश्ठदेवाच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हावूंक लागलीं आनी तो असोशीन गावंक लागलो."

म्हज्या भावा अपसरण म्हजेर ब्रह्म सत्य रे ।
पूर्ण स्वच्छ तळ अनुज तेजाळ म्हज्या पुता रे ।।च३११७।।
स्वभावाचो शितळ उपचारांतु म्होवाळ तूं रे ।
प्रेमाची वेंग विधि उडगीरें नश्टकी तुका रे ।।

म्हज्या मोगांत अकथन म्हजें दुर्भाग्य नकारी ।
देवांणी रोदु अश्रवण केलें सुग्लेपन कारी ।।च३११८।।
तोडोवू हृदय उघड बेगीं न ग्रस्त पिराणू ।
रात्र मोध्यान तळमळ थांबय अपापी किटाणू ।।
लोकू प्रजा विसर सखया खिण भरी आयकी रे ।
फोण्डकी हृदय निसरयी विकल भ्रात्या सख्या रे ।।च३११९।।
देवांलें हृदय निसरडें अटळ तूं सुचारू ।
नेत्रां धांकूनि परम अकारु उकारू मकारू ।।
व्यस्ति काजारु वरव रुप्यारु वर्नुक पदारू ।
वृन्दानू भोंवत तळमळी रुधनीं तटकारूं ।।च३१२०।।
रहस्याधिकृतान शश्ठदेवाक शान्त-निवान्त करपा पासत म्हळें :
प्रतापाची खण तनय दोगूय सूर्यगुणांचे ।
म्हज्याचेनी अकटविकटो प्रसंग साहवे ना ।।
वैशाखाचे हुलपण घराब्यांतु जाळी सुखाय्यी ।
भांग्रा मोही रण विसर राया गुल्हळा सहाय्यी ।।च३१२१।।
साम्राज्याचें रगत जड राया उदार सुर्या तूं ।
भोगार्थ भाव अनुज रत्न राय कृपा करी तूं ।।
दैत्यनाशा अनुज उपयुक्त शत्रूंचो मुरारी ।
प्रत्योत्तरी अतुल कर तूं शूरसेना तमारी ।।च३१२२।।
दोगांचे हीतरक्षण बन्धू हो उत्तमा सुश्लोका ।
अन्यथा लोहित गटगटा प्राशना वैरी उत्सुका ।।
हिंसात्मकी रिपु असहिश्णू पाप धारी अनार्य ।
म्लेञ्छाकारी विकट करता आमचें राजकार्य ।।च३१२३।।
आत्मजा रे निकट सर घे तूं पितातुल्य अग्रजा ।
प्रार्थितां रे अनुचर असो सान राया अनूजा ।।
माजोळा मानुपद बरवें भारवाही बोलु भासू ।
सांबाळी रे बटिकि थरकांपूक द्वेशाची कर्कशू ।।च३१२४।।

शश्ठदेव धसकून गेल्लो. विपरितपणाकय शिमोमेरो आसूंक जाय. ताणें मनोमन म्हळें :

दिसना वाट हे तमीं । कभिन्न रात करी मती संभ्रमी ।
वोडमाडूंक निश्कामी । अघटित विचारांचो धनी हांव ।।च३१२५।।
ही रेंव काय माती । हरसडळाकच सतायता हनिती ।
शियाण्ड्यांतली शिपती । वांझ कर्मरेखेलो पती हांव ।।च३१२६।।
कुंडलीय सुलखेणी । सुघडित दैवाक सांगात कोणी ।
अश्वत्थाम्यालो मणी । कपलांत रोमून भोंवता हांव ।।च३१२७।।
कुण्डली ती हिंवांवक । उमाणें घाली कोडें कुवाड्याक ।
सुधीं सुअस्त चित्ताक । सुधवांटो करतलो कसो हांव ।।च३१२८।।
तारकांचो पुंजोलो । अन्द मन्द किर्णां करती दुमालो ।
उदूनय तो अन्दिलो । म्हजे वाटेंतलो दीपक हांव ।।च३१२९।।

शश्ठदेवान रहस्याधिकृताक विचाल्लें, "तूंच सांग, कितें केल्यार गुल्हळदेवाची सुटका करूंक शक्य जातलें ते."

उपरान्त रहस्याधिकृतान म्हळें, "परिस्थिती अशी आसा राजन्, अघटित वार्ता आनी कोले-लाण्डगे गेले तिर्थां. आमचे हितैशी आतां आमच्या सांगातांत रावंक सोदिनात. तांचे कडेन भांजडोय चलचो ना. तांका भूक-बूक लागल्या जमालाच्या दुडवांची. तांका सत्याची बिदिरी, वाटुली, पायण, वाटिका-उपवनाचो मोह मानून घेवपाची वान्सा उरूंक ना. तांका आतां जाय सुवार्थाचो राजमार्ग. आतां आमकां आस्रय निखटो कामदेवाल्या फाटकरत्यांचो, गुल्हळदेवाल्या हितचिन्तकांचो आनी गायत्रीत्या भावार्थीचो. आमी प्राचित घेवपा पासत मुखार सरल्यात म्हूण सिद्ध करचे पडटलें आनी देखून हे फाटभुंयेर जे कितें करूंक सोदता आमी ते राज्यप्रायोजितच आसा म्हणपाचो विस्वास साबारांक दिसूंक जाय. थंयसर बायिबोडूकपणां चलची नात राजन्. राजकुंवराचे जे हितैशी आसात, तांका विश्वासांत घेवपाचो समय आयला राजन्. उदका परस रगत जड आसता आनी कृतघ्ना परस कृतज्ञ चड वश आसता. आमकां वस्तुस्थितीचे गिन्यान जालां, हे गजालीचो प्रत्यय हाडून दीतकच, पयसाइल्ले, पातळ जाल्ले साबार कृतज्ञ आनी हितैशी विचारवंत राजकुंवरा पासत आमकां साह्य करतले अशें म्हणपांत म्हाका दुबाव दिसना, राजन्."

रहस्याधिकृताच्या अनुमानान सत्याचो रुपाकार घेतलो. जमालउद्दिनाचो फाटलाव सुटपाची लक्षणां दिस नाशिल्लीं. ताका काळखांत दवरून हे वटेन राजकुंवर गुल्हळदेवाच्या बरे मागप्यांक एकठांय करपाची येवजण सादप म्हळ्यार सामान्य सोपी कृती नाशिल्ली. जमालउद्दिनाचेय गुप्तहेर आशिकुशीक वावुरतालेच. घरांतले

भेदी उणे नाशिल्ले. हूलपता खाड शिंवाचें. ताचेर विडी पेटयता कोलो. तातूंतय रामचन्द्र यादवाचो लोक आनी तांची भुरगीं बाळा हांचे अस्तित्व चडावत तकालस करतालें. चारपुरुश. अपसर्प. वार्तानुकर्शक. बहिश्चर. अवसर्पण. चारण आनी हेरिका हे सात जाण महाकंटक गुप्तहेर आसात म्हूण रहस्याधिकृत जाणा आशिल्लो. ते राजवाड्यांत रावन उगतेपणान उपद्रव करताले. जंय रायरावळे थंयसर डोमकावळे आसतात म्हूण तो जाणा आशिल्लो. वदंता आनी वावड्यो हांचो उगम ह्या सप्तकंटकांत आशिल्लो. तांका जमालउद्दिन जायशील तें दितालो. तांका जमाला कडसून दरबारि-ए-खासचो भौमान लाबिल्लो. तो तांका आपणा वांगडा व्हरतालो. तीर्थयात्रा करूंक साबार वेवस्था करतालो. ताच्या वांगडा प्रवासांत आसतना हो लोक जाय तशे खातालो. पितालो. तांणी कसल्योय आगळिको करीत जाल्यार तांचेर केन्नाच बगलांट येवचें ना अशी तांची खात्री जाल्ली.

म्हणसर ताचे अत्यंत लागीचे मंत्रगूढ आनी भीमर नांवाचे दोन गुप्तहेर एक गुप्त संदेश घेवन आयले. जो आयकना फुडें राजा शश्ठदेवांत उत्साहाचो संचार जालो. रहस्याधिकृताक तर गगन मोटवे दिसलें. महाराणी गायत्रीदेवी आपणाल्या निश्ठावान सैन्य दळा सयत राजपाटण चन्द्रपुरा वटेन येवंक भायर सरिल्ली आनी वांगडा तिचो पूत राजकुंवर जगतसिंगय आशिल्लो. खंत करपा सारकी वार्ता अशी की राजा कामदेव आनी राणी श्रद्धादेवी हांणी मात पर्थून येवपाक न्हयकार दिल्लो. राजा भीमभुपाळ निर्शेलो.

रहस्याधिकृतान महाराणी वाटेर आसतनाच तिका जमालउद्दिनाच्या स्वभावाची, कार्यकलापाची, सैन्य दळाची आनी राजकुंवर गुल्हळदेव ताच्या बंदिवासांत आसा म्हणपाची पुराय म्हायती महाराणीच्या दुता वरवीं धाडून दिली. राजपाटणांत उत्साहाचें आगमन जाल्लें, परन्त राजा शश्ठदेवाचो ह्या उत्साहांत वांटो ना अशीच भूमिका राखली, जेणे करून जमालउद्दिनाक दुबाव येवंचो ना. कर्तव्य तत्पर राश्ट्रवादी लोक शश्ठदेवाच्या संबंदान आशिल्ले फाटले राग रुसवे, धुसपुश्यो फुगडे विसरून वावराक लागिल्ले. काल मेरेन राजाक गाळी सोंवपी हे सुशिक्षित नागरिक शश्ठदेवाच्या कच्छपि कशे लागले हे गजाली विशीं जमालउद्दिनाक व्हडलें नवल दिसलें. हें परिवर्तन कशें आनी कसल्या कारणां पासत घडटा म्हणपाची सुनशा ताका लागप आगोड जाल्लें. महाराणी गायत्रीदेवी राजपाटणाचे शिमेर पाविल्ली.

स्वागत स्वागत स्वागत करतां तूंच महामाता म्हजे आई ।
कोट्यवधी शशी अगणित सूर्ये विशाल ह्रदये तूं समाई ।।धृपद।।
स्त्रीत्वाचीं अथांग ल्हारां प्रकाण्ड गायत्री देवीचो अधिकार ।
अधिकार जाण तुजोच केवळ कुटुम्ब दायिनी देवद्वार ।।
दीपमाला घेतां स्वागत निर्मल अतुल श्रीफल तुजे पायी ।
तूं शक्ती प्रेमळ नयनी वन्दितां श्रद्धा समर्पितां तुजे ठायीं ।।पं३०१।।
स्वागत स्वागत सुह्रदे सदये तरण तारिणी दी आदार ।
मूलगत माते समस्या हारिणी बुद्धिगम्ये करी परिहार ।।
समश्टी नैतिक तुजेच करणी केवळ तुकाच आमी दायी ।
तुज्याच स्वरूपा स्त्री हुताशनी उन्मत्त नरांची करी राई ।।पं३०२।।
न तनये अन्य न पुरुशेतर कर्म पुरुशांचें सोडविणी ।
समाज रचना सुरम्य व्यापक उद्धारी तूंच तूं रमायणी ।।
अंतराळ तुजें सागरय तुजो धरणी धारिणी तूं रुक्माई ।
पथप्रदर्शिता जीवन संहिता वृश्टिवाही अम्बू तूं जनाई ।।पं३०३।।
स्वागत स्वागत शारदे वरदे स्त्रीमुक्तीचो लढो भगवते ।
अस्तुरीची व्यथा जाणशी तू कथा मन्मथी ममता सिंधुमते ।।
विचारसरणी न्हय श्रेणीबद्ध औचित्याची खणी विश्वा आई ।
राज्यासन तुजें प्रजाय गे तुजी काळकूट नश्ट कर माई ।।पं३०४।।

महाराणी गायत्रीदेवीचो चन्द्रपुरांतलो प्रवेश साबार प्रजेक उचंबळीत करूंक लागलो. रहस्याधिकृतान तिची भेट घेवंची आनी तिका राजा ताच्या आजवेरच्या आचरणा पासत पश्चात्तापदग्ध जाला म्हणपाची जाणविकाय करून दिवंची अशें शश्ठदेवान सांगून ताका तिचे सरी धाडिल्लें. रहस्याधिकृतान तिका बेस बरे तरेन पुराय फाटभूंय कथिली.



आपणाल्या दोळ्यांमुखार आपणालो भूतकाळ, वर्तमानकाळ आनी भविश्यकाळ

द घालतात म्हणपाचे महाराणी गायत्रीदेवीक दिसून आयलें. राणा मानसिंगाक ग्रेस्त मर्ण येतकच ती एकोडीच पडिल्ली. आपणा वांगडा दीस रात रावपी दोनूय ग्यो तिचो दुस्वास करूक लागिल्ल्यो. तांणी तिच्या आगमना उपरांत राणा ानसिंगाचे जिणेक अपशकून जालो. ह्या अपसरणा पासत ताचो पराभव जालो. चे मर्ण जालें अशीच वार्ता साबारां मेरेन पावयली. सुदैवान तिचो समश्टे कडेन ागसार वाडिल्लो. तिचे पासत सैन्यांतल्या वीर गतीक पाविल्ल्या सैनिकांच्या यलांक विधवा जातकच घरांत रावन आपणालें घरदार चलोवंक उपकारा पडत तलो दुडू जोडपा सारको वावर मेळिल्लो. दीसपट्टे वावराक उमजून घेवपा पासत त्रीमंडळांतल्या अभिजनांच्या तेच परी मारवाडांतल्या सामान्य प्रजेच्या घरकान्नीं डेन तिचो लागसार वाडिल्लो. परिणामी तिच्या संबंदान बरें मत्त पातळूंक ागिल्लें. तिका 'स्त्री-मुक्तिका' अशें संबोधन लाबिल्लें.

अन्ततोगत्वा राणा मानसिंगाच्या मर्णा उपरांत जें शोकाकुल वातावरण नेर्माण जाल्लें. तातूंत वांटो घेवंक हो साबार लोक तिचे भेटेक आयिल्लो. ताचो रिणाम असो जालो की सैन्यांतलो एक मोठो वर्ग आनी समश्टींतले जाणते महाराणी ायत्रीदेवीच्या वांगडा राविल्ले. हें दृश्य पळयना फुडें मलिक कफूर अस्वस्थ जालो. ातां पुराय मारवाडाचेर सुलभ गतीन सत्तातंत्र चलोवंक मेळटलें अशी आस्त ाशिल्ली. तशें जावंक पावले ना. अन्य दोनूय महाराण्यांनी फुज्यो काडिल्ल्यो. तांका ांच्या कुळारां सुगूरपणान वचूंक मेळिल्लें; यद्यपि ती मलिक कफूराची मांडलिक ाज्यांच आशिल्ली. म्हणटकच भिरांत आशिल्ली ती निखट्या महाराणी ायत्रीदेवीची. ताणें तिचे फाटल्यान ससेमिरो लायलो. ताणें जमालउद्दिनाकय संदेश ाडलो.

राजा कामदेव आनी राणी श्रद्धादेवी हांणी जंय वानप्रस्थाश्रमांत राबितो केल्लो, थंयसर निवांतपणान, लिपचोरया महाराणी गायत्रीदेवी गेल्ली. तिच्या वांगडा गेल्लो लोक आनी सैन्य दळांतले सैनिक हेर महाजनपदांनी पातळून लिपचोरया ावंक लागिल्ले. राजा कामदेव आनी राणी श्रद्धादेवी हांच्या वांगडा काय म्हयने काडटकच तिका राज्यप्रशासन यंत्रणे विशींची पुराय गत येवंक पावली. तिका रेड्डे ावपी ज्येश्ठ भावाचें हृदय परिवर्तन जावंक लागलां म्हणपाची शुभ रुपाकारी कुरूय मेळूंक लागिल्ली. रहस्याधिकृत होय भोवच उपकारा पडूंक लागिल्लो.

महाराणीन पित्याक विचाल्लें, "हो रहस्याधिकृत म्हाका मानवना. तुमीं ाौळांत ताका भितर येवंक दिलें तरी कशें?"

“मंगेशीचो बेल आनी शिवोलेची कल्ली, सोळा सोमार मांडटात मोल्यां
वांस्वेलीं, अशी तांची इश्टागत. ती चड काळ तिगची ना, अशें म्हणत फाट
कितलींशींच वर्सां उलगलीं; पूण हांवें आस्त सोडूंक ना.” गायत्री मन:पूत हांसलें...

... आनी आतां येवपाचे वाटेर आसतना तिचो परम प्रिय भाव गुल्हळ
जमालउद्दिनाचे बंदखणींत आसा, ताका नरक यातना भोगच्यो पडटात, आनी
अत्यंत यातनामय परिस्थितींत आसा म्हणपाची आतंत्यिकपणान दुखेस्त कर
म्हायती तिच्या कानांर आयिल्ली. राजपाटणांत प्रवेश करत आसतनाच आपणाल
आगमनाक तेंको दिवपाच्या संबंदान प्रजेचो स्वर सकारात्मक आसा, व्यवधान हाड
ना अशें म्हणपी कुरू मेळिल्ली. तिचो लोक आजूनय हेर जनपदांतल्यान शनै: श
दक्षिणेचे वटेन परंत कदंब साम्राज्याचे चोंयवशीन स्थलान्तर करूंक लागिल्लो.

जमालउद्दिनाचें कितें करप, ही समस्या भोंवडून वडोवंक लागली आनी
गावंक लागली:

थय थय नाच तूं नाच । माकडा सुंदरा नाच रे नाच ।
घुंवणाय खेत्या हात । सांबाळ शेपडी पोंदाय खांच ।।पं३०५।
नाचपा शैली तुजी । नाका धाटणी शिकून घे म्हजी ।
अस्ताव्यस्त नाचता । भाग्य घेता परिक्षा म्हजी ।।पं३०६।।
नाका घेवं तूं नाच । निखटो थय थय तूं नाच तूं नाच ।
भीक मागतां सदया । दीसपट्टो हिण्यां तिण्यांय तूं नाच ।।पं३०७।।
थय थय नाच तूं नाच । माकडा सुंदरा नाच रे नाच ।
घुंवणाय खेत्या हात । सांबाळ शेपडी पोंदाय खांच ।।पं३०८।।
घे पळोवन दोळ्यांत । हे जिणेची जाल्या वाताहात ।
अस्तुरेची दुर्कथा । काकुळटेचो जाळ काजळवात ।।पं३०९।।
थांबू नाका नाच । जीण ही जाल्या असहाय्य कांच ।
न भोग अस्तुरे लाज । जे उलयतां तोच पडसाद सांच ।।पं३१०।।
थय थय नाच तूं नाच । माकडा सुंदरा नाच रे नाच ।
घुंवणाय खेत्या हात । सांबाळ शेपडी पोंदाय खांच ।।पं३११।।
जाय तेंच ना मात । भूतकाळीं गच्च पावसा रात ।
लडाय खेळ काळखां । घाय घातय जातले वो अनाथ ।।पं३१२।।
मनरिझवण मनरिझवण । तुगेली जीविका कोणा फटवण ।
मन मन वझऱ्या उपवन । नाचरांचो खीण चित्त प्रसन्न ।।पं३१३।।

विनोदशील विप्लव हो । आत्मरक्षा लागता म्हाका आंच ।
नाच तुजोच ब्रह्मन । नाचयता म्हणटा म्हाका नाच ।।पं३१४।।
थय थय नाच तूं नाच । माकडा सुंदरा नाच रे नाच ।
घुंवणाय खेत्या हात । सांबाळ शेपडी पोंदाय खांच ।।पं३१५।।

प्रधान मंत्री आनी रहस्याधिकृत आयिल्ले आसात. ते दोगूय जाण तुमकां मेळूंक सोदतात अशें दासीन म्हणना फुडें ताकतिकेन तिणे म्हळें. "हयवय. हय हय. व्हवन यो तांका हांगसर."

त्या दोगांय जाणांनी महाराणीचे कुडींत प्रवेश केलो. कांयच न्हय तरी अनेक वर्सां उपरान्त महाराणी प्रधान मंत्र्याक पळोवंक पाविल्ली. ती खिणांत उठली आनी तिणे प्रधान मंत्र्याच्या पांयार ओंपून घेतलें. प्रधान मंत्री गद्गद् जालो. ताच्या दोळ्यांतल्यान दुकांचो वझरो व्हावंक लागलो. जल्माक आयिल्ले माणकुले गायत्रीक ताणें भुजांर आनी हांडयेर खेळयिल्लें. उपरान्त फांटीर बसोवन घोडो घोडो केल्लो. ताणेंच तिका निपुण शस्त्रविद्यांचो परिचय करून दिवंक उत्तम अशा आचार्याची नेमणूक केल्ली. तिचें लग्न जातकच तिणे आपणाल्या माता-पित्यांच्या वांगडा प्रधान मंत्र्याच्या दोळ्यांतय दुकांची वझरी देखिल्ली. तदोपरान्त साबार जीविकाच उरफाटी जाल्ली. आनी आयज तो प्रधान मंत्री तिका ताकतिकेन मेळूंक आयिल्लो. महाराणीन म्हळें -

आचार्यदेवा तूं । कृपा पीयूश महोदधीच तूं ।
अगोत्र पिता किंतु । तूं भगवन् गायत्री तुजें बाळ ।।पं३१६।।
तुजे आज्ञेन ब्रह्मन् । केलें मानसिंगान पाणिग्रहण ।
कुटील भागधेयान । नाचयलो असो थय थय कळिकाळ ।।पं३१७।।
पाडसच हांव जननी । तूं शांति रसाचें पात्र उन्मनी ।
ब्रह्मन दुहिता मनीं । गदगदी पद्मनयना किंचित्काळ ।।पं३१८।।

प्रधान मंत्र्याक गायत्रीन म्हळें. "हांव जेन्ना मारवाडा वतालें. तेदे वेळार तुमीं म्हाका म्हज्या सानपणांत शिकयिल्ल्या अंतर-मेजणेचो लाव जालो. तें अन्तर मेजपांत आनी राणा मानसिंगाक ताचो अर्थ सांगपांत प्रवासांतलो म्हजो पुराय वेळ सोंपलो."

प्रधान मंत्र्यान विचाल्लें. "अशें कशें तर? भारत भरांत अन्तर मेजपाचें एकूच मापन आसा. म्हणटकच राणा मानसिंगय जाणा आसतलोच. तुज्या

सानपणांत शिकिल्लें आनी पाठ करून दवरिल्लें अन्तर मेजणीचें कोश्टक
आजूनय जाणा व्हय?"

"च्चे. तो जाणा आशिल्लो तो शुसि, शेशि, उबन, शुसि एल्ल, शेशि एल
उबन एल्ल, शुसि हथेली, शेशि हथेली, उबन हथेली असली फारशी अंतर मापव
आमचीं मापनां हांव बरे तरेन जाणा. हांव म्हणूनच दाखयतां."

गायत्रीन सानपणांत आपूण वावरतां अशें करून दाखयलें आनी म्हळें -

"१ अंगूल =एक आंगूळ, ४ आंगळां = एक धनु ग्रह,

८ आंगळा = एक धनु मुश्टी

१२ आंगळा = एक वितस्ति

हें कोश्ठक म्हणटा आसतना गायत्रीन हात पसरून आखाण्या सावनकिरंगळीच्या आंगळा मेरेन आशिल्ल्या वेतांतले अन्तर करून दाखयलें.)

२ वितस्ति = एक अरत्नि (प्रधानमंत्र्यान आपणालो पुराय बाहू दाखयलो.

४ अरत्नि = एक दण्ड २ दण्ड =एक धनु

५ धनु =एक रज्जु २ रज्जु =एक परिदेश

१०० परिदेश =एक कोस (गोरत या) ४ कोस या कोश =एक योजन

१००० योजन =एक महायोजन"

प्रधान मंत्री संतुश्ट जालो. ताणें ताका वात्सल्यपुराय हृदयान आशिर्वाद दिलो :

सर्वगुणी आगळिया । सर्व सुख लाहो तुजिया भाळिया ।
प्रारब्धय स्वकुळिया । यशोधन लाहो तुजिया कारणे ।।पं३१९।।
कुळबाळिका गायत्री । तातसदनय उजळो तुजे गात्रीं ।
उज्ज्वल हो नवरात्री । कमळे स्वकुळ उद्यान वनकुंवरी ।।पं३२०।।

रहस्याधिकृत म्हळें, "राजन् आपूण जावन तुमकां मेळूंक सोदता."

"हांव कुळारा आयिल्लें आसा. हांवें आपणे जावन ताका मेळूंक वचप रीतरविसेन उचित जातलें." गायत्रीदेवीन म्हळें.

प्रधान मंत्र्यान म्हळें, "धन्य तूं गायत्रीदेवी. महाराणी आसूनय तूं आम रीतरविसेक विसरायेर घालूंक ना. परन्त भीमभुपाळ, तुका महाराणीक राजन् ह नात्यान मेळूंक सोदिना. तिचो एक अग्रज तागेले कुळारा आयिल्ले मोगाळ अनुजे मेळूंक सोदता. भूतकाळांतल्यो गजाली विसरायेर घालून आतां तुवें ताका महारा म्हूण क्षमा करची आनी भावान अपराधीपणाची भावना विसरची म्हुण ताचें म्हण तो म्हणटा तें साबार आयकुचें."

इतलें म्हणसर भीमभुपाळ कुडींत रिगलो. ताणें गायत्रीदेवीक तेळून तेळून ळयलें. ताच्या दोळ्यांतल्यान अविरत दुका झरी व्हांवताल्यो. गायत्रीदेवीय प्रेम, द्धा, हर्ष आदी आवेगान गदगद जाली आनी तिणें ताचे पांय धल्ले. पुराय आसमंत नेवान्त आनी प्रशान्त जालो. उलोवपाचे कांयच उरूंक नाशिल्लें. नि:शब्द उतरांनी जेतलो विशाल वेदना-पिडांचो इतिहास खदखदत आशिल्लो तो खिणांत विलुप्त जालो.

गायत्रीदेवीन विचाल्लें :

सांग म्हज्या भ्रात्या । खंय म्हजी मोगाळ व्हनीबाय ।
सांग म्हज्या व्रात्या । लिपून दवरल्या खंय काकीबाय ।।पं३२१।।
विनोमाय विनोदिनी । तुजीच भार्या कंकावती राणी ।
कोकिला तरंगिणी । हर्ष प्रधान शरसंधान करी रती ।।पं३२२।।
व्हनी कशी धनुर्धर । मदना सारक्या भ्रात्या शरण कर ।
केलो फणधर जर्जर । कानांत फुस्स खंय रे बायबाय ।।पं३२३।।
आंबेरीची दुहिता । केली ना मरे विदेशागता ।
तुजें अल्पमत आतां । आमचें भौमत ही तिची सासाय ।।पं३२४।।
राणी ही कंकावती । कदंब साम्राज्याची दैवगती ।
तूं भ्रात्या अल्पमती । तिगेलो घराबो अमर शिवालय ।।पं३२५।।
तुजे भगिनीच्या घरांत । व्हनी मेळ्ळी तेदनां दैवगत ।
केल्ली अति आवभगत । हांवें आतां तूंच उत्तरदाय ।।पं३२६।
व्हनीची ही नणन्द । तिगेल्या घरां रावतां सानन्द ।
मोगा खेळा विशारद । सेवा हे रतीची तुवें करूंक जाय ।।पं३२७।।
करू नाका तूं युक्ती । तिका लिपोवपाची कुटिल कुमती ।
जाणा ती तुजी शक्ती । तिगेलें अस्तित्व आसा महाकाय ।।पं३२८।।

शश्ठदेवाक आपणाले भगिनीचो हो लाघवी रुपाकार मनस्वी मानवलो. तो मनसोक्त हांसलो. इतलीं वर्सा जालीं, पुण आयज पयले फावट तो असो बेंबलेच्या देठा सावन प्रतिसाद दिवपी हांशिल्लो. जण एकल्याक असली एक तरी भगिनी आसूंकच जाय, ताणें मनांतल्या मनांत म्हळें. गायत्रीन राणी कंकावती तेच परी राजकुंवरी इन्दिरा आनी राजकुंवरी दृशा हांका कित्याक हाडूंक ना म्हूण पर्थून एक फावट विचाल्लें. तांका साबारांक कुळारा धाडून दिल्लें आसा कारण प्राप्त

परिस्थितीचो आडोळ, तरीकय राणी कंकावतीक निमंत्रण धाडटां, अशें प्रधान मंत्र्यान सांगलें. शश्ठदेव ओगोच बशिल्लो. ताच्या दोळ्यांत दुकांचो समुद्र येवन तेंकिल्लो.

प्रधान मंत्र्यान म्हळें, “एका भ्रात्याक भगिनी मेळटकच जो अणभव येता, त्या अणभवांतल्यान हांव धादोशी जालों. कदंब साम्राज्य हें आतां पुराय सुगूर जालें. जमालउद्दीन आतां खवळटलो. तेदनां सादूर रावुया, सुगूर रावुया.”

जमालउद्दिनाक ही गजाल कळ्ळी. तो अफाट जालो. साबार गजाली आरत्यो परत्यो जाल्ल्यो. ही घडणूक अचकित जाल्ली, जी ताणें केदनाच येवजूंक नाशिल्ली. ताणें मलिक कफूरा कडेन संपर्क सादपाचो येत्न केलो. तो तात्काळ फळादिक जावंक पावलो ना. तो सळाबळा जाल्लो. ताच्या गुप्तहेरांनी महाराणीच्या सैन्यदळाचीय म्हायती एकठांय केल्ली. ताणें भोंवतणी आशिल्ल्या महाजनपदांतल्या मुल्ला मौलवींक आफोवणे धाडलें. मौलवीन ताका म्हळें, “आखाणो कितलोय फुगूं, तो दोंगरा येदो जायना!”

काय दिसांनी शश्ठदेवाकडेन उलयता आसतना महाराणीन गुल्हळदेवाचो विशय काडलो. तेदे वेळार ताणें तिका सांगले की भिवपाची गरज ना. मलिक काफूर जितो आसा अशें दिसना. जमालउद्दिन एकोडो चड काळ तकालस दिवंक पावचो ना.

रहस्याधिकृतान सांगलें की जमालउद्दीन गुल्हळदेवाक हेर सुवातेर व्हरूंक सोदता अशें कानांर आयलां. थंयसरच्यान व्हरतना गुल्हळदेवाची सुटका करपाची कपशी करची पडटली. आपणे त्या वाठारांतले हितप्राणी, अनिरुद्ध, गूढाकार आनी हेरक ह्यां चार सर्वोत्तम गुप्तहेरांक थंयसर सादूर रावपाची जापसालकी दिल्या.

जमालउद्दिनानय चारपुरुश, अपसर्प, वार्तानुकर्शक, बहिश्चर, अवसर्पण, चारण आनी हेरिका ह्या सात महाकंटक गुप्तहेरांक शश्ठदेवाच्या गुप्तहेरांचेर बारिकसाणेन दिश्ट दवरपाची समजावणी दिली.

गूढाकार आनी हेरक हांणी त्या सातूय जाणांची दिश्ट आपणाचेर पडटली अशी वेवस्था केली. ते जंय जंय दुबावीत, गुमानीत करूंक भायर सरल्यात अशी मुद्रा करीत वताले, थंय थंय हे सातूय जाण तांचो फाटलाव करूंक लागले. करता करता तांच्या फाटल्यान मूळ सुवातीसावन पयससर वचून महा-जनपदाची परिसीमा गांठली. थंयसर पावकच आपूण गणिकांच्या घरांनी वतां अशें दाखयलें. त्यो निखट्यो गणिका नाशिल्ल्यो. त्यो आशिल्ल्यो विशकन्या. मदिरा आनी मदिराक्षी हांचो सांगात लागतकच व्हडल्यांतल्या व्हडल्या साधु-ऋशींच्या तपश्चर्येचो अन्त जाता.

ी तर विशकन्यका आशिल्ल्यो. अन्ततोगत्वा आठेक दिसां उपरान्त त्या सात चो ससेमिरो सौंपलो.

ज्या दिसा तांचो ससेमिरो सौंपलो. त्याच दिसा तिनसांजेर ते पर्थून आयले ल्यार तांका दिसलें की दोग जाण एका साकांत गुठलावन कितेंय तरी व्हरतालें. तो क पुराय हालतालो. जसो काय तातूंत जिवो प्राणी आशिल्लो. निश्चित. तातूंत ल्हळदेव आसा. काळखांत लटाफटी जाल्यो. हेरकान निमाणचो स्वास घेतलो. ढाकारान साक सोडलो. तातूंतल्यान गुल्हळदेव आपसूक भायर सल्लो. हेरकाचें मडें वन तो रेड्डे गेलो. भीमभुपाळ चान्दरा आशिल्लो. हेरकाचें शव ताच्या सोयऱ्यांच्या तांत दिवन ते दोगूय चांदरा परतले.

जमालउद्दिनाक हें घडप अपार यातना दिवन गेलें. ताचे विश्वासू सात वीर रणाधीन जाल्ले. शश्ठदेवाल्या राजवाड्यांतल्यान येवपाच्यो वार्ता आतां अंदूक गिल्ल्यो. मलिक काफुर जमालउद्दिनाचो बुद्धिमान परामर्शदाता आशिल्लो. तेच री तो ताचे वरवीं सैन्य दळाचे साह्य मेळपाची आस्त बाळगितालो: परन्त रवाडांत वावरपी ताच्या मन्थर आनी हीतप्रणी नांवांच्या गुप्तहेरांनी सांगले की ल्लाउद्दिनाची मलिक काफुरान हत्या करतक वर्स पुराय जावचे आदीच ताची ल्लाउद्दिनाच्या अंगरक्षकांनी हत्या केल्ली. आतां एकूच उपाय आशिल्लो. मालउद्दिनान म्हळें - ह्या काफिरांची हे पृथ्वीवयल्यान गच्छन्ती करपा पासत कोड्यान मुखार सरचें पडटलें! युद्ध! संग्राम!!

संग्राम संग्राम संग्राम । तुम्हारी मग्रूरी तोड दूँ जान ।
यहीं है मेरा आलम । दुश्मनी में नहीं दमदार जान ।।पं३२९।।
देखेंगे दुबारा । तब होगा कैसा आलम तुम्हारा ।
आये गये हजारों । तुमरा दबा ले दम जिस्म तमाम ।।पं३३०।।
काफिरों बुरी तमन्ना । नहीं वाजिब जन्नत न सच्चा सपना ।
ख्वाहिशों का अरमॉं । जिगर में रहने दो कल किसने देखा है ।।पं३३१।।
तहजीब आजमानी । है सताना भी जो की दुश्मनी ।
जहन्नुम की तरन्नुमी । दिखाऊँ खौफ होता कितना आराम ।।पं३३२।।
संग्राम संग्राम संग्राम । तुम्हारी मग्रूरी तोड दूँ जाम ।
यहीं है मेरा आलम । दुश्मनी में नहीं दमदार जान ।।पं३३३।।
क्योंकि पहले तुम ने । दी है नसीहत न आया हालत पूछने ।
बेखबरी कराह ने । कहा आना सर कटाने के बाद ।।पं३३४।।

लहू हूँ से परेशान । जला है दिल रौनक मेहमान ।
अजीज से बेजान । बिना पिलाये खून हुआ बदनाम ।।पं३३५।।
संग्राम संग्राम संग्राम । तुम्हारी मग्रूरी तोड दूँ जाम ।
यहीं है मेरा आलम । दुश्मनी में नहीं दमदार जान ।।पं३३६।।
हमें उसने बुलाया । खुदा की कुदरत थी गले लगाया ।
नजर में जिगर सुलाया । फर्क है जीने का मरने का ।।पं३३७।
नाशाद कर दिया क्यों । खिंचा है तुमने खुशी का जाम क्यों ।
मरने पर दोस्त क्यों । आता पसीना उस का क्या काम ।।पं३३८।।
संग्राम संग्राम संग्राम । तुम्हारी मग्रूरी तोड दूँ जाम ।
यहीं है मेरा आलम । दुश्मनी में नहीं दमदार जान ।।पं३३९।।
सस्ते में बिकते देव । हमारे घोडे खाते हैं खेव ।
तूं नहीं है शश्ठदेव । नश्टदेव अस्ली है तेरा नाम ।।पं३४०।।

जमालउद्दिनाक, शश्ठदेवान म्हाका फटयलें, अशीच परवण लागिल्ल शश्ठदेवान आपणाले मातये कडेन निश्ठा दवल्ली, हें ताका मान्य नाशिल्ल आपणाले प्रमाद आपूण वळखलो आनी आतां राजपाटा कडेन आशिल्लें कर्तव्य करूं पळयतां, हें शश्ठदेवाचें म्हणणे जमालउद्दिन मानून घेवंक मनान सिद्ध जा नाशिल्लो. आपणालो सनातन धर्म आपणे सांबाळलो ना जायत जाल्यार को सांबाळटलो हे ताचे मत्त जमालउद्दिनाक पचपा सारकें नाशिल्लें. ताच्या मत्तान ता वटेन आशिल्ले कितलेशे होयसाळ, राष्ट्रकूट दायजांतले विचारवन्त शश्ठदेवाच बकच्छाय करतालेत, ते पळोवन जमालउद्दिनाक बरें दिसतालें. शश्ठदेवाच्य सहाय्याक आतां गुल्हळदेव आशिल्लो, परन्त तो भलायकेन पुराय बरो जायस बरोच कळाव लागतलो आशिल्लो. ताणें मन्थर आनी हीतप्रणी नांवांच्या गुप्तहेरां मारवाडच्यान पर्थून आफोवन घेतलें. शश्ठदेवाच्या सैन्यदळाचो पुराय मागमू घेवपाचे दायित्व तांचेर सोंपयलें. 'हतीच्या मुखांत मिरयां कण घालून चलचें ना ताणे मौलवी आनी हीतप्रणीक म्हळें.

राजा भीमभुपाळ फांत्यापारा उठलो. राजपुरोयत भुपाळी गायतालो. ताच्य खणखणीत स्वरांतली ती भुपाळी मनाक प्रसन्न करताली. रेड्डे भुपाळी कोणूच गा नाशिल्लो. शश्ठदेवानच भुपाळी गावंक जाय ना, अशी राजाज्ञा काडिल्ली. आय कितल्याशा वर्सां उपरान्त तो ताच्या राजपाटणा आशिल्लो. 'राजपुरोयता, भुपाळ गाऊ नाका' अशें सांगून ताका कोण आडयतलो आशिल्लो? वांगडा प्रधान मंत्री

आसतलो हातूंत दुबाव नाशिल्लो. पुराय वातावरण प्रसन्न करपा सारके आशिल्लें. म्हणसर फांतोड जाता थंय आसा. चारण. गूढपुरुष आनी गुप्तगती हे ताचे विश्वसनीय वार्तिक आयल्यात म्हणपाचो संदेश ताच्या कामारीन दिलो. तो त्वरीत ताचे कोठयेंत रिगलो. जमालउद्दीन आपणाली तारवां भायर काडपाची सिद्धता करता आनी ताचे कडेन कांयच न्हीं म्हळ्यारी पन्नास तारवां आसात. तेच परी ताणें दोन सहस्र धर्मान्ध आक्रमणकारी एकठांय केल्यात म्हणपाची वार्ता चारण आनी गुप्तगती ह्या वार्तिकांनी दिली. चारणान सांगलें की धर्मान्ध म्हळ्यार असलें मुस्लिम सैन्य जें इस्लाम धर्माच्या नांवार युद्ध करपाचो पक्ष उखलून घेता आनी तो क्रूर स्वभावाचो आक्रान्तवादी धर्मद्‍वेश्टो पंगड जावन आसा. असली दिश्ट धरून जे युद्ध करूंक भायर सरतात ते साबारांक भेकडायतात. परन्त परिणामां कडेन अवधान दिवंक सोदिनात. ते परिणामां विशीं निश्चिंत आसतात.

ताणें आपणाले घरकान्नेक, राणी कंकावतीक आफयलें आनी म्हळें.

"आतां लडाय जावपाची शक्यता आसा. तूं तुज्या पित्याच्या घरा वचून सुगूर राव. थंयसर राजकुँवर इन्दिरा आनी राजकुँवर दृशा आसात. तांका आतां तुजो सांगात जाय पडटलो. तातूंत हांगसरची रणधुमाळी तुज्यान सोसूंक जावंची ना."

राणी कंकावतीन म्हळें जंय पती थंय तागेली पत्नी. हांव हांगसरच्यान हालची ना."

राजा शश्ठदेवान म्हळें -

अस्तुऱ्यांचीच जाती । मनोनुकुल विकास उत्थान करती ।
आदर्श जिणे जगती । आदर्शयुक्त मर्यादात्मक ।।पं३४१।।
आद्दत महिला अशी । कन्या पत्नी माता कर्तव्य करशी ।
सर्व शक्ती संपन्नाशी । विद्या शील ममता संपत्ती जशी ।।पं३४२।।
हे गिन्यानी मधुबाला । अनसूया अत्री बाला सुपाला ।
चर्मरोगी अपाला । शेड्ड्या-शिल्ल्या मानग्या वरी कूड ।।पं३४३।।
बरयलो हे पिडितेन । ऋक्संहितेचो तो मण्डल अश्टम ।
त्यागिली कृशास्वान । अस्तुरी नकळत सात ऋचांची ऋषी ।।पं३४४।।
ऋग्वेदाचें ९१ सुक्त । अनुश्टुभ् छन्दी अपाला इन्द्रभक्त ।
आसूं अपंगी त्यक्त । अस्तुरींचें आंग दिव्यसव्य ।।पं३४५।।
अस्तुऱ्यांचीच जाती । साहती दादल्यांचीच दुर्मती ।
इन्द्रय करी अवनती । सावत्र मायचे गर्भी दुश्कृती ।।पं३४६।।

तांच्या प्रतिसादे । शश्ठदेव मनोमन आनन्दे ।
भगवती जणूं वर दे । सनातन धर्माचेच रक्षणी ।। ।।स३९५।।
कुमट्याचे प्रतिनिधी । सदैव आमी तुमचे संनिद्धी ।
लक्ष्य तुमचे सेनेचें । आश्वस्तक अपेक्षा विणें ।। ।।स३९६।।
गोकर्णपुरीय वचन । महादेवालें आशिर्वचन ।
सेनेक करी पावन । साक्षात उमापती गंगाधर ।। ।।स३९७।।
वीर अङ्कोल्यांतल्यान । तांकाय वसो आयलो म्हान ।
कडे वाडो नात्यान । चांदर कोंकण्यां भाशेन ।। ।।स३९८।।
चक्रवर्ती तुमीं सदैव । आमच्या राज्याचें सुदैव ।
तुमीं नित्य गति दैव । शत्रुचो दुदैवी दुर्विपाक ।। ।।स३९९।।
तूं स्वयं सुर्या राजन । गगनारूढ सोदी समुद्र तळ देंवन् ।
अस्तुरीचो अवमान । म्हणचे घर भंय भित्यांचो गांव ।। ।।स३१००।।
घर म्हळ्यारी नातीं । शुचिर्भूत दारांची गांवमाती ।
निंद्य कर्माचें भिरांती । दारां भगिनीं रावचीं न्हय ।।स३१०१।।
घरचीच नारी न्हय । आसूं पर दारा विरयत भंय ।
प्रेम आनी कर्तव्य । तुजे मिशयेचो आसचो गर्व ।।स३१०२।।
आसल्यारय ब्राह्मण । विसरूं नाका क्षत्रं धर्मम् ।
राजन् स्वधर्म परम । वीर करी अरी पराभूत ।।स३१०३।।
।। "यदोजसा न लभते क्षत्रियो न तदश्नुते" ।।
चतुरंग दळ निशफळ बळ । नाकाच रथ आनी गजदल ।
अश्व बल तथा पद दल । पदातींत घे भूत श्रेणी मित्र मौल ।।स३१०४।।
मुक्त अमुक्त मंत्रयुक्त । सिद्ध राव शस्त्र-अस्त्र संयुक्त ।
धनु-इषु सदैव भुक्त । रक्षण करतलें तुजें कोदण्ड ।।स३१०५।।
।। सेना पदातिबहुला शत्रुन्जयती सर्वदा ।।
प्राप्त कर धर्मविजय । संपाद सदैव तूं असुर विजय ।
निरिच्छ राव सदय । राजा सर्व श्रेश्ठ लोभ विजय ।।स३१०६।।
हिरण्यगर्भा सहस्र रश्मी । जैतिवंत जा शत्रु भुवनी ।
कर्णोपकर्णीं जन मनीं । आयकूं तासो मुडदंग धोल ।।स३१०७।।

राजन् निरस्त करी । रथौजस रथेचित्र रथधारी ।
रथमुसळांच्या प्रहारी । ना थंयसर योग्य रणांगण ।।स३१०८।।
सैनिकय सल्लें सत्वर । घोटघोटकतुरंगअश्वधर ।
राती प्रस्थान घोर । करी ध्वनी विरयत अनुगमन ।।स३१०९।
दिसा करती विश्रान्ती । परिग्रहांत जतनाय घेती ।
गांव प्रतिनिधी येती । अन्न पेयां नसे दुजा भाव ।।स३११०।।
खरारो घोड्यां तनीं । करी सेवक गण अति मग्नीं ।
अरबी भुतानी वनीं । मारवाडी मणिपुरि चुमुरती ।।स३१११।।
पंचकल्याणी अबलख । पद मुख उज्ज्वल कृशण सुलेख ।
ईराणीचो उल्लेख । अटळ पारशी इराकी हय ।।स३११२।।
माथेंय श्वेत उज्ज्वळ । सुन हळडुवें सुबळ मुखामळ ।
पदक्षेप दल अश्वबळ । भार वाहू तट्टूय वांगडा ।।स३११३।।
हरबुज इराकी मुश्की । सांवळे देवमण वेंचिकी ।
चपळ उत्साही तुर्की । उचैःश्रवा अश्व जालो नत ।।स३११४।।
आकार वर्ण संगती । प्राणवन्त काठेवाडी पाती ।
घोड्यांच्यो ह्यो जाती । हेरां सावन चिकें भिन्न ।।स३११५।।

।। ४ ।।

गायत्रीच्या कानांतु । अश्वांचो फुरफुरो येतु ।
निश्चित रहस्याधिकृतु । भांगर भाण्डारा रावला ।। ।।स३११६।।
ताच्या दलदल मनांतु । खवदळ घालतात राहु केतु ।
त्या अनर्गल उतरांतु । कामांधाचो कुवास लिपिला ।। ।।स३११७।।
तीन पिशाच पाशवी । भागधेय तांचें मायावी ।
स्वार्था घरा कुळावी । वासना निश्चित निश्फळ विफळ ।।स३११८।।
तांका हांव बदचि ना । कदम्ब भाण्डार दिवंचीच ना ।
तांच्या कुमती तनां । हस्तुकीं घालूं कुंभिपाका ।।स३११९।।
तथापि ते तिगूय जाण । अति प्रणय देखती अजाण ।
गायत्रीचे अवघ्राण । करपाची निश्चितीच करुया ।।स३१२०।।

कशें केन्नां वचूं या । पर दाराचो उपभोग घेऊया ।
तानेल्ली भागवुं या । चित्रगुप्ता मेळचे पयलीं ।।स३१२१।।
ते सपनांनी रिगले । वन वसन्त खेळूं लागले ।
मत्तलोचने देखलें । दोळ्यांतय चडलें द्राक्षिरा ।।स३१२२।।
रमले कल्पित काजां । कामातुराणां न भयं न लज्जा ।
रानीं वनीं स्वप्नजा । पुश्प वाटिका रम्य मनोहर ।।स३१२३।।
पलाश अनन्त चम्पक । दसण कवासो आनी कुदंबक ।
वोंवळ निळें साळक । पारजत शब्दुलें अबोलेंय ।।स३१२४।।
तरस तरळ हरिण मोहित । वराह अन्य श्वापद रक्षित ।
वनीं संभोग मयुर रत । कामार्थ सुकणीं जळीं मळीं ।।स३१२५।।
विशाल रमणीक तळें । शरद रुतू मळब निळें निळें ।
तिगांल्या गाला खळें । सपनांतु गायत्री भोंवर्‍यांल्या ।।स३१२६।।
गायत्री नव कुरंगिणी । दोळ्यां तृप्ती देख हंव्सिणी ।
सुखमैथुन गो राणी । करूं गो गायत्री तुज्या संगें ।।स३१२७।।
उत्तम पुरुषच आमुंक । हृदय पेटारीं सर्प कामुक ।
कन्दर्पय अति उत्सुक । तुज्या सहवासां पिशे आमी ।।स३१२८।।
वनिता वनये कान्ती । सुन शुभांगी भोगा अप्राप्ती ।
अनंग दादल्या चित्तीं । स्फोटक तूंच अनावर ललना ।।स३१२९।।
सुन लता गगन तनया । पयोधरांची अनन्य माया ।
कर्दळी स्तंभ काया । त्रिवळी बेंबूल अन् नितम्ब ।।स३१३०।।
आमी कामविकारी । हय गो यो अशी करपंजरी ।
पतंगच कामातुरी । मधुकर कवळीं पुश्पकळिका ।।स३१३१।।
मेळय अधराक अधर । बेंबुलीक बेंबूली उदर ।
उम्याक उमाव दी खर । विकळता येयसर गात्रीं ।।स३१३२।।
नाभी गूढ आकुल । गर्भनाल उजव्यान मृदुल ।
रोमरेखा जाय सुडौल । नाभितळी आंगांगीं अति उजो ।।स३१३३।।
नाभी सोबित सुजाता । रूपतारुण्यभूषणयुक्ता ।
नाभीकार स्वहस्ता । सदांच सुगूर म्हजे वेंगें ।।स३१३४।।

दाव्या तुज्या आंगार । भुंवीचे मजगतीं कृशण भोर ।
नितळ कोमल गालार । नाका गळ्यार तीळच तीळ ।।स३१३५।।

तुजे तळपाय सुकोमल । शंख चक्र स्वस्तिक कमल ।
ध्वज मत्स्य छत्र सकल । शुभ चिन्नांचो हो शिंवर तुजेर ।।स३१३६।।

आखाणो अति उन्नत । सुकोमल आंगळां चक्रवत् ।
पाष्णीं समसमान नत । सोबीत चोवीस आंगळां कटी ।।स३१३७।।

जाता गो विर्य खळण । कितलें सोबीत असलें मरण ।
अस्तुरीचें आकलन । सांगता नृपती विस्मरलों ।।स३१३८।।

अस्तुरेच्या लोभान । भुंयेभरण जालें साम्राज्यांचे मान ।
मिण आसूं मीण मान । मिण्डय करी मोंबारीचें रान ।।स३१३९।।

सपनांक नासता नांव । आंकरेता सपनांचे गांव ।
सपनांच्याच गांवांत । कामूक निर्लज्जं सदासुखी ।।स३१४०।।

## ।। अष्टं उच्छवास ।।

### ।। १ ।।

मंत्रगूढ आनी भीमर, जीव आसत जाल्यार भीक मागून जगूं, अशें म्हणून तांणी फुज्यो काडिल्ली. महाराणीन तांचे गुमानीत इप्सित रोखडेंच धरिल्लें. प्रधान मंत्र्यान कपलाक हात मारून घेतिल्लो. आपूण इतलो घाळ उल्लोंच कसो म्हूण आपणाकच शापीत रावलो. कितल्याशा जाणांक ताचोच दुबाव येवंक लागिल्लो. प्रधानमंत्री आपणाल्या घरांत लिपून राविल्ल्या वरी जगूंक लागलो. फाटल्या पन्नास वर्सांची राजसेवा गेली व्हांवन, आनी आतां लजेकय म्हारग जाल्ल्यावरी ताका दिसूंक लागिल्लें. राजपुरोयत आनी राजपाटणांतल्या कितल्याशा विचारवंतांनी ह्या दुबावा विशीं महाराणीक विदीत केलें. आमकां प्रधान मंत्र्याचो मात्तुय दुबाव येवंक ना. अशेंय तांणी सांगलें.

तेदनां महाराणी गायत्रीदेवीन म्हळें, "जितलो म्हजो म्हजेर विश्वास आसा, ताचेय परस म्हजी श्रद्धा आनी म्हजो विश्वास ह्या कदम्ब साम्राज्याच्या, आमच्या प्रधानमंत्र्याचेर आसा. जें कितें घडलें, तें अनावधानान घडलें, हातूंत म्हाका तरी दुबाव ना."

राजन् शश्ठदेवाक ह्या साबार घडणुकांचो उगडास येवंक लागलो. प्रधानमंत्री घाळ उल्लो, तातूंत नवल कसलें? हांव, राजा शश्ठदेव, लेगीत घाळच उल्लो. देखून अशें घडलें. तरीकय समय बलशाली आशिल्ल्यान महाराणी गायत्रीदेवी असोल्ड्यांत नासून ती होन्नावरांत आसा म्हणपाची वार्ता आयली. आपणालें सैन्य दळ तेच परी महाराणीचेय मारवाडी सैन्यदळ मेकळ्या हातांनी येवचें ना, अशी ताका खात्रीच आशिल्ली. आपणे सैन्या वांगडा वचूंक जाय आशिल्लें, अशें ताका परपरत जाणवतालें. निमाणें ताणें चिंतलें की जाता तें जावं, आपणेय होन्नावरा वचप चड गरजेचें आसा. राजपाटांत रावचे सुवातीर प्रत्यक्ष होन्नावरांत आपणे आसपाची गरज आसा, ताणें प्रधानमंत्र्याक आफोवन सांगलें. प्रधान मंत्री आंगभर शिरशिरलो. साक्षात शत्रूच्या गोटांत? जमालउद्दीन होन्नावरचो दैत्य कसो!आमी ताचे आड ताचे घोलीत धुमशेणां घालून महाराणीची सुटका करपा पासत पुराय अश्वदळ आनी पदाती दळ धाडलें, तें उत्तमच अशें म्हळ्यार जाता; तथापि साक्षात कदंब साम्राज्याच्या राजान थंय आगंतूकपणान वचप म्हळ्यार ताच्या जीविताकच घात जावपाची शक्यताय, परिणामी पुराय कदंब साम्राज्य लयाक वचपाची चिन्नां! हो निर्णय घेवंक नाका अशें ताणें राजाक परपरत सांगिल्लें.

यद्यपि राजान ताची विनवणी मानली ना. ताचे अश्वदळ महाराणीचे सुटके पासत होन्नावराचे दिकेन वचूंक लागिल्लें.

हे फाटभुंयेर मंत्रगूढ आनी भीमर ह्या जमालाच्या गुप्तहेरांनी ताचे सरी वचून शश्ठदेवाचे सैन्य येवंक लागलें म्हणपाची वार्ता सांगली. रहस्याधिकृतान महाराणी गायत्रीदेवीच्या अस्करांत तेळणी आनी राखण वाडयली. पद्मनाभ महाराणीक हेर सुवातीर व्हरुया म्हूण परपरत सांगूंक लागलो. ताची मांडणी जमालान आनी रहस्याधिकृतान भायरायली. जमाल आपणालें अर्दे सैन्यदळ गोपकपट्टणांत धाडपा विशीं चिंततालो. तेदनां तशें केल्ल्यान हांगसर शश्ठदेवाच्या मुखार आमी पुराय दुबळे पडटले म्हणपाची शिटकावणी मंत्रगूढ आनी भीमर हांणी दिली. साधक बाधक भासाभास करून जातकच ताणें मंत्रगूढ आनी भीमर हांका विचाल्लें. "महाराणीचो राजकुंवर खंयसर आसा?"

दोगांनीय म्हळें. "आमी रेड्डे वचून आयिल्ले. थंयसर तो नाच्च ना. उपरान्त शश्ठदेवाच्या मावोड्या वचून आयले. जाल्यार थंयसरय तो ना. तदोपरान्त आमी चान्दरा आनी गोपकपट्टणा वचून ठावठांय सोदलो. परन्त नन्ना. तांणी ताका घडये जयपुरांत सुगूर दवरिल्लो आसतलो. ह्या दिसांनी आमचे वार्तिक आमकां हे वार्ते संबंदान कळीत करतले. उपरान्त आमी थंयसर वचून येवपाचे आसात.

॥ २ ॥

चारण, गूढपुरुष आनी गुप्तगती हे राजा शश्ठदेवाचे विश्वसनीय वार्तिक आयल्यात म्हणपाचो संदेश राजाक कामारींनी दिलो. राजा जेदना ताचे कुडींत गेलो तेदनां तांणी सांगलें की जमालउद्दीन गोपकपट्टणाचेर घुरी घालपाचे चिंततालो. परन्त आतां ती कल्पना ताणें निरस्त केल्या. ताका राजकुंवर जगतसिंगचो सोद घेवपाचो आसा. ताच्या गुप्तहेरांच्या संपर्कांत तांचे जयपुरांतले वार्तिक आशिल्ले. दैवदुर्विलास असो की तांची निर्मम हत्त्या जाल्या. परन्त मुळावो प्रस्न असो की राजकुंवराची हेर सुवातेर रावपाची वेवस्था करूंक जाय. हठात् शश्ठदेवाचे दोळे चकाकले. ताणें तांका तिगांकय लागसार आफयलें आनी कानांत कितें तरी सांगलें. चकासूर जाल्ल्यान तांचे दोळे विस्फारले. उपरान्त हांसत हांसत ते तिगूय भायर सल्ले.

जमाल उफाळी । सोंवल्यो कुगाळी ।। उद्धट नाचळी । थयाथया ।।अ३०१।।

दुर्जन समंध । अति विषयान्ध ।। कपटी श्वापद । अमर्याद ।।अ३०२।।

रुण्ड मुण्ड व्ययो । अकाळप्रळयो ।। जावं निराश्रयो । झुजा अन्ती ।।अ३०३।।

गर्जिले गर्जप । श्वापद कळप । विखाळ पादप । भोंवतणी ।।अ३०४।।

कोपे खवळलो । मर्कट हांसलो । श्वान हेळशिलो । एकोड्यान ।।अ३०५।।

पुराय खण्डना । अति हेळणा ।। आनी स्त्रियां नग्नां । करतलों ।।अ३०६।।

जमाल विवर्ण । लोहितले कर्ण ।। राजा रक्तवर्ण । देखी हांव ।।अ३०६।।

आज्ञे सेनाकार । पातळे मुखार ।। मानसी विचार । अन्य न ये ।।अ३०७।।

रहस्याधिकृत । मनांत चकित ।। गायत्रीचे वृत्त । विस्मरलों ।।अ३०८।।

धनुर्धर सैन्य । करी मज धन्य ।। अगम्य वैषम्य । विस्मरलों ।।अ३०९।।

पद्मनाभ चित्ती । संचित भृकुटी ।। मनें सृष्टी मनें भ्रश्टी । दुश्टांचीच ।।अ३१०।।

ताप घर्मे बोध । जमालाचो क्रोध ।। नाश काळीं कुबोध । भ्रंशे बुद्ध ।।अ३११।।

रहस्याधिकृत । नारद प्रेषित ।। जमाल तृषित । लोहिताचो गा ।।अ३१२।।

निंद्यानिंद्य कर्म । जल्म भर केलें ।। अंकित ना जालो । आजूनय ।।अ३१३।।

पश्चात्तापानळें । मागीनय दया ।। राजा तूं सदया । कृपावन्त ।।अ३१४।।

न्हय मी नीतिज्ञ । तरीय सावज्ञ ।। परीक्षिता यज्ञ । म्हजो बळी ।।अ३१५।।

रहस्याधिकृत । विचारी जमाला ।। पद्मनाभ गेला । अचकित ।।अ३१६।।

येतलो वतलो । विचारे खातलो ।। जतनाय घेत्लो । चिंतूनच ।।अ३१७।।

जण एक दायी । आपणाले कायी ।। हेरांक अन्यायी । म्हणूं नये ।।अ३१८।।

वरपडे पीडा । मर्णाच्या सांकडा ।। सुडाचो विडा । कित्याक घेवूं ।।अ३१९।।

पयस वचून । धादोशी रावीन ।। तिरस्कारीन । सदैव म्हाका ।।अ३२०।।

जमाल अस्वस्थ । म्हळें हो आघात ।। रडत राऊत । रहस्याधिकृत ।।अ३२१।।

दळां आफयिलीं । चान्दरा धाडिलीं ।। अचकित दिली । घोर आज्ञा ।।अ३२२।।

दळां चकाचूर । थटाकणी घोर ।। कुवाड्यांनी गेलीं । मती तांची ।।अ३२३।।

जमाल पिसांट । करता चकाट ।। मरण विकट । अनर्थकारी ।।अ३२४।।

घुवंडाय आज्ञा । टाळी शान्तियज्ञा ।। ताचेच कृतज्ञा । जगप घोर ।।अ३२५।।

काय करी कूट । वचूं राजपाट ।। करू लूटपाट । मनसोक्त ।।अ३२६।।

कटि अस्तुरींची । वेंग मेखलेची । करधनीची । तागडीय ।।अ३२७।।

मुक्त पुरुष । न्हय रे अशेष । विरक्त पुरुष । आमी न्हय ।।अ३२८।।

तिची कृश कटि । अमृताची वटी । सौंदर्य मुकुटी । अवतलता ।।अ३२९।।

कामोत्तेजक कटी । नाका कटकटी ।। पर दारा मिठी । म्हत्वाची ।।अ३३०।।

आमचो रे धर्मु । अहेतुक प्रेमु ।। दायी ना कर्मु । नतोदरता ।।अ३३१।।

चान्दर अस्तुरी । यौवनान भारी । क्षीणकाय गोरी । शकुन्तला ।।अ३३२।।

पृथ्वीची रती । सुन्दरतम कृती ।। निर्वस्त्र मुर्ती । गोपकपट्टणीं ।।अ३३३।।

पादुकामूलम् । पार्ष्णी वर्तुलम् । खोंटो गोंडसम् । गुबगुबीत ।।अ३३४।।

भारी वक्षस्थळ । मादक मधाळ । तांचे नेत्र दळ । करी क्रीडा ।।अ३३५।।

मेळटल्यो नारी । आंगां कण्ड भारी ।। बुड्या भांगरी । भाण्डारांत ।।अ३३६।।

वर्सा वर्सा दारीं । घर ना ना नारी ।। आपणाली पुरी । रानवटी ।।अ३३७।।

पांच सहस्रींचें । इश्नाशरींचें ।। शफि-हनाफींचे । सैन्यदळ ।।अ३३८।।

सुन्नी मुसलमानी । कुरेशी मुजाहीर ।। जमालाचे दळ । गेलें घरा ।।अ३३९।।

गेलेकाय जाण । जमाला सोडून ।। वचपाचें त्राण । चन्द्रबळ ।।अ३४०।।

कितलेशे धल्ले । कितलेशे माल्ले ।। गद्दारिचे उले । देई दण्ड ।।अ३४१।।

गेले होन्नावरी । सुल्तानत भारी । करून संसारी । धादोशिले ।।अ३४२।।

मक्द्रोम फकिहा । काझीक मेळून ।। हाफिजाची जाण । जाली तांका ।।अ३४३।।

काझी हो दयाळू । मनीं कनवाळू ।। दोशी कवटाळू । पापनाश ।।अ३४४।।

होन्नावरी फार्टी । सहस्रांची दाटी । सैनिकांची लोटी । मोहवश ।।अ३४५।।

।। ४ ।।

जमाल लक्ष चान्दरीं । शश्ठदेव पळय होन्नावरीं ।
कल्लोळ विर्णे संचारीं । मार्ग ते अगुतले निश्चित ।।अ३४६।।

जमालाच्या नांवान । थरथरा भयंभय कम्पायमान ।
करतलो दर्पमर्दन । ना भोंवतणी पुरुषच उत्तम ।।अ३४७।।

भूतकाल सल्तनती । ना विस्मरे प्रजा नफरती ।
विच्छेदिलें महासती । भिन्नमती स्थळ गोमटें ।।अ३४८।।

जमाल कली आयलो । अरबर धुंवाधार व्हांवलो ।
आक्रान्त दीन जालो । केलो छिन्नविच्छिन्न परिसर ।।अ३४९।।

गोकर्ण पवित्र सुन्दर । तीर्थक्षेत्र पावन गंभीर ।
अध:पतित दुर्जन नगर । लुटपाटीं भश्टिलें कुलीन जन ।।अ३५०।।
महमूद उलुघ खिलजी । विनाशक मंदिर सोमनाथजी ।
जमाल अति खुदगर्जी । तांका मानी आदर्श आक्रमक ।।अ३५१।।
गांवा वाटे वेलीं । जमाला ध्वस्त नश्ट केलीं ।
क्रूरपणान घातली । घुरी निर्बळा अस्तुऱ्यांचेर ।।अ३५२।।
स्तुपिका कलश शिखरां । अनाचार सदाशिव मंदिरां ।
अयगळ गुरू विचारा । निर्मम कातरले धड विरयत ।।अ३५३।।
विनश्टिले अग्रहारा । मठ घटक आनी ब्रह्मपुरा ।
पावलोच चान्दरा । शिकोवंक बुद्द शश्ठदेवा ।।अ३५४।।
शेंकड्यांनी पदाती । गोपकपट्टणा ते ध्वस्तती ।
वैभवी नगर कृती । जाली पुरायच भूंयभरवण ।।अ३५५।।
जमाल मध्यान रातीं । धमनदीप घेवन हाती ।
साद थळाव्यां घालती । प्रधान मंत्र्याक हो हाडात ।।अ३५६।।
धांवले प्रतिसादे । मुसक्यांनी प्रधाना हाडलें ।
सत्तांध जमाल मदे । राजनिवास लागलो लासूं ।।अ३५७।।
जमाल अचंबित मलमल । शश्ठदेव मंत्रीय उन्नत अटल ।
कान्ती पवित्र नितळ । वस्त्रय ताचें उज्ज्वल निर्मळ ।।अ३५८।।
कंध कबंध उचलून । प्रधान मंत्र्याचेर वडोवन ।
रक्तलांछित करून । जमाल खदखदा करी हांसू ।।अ३५९।।
अशे सुरुंग पेरले । सैनिकांनी सैनिक घेरले ।
आथव अचर्यें जालें । वासनीं जमाल गेलो धसकून ।।अ३६०।।
चन्द्रपूर वीर गरुड । कशे गुमानीत थळीं आरुढ ।
झुजांत पुराय सुप्रौढ । लागलीं तुटून पडूंक जोगलां ।।अ३६१।।
उज्या-अंगाराचो शिंवर । संख्या देवूंक लागली झरझर ।
सेनेची घनाकार । करी टणत्कार गुंड्याक गुंडे ।।अ३६२।।
उदधि समुद्र विरांचो । संहार जमालाच्या गुण्डांचो ।
फळवती सुवर्णलता । राजपाटण जळे भुरूभुरू ।।अ३६३।।
अगणित गण हत आहत । दास दासी विकट भयांकृत ।
हिण्यां तिण्यां त्यो धांवत । एक एकले अगणित भोगत ।।अ३६४।।

आत्मघात विरांगना करीत । कोट भकीक उज्या हूलपत ।
शरीर न्हय म्हजें शाश्वत । म्हणून भिरांकूळ आत्महत्या करी ।।अ३६५।।
सरिता कुशावतीचें जळे । उकळूं लागलें महाज्वाळे ।
रग्ता व्हाळ कोल्हाळे । दिसूंक लागले व्हड न्हंय कशी ।।अ३६६।।
अगाध कल्पान्त काळ । ताप तप्त साम्राज्य मण्डळ ।
देखी अतर्क्य गंगाळ । रगताचो उश्ण उमथो अनावर ।।अ३६७।।
हूलपून गेलें नगर । राजपाटणीं नसे विश्वंभर ।
प्रधान मंत्र्याक सुगूर । करूंक दासी सोडी तडेर ।।अ३६८।।
प्रधान मंत्र्या कोणी । लिपयलो जमाल जालो खुनी ।
दगा दगा ताडणीं । कातरले गुण्ड आपणाले ।।अ३६९।।
प्रधान मंत्री सुटलो । निश्चय करीत अति धांवलो ।
सुगूरपणी पावलो । रावराळाच्या देवालया ।।अ३७०।।
भस्मी त्रिपुण्ड्र ओलें । ठसठशीत कपलार माखलें ।
खदिरांगारी दोळे । थयथयाट करीतच आयलो ।।अ३७१।।
हातीं त्रिशुळ आरक्त । वस्त्र लोहित रौद्र रुपायित ।
जमाल जालो थटाक । विरलें हांसप दिश्ट हतबुद्द ।।अ३७२।।
आसमंत जालो थक्क । मुखार प्रधान मंत्री घातक ।
धोलय ताशेय निर्भीक । वाजली थरारक कांसाळी ।।अ३७३।।
प्रधान मंत्री अनावर । जमाले भोंवतणी सरासर ।
मर्णा कवदे घर्र घर । दोळे भिरांकुळी जाय तर्क ।।अ३७४।।
जमालान धरले पांव । प्रधान मंत्र्याक म्हळें राव ।
निर्दंशी शोणितस्त्राव । चुकलों कर गा देवा क्षमा ।।अ३७५।।
झुर झुर तो घुंवलो । त्रिशूळ करदण्ड उबारलो ।
आखेट खीण आयलो । तीन शुळां गेलीं आरपार ।।अ३७६।।
हड्डें जालें विदीर्ण । खिणांत आसमंत जालो किण्ण ।
अपूर्ण काज पूर्ण । अन्ताचो आरंब विदारण ।।अ३७७।।
एका फाटल्यान एक । त्रिशुळी घायच घाय कैक ।
परधर्म रगत शोषक । तूं कित्या दवरशी तंग नजर ।।अ३७८।।
धर्म हरण करता थू । अस्तुऱ्यांचेर बलात्कार थू ।
धर्मान्ध म्लेच्छा थू । अनाचाराच्या शुक्राचार्या थू थू ।।अ३७९।।

चिळकिसु ह्यो रगताच्यो । दुश्कर मनशाच्या पापाच्यो ।
त्या अवसर वाद्यांच्यो । जाणीं धर्म दवरिल्लो घाणाक ।।अ३८०।।
उल्कांच्यो प्रज्ज्वलित । किटींचेर किटी तना मनांत ।
स्फुल्लिंगवत जळजळीत । तिरस्कार दोळियांत मंत्र्याच्या ।।अ३८१।।
जमाला मडें कुत्सित । जाल्यो क्षत कामेरी मुर्छित ।
रक्तरंजित मृत अचेत । लोहितांग मंत्री मारक अनावर ।।अ३८२।।
रक्त गंध रक्त स्पर्श । रस रूप रक्त परमोत्कर्ष ।
दुरात्म्या मेलो अस्पर्श । वाटयलो तुका यमराजान ।।अ३८३।।
हांव हो वन पशूवत । करूं लत्ता प्रहार अमित्रवत ।
यमराज सोडी प्रेत । आत्म्याचेरय मुश्टी प्रहार ।।अ३८४।।
कुटिल हत्या संकेत । कारण तें तर केवळ आत्महित ।
हांव आयज अविधिवत । वृकोदरा वरी मारपाचो ।।अ३८५।।
जगप जालें भेसूर । पिसांटां हूलपलें चन्द्रपूर ।
इतिहासाचो मुकूर । चान्दरी पडबिम्ब विखण्डित ।।अ३८६।।
जमालाचे जे चाटुक । करपी प्रतिशोधाचो अतिरेक ।
गुणांकी लाबार्ती । तांची वासलात गुपित यमांकी ।।अ३८७।
तांचे पक्षी न जाती । तांचे सनिदान कसल्या अर्ती ।
चाटुक चाटुक जाती । करती संवसार चाटुकी निर्धोक ।।अ३८८।।
जमालाचे अंगरक्षक । प्रेत उबारून धांवी अथक ।
बाकी दीन समर्थक । कातरलें राजसैन्य दळान ।।अ३८९।।
क्रूर आत्मे दुश्चरित । जगूंक दी नात न्यायसंगत ।
अशांक मारत मुर्छित । जाले सैनिक शश्ठदेवाचे ।।अ३९०।।

।।५।।

होन्नावरींय उचित । धर्मान्धांचे शिरकाण परिणत ।
आक्रमक न्यायसंगत । भयमुक्त वाठार करूंक लागले ।।अ३९१।।
उज्याचो हाहाकार । होन्नावर होय अस्पश्टाक्षर ।
धर्मान्धांची धरोहर । दिसूंक लागली खण्ड विखण्ड ।।अ३९२।।
सोंपलो जिझियाय कर । जगणें सोंपलें निकृश्टतर ।
सोंपलें स्थानान्तर । आचार्य गोपाल होय सुखी ।।अ३९३।

घरभेदी उद्योग रत । धर्म संस्कृतीशी विच्युत रत ।
राज विप्लव कर्म रत । सुवार्थ्यालें नातें लाबांशी ।।अ३९४।
नबाबालें सोंपलें । राज्यच अन्धक धुन्धकांलें ।
घरभेद्यांलें बुडलें । घर साबार होय अनिकेत ।।अ३९५।।
घरभेदी परागंदा । खण्ड विखण्ड वृत्तीचेर आपदा ।
मतिभेद करी द्विधा । सदा निश्कपट भावार्थीची ।।अ३९६।।
अशी परिस्थिती सदां । जयसूचक शोकसूचक कदा ।
निर्मुपाक सौहार्दा । विचारक कळवळूं लागले ।।अ३९७।।
सुविचारीत एकत्रित । नबाबाचेय आड उन्मुक्त ।
शासनाधिकारयुक्त । स्वदेशानुरागपूरितजाले ।।अ३९८।
शश्ठदेवय ह्मळशींत । केवळ महाराणींल्या सोदांत ।
चारण गूढपुरुष गुप्त । सोदी होन्नावरी चराचर ।।अ३९९।।
चान्दरी समाचार । जमालाचो घोर अनाचार ।
मंत्र्या हस्तु वधाचार । शश्ठदेव अणभवी विषाद सुख ।।अ३१००।।
तरीकय तो अस्वस्थ । विघ्नां महाराणीच्या सोदांत ।
संयत गुप्तगती गुप्त । खंय रहस्याधिकृत पद्मनाभ ।।अ३१०१।।
सोद रे कंदरो धोल । गुंफा होवरी पोखरो घोल ।
सोद बोगदो न् बीळ । प्रत्येक धुंवराड्याची वाट ।।अ३१०२।।
सोद रान वन उपवन । अटंग्य रान नन्दन कानन ।
सघन आकाशलोचन । सोद तिका तेळून तेळून ।।अ३१०३।।
सोद तळीं चोरवाट । बोबदय भुंयारांतली वाट ।
बोगद्याची तळवाट । सोदात भावार्थाचो धर्म ।।अ३१०४।
म्हळें एका भगतान । दी अमाप उपार्जनी दान ।
सोदिन तिचें पदचिह्न । सानंदी दी अनुमती राजन ।।अ३१०५।।
परतलो भगत चटकन । बसल्या महाराणी उद्विग्न ।
घोलीं गेलो राजन । देखलो ध्यानमग्न काकोल ।।अ३१०६।।
हांव ती महाराणी । शश्ठदेवा तूं म्हजो ऋणी ।
तो थटाकच तत्क्षणी । रहस्याधिकृताचीच वाणी ।।अ३१०७।।
तो खदखदा हांसलो । भिरांतेन काकोलय उडलो ।
राजा शंकाळ जालो । लटाफटींत ताका धल्लो ।।अ३१०८।।

काकोल तांच्या माजारी । बसलो राजनाच्या भुजारी ।
काळखांत अगोचरी । रहस्याधिकृत गेलो पळून ।।अउ१०९।।
राजा हतबल जालो । राजाकच भगतान फटयलो ।
स्वार्थतत्पर हांसलो । अमानवी दुश्टतर काकोल ।।अउ११०।।
राजा मनीं क्रोधित । भगता श्रापलो केलो लज्जित ।
जातलो आशे भगत । कूळं कूळ लजूं हो अभिशाप ।।अउ१११।।
काकोलाचीय धिण्ड । जगतलो खावन श्राद्धा पिण्ड ।
काळोख काळो भिन्न । स्पर्श तुजोच अवांछनीय ।।अउ११२।।
कर्मण्य सेवक चारण । आयलोच सुवार्ता घेऊन ।
करी साश्टांग वंदन । राजन् दर्शना तुमच्या आशेल्लों ।।अउ११३।।
सल्तनताचो काझी । शेख फकिहान माल्ली बाजी ।
महाराणी चतुर्भुजी । आसा तागेल्या तळघरांत ।।अउ११४।।
भोंवतणीच प्रहरी । मुक्त काझी ताचे होवरीं ।
घाली संतप्त घुरी । विषण्ण काझी आयलो शरण ।।अउ११५।।
न्हय म्हजो अपराधु । नबाबी सेवकु निरपराधु ।
जगणेंच अन्धाधुन्दु । नबाबाल्या अन्ध शेका तळा ।।अउ११६।
रावन अहसानमंद । म्हणत रावलों सदैव क्षुब्ध ।
खादा पीत्ता लाहे दा । रहंदा जमाल नबाब दा ।।अउ११७।।
घरांत नात जेरबन्द । मानतां अस्तुरीं सदां वंद्य ।
महाराणीय अबन्ध । आसात पुराय सन्मान जनक ।।अउ११८।।
एकुच विनन्ती खाविन्दे । मोहम्मद घोरे सोडिलो आनन्दे ।
पृथ्वी चौहान दर्दे । जालो पृथ्वीचो दुर्दान्त काळ ।।अउ११९।।
जमाला नाका अभय । कोल्या लांडग्यां वरि दुश्ट निर्भय ।
वादळ वाऱ्यांक सभय । कर जेर बन्द तूं सदैव सदैव ।।अउ१२०।।
देवाल्या पुरोयता । तुज्या हृदयांत सदैव करुणता ।
उण्या मापांचीं पापां । ना करचो जिवेपणीं तीं कदापि ।। अउ१२१।।
बन्धू भगिनीक मेळ्ळो । तो दोळ्यांत पळयत रावलो ।
फुटून फुटून रडलो । तिची अघोर अवस्था पळोवन ।। अउ१२२।।
वस्त्रां न्हयंत वादऱ्यो । कूड न्हय पिशाच्च केंसऱ्यो ।
केंस न्हयंत काळ्यो शेंदऱ्यो । आंगाकय म्हेळो गंध ।।अउ१२३।।

आहत दोळे निस्तेज । होय लुप्त सपनाळें क्षितीज ।
पयसुल्ली तडच सतेज । हालना चित्रण जुनें जीर्ण ।।अ३१२४।।
नेत्रां न्हंय रगताची । किंचितशी वळख परिचिताची ।
अन्धकाराचे पोखरीची । तिचे नयन सांगती एक कथा ।।अ३१२५।।
थांबला तिचो ग्रहण बोध । की भावार्थाक प्रतिरोध ।
हो कसलो दुर्विरोध । अति आपणांतल्या आपणाक ।।अ३१२६।।
विलोचनी मरणसेज । चारु चंचल लोचन निस्तेज ।
पीडान्तकी अम्बुज । येता दिठींच्या दुकांक परमळ ।।अ३१२७।।
अक्ष अक्षर नीरव रुदन । यातनांचें अतीव क्रन्दन ।
महाराणीचें चन्द्रवदन । दिवंक लागलें मधुर मधुर स्मित ।।अ३१२८।।



भोंवतणीं उज्याचें भक्ष्य जाल्लें होन्नावर महानगर भेसूर दिसतालें आजूनय धुंवरांनी आसमंत गच्च गच्च जाल्लो. जिव्या जित्या प्रजेन जीव सुगू आसत जाल्यार भीक मागून जीण काडीन अशें चिंतून होन्नावर सोडून पलायन केल्लें. जो लोक फाटल्यान राविल्लो तातूंतल्यान कोणूच प्रेतांच्यो राशीचो विलो लावंक मुखार येवंक सोदी नाशिल्लो. राजन् शश्ठदेवान नाभिकार दीतकच ताचे सैनिक मुखार सल्ले आनी थंयच्याच एका खेतक्यार कांय जाणांक काझीच्या साह्यान मुल्ला मौलवींचे उपस्थितींत मूठमाती दिली जाल्यार जांका फावता तांका थळावे भट पुरोयतांचे साक्षीन अग्निदाह दिलो. साबारांनी राजा शश्ठदेवाचे असले उदारमनस्क मतीची प्रशंसा केली.

शश्ठदेव महाराणी गायत्रीदेवीक घेवन राजपाटण चन्द्रपूर वचूंक भायर सल्लो...

तो चिंतूंक लागलो...

“आपूण सानपणांतलो द्वाड, अवचिन्न शश्ठदेव असो कसो आर-पार परिवर्तीत जावंक पावलों. म्हज्या पिताश्रीचो स्वभाव, म्हजे आवयचें वात्सल्य, म्हज्या अनुजाची व्हडल्या भ्रात्यावरी म्हजेर आशिल्ली श्रद्धा आनी म्हजे अनुजेचे नितांत, निर्मळ हृदय... हें साबार सद्‌गुण म्हाका केन्नाच गमलें ना, कारण तें तशें शक्यच ना; अशे तेन्ना रहस्याधिकृत म्हणटालो, तें शक्य जालें.

‘जांणी तुजेर अनन्वित अत्याचार केले, जांणी तुका सदैव उपखिलें, जांणी तुका तुजे अधिकार दितना दूर्मतीन दिले नात, ते तुका केन्नाच लागीं करचे नात’, अशें तो येता-वयता म्हणटालो. हांवेंय, ताच्या नादाक लागून, तशीच पिरंगण लायिल्ली. तथापि रहस्याधिकृत म्हणटालो तशें जावंक पावलें ना. विद्‌यमान परिस्थितीन रगताचें नातें तें रगताचें नातें, उदकार दांडो मारल्यारय उदक भंगना म्हणपाचो प्रत्यय आयलो रे म्हादेवा...”

अशक्यपणाचें उतर । वेंगे मायावादी शिमे-मेर ।
शक्यतांच्या सपनांर । तरंगे सतत ब्रह्‌माण्डांचो सोद ।।न३०१।।
वस्तुस्थितीचीच गत । असत्पणाचे अखेर सत् अकळित ।
अजूग अशक्यपणांत ।अशक्यपण करता अचलचाली ।।न३०२।।
अशक्यपण अजगळाय । वस्तुस्थीत अजरांवर अखेपाय ।
अटमटवळ गा अशक्य । शक्यतायच करी अतोज अचर्यां ।।न३०३।।

अशक्यपणाची गजाल । निखटी मुर्खपणाची अटमटवळ ।
येत्नांती अगम अचल । प्रांजलांक शक्यताय देय अर्गा ।।न३०४।।
निराश्रयी देवत्व । वर्णनांशिकय शक्यतेचें सत्व ।
प्रभाव करी ममत्व । भक्ती संज्ञांचे अस्तित्व संपन्न ।।न३०५।।
निराश्रयांक मुक्ती । अपंगुळांक अकळित एक युक्ती ।
अजगळांकय अतिरिक्ती । देवपण कर्म करी सुखी सदैव ।।न३०६।।
देवत्वाचें अस्तित्व । कि अखेरां देवपणाचें दासत्व ।
अखेपाय चेतनत्व । केवळ सनातनत्व अक्रांदक्यांक।।न३०७।
देवत्व हें उच्चत्व । अगम रिगे मानसीं समाजतत्त्व ।
खंय द्रुड प्रमाणत्व । अर्नास्तत्व म्हळ्यारी निर्बुद्ध ।।न३०८।।
जन भजे मातृत्व । माय न्हय ती देवी केवळ देवत्व ।
बाळकां प्रतिनिधित्व । आवय अपरूप चेतनमय सत्य ।।न३०९।।
ती न्हय अर्नास्तत्व । न्हंय शुचिर्भूत ममता अखण्डित्व ।
तिचेर ना स्वामित्व । मर्त्या अमर्त्याचें नेतृत्व सनातन ।।न३१०।।
फकत म्हजें कर्तृत्व । तपासलें जल्म घेवन तुजें स्वत्व ।
सोंशिल्यो वेणो समत्व । धरणी मायेचोच गे तूं अवतार ।।न३११।।
णव मास णव दीस । भार वाहिलो म्हजो दिवन मधुकोश ।
तूंच कर्तव्य स्ववश । क्लेशयुक्त जातिवन्त गर्भकूड ।।न३१२।।
जल्मा पासत जल्मलों । हागून मुतून तुका मस्तयलो ।
मातृपदाचो विलो । लायलो छद्‌यान हांवें जल्मभर ।।न३१३।।
तूं तर साक्षात वेद । अश्विनी कुमरांलो वखदी भेद ।
बृहस्पतींलो स्वेद । सोद तुज्याच अगम्याचो घेतना ।।न३१४।।
धरणी वयलें गिन्यान । दिलें म्हाका विना शुल्क मोन्यान ।
तुजीं आंगळां विज्ञान । शिकोवन गेलीं गे सासणाची ।।न३१५।।
रक्त विरक्त अनुरक्त । तुजींच रूपां म्हज्यांत आसक्त ।
व्यक्त अव्यक्त रिक्त । भाव भावनांची अन्तरीं मांदियाळी ।।न३१६।।
अन्तरलों खेदयुक्त । जावन तुका उन्मुक्त अन्याययुक्त ।
ही कूड अज्ञानयुक्त । तुवें भगसली ब्रम्हाण्डी अर्थीन ।।न३१७।।
समयी समयी नियुक्त । समय सारिणी पाळिली उपयुक्त ।
हरित सौन्दर्ययुक्त । दिलो आमोद-प्रमोद सुविचार ।।न३१८।।

अचर्येवन्त भगिनित्व । सया आवयची इश्टागती स्थायित्व ।
जननी उत्पत्तीस्थान । मायेस्तीची खण गो सहोदरा ।।न३१९।।
अनुजा म्हजें महत्त्व । स्वसा तूं म्हजें चिर स्थायित्व ।
बान्धवी व्यक्तित्व । तुजे पायीं हांव उत्तरदायी ।।न३२०।।
गुल्हळदेव दैवत्व । तुजे वरवीं लाब होय पितृत्व ।
सटिक तूं सभापतित्व । मनुश्यत्वांतलो तूं मनुश्य ।।न३२२१।।

रहस्याधिकृतान, पद्मनाभान आनी जमालान आपणाचेर अगणित अत्याचार केले. साम्राज्याच्या भांगर भाण्डाराची म्हायती मागताले. आपणे ती तांक कशीच दिवंक ना अशें महाराणीन सांगतकच सान भुरग्या वरी राजा रडूंक लागलो तिचे मांडयेर ताच्या दोळ्यांतली दुकां गळटाली. तिच्यांतली आवय जागृत जाली आनी ताका ती थोपटूंक लागली. तिच्याय दोळ्यांतल्यान दुकांच्यो झरी व्हावंताल्यो.

राजा शश्ठदेवाचें फाटल्यान फुडल्यान उरिल्ले सुरिल्ले सैनिक दळ मागसार, सवकासायेन, सवकास चलतालें. कसलीच ताकतीक नाशिल्ली. राजवाड्यांत पावतकच राजवैद्यान महाराणींचेर जथापथ वैजक उपचार केले. देड एक वर्सा उपरान्त महाराणी चलूंक लागली, भोंवूंक लागली. प्रजेंत मिसळूंक लागली. तिका तिच्या पुता कडसून आफोवणें येताले. ती थंयसर वचपाची सिद्धता करूंक लागिल्ली.

प्रधान मंत्रीय आतां भलायकीन आदले वरी उबो जाल्लो. राजवैजान पुराय क्षमतेन आपणालें गिन्यान पणाक लायिल्लें.

भोंवतण पुराय ध्वस्त-नश्ट जाल्ली. पुराय क्षमतेन उदरगतीचो वावर करपाची गरज उप्राशिल्ली. अगणित शेतकामती सैनिकांच्या गणभेसांत वावरत आसतना हुतात्मे जाल्ले. कितलेशे श्रेश्ठी,वैश्य, वणिक-वेपारी आनी वाणी प्राप्त प्रसंगांत हेर उपाय नाशिल्ल्यान आपणाल्या गणगोताक घेवन हेर साम्राज्यांनी पातळिल्ले. झुजांच्या वातावरणांत वावरत आसतना हेर देशां कडसून येवपी वस्तू आनी राजस्व हातूंत खण्ड पडिल्लो. साबार वाणिज्य उद्येगांच्या वावरांत निर्शेवणी पातळिल्ली. राजाक मेळपाची येणावळ थांबिल्ली. प्रजे कडसून राजस्व येवपाक जाय जाल्यार आदीं लोकांलीं आस्पत वाडोवपाची गरज आशिल्ली. राजा शश्ठदेवान प्रधान मंत्र्या कडल्यान परामर्स घेतलो. प्रत्येक प्रांताच्या नाडगवुण्ड आनी नाडपरगडे नामक राजस्व अधिकाऱ्यांकय निमंत्रण गेल्लें.

राजस्व वाडोवपाची गरज आशिल्ल्यान ज्या ज्या महामण्डलेश्वर आनी मांडलिक संस्थानिकां कडसून येणावळ येवपाची आसा ती मेळोवपाची आनी फुडारांत तिचे मात्रेंत वाड करपाची सुचोवणी काय तंत्रपाळान म्हळ्यार मंत्रीमण्डळान तेच परी काय विचारवंतांनी केली. आमची अवस्था काकुळटवाणी आसा. ही वस्तुस्थिती साबार महामण्डलेश्वर आनी माण्डलिक संस्थानिक जाणात. प्रथेक अनुसरून दिवपाचो गडिआणाक वो द्रचमास ह्या नाण्यां इतलोय राजस्व आमी दिवचे नात. अशें म्हणत जाल्यार कशें कितें. अशें प्रधान मंत्र्यान विचाल्लें.

आमचे कडल्यान घेतिल्लें रीण राजसत्तेन आतां परतें करपाक जाय. असो धोशो साम्राज्यांतल्या कितल्याशा श्रेश्ठींनी लायलो. पद्मनाभान आनी रहस्याधिकृतान तांका प्रवृत्त केल्लें म्हणपाची गजाल आतांच कळ्ळी. अशें नाडगवुण्ड आनी नाडपरगडे ह्या राजस्व अधिकाऱ्यांनी सांगलें.

तशें आसत जाल्यार आमकां तांचेर सैनिक दळां धाडची पडटली तर. तंत्रपाळान म्हळें. तेदे वेळार एके तरेचो कल्लोळ जालो. दोन एक वर्सा आदी आमच्या पुराय सैनिक दळाचें शरीरिक. अर्थीक आनी मनोबलाचें इतलें लुकसाण जालां की तें भरून काडपाक सोडातच. प्रत्येक सैनिकाक पर्थून लडाय करपाक रणांगणांत फुडली दोन वर्सां तरी उबो करपाक शक्य जायतशें दिसना. अशें प्रधान मंत्र्यान म्हळें. अन्ततोगत्वा. राजान आनी प्रधान मंत्र्यान जथापथ निर्णय घेवंचो असो सर्वांनी एक मत्तान विचार मांडलो.

पंदरा दिसां उपरांतय प्राप्त अर्थकारणाकडेन संबंधित समस्यांचेर वाट गावना म्हणपाची जाणविकाय जावंक लागली. आपणाल्या विचार-कक्षांत राजा शश्ठदेव चिन्ताग्रस्त मनस्थितींत बशिल्लो आसतनाच महाराणी गायत्रीदेवीन आनी प्रधान मंत्र्यान प्रवेश केलो.

प्रधान मंत्री आनी महाराणी ह्या दोगांयनी भांगरा भाण्डाराच्यो कुंज्यो राजाच्या मुखार दवरल्यो. राजा चकासूर जावन तांचे कडेन पळोवंक लागलो.

अमान्य न्हय सार्थ । कामदेवालो सकळ भावार्थ ।  
हो न्हयच संहितार्थ । सोदीन वाट अन्य निश्चित ।।न३२२।।  
वाडलो ना राजस्व । अजाण अगिन्यानी दीर्घ ऱ्हस्व ।  
अजाण अहं भूर्भुःस्वः । दियात म्हाका किञ्चित वेळ ।।न३२३।।  
न्हय संपदा म्हजी । चिंतूक मेंदवाची उंचाय खुजी ।  
नेणा हांव अर्थ कुंजी । हांव पात्र न्हयच स्वामी ।।न३२४।।

पात्रां आसता लोक । आनी आसता पात्र आलोक ।
अगणित गुणवाचक । निर्वाचक मात अवघे जाण ।।न३२५।।
येन केन अकारेण । अवसरीं लाब घेतात कांय गण ।
अर्हता छिद्रान्वेषण । जन्मजात गा न्हय म्हजी ।।न३२६।
काय लोक बुद्धिमान । जाणा सगुण संयोजन आयोजन ।
राज्यकर्त्यांकय श्वान । करीत उपार्जन वेवस्था ।।न३२७।
पद पदवी नरभूषण । सन्मान पुरस्कारांची मोहक खण ।
सत्ताधिशांक दावण । दाखयतातच भिरांतीचें ।।न३२८।।
राजा परसय ताञ्चे । वर्तुळ अति भिन्न अति पिडकाञ्चे ।
प्रसंग विशिश्ठ साचे । प्रहरी सिद्ध प्रखर सदैव ।।न३२९।।
जाणा एक विद्या साळ । नेणाच भांगरसाळ बलम साळ ।
न भक्षलो उकडो साळ । बसून कामारी वांगडा ।।न३३०।।
अधान्तरीं अति काळ । गिन्यान विरयत पतन काळ ।
एकमेवच सुरय साळ । अशेंच धरून चल्लों हांव ।।न३३१।
म्हजे हें पदग्रहण । निमित्त मात्र केवळी निर्वहण ।
क्षणिक भरी अनुवीक्षण । पालन पोशण करता राज्य ।।न३३२।।

"तुमचे म्हणणें शत प्रतिशत सार्थच राजन्," प्रधान मंत्र्यान म्हळें., "तथापि हें स्वामी धन आमचेंय न्हय. अशा आपत्काळांत आमी ह्या धनाक कार्यरत ना केलें जायंत जाल्यार आमचें साम्राज्य नाममात्र उरतलें आनी चोरा लुटारूंचो शेक चलतलो. जे तरेन सैन्य दळां निखट्या आनी शुश्क देशभक्तीच्या नांवार संचलन करिनात, तेच परी देशभक्तीच्या आकर्शणान नगरश्रेश्ठी आमकां रिणां दिवंक मुखार येय नात. तांका जाय आसता कळंतर, आनी तांचो सुगूर दुडू."

"राजन्, म्हाका म्हज्या पित्यान हें जें भाण्डार दाखयलें तें तेदनाची परिस्थिती चिकें हेर तरेची आशिल्ली. आयज तूं व्हडा दायित्वान ह्या राज्याचो शकट चलयता. तुका हांव एक उदाहरण दितां.

"शेकीं आदीं एक सामान्य राजा आशिल्लो कौशिक, आपणाले निखटे तपस्ये वरवीं आदीं राजर्षी पदा मेरेन, उपरान्त महर्षी विश्वामित्र ह्या पदा मेरेन पाविल्लो. महर्षी विश्वामित्र आतां ब्रह्मर्षी जावंक सोदतालो, जाल्यारय तो तसो जावंक पाव नाशिल्लो, कित्याक काय तर ताचे मनींमानसी काम, क्रोध, लोभ, मोह, मद आनी मत्सर हे षड्रिपू दसून उरिल्ले. तो ब्रह्मपुत्र ब्रह्मर्षी वसिष्ठाचो दुस्वास

करतालो. इतलेंच न्हय तर तो ब्रह्मर्षी वसिष्ठ आनी तांची घरकान्न अरुंधती हांचे फाटले वटेन वचून उबो रावलो. आनी तांका जिवे मारूंक एक व्हड प्रस्तरय उबारिल्लो. ती कोजागिरी पौर्णिमेची निवान्त. शान्त. प्रशान्त. सुशान्त रात आशिल्ली. अरुंधतीन म्हळें -

" 'आयज चन्द्रीम भौच उज्ज्वल जाल्लो दिसता. ही आयजची आश्विन मासांतली कौमुदी पूर्णिमा वो शरद पूर्णिमा! अशा समयार आकाशलक्ष्मी ही देवता आपणाल्या आठ स्वरूपांत म्हळ्यारी धनलक्ष्मी. धन्यलक्ष्मी. राजलक्ष्मी. वैभवलक्ष्मी. ऐश्वर्य लक्ष्मी. संतान लक्ष्मी. कमला लक्ष्मी तेच परी विजयालक्ष्मीच्या रूपांत प्रत्येक घरांत विचरण करता आनी विचारता - को जागृतिः? जागृत अवस्थेंत कोणी आसा व्हय? कोणी व्यक्ती जागृत आसत जाल्यार हांव तिकां फाव तो वर दिवपाची आसा. - म्हूण चन्द्रीम इतलो उज्ज्वल जाला व्हय ब्रह्मर्षी?'

" 'आयज चन्द्रीम अत्यंत उज्ज्वल जावपाचे कारण आसा तो महर्षी विश्वामित्र. ताचे मनींमानसीं आशिल्ले षड्रिपू आयज नश्ट जावपाचे आसात. परिणामीं ताचे आयजवेरचे तपश्चर्ये वरवीं हें तेज फांकारिल्लें आसा. फुडारांत तो अत्यंत स्निग्ध स्वभावाचो जावपाचो आसा. ताणें रचिल्ल्या गायत्री मंत्रांत हेरांकय दैदीप्यमान करपाची तांक आयजच्यान येवंक लागतली. कारण आयज महर्षी विश्वामित्र ब्रह्मर्षी जावपाच्या पदा मेरेन पावपाचो आसा.' ब्रह्मर्षीन म्हळें.

"ब्रह्मर्षी वसिष्ठालें हें सांगप महर्षी विश्वामित्रान आयकलें. ताका आपणाले घृणास्पद कृतीची लज लज दिसली. ताणें आपणाल्या हातांतलो तो प्रस्तर कुशीक वडयलो आनी धांवत धांवत वचून ब्रह्मर्षी वसिष्ठांच्या पायांर घालून घेतलें. ब्रह्मर्षीन ताका म्हळें. 'उठात ब्रह्मर्षी. उठात.प्रमादां सावन जागृत जायात अशेच तनिक जागृत रावात. तुमचे सदैव कल्याण जावं.'

"फाटली कितलीशीं वर्सां हांवें देखलां की तूंय हाणविधी मानूंक लागला. तूं सरशे करता. हृर्मती करता. आपणाक हिंवायता. पावित्र्या कडेन तुजें सनिदान जाता तें पळोवन धादोशी भोगता. तुका उर्वर मेळटलें. ससरीचो धनी तूं आतां. आतां निखटो नृपतीच न्हय तर राजर्षी जावंक लागला. तूं जागृत जाला. आतां तुज्यांतलो तो अहंकार नश्ट जाला. आतां तूं निखटो भीमभुपालक न्हय तर सत्य दिश्टींतल्यान तूं आतां उत्तरदायित्व उमजून राज्य शकट चलोवपी राजर्षी भूपती जाल्लो आसा. तूं पर दारा वटेन पळयना. तेच परी तुजो सेवक-चाकर वर्गय हीण कार्यावळींत रिगूंक नात हें खरें, पुण तूं स्वतःच्या दारा कडेन तरी पळय. देखून म्हणटां. ह्यो कुंज्यो घे. आनी

उगती कर दारां, आमच्या परम प्रिय साम्राज्याचे उदरगती पासत, आनी आतां आमचे व्हनीक, म्हळ्यार तुजे दारेकय घेवन यो."

कांय दिसां उपरान्त, हेर कसलोच उपाय नासून राजा शश्ठदेवान त्यो कुंज्यो घेतल्यो आनी प्रधान मंत्र्याच्या हातांत दवरल्यो आनी म्हळें, "विकूंक वो घाणवटाक वो तारणाक आयज इतलें भांगर शिंगर लागतलें आमकां, अशें ज्या दिसा तुमकां दोगांकय दिसतलें, त्या दिसा आमी तिगूंय जाण भाण्डारांत या. तितलें भांगर काडून भायर हाडुंया."

महाराणीन आनी प्रधान मंत्र्यान धादोशी दाखयत तकली धोलयली.

खरें सांगल्यारी । भगिनी काजारी ।। उग्डासी कृतीरी । चिंताग्रस्त ।।न३३३।।
भगिनी पवित्र । जिणेचेच सूत्र ।। त्यागाचीच मूर्त । महाराणी ।।न३३४।।
ब्रह्मकन्या चर । सामान्य नागर ।। तारिणी शिखर । आदर्शच ।।न३३५।।
तेदनाचो क्रूर । भ्राता क्षयकर ।। सांबाळिलो पर । कर्तव्यचि ।।न३३६।।
प्रजेक आवडी । राज्याची सुघडी ।। विसरी अल्लडी । स्वभावाची ।।न३३७।।
अनेक वाठार । उदरगत उजाड ।। अन्धभक्ती पाड । करी देशी ।।न३३८।।
राज्यभूमी खण्ड । अति न्यून गण्ड ।। ईश्वरीय दण्ड । न भागधेय ।।न३३९।।
न ती मानी गण । न मानी ग्रहण ।। प्रजेक भूषण । निश्कपट ।।न३४०।।
तिचो परिचय । अभेद्य धात्रेय ।। न्हय उपपाद्य । गायत्रीच ।।न३४१।।
हांव अविनेय । ती अपौरुषेय । तिचे अनुज्ञेय । राज्य सर्व ।।न३२४२।।
तिचे विस्मरण । जन आभरण । पिळग्यां दर्पण । कर्तव्यचि ।।न३४३।।
अनभिज्ञ कला । कुशल मंगला ।। देई उच्छृंखला । भागफल ।।न३४४।।
स्वयं प्राप्त सिद्धी । होय अभिवृद्धी । कोणी मृतदग्धी । न्हय बरें ।।न३४५।।
नियम विरुद्ध । व्यवस्था विरुद्ध । गिन्यान असिद्ध । तिची वान्सा ।।न३४६।।
प्रणव वेदिका । हृदय वेदिका ।। भक्ति सूचिका । जाय आतां ।।न३४७।।
कल्पी शश्ठदेव । आकस्मिकोद्भव ।। प्रतिमा अपूर्व । प्रकल्पाची ।।न३४८।।
गिन्यानाचे तत्त्व । अक्षय मूलतत्त्व । उत्तरदायीत्व । फुडाराचें ।।न३४९।।
उक्तें जाय द्वार । भांगर भाण्डार ।। प्रथम अक्षर । आदर्शाचें ।।न३५०।।
धाडी जयपूर । अमूल्य प्रस्तर ।। विश्वकर्मा तर । मुखारची ।।न३५१।।
नागर शैली । हेमाडपंथ शैली ।। चैत्य-विहार शैली । द्रवीडय ।। ।।न३५२।।
सन्धार शैली । निरन्धार शैली । सर्वतोभद्र शैली । पागोडाय ।। ।।न३५३।।
स्तुप शैली । गरुड स्तंभ शैली ।। तक्षण कला शैली । शैली गौडीय ।। ।।न३५४।।

कलिङ्ग शैली । वेसर मिश्रैली । प्रस्तर-शिल्प शैली । भारतीय ।। ।।न३५५।।
चित्र भव्यतम । शिल्प सुंदरतम ।। कोमल कोरीवकाम । प्रसन्नचि ।। ।।न३५६।।
दिव्यचि गोपूर । भव्यचि प्राकार ।। ग्रामी परिसर । सव्यसाची ।। ।।न३५७।।
विश्वकर्मा करी । मांडावळ चारी ।। दिका कार्यभारी । उपदिका ।। ।।न३५८।।
देशो देशांतले । कर्मण्य कौशले ।। प्रतिभा मण्डले । निमंत्रित ।। ।।न३५९।।
निळ्या मळबाचें । सोद पडबिम्ब ।। पळय प्रस्तर । आरस्पानी ।। ।।न३६०।।
पांच वर्सा जालीं । तरल उज्ज्वलीं ।। नगरी देखली । गायत्रीन ।।न३६१।।
जाला पिसो भ्राता । धर्मशास्त्रसंमता ।। पर्वता भावूक । चडूं नये ।।न३६२।।
आरस्पानी मूर्त । विश्वकर्मा नत ।। देवी दण्डवत । निमिषांत ।।न३६३।।
प्रणव वेदिका । नामकरणिका ।। ही संविदात्मका । ऋणात्मक ।।न३६४।।

स्वप्नवत् अश्वादिक परिसराचे अस्वडे तीन कोस भर दीर्घकाय पातळिल्लें हें 'प्रणव वेदिका' नामक थळाचें एक एक प्राचीरय प्रेक्षणीय आशिल्लें. प्रत्येक प्राचीर जैन, बौद्ध मुखेल पणान स एक प्रकारांचे प्राचीर बांदिल्ले. गोरवांचो सांबाळ करपी धेनुदुर्ग. हांगासर शेतकामत्यांक नाका आशिल्ल्या गोरवांक, वेवस्थित पांजरपोळ बांदून थंयसर पोसपाची वेवस्था आशिल्ली. महीदुर्ग नामक प्राकारांत दोंगरांच्या मुळसा सावन वयर चडत गेल्ली भूंय आसपाविल्ली. तातूंत खेतको, दोंगुल्ली, दोंगर आनी दोंगरांची माळ आसपाविल्ली. ह्या परिसरांत वनौषधी, वखदी वनस्पतींची लागवड केल्ली. सुबक आनी विस्तीर्ण तळयांचे भोंवतणी पांचवोचार परिसर पळोवन ताची जतनाय घेवपा पासत जलदुर्ग बांदिल्ले. समुद्रांतलें उदक तड काडून भीतर सरत आसता, आनी विंगड विंगड कारणां पासत तो परिसर तसोच ओलो उरता. अशे खारें भुंयेक म्हळ्यार खाजणाक सांबाळपाचें उत्तरदायीत्व राजाचें, देखून शश्ठदेवान शिल्पशास्त्रांत सांगिल्लें आसा तशे खेरित वनदुर्गय बांदून काडिल्ले. अन्वेषण करतल्यांक जे तरेन नवस्पतींची, झिलां-झोपांची जतनाय घेवंची पडटा तेच भशेन रुखांचे साबार प्रकारय वाडोवचे पडटात. अशे रुखावळीचे भोंवतणी वृक्षदुर्ग बांदून काडिल्ले.

दैवी शक्तीच प्रबळ । जशी प्रखर तशी शिव भक्ती सबळ ।
मंदिर निर्मणी केवळ । समर्पण केन्द्र पवित्र सुन्दर ।।न३६५।।
आकर्शित ती तत्काळ । मंदिरांतले मुर्तीत अनन्तकाळ ।
ब्रह्माण्डीय सुविशाळ । संयोग मेळ मंदिरीं अर्कभूत ।।न३६६।।

आमी मानव हें सत्य । परमसत्यालो स्पर्शक न्हय अमर्त्य ।
ब्रह्माण्डीं सतकृत्य । संपन्न जाय मंदिरीं शास्त्रविहित ।।न३६७।।
परमसत्य दैवीगुण । प्रतिस्थापीत जाय शास्त्रधून ।
जितेन्द्रिय सर्वांगीण । अलौकिक जाय ऐहिकीं लौकीक ।।न३६८।।
फातरी परिसर घट्ट । वाय घेता दुळे पडधून घडयत ।
हृदयाक आह्लाद वट्ट । चमत्कार करी धरणी देवा वरवीं ।।न३६९।।
भंय विरयत ब्रह्माण्ड । थाकाय स्वरांचो स्वर अखण्ड ।
अनादाचो नाद भाण्ड । भुलय चिंतनां हिम्पुट्याचीं सत्वर ।।न३७०।।
ध्वनींतलो ध्वनींत । शिळोकांत ध्वनी जाय मंथरत ।
विंगड ध्वनियंत्रांत । पाखण्डीं भुंयेखण्ड धराशायी ।।न३७१।।
कूड कशी उदकाची । पुराय आनी इल्ली धर्तरेची ।
तशी इल्ली वायेची । आनी उज्याचीय आमची कूड ।।न३७२।।
अन्तराळय तितूंत । उल्लां रिगून करूण ह्या हृदयांत ।
ध्वनी जाय मंथरत । ब्रह्माण्डाचो अशा अन्तराळीं ।।न३७३।।
पुराय कूड अन्तराळ । जाय विरल विरल भव मण्डळ ।
ध्वनीभूत अवजाळ । धारण मन पुण्यांग आत्माराम ।।न३७४।।
रिशी चलता अंगारीं । मुनी वण्टीं असायास पार करी ।
ब्रह्माण्डाची वारी । करी साधु देवऋषि मनःपूत ।।न३७५।।
साधना ध्यान सटिका । ध्वनींनीं रिगपी पुण्य वाटिका ।
आत्मरक्षक वाहिका । राऊळांतली अथक गर्भकूड ।।न३७६।।
मंत्रोच्चारी जागरण । निर्मणी करी अगणित ध्वनिवर्ण ।
प्रस्तरीं रिगे विवरण । ब्रह्माण्डाचो सन्देश दिव्य ।।न३७७।।
तरंग विहर अपरिमित । आत्मारामय होय चित्त संगत ।
भावार्थी भावार्त । चित्ताकय स्पर्श करी वैश्वानर ।।न३७८।।
सर्वांगीं मेन्दवांत । प्रवाहकत्त्व हांपुडले ध्वनिस्पर्शांत ।
ध्वनिवर्ण रगतांत । देय ब्रह्माण्डेश्वराची माया ।।न३७९।।
ध्वजस्तम्भ प्रवाही । ध्वनी ब्रह्माण्डेश्वराचो मही ।
गुंजन करी स्वभावी । धर्म पंथ अभेदाभेद करी ।।न३८०।।
स्पर्श ध्वजस्तम्भीं । अभक्तय अलौकिकीं विसरून जाय रम्भ ।
जिणेचो पुनरारम्भ । परमपाप्यालो तेच गर्भकुडीं ।।न३८१।।

आत्मिक अभियांत्रिकी । मंदिराचे संरचनेंत संक्रामकी ।
न अणभवी वाटिकी । अन्य गुणक भ्रमात्मक सुवातींर ।।न३८२।।
अर्वाचीन विद् क्षेत्र । अद्यापि अज्ञानी अध्यात्मशास्त्र ।
जंय गोपुर तिर्थक्षेत्र । थंय मानसिक शान्तीचें मोक्षद्वार ।।न३८३।।
मद्यपी खिणीं शान्त । धनपती हो खिणांचो प्रशान्त ।
सत्ताधिपती विशान्त । गर्भकुडीं अध्यात्म सुशान्त अज्रंवर ।।न३८४।।
संवाद करी ज्ञानलिङ्ग । ध्वनिभूत होय सर्वांग पूर्णाङ्ग ।
सुवार्था पलतडे भिङ्ग । अप्रचुर संज्ञान अथांग गगनमय ।।न३८५।।
विश्वव्यवस्थेचें भान । करी गर्भकूड भक्तीचें संज्ञापन ।
विंगड विंगड सम्मोहन । दडिल्लें आत्मभान भक्तींत ।।न३८६।।
खोवल्या जात्रा म्हाशिवरात्री । गांवकार परिकर दिवजां सत्री ।
धोल तासो शिंग गात्रीं । घुमय करी शबय आत्मोत्सर्ग ।।न३८७।।
देवी महिषासूर मर्दिनी । मग्न अति गांवांचे राखणी ।
कुसमण पाडी कोटो मळकर्णी । लोकांनी केला दर्पत्याग ।।न३८८।।
पाडवो गोरवांचो यत्र तत्र । सण भाकरी नन्दी नन्दिनीचो ।
गणपती देवा मान ही सेवा । देवा पांचु धुवो वाही दूध ।।न३८९।।
ही सुवात अति रम्य मनोहर । तीन एक कोसांचो परिसर ।
रूख शिरिशाचे दाट सभोंवर । पुश्पांचे उद्यान ल्हादातूर ।।न३९०।।
वन वन वन उपवन वनमाळी । छायातुरा घनदाट जाळी ।
गडगो इटळाचो सांबाळी । अयस पयस निर्मल नितळ तळी ।।न३९१।।
फागुरलेलें तण पायतळीं । मोदिनी हूंकारी महोदर विशाळी ।
मेरू भेंक्रें कुरंग चितळी । धांवी काचींबुची मांदयाळी ।।न३९२।।
मोर मयुरी मग्न केकावळी । सुकण्यांच्याय आकुल कल्लोळीं ।
देशीविदेशी रम्यभिरांळी । वेदस्वरूपी वरूण पाळी ।।न३९३।।
साळकांचो मदमत्त परमळ । शिवयोगी मग्न आकाशतळ ।
पयणारेय सोज्ज्वळ मंगळ । सर्ग जालो हेंच भूमण्डळ ।।न३९४।।
मजगतीं ही सोबीत मूर्त । आरसपानी प्रस्तर मूर्त ।
ही कमनीय कर्पुरी मूर्त । हृदयीं गायत्रीची मूर्त ।।न३९५।।

राजा शशठदेवान भगिनी महाराणी गायत्रीदेवीन पुराय सुगूरपणान रावचें म्हूण वेळियापुरांत एक सोबीतशी सुपुल्ली रावतिका बांदली. भोंवतणी दक्ष वीर

सैनिकाचें एक शिबीर राखलें. तातूंत पुराय मारवाड सैन्यदळ, विचारवन्त आनी हितचिन्तक राबितो करून आशिल्लें. महाराणीन तांच्या स्मरणार्थ उबारिल्ल्या फातरा पट्याक 'पालिया वीर कल्लू' अशें नांव दिलें. जयपुरा सावन गोंयां येतना जितले वीर धारातिर्थी पडले, तांच्या नांवान स्मृतिस्तंभ उबारचे अशें सांगिल्ल्यान राजान थंयसर आरस्पानी तेच परी काळीथर प्रस्तरां वरवीं'पालिया वीर कल्लूं'ची निर्मणी केली. त्या समचतुष्कोनाकृती फातरा पट्यांचेर गोरवांची राखण करीत आसतना, परचक्राच्या सामकारा वतना ज्यो घडणुको जाल्यो तांची म्हायतीय कोरांतून काडिल्ली. वयले वटेन घुमटीचें चित्र कोरिल्लें, घुमटीचेर चन्द्रिम आनी सुर्या तेच परी पोन्दा त्या विराचें शव कोरांतून काडिल्लें. राजान ह्या निमतान कितल्याशा वीर कल्लूंचेर पायदळ, अश्वदळ, गजदळ आनी नाविक दल दाखोवपी चित्रां कोरांतून घेतली. कांय वीर कल्लूंचेर मनशांच्या मुखामळांची, गोरवांची, साळकांची, खड्गांची, नौकायुद्धांची, शापवाणी उच्चारण करीत मरतल्या सैनिकांची, यौवनाचो अतिरेक जातकच मनीस कसो पिसांटपणाचें आचरण करता अशी वस्तुस्थिती दाखोवपा पासत गाढवाचो आनी समश्टीन ओंवाळून वडयिल्ले अस्तुरीचो संभोग दाखोवपी चित्रां कोरांतून घेतिल्लीं. कितल्याशा वीर कल्लूंचेर एकमेके कडेनफाठ केल्ल्या सुकण्याच्या युगुलाचें शिल्पय कोरांतूक लायिल्लें. वर्तुळाकार कोसान कोस पातळिल्ल्या परिसरांतले देवराईंत ह्या कलात्मकतायेचो परमोत्कर्ष दाखोवपी शिल्प पटांचेर पांचव्या कंच शिशिर रुखांची पुष्पवृष्टी जावंक लागतकच सैमिक देखाव मनोरम जातांलो. गच्च सांवळेंतलीं ती शिल्पां महाराणीचें मनरिझवण करतालीं.

तिका मेळूंक राजा शश्ठदेव, प्रधान मंत्री, राज्यांतले विचारवन्त, हितचिन्तक, कामारी, कामेरीं वेळियापूर येवन वचून आसतालीं...

त्या दिसा तें पुराय चिन्ताक्रान्त जाल्लें दिसले. कामेरींक प्रधान मंत्र्यान आफोवन हाडलें. महाराणीचे मुखामळ अशें कित्याक दिसता काय म्हूण जिज्ञासा उगतायली. तेदे वेळार त्या कामेऱ्यांनी एक एक आथव्यो गजाली सांगल्यो.

उपरान्त ताणें अनसूयाक, प्रियवृन्देक, मायालताक आनी महाराणीच्या हेर सख्यांक आफोवन घेतलें.

अनसूयान म्हळें, "महाराणी सांगताली म्हाका, 'तुज्या दोळ्यांत म्हाका म्हजी मूर्त दिसना!'

प्रियवृन्दान काचाबूल जावन सांगलें. "इतल्यो परमळीत पुस्पा आट्यो हाडल्यो. तरीकय ती म्हणटा, 'काडून वडयात ह्यो पुस्पमाळो. म्हाका तातूंतल्यान मड्यांचो दुर्गन्ध येता.'

मायालतान व्यक्तिगत म्हायती दितना म्हळें. "वैजान सांगलें खंय तिचे दांत विवर्ण जाल्यात आनी तिणें हालिंसरा राती पडिल्ल्या सपनांनी तामशेली गाडवां देखलीं."

एके सखीन विस्कावन सांगलें. "आपणाले कुडीचेर गिधाडां बसल्यात. माथ्यार पारवे उडटात. खांद्यार बसून घुगूम आड्डता. हातार बसून नातूक रडटा. कावळे आफयतात अशीं सपनां पडल्यांत म्हूण म्हाका फाटले पन्द्रशींत कितलेशे फावटीं सांगताली महाराणी."

हेर एके सखीन म्हळें. "ह्या दिसांनी तिका सपनांतुल्या हागवणींत आनी मुतांत भांगर शिंगर दिसता खंय."

प्रधान मंत्र्यान राजपुरोयताक आनी राजवैजाक आफोवणे धाडलें. ह्या काय दिसांनी आमी जे परिस्थितींतल्यान वाट काडीत आसात. ते प्रसंग महाराणीक तकालस करतात आनी ती ते तायणेंत. वोण्डींत शिरकून पडटा. आनी सभाविकपणान अशी ताण्णी आयिल्ल्यान वृत्ती तेच परी प्रवृत्ती इबाडपाचो संभव आसता. आतां राज्यांतली कुल्ली परिस्थिती निवळत आसा. देखून अशे परिस्थितींत चिन्ताग्रस्त जावपाची गरज ना अशें ताणीं सांगलें.

... हेर वटेन साम्राज्याची अर्थिक दशा सावरूंक लागिल्ली. शिल्पी. कलाकार. श्रमिक. विद्यावन्त हांकाय थाकाय लाबिल्ली. हें निखट्या दोगांक सोंसूक जाय नाशिल्लें. रहस्याधिकृताक आनी पद्मनाभाक...

राजा शश्ठदेव वेळियपुरांत गेल्लो आसतना महाराणी गायत्रीदेवी राजा शश्ठदेवाच्या फाटल्यान लागिल्ली, राणी कंकावतीक राजवाड्यांत घेवन यो म्हूण. "राजाचे भयणीन तिच्या कुळारा पडून रावप समा न्हय, वर्सांची वर्सां हांव चान्दरा रावलीं तेदनां आपूण महाराणी नाशिल्ली. आतां तशें संकश्ट पयसावलां. अल्लाउद्दिनालो आनी एक पूत कुतुबुद्दिन राजा जाला आनी ताची भिरांत कोणाकच दिसना. म्हणटकच साबार मारवाडच्या विचारवंतांक, मंत्र्यांक, हितचिन्तकांक आनी सैनिकांक हांवे पर्थून जयपुरा धाडून दिलें. तुज्या हस्तुकीं जे तरेन राज्य चल्लां तें समादान दिवपी आसा. म्हाका म्हज्या राज्याचें उत्तरदायित्व म्हज्याच भुजांर घेवंक जाय. हांव हांगासर सुगूर उल्लें. तुजें राज्यय तुवें सुगूर दवल्लें."

आपूण राणी कंकावतीक रौळार म्हळ्यारी राजवाड्यार कित्याक हाडूंक पावचो ना म्हणपाची गजाल राजा तिका सांगूंक शकचो नाशिल्लो. तिचो पूत जगतसिंग राणी कंकावती घेवन गेल्ली बद्द राजा कामदेव आनी राणी श्रद्धादेवी हांच्या हिमालयांतल्या संन्यासाश्रमांत. जमालउद्दिन नाशिल्ल्यान आतां तांका पर्थून रौळांत हाडपाची गरज आशिल्ली.

"खरें सांगू भ्रात्या, म्हाका तूं एक उत्तरदायित्व न घेवपी, आपणाक अधिकार मेळना जायत अशें चिंतून गोंदळ घालपी हूतहूतो आनी एक तोंड फाटको महत्त्वाकांक्षी सत्ताधीश आसा अशें दिसतालें. तूं म्हळ्यारी घराक खावंक उठिल्ली घातकी, एक प्रकारची मानवी वाळोती कशें दिसतालें म्हाका. तूं जंय बसतलो, थंयसर तुज्या महत्वाकांक्षा रूपी वाळोतीचो शेक चलतलो अशें मत्त जाल्लें. व्हडलो भ्राता जावनय उत्तरदायित्व न घेवपी म्हळ्यार तूंच, अशें हांव म्हणटालें. पूण जे तरेन पांचव्याचार कुळागरांत रसरशीत हळडुवीं राजाळीं पिकचीं तेच परी पोक्या पुस्स मळबांत निळ्या रंगाचो अपार सागर ल्हारांकित जावंचो, तशेंच कुशिल्ल्या रेब्यांतय मनोरम्य साळकां फांकारची तशें कर्तुब तुज्या चारित्र्यान करून दाखयलें. यद्यपि तशी तुजी प्रतिमा आसल्यारय जे कुशळतायेन हो राज्यभार चलयलो, ते तुजे पद्धतीक कोणाचीय दिश्ट जायत अशें दिसतालें.

"ज्या तरांचीं अर्थिक, संस्कृतिक, समाजिक संकश्टां आयिल्लीं आनी जे पद्धतीन कोणाकच दुखय नासतना तुवें तीं निरस्त केलीं, तें देखतकच आनी साबारांक मार्गदर्शन करपी तुजी ही रुपादायक प्रतिमा पळयतकच म्हज्या अन्तर्मनांत

आशिल्लो पुराय गोंदळ नश्ट जाला. तेच परी तुज्या संबंदान विशाल माया निर्माण जाल्या.

"हांव तुका सांकेतिक उतरां वरवीं क्रमांक सांगतां. तांची जाणविकाय दवर. अशें तिणे ताका म्हळें. तूं आत्मविस्वास वगडावन बसत अशे एके गजालीची म्हाका भिरांत दिसता. राहू आनी केतू अशो दोन घातक व्यक्ती तुजे भोंवतणीं आसात. ही गजाल तूं विसरू नाका. तांचे मनीस पदाती दळ. अश्वदळ आनी नाविक दळ अशा तुज्या तिनूंय प्रकारांच्या सैन्यांत आसा ही गजाल तुवें मतींत दवरूंक जाय. देखून तुजें एक हाती राज्य चलोवंक तें अति आत्मविस्वासाच्या आहारी वचूं नाका. हास्यास्पद आचरण. लज्जास्पद वावर करता आसतना पडमूर जाल्ल्यान आपणाली पीडा मळबा वरी शेकान शेक पातळटा. परिणामी उपरान्त असहाय्य जावन. भावविवश जावन. काय सुवार्थ्याच्या आहारीं वचून आपणाले अधिकार चार हातांत सोडू नाका. ज्या व्यक्तींच्या हातांत तुका काय अधिकार दिवचे पडटले. त्यो व्यक्ती आदी पुराय नखशिखान्त नियाळून घे. जो सत्ताधीश आसता ताणें स्वच्छन्दी आसून चलना. परम स्तुती करपी. वेळ प्रसंगी साष्टांग नमस्कार घालपी. शोकास्पद प्रसंगांतय मती गोंदळांत घालून भासाभास करपी. साळसूद जरी आसले तरी ते वेवसायिक ठकां परसय चड घातकी आनी निष्कारण मतभेद उगतावपी ही पांच विपदां जावन आसात. तांका वळखून घे आनी शिंव कसो वेळ आनी स्थळ पळोवन आपणाली येवजण पुराय करता तशें प्रायोजन कर."

स्नेहामृत सर्व उदार उपजे म्हज्या अन्तरांतय ।
भ्रात्याचें पथप्रदर्शक नररूपा देख भ्रमांतय ।।द३०१।।
आडादेडिय न्हय बायिबडका गोन्दळु आंगडय ।
राज्यभार संप्रति रीत रमणी कैवाडु कैवाडीय ।।द३०२।।
राजाळें हळ्डुवें अटवीं मळबीं निळाय आकाशतू ।
रेब्याच्या उदकांत देख कमळा आल्हाद आल्हादतू ।।द३०३।।
वाळोती किडस्सा किडीत भितरी भ्रात्यांत ज्येष्ठतमू ।
पोन्दाची बसका किडीत अधिका म्हज्या मनाचो भ्रमू ।।द३०४।।
म्हगेलो ह्सको नश्टच परन्त आक्रान्त केवलु रे ।
रावू घातक भोंवतीं तुज उड्डणां सैन्य दळीआं रे ।।द३०५।।
एकार्थपद राख पोवण हातीं आपाद आपादतू ।
हास्यप्रद कर्म लज्जा नत कष्ट आकाश आकाशतू ।।द३०६।।

स्वच्छन्दी अपमूळ स्तुति परमा साष्टांग प्रायोजित् ।
शोकास्पद ठका विवाद मतभेदां टाळ शार्दुल तूं ।।द३०७।।

शश्ठदेव आपणाले भगिनीक चकासूर जावन तेळत रावलो. राजपाटणाची स्थळदेवी भगवतीच आपणाल्या धीर गंभीर स्वरांत मार्गदर्शन करता अशें ताका जाणवलें. सान पणांत ताचो गुरू ताका सांकेतिक क्रमांक, सांकेतिक भास शिकूंक लायतालो. किरांगूळ म्हळ्यारी स, पवित्र म्हळ्यारी सात, मंगेले म्हळ्यारी आठ, किंम्मुस म्हळ्यारी णव, गाळ म्हळ्यारी धा, गाळारि केवळ म्हळ्यारी इकरा, गाळारी पोवण्णु म्हळ्यारी चवदा, गाळारी मूळ म्हळ्यारी पंदरा, खण्डी म्हळ्यारी वीस, खण्ड्यारी केवळ म्हळ्यारी एकवीस अशा कांय क्रमांकांचो ताका उगडास जालो.

ताणे गायत्रीक विचाल्लें, "म्हाका म्हज्या गुरून केन्नाच बारा आनी तेरा क्रमांकाचो संकेत सांगूंक ना, कित्याक काय?"

गायत्री मुमुरखें हांसलें आनी काय खिणा उपरान्त ताणे ताका सांगलें, "बारा आनी तेरा हे क्रमांक शुभ न्हयंत. अशौचाकडेन तांचो संबंद! काय अशुभांक हे वळखून घेवपाचे आसतात."

पूण शश्ठदेवाक कुवाडें पडलें ते म्हळ्यारी हे दोन घातक राहू आनी केतू कोण? महाराणीक ताचो संभ्रम पयस करता आसतना भौच तकालस जाली. रहस्याधिकृत आनी पद्मनाभ हे दोग जाण तर राजकुंवर शश्ठदेव उपाख्य भीमभुपालकाचे अन्तस्थ. तांची नांवां घेतिल्ल्यान घडये आपणाचेरच आपदा येवपाची चडावत शक्यताय आशिल्ली. परन्त तिची तकालस चड समय उरूंक ना. तूं राहू आनी केतू अशा दोगांचो उल्लेख करता तें म्हाका कळ्ळें. रहस्याधिकृत आनी पद्मनाभ! अशें साक्षात शश्ठदेवानच म्हळें. महाराणीच्या उरा वयलो भार देंवलो. म्हजेर तुजो अद्यापि भावार्थ ना, म्हणपाची गजाल हांव जाणा, भगिनी. हांव वागलाच असो की तुवेंच न्हय तर कोणेय म्हजेर निम्बून रावपाची अपेक्षा हांव बाळगुची न्हय. कितेंय जावं, म्हजे विशींचो दुबाव पयस करून दाखयतलों म्हणपाचे उतर हांव तुका दितां.

अमाउस वर्तमानीं । फाल्यां निमतलो काळोख भुवनीं ।
संशयाचो राळ मनीं । आतां केदनांच उपजचो ना ।।द३०८।।
महिषासुर शुम्भ चण्ड।धूम्राक्ष रक्तबीज निशुम्भ मुण्ड ।
राज्यांतले कूट पुण्ड । नश्टप्राय करूनच दाखयतलों ।।द३०९।।

न्हय हें केवळ रौळ । तुज्या पद स्पर्शान जालें दौळ ।
म्हजी जीणच तौळ । हताश बुसकळेचि मारता हांव ।।द३१०।।
म्हेळें आंग पांगोय । बुरश्या कर्मान दी गे गंध दुपोय ।
येत्नांती जितेन्द्रीय । सिद्धच करतलों गो भगिनी हांव ।।द३११।।
सराणीं ह्या पेवलों । सागर चेंबू बोरणू धांवलों ।
मार्गे मोर्दें पडलों । अहंकार वश जावन गो भगिनी हांव ।।द३१२।।
एक नूयला दोणीं । मोह वश अंब्या तुंब्या खाणीं ।
इल्लुशी नसती कणी । होडाय बडाय व्हडविक गायली ।।द३१३।।
स्तुतिपाठ ओराणी । म्हज्या नांवाची सातोय दोणी ।
उदरयलीं जल सरणीं । दुष्कर्मी भरसयली शेण शितोड ।।द३१४।।
पश्चात्तापी निवोजू । शरणागत गे हांव हो निस्तेजू ।
सविता तूंच सूरजू । सुग्लेपु हो वेद विधी प्रकारे ।।द३१५।।
दंकिल्लेंय दारवटू । म्हज्या भागधेयान कर्मकटू ।
तुज्या स्पर्शान सुभटू । फुडार निश्चितच निश्चिंत जातलो ।।द३१६।।
महाराणी गायत्री । न्हिदली निश्चिंत मन अति पवित्री ।
उत्कण्ठितली धरित्री । झुळझुळलि रात्री शीतळ वाय ।।द३१७।।
दास दासी परिजन । फांतोडे गाय गीत स्तुति वचन ।
ओंकारमय गण तीन । चन्द्र सूर्य आकाश ब्रहमाण्ड ।।द३१८।
चितवन देव परायण । गुंजित शयन कक्ष रौळ करी श्रवण ।
कामेरेंच कृतघ्न । कानीं ओतली तिच्या एक शिशी ।।द३१९।।
इश्टिणी साद घाली । सादु करयलो अति पाळी पाळी ।
यंगा यंगा हीं आली । उठ गो सखये कर त्वरा त्वरा ।।द३२०।।



निदांतुली सरसराण । थप्पच इश्टिणीचो निवला प्राण ।
देखी राणी अचेतन । तीं लागली करूंक धांय धांय ।।द३२१।।
सुअस्त चराचर भ्रमित । सागर धर्तरी अपार अचम्बित ।
गगन जाय कणिवळन्त । देवांदिकांल्या मेंदवा कांटेल ।।द३२२।।
निर्वातलो आसमन्त । धस्कलो वाय जाय क्लान्त ।
व्हाणि व्हांवती अनन्त । विस्मरी शेकान्शेक वारवूंक ।।द३२३।।
घाय नीतिल्या कुर्टा । देव देवता करती कटकटा ।
नीतिब्रह्म्याचें कणवटा । केलें कनिश्टा विवेकी जिणेकय ।।द३२४।।
विपरिती भाग्यो वेश्टु । उत्तमाचें उत्तम करूंक नश्टु ।
दुश्टे कुरूपे मर्णकटु । कडियाळी कित्याकच घालूंक ना ।।द३२५।।
मानव देवता कानि । विस्मो कथा आयतिकेची जननी ।
उपराटिलि दैत्यांनी । तांची उपेखणीच करूंक जाय ।।द३२६।।
सागरतट कळवळलो । सळाबळा धांयमुखिं गर्जिन्नलो ।
न्हंयाकान्तु उसळ्ळो । अखटाव चुरचुरे अजुग अक्रान्दुक ।।द३२७।।
अजिरांवर हो जगलों । अकृर्न घडणूक कदापि ना देखलो ।
अचलचाली राखलो । निर्घृण वृत्ती मुळीं देखली ना ।।द३२८।।
वाय जाय सळाबळा । विस्मिताचे विस्मित अन्तर गळा ।
वोडण धोणु निर्बळा । धरू लागे वोज व्हाण तिडकीचें ।।द३२९।।
वाय भयंकर मोडण । वारें वावटळ अन्धड वारवण ।
पापियांलीं तोडवण । विपूंक विडावेथे जाय विराट ।।द३३०।।
व्हाणीं वादळय अपार । वोडावोड करी वाय निरादर ।
वारें जाय दण्डाधर । झंझावातें वारवी हिण्यां तिण्या ।।द३३१।।
धरणी जाय निशाचर । गगन दशाय कुड्ड्या वरी साचार ।
ब्रह्माण्डालें अगोचर । अस्तित्वाची मिती अन्धड मण्डळ ।।द३३२।।
व्रुखांल्यो मोम्बारी । लता-वाली अजुगीं काकुळतिसारी ।
हुल्लाळ पखरि रानारीं । धांय धांय हिम्पुटल्यो धाय दिको ।।द३३३।।
सागर भर उचम्बळी । प्लावित न्हंयों पलतडीं खवदळी ।
साय सोसणि कायाळी । शिंतरूंक साणाय सासणाची ।।द३३४।।
गायत्रीलें कुमरण । देवताय गेल्यो ब्रह्म्याक शरण ।
समरून शिपति पठण । शेळ-शीतळ पुराय ब्रह्माण्ड ।।द३३५।।

ब्रह्म्या उगडी दोळे । परिस्थिती पुराय नियाळे ।
आन्तरिक सनिदानळे । शेळ शीतळ दुकां साखि व्हांवूंक ।।द३३६।।
सात्य तूं सत्यवन्त । शिरोमणी ब्रह्म्याचें मुर्तिमन्त ।
तुजे विरयत धादान्त । कारण तूं केवळ शिपति ब्रह्मरूपा ।।द३३७।।
म्हजें गायत्री धुवे । सत्त्वधीर साज सुपुत्री लवलवे ।
शिख्याच भोगची तुवें । कारण तूं केवळ क्षमा शिवरूपा ।।द३३८।।
नीति कुळवंश पोशिणी । पावित्र्याची तूं विश्व विलासिनी ।
लखुमी शिपती धारिणी । कारण तूं केवळ विश्णुरूपा ।।द३९।।
लीन विलीनय आतां । निखटी सत्यार्थीच पखरी वार्ता ।
गायत्री तूं दुहिता । धर्तरेसून स्वर्गी पर्तून यो ।।द३४०।।
केली निष्ठा निगुती । विस्कावणीय सत्यार्थाची रीती ।
देव धुवेची वृत्ती । पुराय जाली सुवृत्ती म्हजे धुवे ।।द३४१।।
शोक मण्डपीं प्रजा । वार्ता निस्तेज पातळली क्षितिजा ।
बुक तान विसरुनु काजा । हादरलो विद्वत्समाज पुराय ।।द३४२।।
एकल्याच्याय कल्पनीं । रहस्याधिकृत पद्मनाभ नाम्नीं ।
खलनायक प्रमाणी । महाराणीच्या मरणीं घेय ना ।।द३४३।।
साबारांलीं तर्जनी । राजाचे दिके उठी मनोमनीं ।
शश्ठदेवय उन्मनीं । कसो हांव दुशणीं अनाकलनीय ।।द३४४।।
घटित नच सैम्बपणीं । राजकाटीचो नच हांव पाणी ।
आत्म्याचें निछळपणीं । आसल्यारी देवच प्रति करिता ।।द३४५।।
क्षमेचो हांव भुकाळू । विसरायेर वचूं टाळू भूतकाळू ।
विजवल्लें मुखळ काळू । अळशिकोणी पाप दुखवेस्टिता ।।द३४६।।
खावंचो ना कच कदापि । हड्ड्यांतु कच कच देणेकरु तथापि ।
सोडिले हे कच सदळ । खट हो अकारण कपि दैत्यदुश्ट ।।द३४७।।
प्राचिताचो एक खीण । मायणांतलें प्राचि दिका दर्शन ।
करीत म्हाका पावन । अन्यथा जळूं म्हजी चिता अचकित ।।द३४८।।
प्रधान मंत्री संशयी । प्रमादीं महाशय महाशयी ।
असो तूं कण्टकमयी । सांग पापया वागलो कित्याक ।।द३४९।।
अक्षय तुजें चिंतताली । पिडा विसरून आनन्दमयी जाली ।
दुर्मती ती दिताली । उमजली जनमनालेंय शियाण्डे ।।द३५०।।

भ्रात्यांत ती घुस्पली । कृतघ्ना तुवें तिची हत्या केली ।
विषमया ती फटवली । निराश्रित आमी ती निर्मोहीच ।।द३५१।।
तुजेर पुराय निम्बून । प्राण दिलो रे तुका ओवाळून ।
विनाशक तूं दुश्टजन । तूं तर दुर्जन साक्षात वन पन्नग ।।द३५२।।
उठूनच गेलो तडक । राजसिंहासनीं आज्ञापालक ।
धाडलो गुप्त वार्तिक । आफोवणें गेलें राणी कंकावती ।।द३५३।।
शास्त्र वचन सनातन । अटल शास्त्रोक्त कर्म अतिपालन ।
शास्त्रोक्त आलम्बन । देशाची उदरगत मन निवान्त ।।द३५४।।
न तत्र वीरा जायन्ते नारोग्यं न शतायुषः ।
न चश्रेयोऽधिगच्छन्ति यत्र श्राद्धविवर्जितम् ।।
नाभिगत नियत नातें । विधिवत शास्त्रवत वादविरहिते ।
प्रुथिवी न उद्धरिते । बाबडी आदीम काळा सावन ।।द३५५।।
मातेल्या शवाक अग्नी । अन्त्येष्टिक उपस्थित अभिवादनी ।
पुताक गत निमंत्रणी । प्रधान मंत्री करी लगा बगा ।।द३५६।।
पुं नाम नरकात त्रायते इति पुत्रः ।
पितु पुत्रेणः कर्तव्या पिण्डदानोदकक्रिया ।
पुत्राभावे तु पत्नी स्यात् पत्न्याभावे तु सोदरः॥
तात तात अनाथ । हांव शश्ठदेव करी आत्मगत ।
ना वागलों रुढीगत । न्हय पापी हांव न्हय हन्तारम् ।।द३५७।।
भगिनी केवल देवी । अशेंच मानिलें हांवें सदैवी ।
दुबावी कित्या केवी । गमना गे आई म्हज्या गिन्याना ।।द३५८।।
सिद्ध करपाकु अपापु । करतां भगवती ह्या खिणी सुग्लेपु ।
रावू घातक समीपु । राव उतराकु सोदतलों सत्वर ।।द३५९।।
तनन त्वरित झडकरी । निवान्त आफयले प्रांजल कामारी ।
अगुती दवल्लीं हेरीं । दिसाड निसरेय राया विश्वस्त ।।द३६०।।
काहींची पायगती । काहींची प्राणगती शरणागती ।
काहींचे भंय सुकथी । मेळ्ळें एक भंयग्रस्त कामेरें ।।द३६१।।
साबार जाण हस्तकु । रहस्य पद्मनाभाले परिवाहकु ।
गुमानीत अति चाटुकु । सम्मोहनीं शोधक भाण्डार कुंजी ।।द३६२।।

अचकित माल्ली झोपय । पद्मनाभ विस्मित दाखय निर्भय ।
न्हय कृति धर्मबाह्य । आव्हानच देय धनाढ्य सर्वांक ।।द३६३।।
कामेरें जालें दग्धु । पश्चात्तापीं वळवळूं लागले अन्तर्विरोधु ।
विसरलें इन्द्रियबोधु । अन्ध खड्ग पद्मनाभीं रोमलें ।।द३६४।।
तुज्या कुकर्माच्यो झरी । रायाक आमचेआ दुबावी धरी ।
तुजी हांव कामेरी । आतां जगूंक ना मुण्णू अधिकार ।।द३६५।।
घोवाचे पांय धरी । पापाची धनीण हांव अरबरी ।
भुरग्यांकय न विस्मरी । धोमशिलें खड्ग सोताल्या हड्ड्यांतु ।।द३६६।।
साबार जाण थटाक । राजभक्तीची ही अप्रतिम देख ।
ल्हंव जाय ताठ नख शिख । उल्लोळ भंयाकृत भोंवतणीं ।।द३६७।
वार्ता पातळ्ळी सत्वरी । मंत्री लज्जान्तक दीन मुद्राधारी ।
धांविन्नलो रौळान्तरी । रूदन करू लागे पश्चात्तापे ।।द३६८।।
अनुज्ञेयी अभय पाय । राय धरी मंत्री हात पुराय ।
तात तुमीं देवालय । अनाथ हांव तुमच्या हातां विणें ।।द३६९।।
आजूनय चन्द्र आळ । रावू घातक तो लिपला पाताळ ।
अयोनिज हो जलव्याल । रहस्याधिकृत हें तागेलें नांव ।।द३७०।।
ताचो पिराणु जिवोणु । साम्राज्याच्या घाताकच कारणु ।
हृर्द्य गौण संकिर्णु । करूं ताच्या कर्मांचो सोक्षमोक्ष ।।द३७१।।
श्रवण प्रधान मंत्री । मग्न होय महामृत्युंजय मंत्री ।
अघोर घट मानचित्री । भल्ली गात्रां गात्री शिरशिरसाण ।
।। ॐ हौं जूं सः । ॐ भूर्भुव ओमः स्वः त्र्यम्बकम् यजामहे ।
सुगन्धिं पुष्टिवर्धनम । उर्वारुकमिव बन्धनान ।
मृत्योर्मुक्षीय मामृतात् । भूर्भुवःस जूं स्वरोम : ।।
त्र्यम्बकं यजामहे सुगन्धिं प्रतिवेदनम् ।
उर्व्वारुकमिवबंधनादितोमुक्षीय मामुतः ।।
रुदक करी सोकारत । लोक महाराणीचें शव पळयत ।
पद्मनाभालें प्रेत । स्मशानीं प्रशासन लाय विलो ।।द३७२।।
गायत्रीलें शव नितळ । परम पुण्यतम म्हणे जन जिव्हाळ ।
प्रेम माया अञ्चळ । जयपुरी प्रजा रुदय धांय धांय ।।द३७३।।

महाराणील्या चित्रा । लायलें नैऋत्य दिके दुकां नेत्रां ।
रेंव पातळ्ळी पवित्रा । भुंयेर षोडष मुखाग्नी संस्कारा ।।द३७४।।
दश गात्र विधान । श्राद्ध सपिण्डिकरण शवाक स्नान ।
पर्मळित पुष्प पखरण । अन्त्य संस्कार महायात्रे आदीं ।।द३७५।।
मार्ग काडले धुवून । पदोपदीं रंगोळी कला दालन ।
पुष्प वळेसर लावन । सुगंधी द्रव्य शिडशिडो हिण्यां तिण्यां ।।द३७६।।
गाती गरूड पुराण । शान्ति पाठ गुंजे कुशल ऋत्विज जाण ।
दश पदार्थ दान । पुरोयत वेवस्था निगूत निर्मळ ।।द३७७।।
साम स्वर बद्ध गान । अम्भृण ऋषिली पुत्री परम विद्वान ।
गायनीं तन्मयतेन । मग्न वाग्देवी ब्रह्मस्वरूपा ।।द३७८।।
अहं रुद्राय धनुरा तनोमिब्रह्मद्विषे शरवे हन्तवा उ ।
अहं जनाय समदं कृष्णोम्यहंद्यावापृथिवी आ विवेश ।।
हवन वस्तू परमळीत । कपाल क्रिया समिधाय सुगंधित ।
वर्सोधारा घट नियमित । मृतात्म्याचेच सद्गती पासत ।।द३७९।।
मरण न्हय जिर्णोद्धार । पंच तत्वीं शरीरगत महाकार ।
आनी मंत्री मन्मनी । मग्न सिद्धीं जगताल्या आगमनी ।
राजा गेलो सदनीं । प्रतिशोधच रहस्याधिकृताचो ।।द३८०।।
घर घर घुंवलो पिसांट । सोदी सांगाती निकट सन्निकट ।
करी उघड विवरणपट । मनोमनीं पश्चात्तापी प्राछिता ।।द३८१।।
हटात् मध्यान राती । गूढाकार हेरकस्वामी प्रति ।
विवरिलें संकेतार्थी । रहस्याधिकृताचे गुप्त स्थान ।।द३८२।।
घेवन सैनिक वेंचक । राजा पावलो अचकित चुम्बक ।
वेळियपुरांत कन्दक । रहस्याधिकृत जालो चकासूर ।।द३८३।।
अंगरक्षक आग्नेयो । जणूं काय रुइणींतल्यान मुयों ।
अति निरन्तर अज्ञेयो । लागलेच घालूंक रेवाडो ।।द३८४।।
दुष्ट जनां भोंवतणी । गड्डासलो धूर्त गोत्र जनीं ।
घेवन मायावरणीं । अंकन करी शान्त रहस्याधिकृत ।।द३८५।।
अनुचर पतित अंगरक्षक । धांविन्नले जणूं नग्न अन्धक ।
तरतरीत भक्ष्य खावंक । पातळावन पडली भक्षक तोळधाड ।।द३८६।।

राज भक्त सैनिक दळ । कवदे जोत दिवटी चूड जळजळ ।
दिङ्मूढ होय शत्रू बळ । रहस्याधिकृत धांवी चान्दरा ।।द३८७।।
रहस्याधिकृत पिसांट । अंगरक्षक ताचे सुटले सुंसाट ।
कुशावतीलो कांठ । पळय अनाकलनीयच धुमश्चक्री ।।द३८८।।
पातळलो उज्या लोळ । धगधगलें पुराय तारा मण्डळ ।
व्हावंक लागले व्हाळ । रगताचे आक्रोश चौंयवशीन ।।द३८९।।
जमालउद्दिना परस । पोशिल्लो हांवे हो कुचिद्री साणस ।
भयहेतुक करी त्रास । चान्दर कोट जालो ज्वालोज्ज्वल ।।द३९०।।
भयाण घातक रातीं । सल्लीं रहस्याधिकृताली जाती ।
मग्न रौळ लुटपाटीं । आसुरीय हाहाकार सर्वत्र ।।द३९१।।
राजाक विषादबुद्धी । करी हतबुद्धच अन्तर्विरोधी ।
सतपणान अपराधी । राजविद्रोहींक सोदूं लागलो ।।द३९२।।
गर्वान होय दुर्बुद्धी । निरपराध्यांचो सह अपराधी ।
मनांतुल्या घोर युद्धी । राजा लागलो करू संघर्ष ।।द३९३।।
करुनि मुसळप्राय घाय । जणूं तमारि धांवी विद्युतप्राय ।
राजाच्या अवतारा । देखोन ताचो सैनिक खुबळलो ।।द३९४।।
खड्गांचीय खणाखणी । अन्य शस्त्र शस्त्रांचेर प्रहारणी ।
शतखण्डित क्रोधाग्नी । जणूं पातळलो वडवानळ ।।द३९५।।
अगणित वर्सांचें वैर । जणूं चाळविल्ली तिक्ष्ण वज्रधार ।
ताम्रवर्णी रक्त धार । जणूं वन्हीं भूंय जाली अदृष्य ।।द३९६।।
अगणित जाल्यो विधवा । वगडावन बसल्यो त्यो सर्वस्वा ।
पती विरयत ह्या विश्वा । भीषण जीण प्रळय अति विहंगम ।।द३९७।।
अळंकार केले चुर्ण । कुकमा विणे तिची जीण अपूर्ण ।
तें माल्लें शेवटून । कुशावतीच्या प्रळय रुद्र पात्रांत ।।द३९८।।
हड्ड्याक लावन प्रेत । धन्याची अर्थी उबारली आपणेच ।
अवैध परंपरागत । कुशावतींत केलें प्राणार्पण ।।द३९९।।
राजा रडे ढळढळा । रहस्याधिकृताच्या पापा काळा ।
नष्टच करणे बळा । अन्य उपावो आतां उल्ले नात ।।द३१००।।
घेवन तो खड्गा दोन । कातरित चल्लो शत्रू आकांतान ।
सांपडलो मरण धर्म । होच खीण सृजन राज ऋण पुराय ।।द३१०१।।

दिसलो रहस्याधिकृत । राजाक पळोवन जाय अचम्बित ।
तरी खदखदा हांसत । म्हणत कित्याक रे असो एकोडो ।।द३१०२।।
पळय रे चोंयवशीन । दिश्टीकच पडना रे तुजें सैन्य ।
प्रेतांवयलीं प्रेतां काडून । व्हरता आपणालो पती एकलेन ।।द३१०३।।
तुजे कुडिलें अवसान । अतिथी काय खिणांचोच हें मान ।
खंय आसा घरकान्न । व्हरतलो कोण कूड करूंक अन्त्येष्टी ।।द३१०४।।
गची धल्ली अनुचरान । घातलो आड रहस्याधिकृतान ।
करचो ना प्राक्कथन । म्हणत धोमशिलें खड्ग अन्तर्बाह्य ।।द३१०५।।
परिसरच जालो किण्ण । जिणेचो आसमंत होय संकिर्ण ।
हड्डेंच जालें विदिर्ण । सांग भस्म कसो जातलो हुताशनीं ।।द३१०६।।
असुर निष्ठूर अनुचर । थय थय थय थय नृत्य कुडीचेर ।
पावलो थंयसर सत्वर । गूढाकार गुप्तचर कृतांता वरी ।।द३१०७।।
पावले तेदनाच त्वरित । विकट क्षणीं अंगरक्षक यथोचित ।
आतुडले ते वांछित । प्राण मुक्त केलो रहस्याधिकृता ।।द३१०८।।
राजाली कूड वंचित । उबारून व्हेली वेळियापुरांत ।
खण्ड विखण्डलें प्रेत । देखून अगणित होय चकासूर ।।द३१०९।।
घळघळा दुकां नेत्रीं । विखण्डित पुराय प्रधान मंत्री ।
भागधेय हे कुचिद्री । नाका येवं सहित मागण्या विणें ।।द३११०।।
राज्य एक शोकसागर । समाज समश्टी क्षुब्धच निरन्तर ।
प्रजेलो म्हासागर । हिंसक हुलपूंक स्वार्थ तत्पर ।।द३१११।।
सोदित वेंचित क्रोधित । रहस्याधिकृतालो परिजन ज्ञात ।
नृशंस अति प्रताडित । अत्याचारित जालीं जावंय सुनो ।।द३११२।।
सच्चित राजालें मरण । करपाचें नाशिल्लें वैध कारण ।
अशे ज्ञातीचें निष्कासन । केल्ल्यान मेळटा न्यायाक न्याय ।।द३११३।।
वीर मंत्री प्रधान । अरणाकुलमी पुत्र चरित्रवान ।
राज्याचो दैदिप्यमान । देवासुर युद्धांत राया पासत सिद्ध ।।द३११४।।
प्रधान मंत्री अविचलित । हिंसेचे फलित न्हयच हिंसक मृत ।
जिणेचे मानवोचित । क्षमेचोच हात अपराध्याचेर ।।द३११५।।
पापियांची ही भास । विसरायेर घालात आस सोडून आस ।
नेमांची तमस आस । ही धारणा छन्दस कृशण-श्याम ।।द३११६।।

पापियांचो भांजडो । अनिर्मणींक कल्पनातित हिंजडो ।
अपाप विनत बाबडो । कोणाक प्रथमुच सांबाळी गा ।।द३११७।।
भुखी हापहापपणी । अथवा अभावार्थी अकिर्त गुणी ।
अकिंचन सद्गुणी । सांगात कोणाक सांगात दिवूं ।।द३११८।।
वस्तुस्थिती रञ्जित । अव्यापारेषु व्यापारी जात ।
नाका जावं उचंबळित । प्रतिसाद विरयत दोनूंय असहाय्य ।।द३११८।।
उजवाडटलो सूर्य । सांगतलो सत्यांतलोच विपर्यय ।
चिंतेस्त कित्याक सर्व । जाका यथार्तात ना चिकें मोल ।।द३११९।।
ज्या कारणा पासत । संघर्षरत मनीस नित्य-अनित्य ।
नासता वजें अनन्त । भुजांर ताचे भावी पिळगेच्या ।।द३१२०।।
सुवार्थाचो सुवार्थ । खीणभर भुलयता अमर तत्त्वार्थ ।
मोगाळांचो पार्थ । करता नैतिक संरक्षण पृथ्वीचें ।।द३१२१।।
गोंयकार निश्ठावन्त । आमी मानवतेचे कृशिवन्त ।
निवान्त मनीं शान्त । गमी नीतिमत्तेचीच नैतिकता ।।द३१२२।।
नाका भुजांर प्रमाद । व्हरुया नाका अहंचो अपार मद ।
प्रमादांचो दुःखद । अणभव जरी न्यून देय सर्व सुख ।।द३१२३।।
प्रमादांची सोंपणां । व्हरी नित्य दीत दीत यातना ।
आसल्यारय बोधना । मेळत जाय खीण भर जीण भर ।।द३१२४।।
म्हजें हेंच सांगणे । ना मानवचें लोकांक असलें अहिंसणे ।
नित्यही संघर्शणें । सदैव आपणाल्या आत्म्याकडें ।।द३१२५।।
लटिकांचो कांटाळो । वायटि रितुंचो अटम टवाळो ।
निखेपण नन्द निछळो । पलित पोजडो बळिळककार बळवन्तु ।।द३१२६।।
तडे वयलो धुमाळो । करी लोभा ह्र्मती लडिवाळो ।
पापांलो भार वाहिळो । न खरी थोरी नखरी विछखेणा ।।द३१२७।।
बळिश्टांनी बळ दिवंचें । असहाय्यांक नासता चिड्डपाचें ।
थरथरत्या हातांक । आपणाल्या आलाशिरो अचकित ।।द३१२८।
उमगणें न्हय केवल । गमणें तें गिन्याना परसय खोल ।
अथाह गिन्यान निर्मल । जाण परिस सर्वांग ब्रह्मज्ञान ।।द३१२९।।
दुर्दैवी घडणुकांचे । नाका दिंवुया शिक्षण प्रतिशोधाचें ।
शिक्षणांत आनंदाचें । मोल न्हय श्रीमंत मुल्यां परस सांच ।।द३१३०।।

निर्शेवणी पराभुतीं । जरी पडलो उदारो अनाशती ।
उठून उबो रावती । पराभूत न्हय कदापि तो वीर ।।द३१३१।।
आस्त हीण दुर्मती । विरांली पीडा न्हय ह्र्मती ।
सत् आयक कंकावती । पराभव आमचो ना करचो पाड ।।द३१३२।।



आमकां सर्व वळखती । न जाणती मर्म परी पीडा मती ।
इतिहासाचे संगती । जातले क्रौर्याचे आमी वंशज ।।द३१३३।।
देखात हात रक्ताळ । देखतलो इतिहास सदैव सकळ ।
अमंगळच वेल्हाळ । कथा सकळ गमतली तुमची पिळगी ।।द३१३४।।
मोहालस्य दुकां भारू । रायुवे कोरणु दित्तो जलारू ।
कित्ते संगते तेवे । दोळां दुख पुसूण तुमची पिळगी ।।द३१३५।।
तांगेलें अयक्कुणी । ह्म्मेची ना फाल्यांची समश्टी कुणी ।
मूल-फल खावुणु । जगयतली भुरग्यांक तुमची पिळगी ।।द३१३६।।
गोंयकारांच्या शिला । पावित्र्य कितुलें मोलाचें जाणा सकला ।
अशे घडणुकेची खिला । इतिहासाच्या रथा हिंसाचाराली तुवें ।।द३१३७।।
मोन्ना बोट गालुणी । अणभवी पिळगी विपत्तीची बोणी ।
संस्क्रुती घर सांडुणी । हांगा गेल्यात शिंपडून ग्रंथ ।।द३१३८।।
आंवु संगत्ता इश्टा । हेरच्चो काणु दिवणु ऐक कनिश्ठा ।
ह्र्मतीच्याच श्रेश्ठा । सन्मानाची भाटी सकैल वैर ।।द३१३९।
अय्योद्या राज्याच्ची । शुभ पावन कथा लागता संगच्ची ।
गोंयचे दुर्दशेच्ची । अयक्कुणुयीं कथा कुसकांयी गा ।।द३१४०।।
पुरुषोचित राजोचित । निर्णय सत्वर न्यायोचित समुचित ।
प्रधान मंत्री अविचलित । परन्त ना एक सखा विश्व भुवनी ।।द३१४१।।

विनोमाय येय सत्वर । कंकावती जगजित सिंग हितकर ।
देख परिसर हानिकर । उद्विग्न कंकावती अन्तर्बाह्य ।।द३१४२।।
कृपेच्या आदारा । स्वामया जालें पांयच थरथरा ।
क्षतिकर स्वार्थ तत्परा । अनुचर विनाश-कर पोसले मिथ्याच ।।द३१४३।।
वचूं कशी गा निम्बून । वचूं पोटांत कोणाल्या भगसून ।
निर्विखी जरि जावन । कुकर्माच्यो उपेखून विखारी राशी ।।द३१४४।।
नाश जाला जिणेचो । भायर पेल्यान पोरो ध्यास्ताचो ।
उपेखण अन्तस्ताचो । आकूळ पिकूळ अत्रेकप अथ्रेकणी ।।द३१४५।।
पाप सांग म्हगेलें । काकुळतिसारू हौनु कुफळ कसलें ।
अप्रमितच तुवां दिलें । साखि प्रतेव म्हाका पुनरपि दिताशी ।।द३१४६।।
धिर्येवन्तु केलें महा । सुफळु भोगूच दिलो नित्य देवा ।
नपुरो कर प्रियेवा । न चकटायो कर दृडु व्हडिव्येन ।।द३१४७।।
राणी पद अनुवांटो । दिलो म्हाका किर्णाच्या जोतींचो मोटो ।
जरी पुश्पांचो पाटो । तेजा विण अल्पशक्तु तुजिया विणें ।।द३१४८।।
दुलबा मोगाळा रे । जिणेची दिप्ति अन्दकारांत तूंच रे ।
सुआडतां म्हणच रे । उत्तर दिकेंतल्या नकेत्रा वरीं ।।द३१४९।।
तुजे विरयत उधासू । तुज्या स्वासांच्या सुखांत लब्दुसू ।
तुजें मनगत विस्वासू । स्मृतींचे शिशींतच रावूं दी ।।द३१५०।।
देह म्हजो निर्दैवी । निर्भागी कथेची न्हंय वैशणवी ।
विटाळवन्तांचे शवीं । पती विरयत सान्त तिण्टीण हांव ।।द३१५१।।
लैब्बै लैब्बै दशेंत । विवेखु करतां भावार्थ्यांनो अथकत ।
हे म्हगेल्या जिणेंत । कालकुपींत रिगिल्ल्या वर्सांनो न्याय करा ।।द३१५२।।
जळक्या रावराळ्यांतु । ही अलंगुली सोदता गोंवाळ्याकु ।
वेंसर एकसुरें भिरांतु । समश्टीचो रचणारू न्याय करा ।।द३१५३।।
व्हडा लिणत्वान हांव । झाडुनु वेळुनु सरी केली साव ।
सुस्वभावी सौश्ठव । भस्मसात करप्यांनो न्याय करा ।।द३१५४।।
उमा-बोंची सुखावळ । लाबार्थी राबित्यांक रावळार ।
अनाधसिद्धा दिवटी । लाशी निखटी तुमीं न्याय करा ।।द३१५५।।
ही अळंगुली शिरकल्या । पळयात गवणिंतु ठिणगी पेटल्या ।
तिरस्काराचोय भार । पेटला गोंवण्यांनो न्याय करा ।।द३१५६।।

विर्या विणें गावकि चित । ही नांवाकच उसळी किंचित ।
पुरुषार्थाचें संचित । उमजून तरी तुमीं न्याय करा ।।द३१५७।।
निवार शिवार रानीं । अळंगुली ही तुमची रानी ।
जातली वनवासिनी । चिंतून मनीं न्याय करा ।।द३१५८।।
नाका फाल्यां विसरूं । दुडू हातांत कितलोय उरूं ।
एकच दूक गालारू । पुसूंक दारिद्र्यां कितलें हात ।।द३१५९।।
न्हय हें बालभाषित । अस्तुरेंलो मसणीं तळतळाट ।
अहो मसण्यांनो उचित । हे गतधवेचोय न्याय करा ।।द३१६०।।
म्हजे जिणेची होळी अशी कशी मांडियली कन्हाई ।
अचर्याची कथा ही होळी कशी सजयली कन्हाई ।।द३१६१।।
आयलो ना प्रभो तूं तुका वसंत पंचम प्रिय कन्हाई ।
एके न् एक कथेची घडयली करुण पिचकारी कन्हाई ।।द३१६२।।
सोकारतीचो थाट काफी होळींत तूं रचाई कन्हाई ।
पंचभुतांची पंचारत पेटय प्रभो तूं एक कल्ली कन्हाई ।।द३१६३।
सात भुवन उर्ध्वलोकीं जंय साबार सांगती तुझी बढाई ।
उर्वरित अधलोकीं अगन तितूंत म्हजी समिधा कन्हाई ।।द३१६४।।
होच जर ब्रह्मानन्द जाल्यार शोकानन्द कितें कन्हाई ।
होलिकेक आस्वाद म्हज्यांतली अस्तुरी प्रिय कन्हाई ।।द३१६५।।
हो आकान्त चित्कार । करी गिळंकृतच समश्टी वाठार ।
दुमदुमलो दिकां पार । जलचर वनचर सुकणीं भयग्रस्त ।।द३१६६।।
समय काल निश्चल । अनन्त स्वर भयावह महाकाल ।
समय आत्मा केवल । आत्मा निखटो समय वेद अनु सार ।।द३१६७।।
कंकावतीचें शरीर । एक संपृक्त महामाया मंदीर ।
अवतार स्वरुप थीर । माता कालिका जाली विश्वरूपी ।।द३१६८।।
जालो मंत्र जागर - ।। ॐ ह्रीं श्रीं क्रीं परमेश्वरि कालिके स्वाहा ।।
भंय अथाह विकल कलहीं । अनाहत जाल्यो शोकग्रस्त विरही ।
विकराळ कृष्णांग ही । माथ्यार तिच्या संपृक्त निळो गिरो ।।द३१६९।।
अस्तन्तेक छिन्नमस्ता । आपणालेंच शिर घेवन हातां ।
चिन्तापुरणी विवशता । उबी भैरवी रूपां अभयदान ।।द३१७०।।

दारूक नामक असुर । अधर्मी महा घातक प्रलयंकर ।
वध निश्चित स्त्री कर । कथिलें देवासुर देव ब्रह्म्याण ।।द३१७१।।
दुर्गा सन्तप्त अपार । अनुमती देय अस्तुरे शिवशंकर ।
विष प्राशिलें निरन्तर । शिवकण्ठ स्थित दुर्गा मातेण ।।द३१७२।।
मंत्रमुग्धमोहिता । ऐश्वर्य ईश्वरीय परिणीता ।
दावे पक्षीं योगिता । ऐश्वर्य दर्शिनी भुवनेश्वरी ।।द३१७३।।
भानविरहित प्रधान । गावंकच लागलो विभोर जावन ।
आद्या शक्ती अभिवादन । थारय महामाया ह्या प्रलया ।।द३१७४।।
आसता देवी सुरानीक । जशी रानां मेघश्यामाचे सेवक ।
नीती अनीतीचे पूजक । अभंग गाय सभंग श्लेष ।।द३१७५।।
तूं दिव्य पुराय पाणी । पतिव्रतेची कांत तुजिया पाणीं ।
निश्कलंखुच आरुणी । गे आमची कुळ जात तुजेआ रुणी ।।द३१७६।।
तुजी गे दिव्य गळसरी । विद्युत भारित इन्द्रिय गोचरी ।
कपाल कवटी भारी । रक्तांग नरमुण्ड माला धारिणी ।।द३१७७।।
केश कलाप दिगन्तर । हातीं खड्ग रक्तलांछित धार ।
रक्त बीज अधान्तर । नश्ट नाका करू मनीस माये ।।द३१७८।।
आई न तूं विस्मरणे । दाक्षिण्यं स्वजने दया परजने ।
शाठ्यं सदा दुर्जने । देवतेचो जन्मजात अधिकार ।।द३१७९।।
जो प्रमादलो आमचो । हे भुंयेचोच पूत सरळ सांचो ।
सुशील कर्मी वर्णाचो । अनावधान केवळ दुश्परिणाम ।।द३१८०।।
न्यूनगण्ड भयगण्डांचें । इश्ट सुवार्थीपणीं वाटेचें ।
फलित हें संस्कारांचें । भोगदण्ड कर्माचें दायजांच्या ।।द३१८१।।
मुखीं ज्वाला दवरशी । नयनीं क्रोधाचो पाट व्हावंशी ।
खड़ खड खड्ग मारशी । शत शत दुश्ट तूं वधी बलशाली ।।द३१८२।।
उग्र रूपा चण्डिनी । यौगिक स्रष्टा हिमगिरी नन्दिनी ।
हे सुरासुर स्वामिनी । हें रोदर रूप करी शान्त गे ।।द३१८३।
कृतान्ता भिरांतली। थर्र करी आई तुजी भुजाली ।
धर्तरीय थरथरली । कंकाली माते जा गे निवान्त ।।द३१८४।।
रक्षके माता काली । ॐ नमो कंकाली महाकाली ।
साक्षात् शिव आली । शान्त सुशान्त जावं तुजी मूर्ती ।।द३१८५।।

कंकाली मती अभेद । ना आयकलो तिणे ताचो परिच्छेद ।
कण्ठ कराल व्यवच्छेद । सिद्ध भयग्रस्त लागले धांवू ।।द३१८६।।

हुंकार भेदी ब्रह्माण्ड । खदिरांगार जाळी अग्निकाण्ड ।
दारूणच प्राणदण्ड । वेगवती कंका रौळी धांवली ।।द३१८७।।



धपा धपा धेंपांनी । पसरट आंगळांचेर निम्बुनी ।
अग्निपथ खोंटानी । अविरत परिणत अपार भयांकृत ।।द३१८८।।
पांय जाले अग्निरथ । कुशावती जाली अति प्रदीप्त ।
पती विरही संतप्त । आयल्यो साबार अस्तुऱ्यो तडेर ।।द३१८९।।
कुडी वयले अळंकार । जात्यांनीय भरडले भारंभार ।
पति विरयत निराकार । मारले शेंवटून ते न्हंयेंत ।।द३१९०।।
आंत कातरी कुठार । जळीं मळीं अस्तुऱ्यांचे शव कुठौर ।
धाडौन धाडौन ऊर । काची बुचीं रडती असहाय्य ।।द३१९१।।

प्रेत कोटि समा युक्त । प्रलया नील सदैव नत ।
कंकावती अपमानित । उब्यानच उज्ज्वल जळूंक लागली ।।द३१९२।।
आंगळां रुतलीं पाशाणीं । खोंट गेली खाईं पाशाणीं ।
रुद्राणी भारीत स्रावणी । आसमंत जालो अति दाहक ।।द३१९३।।
सुर्याग्निचेच दोळे । हूहूंकारान शिव वाठार लोळे ।
अग्नितांडव जळे । चन्द्रपूर जालें अति अग्निपूर ।।द३१९४।।
न्हय हो शुभ वाठार । सौभाग्य कांक्षिणींक करता हाहाःकार ।
नाका करू संवसार । हांगासरल्या निचांच्या घरांनी ।।द३१९५।।
मनीस हांगा सरलो । भिजुडांचो अवतार आश्लेषु करिलो ।
दादुलो मोह भरलो । तो भ्रश्टाचाराचो मुकुट मणी ।।द३१९६।।
जाती पाती काती । दादुल्याच्या अन्तरी देहान्ती ।
निर्मळ जिर्णेत वाती । दिवली ताची कशी पेटेचि ना ।।द३१९७।।
जो जाय देशद्रोही । तो विकरी करी अस्तुरेची लताग्रही ।
ती जाय शयनग्रही । तिचे जिणे अवतार नाना परी ।।द३१९८।।
टाळ गांव चान्दरा । गौयांतल्या खंयच्याय वच वाठारा ।
दुहिता ही निरन्तरा । ह्या गांवाक सोबून दिसेचि ना ।।द३१९९।।
आयल्यार अशी धूव । पुराय करूंक कामावेग भाव ।
आज्ञा कडसरून राव । राण्ड बेगोबेग जातलें तूं ।।द३२००।।
पती आसूनय राण्ड । जातलें भोगवती तूं पतीचें पाखण्ड ।
केवळ तूं भूमि खण्ड । रक्त बीजच रोवून वतलो तो ।।द३२०१।।
दादुलो हो सुन्दरा । प्रसंगी तुका करतय पर दारा ।
ह्या गांवच्या दारा । मोगाळा चुकूनय नाका येवं ।।द३२०२।।
चान्दर पाड्ड जावं । भायर गेल्ली व्हंकल बरी जावं ।
हांगासर राण्ड जावं । कानांर कैंस काडून आयिल्ल्यांनो ।।द३२०३।।
कुंडे कुस्कुर तूं राव । दुडवाचे आशे रांडाव जावं ।
आशे भगत ना साव । रांडाव जावं तूं रांडाव जावं ।।द३२०४।।
कंका घासल्यो खोंटो । घसा घसा प्रस्तराचो पाटो ।
दुमदुमलो तळतळाट । चान्दरचो जालो काया पालट ।।द३२०५।।
चिप्पुट काशीताळी । शेंवटून मारिल्यो न्हंये तळी ।
तन्मणि मोहनमाळी । भिरकटावनच दिल्यो हिण्यां तिण्यां ।।द३२०६।।

आंब्याड्या पुस्प कुडक । पाटल्यो तोडे कांकण लोलक ।
पौवळी तॉण्डल कुटक । जाले थटाक मोशक दस्यु रजनीचर ।।द३२०७।।
मुद्दी नत्तू चक्रसरू । कोणूच घालचो ना घरदारू ।
कंकाले आज्ञेरू । केलें वन्दनरू जण एक स्त्रियेन ।।द३२०८।।
हाडली जण अस्तुरेन । मुद्दी नत्तू आनी वेड तीरगण ।
वज्राकुटकी कॉकण । बुगडी तीनमाळा सरू आकर्षक ।।द३२०९।।
चक्रसरू सुत्तुंगली । सरपळी चपलाहार पाटली ।
तीनमाळां सरूली । तिरगणि सोडयली कंकादेवीण ।।द३२१०।।
अमोल रगताळ वाट । की अनमोल भांगराळ राजकाट ।
निर्शेलोच न्हंये पाट । कुशावती जाली बापुडी बापुडी ।।द३२११।।
करी दान मधुर वचन । खांकनवाळ कुबेरय जाय संकिर्न ।
सांगात शेकिं कृतघ्न । संवसार जाय रुक्ष कटु रुखावळ ।।द३२१२।।
श्रेष्ठ व्यक्तीचे आड । अनवरत अधम व्यक्ती सुपराड ।
धडपडटा करूक पाड । तांच्या येत्नांक नांव षडयन्त्र ।।द३२१३।।
काडात सोदून तांका । पळभर क्षमा भाव दाखोवं नाका ।
विखा वालेक उदका । थेंबोय अम्रिताचो नाका दिवं ।।द३२१४।।
ह्यो व्यक्ति परोपजिवी । बेन्दुल्ले खाय बेनुल्ल सुटावीं ।
उत्तम व्यक्तीं न भावी । बेनुल्ल्यांक तांची जाय नसाय ।।द३२१५।।
आयक आकाशवाणी । गर्जिन्नलीच कंकावती राणी ।
घेतलें कुठार पाणीं । धोमशिलेंच अन्तःपुर आंतांत ।।द३२१६।।
पाड जावं पाड जावं । चान्दरी पुरायच पाड्ड जावं ।
म्हणत म्हणतच गांव । त्यागिलो ते राणी कंकावतीन ।।द३२१७।।
कल्लोळ कल्लोळ जालो । अगणित हृदय कम्पच निनादलो ।
विवरण पट निपचितलो । अन्ततः तर्क बुद्द तर्क विरयत ।।द३२१८।।
संवसारच विसविसलो । भाणां दोडी घरंगळल्यो ।
कळसो तांब्यो बिंदलो । जालीं कुशावतींत वल्लीं उबन्त ।।द३२१९।।
भात उपशिवी दवले । पराती पिणगी कुडान्यो बुडकुले ।
घर कूळय शिंपडले । उगडासा सुदीक बोडांय नात ।।द३२२०।।
सदाचार आग्रही । निषिद्ध दुराचारी दुराग्रही ।
राजसत्ताय निग्रही । अनाधिकारी घाली धुमशेणां ।।द३२२१।।

वाठाराची मळणी । ताटीर धानाचे मोडे मारणी ।
मड्यांची घुडे जुळणी । राशीक माल्ली जीण मळून पेर ।।द३२२२।।
मोगाची आळां कुळां । शाणे शास्त्रांची पसय फुलां ।
बिभत्सपणाची वांशेलां । सटसटीत चडी पावंडे खेपणेचे ।।द३२२३।।
स्मशानय भगभगलें । वृत्तींचे हेत्वाभास अनमनलें ।
तेच परी धगधगलें । नैतिकतेचें अस्तित्व आमूल ।।द३२२४।।
रात जाली भेसूर । फांत्या पारी गच्च धुंवरच धुंवर ।
घुंवळूनच जाय वीर । देखून प्रस्तर कंकाराणीलो ।।द३२२५।।
तिच्यो आंगळा कुरवो । प्रशस्त प्रस्तरीं फांकी नव्यो ।
प्रदीप्त उकतावो । क्लान्त दिका न् दिका फांकारली ।।द३२२६।।
चान्दरी जाय सुन्न । स्पश्टीकरणाचे अपसरण चिहन ।
शिंरशिरलें विरक्तीन । इतिहासा परस फुडार दुष्प्राप्य ।।द३२२७।।
गायत्रीच्या नांवान । कोण मांडटलो अर्चना भक्तीन ।
न्हंय कुशावती रत्न । शापित देवींची की अधमांची ।।द३२२८।
कथा जाली संपूर्ण । त्यागाची देख पुराय अपूर्ण ।
इतिहास होय विवर्ण । निष्काम सदाशय होय दुराशय ।।द३२२९।।
समश्टी कुपथी व्यष्टी । शिव सुजाती घडय विजाती नष्टी ।
अमृताक विख भश्टी । अपेक्षा अतिवृश्टीच अयथार्थ ।।द३२३०।।
आदानाचो आविर्भाव । प्रदाना समयार होय तिरोभाव ।
अभिज्ञ अनभिज्ञ अपूर्व । आयकली कथा पुरा कर्तुबांची ।।द३२३१।।



**।। भरतवाक्य ।।**

बुद्धिभ्रंश पुर्वोजांचो । घूड तो कुकडांचो सुकृतांचो ।
घराबोच कांट्यांचो । जाल्यारय तुटवचेलो गांठवूंक जाय ।।ए३०१।।
वोजे अळंग रिणांचे । घुरघुर कुड्डी कागाळ करप्यांचे ।
दोट्टी कळंतरीचें । म्हळ्यार निव्वळ इतिहास न्हय ।।ए३०२।।
आदी साकून साद । घडयता पडसाद दी प्रतिसाद ।
भितोडेंतलोय नाद । आयकुया झाडपांत सान्नीच्या ।।ए३०३।।
इतिहासाचो अडव । मना-हृदयाक करता वादीव ।
उतर हारीक सजीव । मुचमुचत कित्याक म्हूण दिवंचे गा ।।ए३०४।।
सत्यय सुदीक नेणा । ताचेरय भारंभार प्रवचनां ।
वस्तुस्थितीची गणना । एक फावट शीं हेर फावटीं धग ।।ए३०५।।
व्हाड्डीकय मोडटना । चिक्केय अनमनना सुवार्थी गणा ।
मना-कुडीन खचतना । जाताच गणना पुण्य-पापाची ।।ए३०६।।
पावस घो ओततना । न्हूवणेक आळां हाडटाना ।
इन्द्रधोणू धोलतना । चारित्र्याचीय कथा अयथार्थच ।।ए३०७।।
येतलोच कोण तरी । थंयच लायतलो म्हूर्ता फातरी ।
लिकलिकता चान्दरी । म्हणटलोच एखाद्रो एक दीस ।।ए३०८।।
प्रशान्त तुषारिणी । सुशान्त निवान्त ही मनहरिणी ।
विशान्त पुष्करिणी । संरचना नासता सरसजिणेची।।ए३०९।।
जीण न्हय शान्त स्वर । आंगांगांर ल्हारांचेच तुषार ।
वादळांचो भरमार । चम्पूची कथा ससार संवसारी ।।ए३१०।।
सरस सुरस बोलयेंत । राय कथा गोंयच्या वाठारांत ।
तत्कालीन जिणेंत । वेथा शिरकली कशी ताण्डवीं ।।ए३११।।
दुष्ट कोण कोण कली । दुश्टाईयअशी कशी विलासिली ।
दुशणी रास वाडली । काळानुकाळ भरसलें कळन्तर ।।ए३१२।।
तुषारिणी ही निर्मळ । रम्य द्रुश्यांतय रमे तळमळ ।
प्रमादांत गोंदोळ । हाचे मुखार कोणे करचो न्हय ।।ए३१३।।
हें चम्पू काव्य निश्चय । रोचकताय करी शिथिल अधमय ।
चित्ताक करी इश्टमय । कथनय स्पश्टच होय अप्रयास ।।ए३१४।।

काम कथा मन व्यथा । सत्यार्थ होय उत्तीर्ण सर्वथा ।
रुखावळेंत मित्रता । निखटो बेजारिल्लोच जाण्टा भौ ।।ए३१५।।
काव्यच विचारदायी । धर्मरक्षक व्रतधारीच होई ।
न करी निराश अजयी । प्रसादमय मती चंचल सदैव ।।ए३१६।।
काव्यांगी चर साहस । रौद्र वीर भयानक बीभत्स रस ।
अनन्त उत्साह उल्लास । निमाणें विश्रान्त होय तमारी ।।ए३१७।।
होय हें ओजपुराय । कथन अभिव्यञ्जक पदावली न्याय ।
ओजोगुणीच अन्वय । चम्पूची ह्या द्रुति दीप्ती व्याप्ती ।।ए३१८।।
श्रृंगारकरुणा शांति । निर्मणी करी भाव चित्तीं सुकान्ती ।
हास्यकरुण अक्षती । मुदू स्वरांकितीं मधुरा भाव ।।ए३१९।।
वोंपिलो नमागुंचो वर्गु । आपुलीं प्रभा समेत संवर्गु ।
हो माधुर्य संविभागु । वाचप्याल्या मनमोगांत व्यापुनु ।।ए३२०।।
चित्ताचो हो आह्लादु । अन्त्सकरणय द्रवितच होय गदगदु ।
व्यक्तींचो उपपाद्यु । तर्कप्रमाण प्रयोग वरवीं सिद्ध ।।ए३२१।।
हें चम्पू काव्य सुरसु । कर्ण प्रिय आर्द्र प्रसन्न सरसु ।
संयोग वियोग विरसू । केवळ उधंडु संतोसु मनांतु ।।ए३२२।।
ही शोकात्मक कथा । विस्तृतु सुशान्त अस्तुरीची वेथा ।
दाडाळ्यारि देखता । अमर्त्य लोकांती मर्त्य सुकन्येक ।।ए३२३।।
मर्तिक जिणेचे नेम । सर्गीचे कन्येक लागू अवक्षेम ।
दारिवण्टे बिदिरि अक्रम । सुन्धरे रूपनिळ्या अभिरत्ने ।।ए३२४।।
न्हय ही प्राचित कर्णी । न्हय ही धरणीची परिभ्रमणी ।
न्हयच कृष्णार्पणी । कथा पृथ्वीस्पर्शी प्रारब्धीची ।।ए३२५।।
शुभांगीचे प्राक्तन । हे सुमुर्ती अनाधसिद्धेचे रुदन ।
तत्त्वादि ब्रह्म वेदन । अटल देवतांक पृथ्वीस्पर्शक ।।ए३२६।।
हे भोळु निर्मळु नितळु । निशखळंक देखत खेवीं एक पळु ।
देव सुगात्री कोवळु । पृथ्वीच्या नेमांनी जाली हन्त हन्त ।।ए३२७।।
कथा ही निर्मळ नितळ । प्रसाद ओज मधुर परि सोज्ज्वळ ।
प्राण्यांक कळी काळ । सताय देवांगनांकय प्रारब्ध ।।ए३२८।।
पुनरुक्ती प्रकाशिता । ही कथा सर्व मंगल वाञ्छिता ।
गत कथा धारण कर्ता । निरखुनु प्रमाद निहाळी परथुनु ।।ए३२९।।

गाढ बन्धत्व मोजु । अतुट बंधांतु समासावली ओजु ।
मानवतेचोच कुञ्जु । सारांश जाताच गत सटिकपणी ।।ए३३०।।
समतेचो मंत्र अटळ । अक्षदण्ड मानदण्ड अखण्ड केवळ ।
कोमल तेजोमण्डळ । प्रासादिक काव्याची अभिनायिका ।।ए३३१।।
पीडा व्यंजक कथा । तटस्थ हे शैलींत एक रूपता ।
गत काळाचीवेथा । गत जाय समता मार्गा भेदांची ।।ए३३२।।
हो आरोह अवरोह । स्वरांचो उतरांचो न व्यामोह ।
समाधि गुण दीपगृह । पिडे वेदनेची सटिक दिता साखी ।।ए३३३।।
अनुक्रम मांडणीचो । स्वरीं अतुरबळी प्रभावाचो ।
आत्मिक उन्नतीचो । काव्य गुण मार्ग समाधीचो ।।ए३३४।।
म्हातारी ना दिसचीं । उतरां ह्या अजर अमर काव्याची ।
जुन्या पोन्न्या उतरांची । धरा सुकोमल जरठ जरी असलीं ।।ए३३५।।
अर्थ प्रकटीं लाघव । चम्पू काव्य न्हय धुमाडिचे गांव ।
कालानुभवी ओघव । ही अर्थ धरा उद्धरा धरा अर्थ ।।ए३३६।।
अर्थाचोय अनुवांटो । उत्तेजक काळ समयाच्यो वाटो ।
अजर अर्थांचो सांठो । उतर अजरठत्वम् सौकुमार्यम् ।।ए३३७।।
शब्दांचे अर्थ अनेक । काव्यांत उतरां कालानुगतीक ।
प्राचिनांचे हें लळितक । स्वभाव संयुक्त सरळ स्व भावे ।।ए३३८।।
शोकात्म कथा जरी । रस अश्ट वंशी वीण जरि सोवर्न ।
इतिहासाच्या कळंतरी । मूळ धन विरयत हें चम्पू काव्य ।।ए३३९।।
कल्पना सागर उदार । अर्विल्ल्या कोंकणी भाशेंत अपार ।
उतरांक पारावार । अनिवार्य ना मेर मर्यादांची ।।ए३४०।।
मनीस योनीची कुरु । न सद्दां भिरान्ती परी पापभिरू ।
शान्त निवान्त तरू । प्रशान्त सुशान्त विशान्त मन ।।ए३४१।।
प्रतीय स्पश्ट सरस । कान्तिगुणयुक्त रसरशीत सुरस ।
नेणो कोण राजहंस । कलहंस लिहित फुडारीं अजर कथा ।।ए३४२।।
इति०

**सूत्रधार** :

वेद साक्षात दैव्य । मनीस जिणेचो तत्त्वसार भव्य ।
न्याय्य परी सम्भाव्य । काव्य हें संरचित मुनिवर मानसीं ।।ए३४३।।
वेद न्हयंत गो चम्पू । तर वेदांलो तृतीय नेत्र चम्पू ।
भाष्यच केवळ चम्पू । वैदिक कथन गद्यींच रानांतुलें ।।ए३४४।।
हें वेद मंत्र ब्रह्म । न्हयच आदर्श तत्त्वसारछद्म ।
ग्रीवा श्लेमच सूक्ष्म । चम्पूच गूढ तत्त्वांचो भाष्यार्थ ।।ए३४५।।
आरण्यक न्हय न्हय । आकाशभाषित भाष्यार्थ न्हय ।
पुराय रसांची न्हंय । व्हांवयली गो मनःपूत धारिणी ।।ए३४६।।
आमी आसात भाविक। आमी आसात भावूक।
आसात आमीतारक ।सरस सरस।।ए३४७।।
आशावादीआमी।सरस सरसआमी ।
देवता आमी । सरस्वती सरस ।।ए३४८।
म्हज्यांत आसा देव।आनी ताचें सर्वस्व।
सरस तारकममत्व।सादू या समृद्धी।।ए३४९।।

**सूत्रधारिणी**:

आराधकर नण्णल। विकार परमाया नण्णल ।
तारक नण्णल। सरस सरस ।।ए३५०।।
शुभाप्ति विश्वासमं। नण्णल सरस सरसम्।
सरस दैवम्। सरसम् सरस्वती।।ए३५१।।
एन्निल उण्ट् दैवमं। एन्नें प्रवृत्ती कळुटे सरसम् ।
सरस तारक एल्लामं । दैवं सरसं सरसम्।।ए३५२।।
म्हजी भास मल्याळी । सौभाग्याचे ठसठशीत भाळीं ।
म्हजे घर मायाळी । वेंगेंत घेय थोरी सैम्बाची ।।ए३५३।।
मंगल हो अंगण द्वार । सुरभित होवो परिसर पार अपार ।
आशादीप रोगहर । उघडो दिव्य शिखर ब्रह्माण्डाचे ।।ए३५४।।
शृङ्गारी सुन्दरतम । आणि केवल सत्कर्मी कुशलक्षेम ।
श्लेम उचित जननक्षम । अन्तिम जन्म आजन्म कदापि हो ।।ए३५५।।
संग्राम हा हो विश्राम । सम्पूर्ण रत हो मन युद्धविराम ।
विसरो अधर्म विधर्म । सत्यधर्मा जप देवकर्मा विशाल ।।

सार्वभौम अध्यात्मच । अन्य इतर केवळ कण्टकवनेच ।
चन्द्रवदनी चुम्बनच । न होय आलिंगन अभिनन्दनपर ।।
दिन मास गेलो चले । तोमाके देखते वृद्धि होलो प्रश्नगुले ।
ना आशबो भोले । दुख्ख छबी ना देखाबो आबार ।।
आजन्म एक आश्वास । माथाय ओठे आलोकित तोमार भास ।
समाप्त हो संत्रास । दुश्वप्नेर शेष भालोबाशा चाय ।।
पाय चोख तोमाके । आमार घूर घूर दीर्घश्वास थाके ।
वन वन निशब्द थाके । शेष होये ना किन्तु प्रतारणाय ।।
कदम्ब राज्य भीषण । हय उपेक्खा अवहेला दारूण ।
कत काल धरे येमन । कविता गान करी तोबु तुमी गेले ना ।।
सिद्ध सदैव असरिरी । मोक्षा आदी अवस्था भव तारी ।
प्राण कर्मनाश करी । सिद्ध भगवान असरिरी अरिहन्त ।।ए३४७।।
कुकर्म नाश मनोमनीं । प्रथमा परमेष्ठी अउम पावनी ।
हें पूर्ण त्या पूर्णीं । पुरुषोत्तम करणी सच्चिदानन्द ।।ए३४८।।
चेतन अचेतन तनीं । मोहरागहया जीव-अजीव मनीं।
निदांतुय सरसराणी। परिणामसिद्ध द्वितीय परमेष्ठी ।।ए३४९।।
जीव पूर्ण अपूर्णी । जीव सहित होय परमात्मा संपूर्णी ।
पुराय करी निर्मणी । आचार्य तृतीयचपरमेष्ठी ।।ए३५०।।
परब्रह्मच पूर्ण । निर्मणी स्थिर लयपरिभ्रमण।
आराध्य मनीस संपूर्ण । उपाध्याय हो चतुर्थ परमेष्ठी ।।ए३५१।।
अउमाचो मुनी भाग । ब्रह्मादिकांलों गिन्यानी हविर्भाग ।
द्वेष कामादिक राग । विलुप्त जाय पञ्चम परमेष्ठीं ।।ए३५२।।
परब्रह्म हें अनन्त । दृष्यमान जगत भास पुर्णान्त ।
जरी जालें बहिर्गत । पूर्ण अपूर्ण सदा सर्वदा परिपूर्ण ।।ए३५३।।
णमो अरिहंताणं। णमो सिद्धाणं। णमो आइरियाणं।
णमो उवज्झायाणं। णमो लोए सव्वसाहूणं॥

**सूत्रधार** :

तुम हो सखी विनिवेश । स्वर्ग का सुगंधित परिप्रदेश ।
स्त्रीसुलभ कायाक्लेश । यद्यपि हो परिणत तुम जाया ।।
कोंकणी मलयालमी । मराठी प्राकृत भाषा ग्रहणक्षमी ।

अनुपम परम उद्यमी । काव्य संभार महत्तमी करती हो ।।
मानव क्लेश में अधिक । किया रुदन तुम ने अग्निवर्धक ।
स्मित रेखा निर्वाहक । रही है भविष्यदपेक्षक सदैव ।।
शीतल छॉव स्वामिनी । सर्वसुख दात्री निकटागमनी ।
अमल भाषा ज्ञापिनी । इन्द्रियगोचर धर्मासनी संकेत ।।
तुजो बोल अतिसोबित । प्राकृतांत मिसळटा संस्कृत ।
कोंकणी जाय अभिजात । आरण्यकीं तुजें तत्त्वविवेचन।।ए३५४।।
पुराय अपुराय कथा । पिराणु विरयत जीवोण प्रथा ।
केळसी दिता व्यथा । मावो घाय देय केसले प्रमाणी ।।ए३५५।।
जिवोणी निसरेयका । यावेर मार्गे नेत्रां धांकिका ।
जावूणु तूं अन्धकां । पूर्णत्वाचेर दृष्टी लाय गो ।।ए३५६।।
कितलोय सोद सदैव । पयस एक हातु मोछ निद्राभाव ।
शाश्वतच पूर्णत्व । ईश्वराचो वाचक ओम ।।ए३५७।।
न्हयच स्वभावाची । ही कथा रासवट प्रमादाची ।
पूर्णत्वाचे कथेची। तिरम्बयली शोकनायिका गायत्री ।।ए३५८।।
यात्रा अयच्चु म्लेञ्छी । जात्रा पेटयले सादुकाराची ।
न ही कथा पुण्याची । न हिंसात्मकतेचो तो अनुक्रम ।।ए३५९।।
सुख दुख केवल भ्रम । परम सत पूर्णत्वाचो समागम ।
भिन्न द्वैत सन्धिक्रम । पुर्णातल्यान अपूर्ण वजेचि ना ।।ए३६०।।
वचूंया सुशे गायत्री गृहि गेली । मनीं आकळी जनातें विसाये जियेली ।।
किंकणी अन्तिमी दुख्खी पृथुवी गे । सुखांचे बन्दोडीं खपेटें महा गे ।।ए३६१।।
अशान्ती विखारी विक्लान्त पुजारू । किस्नाच्या मन्दिरी इबाडी जिव्हारू ।।
अमृतांत घोळी फुडार जिवार्णी ।
चम्पू गीत साक्षी सुकान्त विराणी ।।ए३६२।।

**सूत्रधारिणी** :

आदित्यवार सुन्दर । हिंवावंक सप्तकाचो दुर्विचार ।
गायत्रीदेवीली सर । स़ोदीत रावात ह्याच चम्पूंत ।।ए३६३।।
आयतार अनिवारू । अनुचीत अपशब्दु विरयत उदरू ।
गायत्रीच आदारू । करी मना हृदयाक सत्त्वधीर ।।ए३६४।।

**सूत्रधार** :

चन्द्रवार इन्दुवार । सकळ दीस शुभङ्कर शिव सोमार ।
जिणेंतलो शिस्टाकार । वाचन करात फावता तेदनां ।।एउ६५।।
मनशांलें हें हृदय । न्हय विकळ षडयंत्र केवळ शिस्टाय ।
रञ्जककथा विरश्रय । करी चेश्टाय अघोरी शिंसोरी ।।एउ६६।।
भोवळ तर्काकय येय । मर्त्यांचे जिणीं क्रूर अमर्त्य घाय ।
धाडी शूळ शिंतय । गाय हो चम्पू अजगतीं मजगतीं ।।एउ६७।।

**सूत्रधारिणी** :

मदनमत्त भौमवार । गणरायाचे अस्तित्व पावन मंगळार ।
वारूक ब्रह्मधार । गायत्री चम्पू काव्य करी रुणजुण ।।एउ६८।।
मंगळ विभास बाधक । विरश्रयी वीर कर्तुपां साधक ।
चुकांचो मार्गदर्शक । संकडे करणेन सांगै हो चम्पू ।।एउ६९।।

**सूत्रधार** :

सौम्यवार बुधवार । सांव्हारणो आडाय बुधि विहार ।
निवान्तक शिस्टाकार । आयकुचो हो चम्पू सवर्तमान ।।ए ७०।।

**सूत्रधारिणी** :

बृहस्पतवार गुणी । ब्रेस्तार बुधीची लावण्य खणी ।
ब्रह्माण्डाची रुणजुणी । अश्टरसीं बत्तिस लखेणी कथा ।।एउ७०।।
सतपणाचो अतुरबळी । हाडी परिवर्तन स्वीकार मळीं ।
सत-असत भूमंडळी । सया नमानिलि सतपण होय पाड ।।एउ७१।।
बुधिची कुशळताय । जतन करसतपणाली अमरताय ।
बृहस्पतवार सदय । होय गायत्रीली जीण सेविता ।।एउ७२।।

**सूत्रधार** :

भृगू प्रजापती । सप्तर्शीतलोच विद्वान रुशिपती ।
त्रिदेव परिक्षापती । पावन दिन भृगूवार शुक्रवार ।।एउ७३।।
चम्पूचें जो करी ताचन । भृगूवारच करी निवान्त मन ।
जिणेचें कटु आकलन । हो चम्पू करी गोविन्द गोविन्द ।।एउ७४।।

**सूत्रधारिणी** :

शेनवार जिणें अग्र । मन्दवार कुडींत रिगे व्यग्र ।
वैराग अतित समग्र । खेविंस्थिरवासरा शेनवारा ।।एउ७५।।

म्हजी पीडा सामान्य । सामान्याक पिडती अवचिन्न ।
तिगले कांय वन्य । सोशिली पीडा दुर्दम्यांनीय ।।ए३७६।।
ब्रह्म्यालें तें वर्णन । करी वैरागाक पतित पावन ।
शेनवारालें दान । अतोजच करी हो चम्पू सेविता ।।ए३७७।।
तर्जून घे सेवकाक । पडल्यार त्यजूचो ना स्वामीक ।
जीण पडलीय भकीक । ध्यानीं मनीं धनयालेंच कल्याण ।।ए३७८।।
सोयऱ्यांलींय नातीं । संकश्टांतुल्या भ्रांतींतय सद्गती ।
हृदयीं थातारती । आपूणय न खाती पंचपक्वान्न ।।ए३७९।।
इश्टीं स्पर्शच पवित्र । इश्टालें जिणेंतलें अग्निहोत्र ।
समिधामय करि चरित्र । दृश्टीं कैंडा पालवे झडकरी ।।ए३८०।।
चारित्र्याचीच गाथा । घरकान्नेली अमळ सोज्ज्वळता ।
दुहितेंतली अनुमता । ती चालय प्राणान्तिक जावन ।।ए३८१।।
अशा व्यथांची गाथा । गायत्रील्या नावीं पवित्र संथा ।
चम्पूंत रेखिली कथा । घेवंचे आपणाकच तर्जून ।।ए३८२।।
जीण ही रे उन्मत्त । सखी कशी निर्घृण विनोदक मत्त ।
लोभक पथ आकर्शक । उलयता परिणत जिणेची वृथा ।।ए३८३।।
वनवाश्यांचें सुख रिक्त । विरल पदरीं धनी पर्थी अनिकेत ।
जीण सदैव अविधिवत । कृतांताचे नेम दुश्टांचे संकेत ।
भश्टकच प्रतिबिम्बित । अनुमोदित आत्महित बाधा करी ।।ए३८४।।
इतिहासिकी देखींत । इंगित करी खिणा न खिणा निश्चित ।
प्रायश्चित प्रसन्नचित्त । पुरुशोचित कर भुजो देखदिणी ।।ए३८५।।

**सूत्रधार** :

सप्तकांत एक दिनी । अनुचित अबिळाखु आसत मनीं ।
हो कोंकणी सज्ञानी । चम्पू काव्य करी सांगडो निवान्त ।।ए३८६।।
हीच विनवणी अभिश्ट । सुगूर सुगूर प्रत्येक खीण सुकश्ट ।
कर्म दळ न्हय क्लिश्ट । जगनियत्यां तुगेल्याच रे चरणीं ।।ए३८७।।
आपणाले समश्टीक । पातळूं जळीं मळीं संवसाराक देख ।
हीत पुण्य घणवटूंक । चतुरंगजातक तुमगेलें कीर्तीचें ।।ए३८८।।
संधान जावं सार्थक । निळें वज्र सदैव जावं वार्तिक ।
निज वर्मा निकम्बळूंक । मांडात पाळन्दी अठ निम्बोलणें ।।ए३८९।।

बिदीची बुधी मणिके । पुण्याचें निर्वाण माण्डिल्लें तत्त्वखेणिके ।
संवसाराचो जुंवो खीर । भरून पातळटलो शेकानशेक ।।एउ९०।।
ईश्वरत्वाम् च सदा रक्षतुः । पुण्य कर्मणा कीर्तिमार्जय ।
जीवनम् तव भवतु सार्थकम् । इति सर्वदा मुदम् प्रार्थयामहे ।।
तथास्तु । तथास्थु । तथास्तु ।

---



अब्या तुंब्या - अरबट चरबट खाण. आबट तिखट खाण

अउम – ओम्

अकळित – नकळ आशिल्लो

अकृर्न – वायट दशा

अक्रम – नेम विरयत, क्रम विरयत, अविधीवत्

अक्रान्दुक – कागाळ करूंक

अक्रान्दूक - पिडेन, वेदनेन किळांची मारूंक

अकुर्णे – दुर्भाग्यीं, अदृश्टीं, वायटांत

अखटाव – कटकटा, चुरचुरे

अखरखण - अस्त्रविद्येचें आयुद्ध

अखेपाय – परिणामकारक, प्रभावीपण

अखेर – अक्षर

अगम – अगम्य, मुळावो अर्थ न गमपासारकी दशा

अगुती – अवधान विरयत

अग्गिणाँ – उज्याचो (आकार)

अग्र – तोंक, साबारांत मुखार आशिल्लो

अग्र - तोंकाळ, निमुळतो भाग

अड्क – अंक, मांडी

अचर्या – अद्भूत कर्म, चमत्कार

अचल – चल ना, हाल ना, धोल ना अशी दशा

अचलचाली – वांकड्यो चाली

अजगळाय – नावाडगेपण, लापीटपण

अजयेव - हालूंक, धोलूंक अवघड अशी स्थिती

अजिरावंर – अजंवर, अमर

अजूग – पिडा, त्रास, दुखणें

अज्जउत्तो - ( आर्यपुत्र / आर्यपुत्री), यथार्थपुत्र / यथार्थपुत्री

अटमटवळ – अप्रामाणिकपण, फटिंगपण

अटवी – मळो, रान, उपवन

अटवीं – मळ्यांत, रानांत, उपवनांत

अटुक - अतर्क्य सुवात, अशीर, सकुचित, सुपुल्लें

अठ – अट, अपेक्षा

अडळकाळ – अनन्त काळ

अणकूंक - केडूंक, थोमणे मारूंक

अणहंकारा – अहंकार विरयत, गर्व विरयत

अणहद्दिअ - सुगूर, सुरक्षित

अतित - अथिती, अभ्यागत, मागतो, सोयरो

अतिरकेउणु – अथ्रेकणीं, सोंसूंक नज कशें

अतुरबळी - कल्पने पलतडची तांक आशिल्लो

अतुरबळी – बळकट, अस्थिर नाशिल्लो

अतुरबळी - सुमाराभायलो बळिश्ट, महाबलवान

अतोज – अद्भूत, विलक्षण

अतोज पावूंक - स्तंभित जावूंक

अत्रेकप – अथ्रेकप, आंवडेवप, ध्यास धरप

अथ्रेक – ध्यास, आस्त, चिन्तन, ओड

अधांप - उगते

अनन्दलें – आनन्दित जालें

अनलिखा – अक्षर रूप नाशिल्लें

अनळय करूंक - मनरंजन करूंक, मनरिझवण करूंक

अनाधसिद्धा – सासणाची, अमर, अमर्त्य

अनाशती – नाश न करपी

अनिवारू - अनावर, आटापांत येयना अशें

अनुग्नेआं – अनुज्ञा

अनुग्न्या - आज्ञा, आदेश

अनुचित – उचित नाशिल्लें

अनुज्ञेय – नियंत्रणशील

अन्तपु – सन्तप्त, क्षुब्ध

अन्तपुरा - मरणा उपरान्त सांबाळून दवरिल्ल्या वस्तींची सुवात

अन्तपूर - घरकान्नेची विशेश कूड

अन्तरावहन – लोट, रिगाव, हाडून सोडप

अन्तस्करणं – अन्त:करण

अन्द कुप – काळेल कुपां

अन्धक – कुड्डो जीव

अन्धड – कुड्डो

अन्वारोहिणी – पतील्या शवा फाटल्यान वचपी ताची घरकान्न

अपशब्दु - उणाक उतर, गाळ, म्हेळी भास

अप्रमित – अपरिमित, अमर्याद

अबद – अशुद्ध

अबिळाखु – आगळीक, बीभत्स कर्म
अब्लूर – एका गांवचे नांव
अभिच्यारिक - यज्ञ, हवन, होम
अभिनव - आथवें, नव्यांतले उत्तमोत्तम
अभिश्ट – उत्तम, कल्पनातित, अचंबा
अभिश्ट - उत्तमोत्तम कामना, वान्सा
अभ्यागतु -अंतित, अथिती, मागतो, सोयरो
अम्भर – अम्बर, मळब
अयच्चु म्लेञ्छी (मलयालम) - म्लेञ्छांक पेटयलें, धाडून दिलें
अरगज – एक प्रकारचो सुगंधित लेप
अरणिं – अरण्यीं, अरण्यांत, रानांत
अरबर – दुःसाहस करपी,
अराति – शत्रू
अरिहंताणं– अरिहन्ताक
अर्थीन – अपुर्बायेन, तोखेवन, तोखणाय करून ;
अर्नास्तत्व – अभावाची, अर्दकुटी अस्तित्वाची स्थिती
अर्बुद - अमर्याद, सर्वव्यापी, अब्ज, शंबर कोटी
अलंगुली - माणकुली
अवकळ – थातारूक जायना अशी दशा, स्थिती
अवकळा – अपमान, अवमान, अप्रतिश्ठा, अवघड दशा, दुर्दशा
अवक्षेम – अरक्षित, संकश्टित, असाह्य
अवगणना - दायित्वहीण, दायी नाशिल्ली
अवघ्राणी – आशीर्वाद दियात, टाळू हुंगून शुभचिंतन करात,
अवतलता – अन्तर्गोल
अवधारा – आयकून घेयात
अवस्वर – प्रकरण, प्रसंग
अविचारीं - चिंतप करिनासतना केल्ली कृती
अविनेय - अनियंत्रणशील
अविळाखु - आगळीक, विनयभंग, आंगिक वो मानसिक छळ
अश्रोणित - (श्रोणि - मार्ग, वाट) वाट नाशिल्लो वाठार, मळब
अश्वमेदु - घोड्याची हत्त्या करपा पासत केल्लो यज्ञ
अश्वादिक – एका गांवाचें नांव
असंखे – असङ्ख्य
अस्चर्य – चमत्कार
अस्त्र - मोखून मारपाचें आयुध, शस्त्र
अस्त्री – अस्तुरी
अस्त्री - नपुसकलिंगी
आंकुवार – कुंवारी, कुमारी
आंग-काती – त्वचा
आंगड - कोटा वो दुर्गा भोंवतणी बांदिल्लो उदका-व्हाळ
आंगमेळी - आंगांक आंग दसून मारिल्ली वेंग
आंतुडप – मेळप, सांपडप, स्वाधीन जावप
आंव - हांव
आंवु - हांव
आइति – साधन-सामुग्री एकठांय करप, सिद्धताय
आइरियाणं– आचार्य परिजनांक
आग्नेयो – उज्या वरी
आग्वल – अग्र वलय, आगळ, केंसाची बट,
आघवा – अवघा, साबार
आङ्कली – अङ्कित जाली, उमटली, चितारली
आङ्गुलिका – आंगूल, बोट
आङ्गुलें – आंगलें, बाल-वस्त्र
आचार्य गोपाल – म्हालगड्या सावन सानगड्या मेरेन
आचिर्खेन – साम्बाळून, सावधचित्त राखून
आच्छेआदिती – आच्छादन घालती
आठाळो - अंगडी, तिठो, पेठ, हाट
आडवारूक - आडो घालूंक, आडसर घालूंक
आडसरो - आडोस
आडादेडिय – निष्काळजी, दायित्व नाशिल्लो
आडुको - दुडू, पानदुडू, पयश्यांतलें उणाक नाणें
आण - सोपूत, उतर घेवपाचें वो दिवपाचें माध्यम
आणं – सोंपूत

आणविदे – जशी आज्ञा, हाडटां, सांगतां.

आणवेदी – आज्ञापयति. तुमीं उलयतात तेच सारकें

आथव – विपरित, अचर्या

आद्दत – आदरप्राप्त.सम्मानित

आनण - केळवण, भेट, लग्नांतले देणे

आन्तुरिली – अंथरिली

आपणालो –निजाचो, स्वताचो

आपैस्सा – आपोआप, यद्दच्छेन

आयक्को - आयक

आयतिका – वेवस्ता

आरत - संतुश्टपण, प्रसन्न आंवडो, समाधानी वान्सा

आरतु - नादयो, व्यसनाधीन

आरूतें - नकसूद, नेमकें

आरो - आयल्यान, निकट

आश्र्व-पार्श्व – फाटलें फुडलें, आसपास;

आली – सखी, इश्टीण

आले – हाले, धोले

आळाञ्चु - भासाभास, विचारविनिमय

आळाञ्चु – विचार-विमर्श, परामर्स (आलोच=विचार), शडयन्त्र

आळापु - स्वर वाडोवप, गावपाचो स्वर, विळाप

आळिंगन - गळ्यावेङ्ग, लिंगांक लिंग लावन वेंग मारप

आळिचा – घराचे आळींत रावपी

आवघो - पुराय, सावार

आविळुंक - घट्टपणान धरूंक, गुठलावंक

आश्लेषु – वेंगेंत घेवपी

आसार्हें - हालसरीं, मुखार, आयल्यान

आस्कार-उस्कार – उसासो, निःश्वास

इंचु - विंचू

इन्दोळु – हिंदोळ,

इश्ट – मित्र, वांगडी, सौङ्गडी

ईखयी – पारध्यांची आराध्यदेवता

ईरडी – द्विपाद, मनीस

ईरण – फाटलाव दी,

उकताव – विरक्तीची भावना, क्लान्त भावना, नीरसपण

उचित - फावता तशे, योग्य कशें

उडग – रानटी वनस्पती, रानटी रुखा वयलें फळ

उड्डण – तीन

उतर – शब्द

उतिर्न - उत्तीर्ण, जयवन्त जावप

उतिर्न – उपकृत

उत्रय जावंक - उतरायी जावप, अपकार ना करप

उदर - आंत, आंतकडी

उदरयली – उगती केली

उदिक – उदक, नीर, जल

उदेम - उद्यम, उद्वेग-वेवसाय

उदेमु – उद्यम, उद्वेग

उदौंक - उठोवंक, उत्थान करूंक

उधर – उदर, पोट

उधरण – उद्धरण, उद्धार

उधरावेया – उद्धार करावेया

उधरूंक - उद्धार करूंक, जल्म-मर्णाचे परिक्रमेंतल्यान भायर काडूंक

उधारू – उदार

उपकारान दाटलां - उपकृत जालां

उपरतूनु - विपरीत जावनु, उरफाटीं जावनु

उपवंरी - लग्नाक उचित जाल्ली

उपाशामु – उपशामु, देखीवन्त उद्बोधन

उपेखिला – उपेक्षा केल्लो

उपेखूंक - उपहास करूंक, उपेक्षा करूंक, हिणसावंक

उमळशिक – उत्कण्ठा

उमा-बोंची - चुम्बन

उरग – भुजंग, सर्प, विषधर

उलगूंक - हूंपून वचूंक, शिमेमेरे भायर वचूंक

उल्लास - अध्याय, खंड, प्रकरण

उल्लोळ – पाळ, व्हडलें ल्हार

उवज्झायाणं– उपाध्यायांक

उशिर्णे - प्रतिशोध, सूड, प्रतिदण्ड

उसरमटूंक - घुसमटूंक, श्वास प्रतिरोध जावंक

उसुंगो -उत्सङ्ग, माण्डी, वोंटी
उस्कटें - विस्कट जावप, विस्कळीत जावप
उस्रापु - उ:शाप,शापनिवृत्ति,शापमोचन, स्राप काडून घेवप
उस्सिङ्गी – उत्संगी, मांडयेर
एग एगलि – एक एकली
ओड्रू – व्हड,
ओराणी – दिण्डी, मिरवणूक
ओराणी – होरावणी
औख्य - आयुश्य, औख
औट - काश्ठ पाटयति, भवन निर्मणे पासत पाटयो, साडेतीन संख्या
औरस-चौरस - अयस-पयस, भोंवतण, शेकान शेक, सरभोंवतण
कंपुगु – दरवळ, परमळ, परिमळ
कंय - केन्ना
कटक - सेनादळाचे शिबीर
कटाकटा -अरेरे
कटु - नाडपण, षडयंत्र
कटुक – कोडू
कडयाळ्यो - अंकूश, खलीन
कडवळ – कडोसरी, कडसरी, कुशीचो भाग, कूस
कडियाळी – घोड्याक आळाबंदा दवरपाचो राजू
कणवटु – जेवणां-खाणांचे आवटें
कणवट्यो– जेवणा-खाणाचें आवटें, घटक
कणिवळ – काकुळतिसार, दयावन्त
कण्टनळ – कण्ठनाळ, गळो
कथो – सांगात,
कदम्बरायाचें तळें– कुझमोरायाचे तळें
कदापि- खंयचेय अवस्थेंत, केन्नाच,
कपट - कटु, नाडपण, षडयंत्र
कपायी – मुर्तीक चडोवपाचें न्हेंसण
कपूरवेलीचो विडो - खांवच्या पानांचो विडो
कर भार - राजस्व
करधनी - मेखला
करप - समुद्रांनी आशिल्ले फातर
करू – कर, राजस्व
कर्णी – करणी, कृती, आचरण
कळगो – ब्राह्मण
कळत्र - कलत्र, घरकान्न, भार्या
कळा लावन - निवारो, आसरो (आश्रय) उबारून
कव – खंय, खंयसर
कविळास - कैलास
कांटेल – गळ्याक लागतली सरपुली पिडा
कांतियाला – कातलेलो, कोरलेलो
कांपिनला – कम्पित जालो
काज - कार्य, गरज, गरजेचें
काजारी – कार्यमग्न
काणु - कान
काति – त्वचा
कानि – वंश-वेल
कामातुरी - कामूक जाल्ली, लैंगिकतेन भावूक जाल्ली
कामारी – कामूक दशा,
कामारी – सेवक
कामेरी - सेविका
कारा – कर्म, संबंद
कारी – केल्ले वरी
काळ – कांसाळें वाद्य, काहाळ
काळकवच - एक अस्त्र
काळगोपो –cowbird (Molothrus),
काळेचा – कांस्य वाद्याचो, काहाळेचो
काळेर - काळेल, काळ्या रंगाक आयिल्लो फुलार
कावडी - चुंबडी
काविश्वासू – अविश्वासू
काश्ट - लाकूड, जळोव
कास्मीर – कस्तुरी, काळें द्राख, केशर, पुश्करमूळ, स्फटिक
काहींची – काय जाणांची
किडकि – खिडकी, गवाक्ष, बाळणो
किडस्सा – कीड आसा
किडीत – किडयता
किणवट्यो – न्हेंसण-कामरूण, गरजेच्यो वस्तू
कित्ते – कितें, किदें

किन्तु – नासल्यारय, तरीकूय
कुंडेकुस्कूर – वोगुला. ओगी ओगी रावपी. वोगुला
कुञ्जर - हती
कुठार – परशू वो कुऱ्हाडे वरी एक शस्त्र
कुठौर – अनुपयुक्त, अनुचित थळार
कुडि – अंगांग, तन, प्रेत, शरीर
कुपरित – विरोधी चालीचो
कुपां – जलद, ढग, मेघ
कुपी - माणकुली शिशी
कुमर – कुँवर, कुमार
कुम्भिल – फटिंग
कुरुम्बोलो – कमण्डलू
कुरूळ – कुरळे, कोंगरे, मुदयाळे
कुर्ट – भेंड, पेंगट, कटिप्रदेश
कुर्प भरिते – कृपेन ओथंब जाल्ले
कुल्लाळ – अस्तव्यस्त, कल्लोळ, गोंदोळ
कुल्हाळ – कल्लोळ. कुल्हाळ. कोलाहल. कोल्हाळ
कुल्हाळु - कल्लोळ
कुशळताय –निपूणटाय, चातुर्य, प्राविण्य
कूडु – अटमटवाळ, फटिंग
कूस – कुशी, विभक्ती प्रत्यय
केंवकेंव – क्षीण करंदाय
केंवमेंव – काची-बुचींच्या खेळांतलें पद
केडां – उज्या जिबो, उज्याची केणां
केर्ण – जेवण-खाण
केति – कितले
केर - आळें
केरवो – एक तरेचें नृत्य
केरेग – मोर
केलदावणी – विटणूक, विडंबन, विदरणा
केलर्दे – मनशाळलेलें खेतें
केळसी – म्हालो
केवल – एक
केवी – खंयचे पद्धतीन
केशी – शिंव
कैवाडी / डू – कौशल्य, कुशळताय
कोंगल - तिख्यार्चे वो लोखणाचें शिरस्राण
कोंतेकार - झुजांतलें एक शस्त्र
कोगूळ –कोकिळा
कोड - कुश्टरोग
कोनम्दु – सोबीत, सुंदर
कोरणु - कारण
कोळु - रानदुकर
कोश्ट – कुश्ट रोग, म्हारोग
कोस्टिय – कुश्ट रुग्ण
क्रमवूंक - मार्ग तांकूक
क्रुट – क्रीडा
क्रोदवन्तु – क्रोधिवन्त
क्रोदवले – क्रोधावले
क्षतिक – क्षती करपी, लुकसाण करपी
क्षीर – दूद
खंकाळु – उचंबळीत, चंचल
खंगूंक - रेंजूक, कृश जावंक, अशक्त जावंक
खंडरस - पक्वान्न
खडपि – फातरी, दगडी, पाशाणी
खण्डावयास्सी – निःपात्त करपा पासत
खण्डू – अनुबन्ध, संविद, कबलात,
खपेटे - खोपटें
खर्ग – खड्ग
खर्ग - खड्ग
खळुसा – हडके, हडक्यांनी रडपाची कृती
खस्तवस्त - कश्ट, तकालस, त्रास, पीडा
खांकोळांत – माडाच्या वयल्या भागांत, रुखाच्या दोन खांदयां मदली सुवात
खाड – खाडकी, हनुवटी,
खाण्डूक - खण्डन करूंक
खिञ्चित – किञ्चित
खिणीं – खिणभर, खिणांत
खिणु – खीण, क्षण
खिती – क्षिती, धर्तरी, सहनशीलताय
खिदे – क्षुधे, भुके वरवीं जाल्ली दशा
खिरसमुद्र - क्षीरसागर
खिरोदिक – दुदाची खीर, दुदाचें उदक
खिरोदीक - दुधावरी धर्वी, उत्फुल्ल
खिला – खिळो
खिळी – कडी, (दाराचें) आडावण

